

# ...आनी तांकां मनशांत हाडले

मुदल गुजरातींत बरोवपी

झवेरचंद मेघाणी

कोंकणीत हाडपी

रवीन्द्र केळेकार

# ...आनी तांकां मनशांत हाडले


मुदल गुजरातींत बरोवपी

**झवेरचंद मेघाणी**

कोंकणीत हाडपी

**रवीन्द्र केळेकार**





साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली

*Ani Tankam Manshant Hadale* (...आनी तांकां मनशांत हाडले) :
Konkani translation by Ravindra Kelekar of Gujarati Classic
*Mansaina Deeva by* Jhaverchand Meghani. Price Rs. 25.00

Sahitya Akademi, New Delhi (1984)


First Edition 1984

**Publisher :**
Sahitya Akademi
Rabindra Bhavan
35, Ferozeshah Road
New Delhi 110 001

**Regional Offices :**
172, M. M. G. S. Marg, Dadar, Bombay 400 014
29, Eldams Road, Teynampet, Madras 600 018
Block V-B, Rabindra Sarobar Stadium, Calcutta 700 029

**Printer :**
Satish Bhide
Shree Sanjay Mudranalaya
**Prop.** Anuradha Publications Pvt. Ltd.
525, Swastik House, Senapati Bapat Marg
Dadar, Bombay 400 028

मोल : २५ रुपया

मनीसपणाच्यो पालवल्ल्यो जोती गुजरातांत परत्यो पेटोवपी

**सरदार वल्लभभाञी पटेलांक**

नमळायेन

# मांडावळ

म्हाराजांच्या चलत्या भोंवत्या विद्यापिठांत पांच दीस

# सुरवेची उतरां

गुजराती भाशेंतलें सामान्या भायलें एक पुस्तक हें. काकासाहेब कालेलकरांच्या मत्तान विश्व-साहित्यांत मोडपा सारकें.

साहित्यकारांनी साहित्याच्यो ज्यो हजार फासक्यो तयार केल्यात, तांतले एकेय फास्केंत तें बसोवंक येवपाचें न्हय. देखीक, पुस्तकांत कथा सांगिल्ले वरी दिसतात. तरूय, पुस्तक कथेचें न्हय. एका लोक-सेवकाच्या जिवितांतले म्हत्त्वाचे कांय प्रसंग तातूंत आयल्यात. पुणून पुस्तक त्या लोकसेवकाच्या जिवितावेलें न्हय, तागेलें चरित्र न्हय.

गुजरातचे भुंये वयल्यान मही नांवाची एक न्हंय व्हांवता. तिगेले तडीर धाराळा बारैया पाटणवाडिया नांवाच्या जातिचे लोक रावतात. इंग्रजांनी जांकां गुन्यावकारी जाती – क्रिमिनल ट्राइब्स – नांव दिवन हेरां पसून कुशीन काडले; तांतले. घरां फोडपी, चोरयो करपी म्हुण नामना जोडिल्ले. आंगान धिप्पाड. सभावान सादे भोळे. कोणाचो उलो आयकून कोण जाणा, इतिहास काळांत ज्यो मनीस-कुळयो खंयच्या-खंयच्यान न्हंयो कश्यो व्हांवत हांगा आयल्यो आनी भारतभुंये वयल्या 'महामानवाच्या सागरा'क येवन मेळ्ळयो, तांतल्या शक-हुणांचे वा सिथियनांचे हे दायजी आसूं येतात. रगतान एकामेकांत भरसत भरसत आयज ते क्षत्रिय म्हुण गुजराती समाजाचें एक आंग जावन रावल्यात. तांगेल्या काळजांतल्यो मनीसपणाच्यो जोती केन्ना कश्यो आनी कित्याक लागून पालवतात, आनी त्यो पालववल्यो म्हण्टकूच सादे भोळे हे लोक अकस्मात कशे उरफाटचा काळजाचे जावन देंवचारा पास्ट करण्यो करूंक, लागतात आनी असल्या ह्या देंवचारांक केन्नाय कोणूय 'खरो' मनीस मेळटा आनी तो तांचेर मोगाचो पावस शिंवरावंक लागता, तेन्ना तांगेल्या काळजांतल्यो पालवल्ल्यो त्यो जोती परत्यो कश्यो पेटूंक लागतात – ही कथा कितल्या-श्या ल्हान व्हड प्रसंगांतल्यान हें पुस्तक सांगता.

धाराळा बारैया पाटणवाडिया लोकांचो धंदो शेतकामाचो. पुणून हो धंदो ह्या देशांत कोणाचेंच पोट केन्ना सारकें भरूंक पावूंक ना. तसो हांचेंय भरूंक

पावलो ना. आनी हांकां दुसरें कसलें काम दिवंक समाजाक केन्ना आयलें ना. परिणाम : हो लोक घरां फोड, चोरयो कर, असलींय कामां करीत रावलो. असलीं कामां करप बरें न्हय अशें तांकां केन्नाच कोणे सांगलें ना. कोणे शिकयलें ना. देखून हीं कामां करता आसतना तांकां केन्ना कोणाची लज भीड मुरवत दिसली ना. उरफाटें, चोरी करप सभावीक अशें हो लोक मानीत आयलो. केन्ना केन्ना, चोरी करप आपणाली लागणूक अशेंय तो लेखीत आयलो.

ह्याच पुस्तकांतलो एकलो चोर आपुण कित्याक चोरी करतां हें सांगता आसतना म्हणटा, "परक्या घरांत बंदिस्त जाल्ली लक्षिमी केन्ना केन्ना आमकां उलो मारून सांगता : 'पापयांनो, सोडयात म्हाका ह्या घरांतली. हांव ह्या घरांतली न्हय, चुकून हांगा पावल्यां.' लक्षिमिचो हो उलो आमकां पयसल्यान लेगीत आयकूंक येता. मागीर आमकां सस्थ बसूंक येना. आमी उठून नीट वतात आनी परक्या घरांत बंदिस्त जाल्ले लक्षुमेक थंयची सोडयतात."

पुणून, चोरी करून सगळेंच ते घेवन वतात अशें मात न्हय आं. "सगळेंच आमी व्हरिनात आं ! थोडें गांवचो मुखेली घेता. थोडें फौजदाराक दिवचें पडटा. थोडें ताचे वयल्या फौजदाराच्या वांट्याक वता. आमच्या वांट्याक येतात ते फकत कांटेच आं." हेंवूंय तो चोर मेकळेपणान सांगता.

चोरकामांत हो लोक पाटांगडो. व्हडल्या व्हडल्या पोलिसांक खर्शेवंक लावपी.

असल्या ह्या चोरांत बाबर देवा नावांचो एकलो चोर आशिल्लो. गांवान गोळेलचो. जातीन पाटणवाडियो. मुदलचो देव-भगत. ताका सोदचो पडलो जाल्यार भजन-मंडळींतूच सोदचो पडटालो. 'क्रिमिनल ट्राइब्स ॲक्टा'च्या नेमाक धरून ताका सद्दां सकाळ सांजवेळ पुलिसेंत वचून आपुण 'पळून वचूंक ना' हें सांगचें पडटालें. एक दीस तो कित्याक तरी लागून पुलिसेंत पावलो ना. ह्या गुन्यावा खातीर ताका सरकारान स म्हयन्यांचे बंदखणिची ख्यास्त फरमायली. तरणे रगत. फटक् करून उसळ्ळें : 'येद्दाश्या गुन्यावां खातीर येदी व्हडली ख्यास्त ! हांकां बुद्द शिकयना जाल्यार हांवूच न्हय.' अशें म्हणून बाबर खुबलो. बंदखणींतलो पळ्ळो. कांय दीस लिपून रावलो. मागीर घरां फोडपाक लागलो. करतां करतां एक दीस वाटमारो जालो.

पुलीस ताच्या फाटल्यान लागली. बाबर पुलिसेक चुकयत रावलो. आपणाक धरून दिवपा खातीर कोणूय पुलिसेक फितुर जाला म्हणपाचो दुबावूच आयल्यार पुरो, बाबर ताचो 'कांटो काडटालो.' सादो कोणूय आसत जाल्यार तागेलें नाक वा कान कातरून उडयतालो. आनी तसोच कोणूय नांवाजतो आसत जाल्यार, ताका जितोच मारून उडयतालो. 'पुलिसेक फितुर जाला' ह्या दुबावान ताणे पंचविशेक जाणांक

मारून उडयल्ले. ह्या मारून उडयल्ल्या लोकांत तागेले कांय लागशिले सोयरेय आशिल्ले.

बाबर देव्याचीं धुमशेणां हाता भायर गेल्लीं. तागेलें नांव कानार पडना फुडें लोकांक थरथरो भरतालो.

बाबर देव्याच्या इतल्याय ह्या काळचा कर्तुपांत तागेलें एक उजळ आंगूय दिश्टी पडटालें. तो प्रसंगार लोकांक पावतालो. खूब जाणांक पाविल्लो. ताका गरिबांचो कळवळो. कोणाचो भुरगो शाळेंत शिकूंक वता. पाटी पुस्तका खातीर बापायकडेन पयशे नात. ताका पयशे धाडून दी. पियेवपाक दूद धाडून दी. कोणाली धूव लग्नाची जाल्या. लग्न थल्लां. पुणून दुडवांक लागून तें अडून उल्लां. तिका दुडवांचो आधार दी. असल्या करण्याक लागून कांय लोक ताका मानुंकूय लागिल्लो.

तागेली सगळचांत व्हडली नामना म्हळचार, खंयचेच बायल-मनशेकडेन तो केन्ना वांकडे नदरेन पळेनाशिल्लो.

बाबर देव्याक धरून भितर घालपा खातीर पुलीस यत्न-यत्न करता. तरूय तो पुलिसेच्या हाताक लागना. हाचो ' लोक ताका आसरो दितात, ताका लिपोवन दवर-तात ' असो सरकारान अर्थ केलो. खरेपणानशीं, लोकांपरस पुलिसेचोच ताका आसरो मेळिल्लो. पुलिसेंतल्याच कांय लोकांक ताचे कडल्यान 'हप्ते' मेळटाले. तो खंय आसा हें सरकाराक कोणूय येवन सांगीत जाल्यार, पुलिसेंतले हेच लोक बाबर देव्याक ताचें नांव सांगताले आनी बाबर भायले भायर ताका मारून उडयतालो. पुणून सरकाराक हें खबर नाशिल्लें. लोकूच बाबर देव्याक लिपोवन दवरतात अशें सरकार म्हणटालें. सरकारान थारायलें: बाबर देव्याक धरून भितर घालुंकूच जाय. त्या खातीर पुलीस-फोर्स वाडोवंक जाय. आसा तो फोर्स पावना. सरकारान पांच वांटचान चड पुलीस वाडोवन ती गांवां गांवांनी दवल्ली. खर्चाचो प्रस्न उपरासलो तेन्ना सरकारान आनीक-एक निर्णय घेतलो : बोरसद तालुक्यांतल्या णव्वद आनी आणंद तालुक्यांतल्या चौदा गांवांचेर एक टॅक्स बसयलो. सुमार अडेज लाख रुपये सरकाराक जाय आशिल्ले. पुलीस आनी भंगी सोडून अठरा वरसां पिराये वेल्या जण एकल्यान – दादलो, बायल म्हणिनासतना – अडेज रुपया भरचे, असो सरकारान हुकूम काडलो.

कायद्याचे भाशेंत ह्या टॅक्साक ' प्यूनिटीव्ह ' टॅक्स म्हणटाले. म्हळचार, एके तरेचो तो दंडूच आशिल्लो.

अठरा वरसांची पिराय जाली म्हण्टकूच भुरगो भुरगो उरना. तो जाणटचांत मोडपाक लागता. आनी जाण्टेपणाची खूण म्हणून ताच्या गळयांतलें हाड मणया भशेन वयर सरता. ह्या मणयाक – 'अॅडम्स एपला'क–गुजराती भाशेंत 'हैडियुं' म्हणटात.

ह्या उतरा वयल्यान सरकारान घाल्ल्या टॅक्साक बारीक दुबळो लोक "हैडिया वेरो" म्हुण वळखुपाक लागले.

१९२३ तली खबर ही. देशांत गांधीयुग सुरू जावन आठ-णव वरसां जाल्लीं. ह्या नव्या युगाचो प्रभाव सगळयांत चड गुजरातांत दिश्टी पडटालो. गुजराती समाज जागो जाल्लो. ताका हो टॅक्स अन्याय कसो दिसलो. ताणे सरदार वल्लभभाई पटेलांच्या फुडारीपणा खाला ह्या टॅक्सा आड एक चळवळ केली. त्यावेळार मही न्हंयेचे तडी वयलो हो धाराळा बारैया पाटणवाडियांचो वाटार सरदारान ज्या एका तरणाटचा सुवादीन केल्लो ताचें नांव रविशंकर व्यास.

ह्या पुस्तकांत 'म्हाराज' नांवाचें जें एक व्यक्तिमत्त्व पाना कणकणी आमच्या दोळयांमुखार उबें रावता तें ह्या रविशंकर व्यासाचें.

गुजरातांतल्या खेडा जिल्ल्यांत मातर नांवाचो एक तालुको आसा. थंयच्या रघु नांवाच्या गांवांत सरसवणिचो शिवराम व्यास नांवाचो एकलो ब्राह्मण रावतालो थंयचे एके मुळावे शाळेंत शिकयतालो. ताचे घरकान्निचे नांव नाथीबा. आयच्यान जिस्त शंबर वर्सां पयलीं – म्हळयार, १८८४ वरसा फेब्रुवारिचे २५ तारखेर महा-शिवरात्रे दिसा तांगेर एक चलो जालो. ताका तांणीं नांव दवल्लें : रविशंकर.

रविशंकर भुरगेपणा सावन घटमुट. झाडार चड, न्हंयेंत पेंव, हे ताचे खेळ. खंयचेंय काम हातांत घेवं, पुरो जायनासतना वा वाजेनासताना करीत रावप हो सभाव. त्या भायर काळजान धीट. एकोणीस वरसांचे पिरायेर छोटालाल नांवाच्या एका तरण्या कवीन ताका आर्य–समाजाची वळख करून दिली. ताचो रविशंकराच्या मनाचेर येदो प्रभाव पडलो कि तो आर्य–समाजाच्या विचारांचो प्रचार करीत गांवां-गांवांनी भोंवपाक लागलो. 'देशाची दुर्दशा पळोवं नज, ती ना करूंक जाय' हे तळ-मळीन भोंवता आसतनाच रविशंकरांक गांधीजीचें एक ल्हानशें जिवीत वाचपाक मेळ्ळें. गांधी त्यावेळार दक्षिण आफ्रिकेंत आशिल्ले. पांच वरसां उपरांत ते मायदेसाक परतले आनी अहमदाबादे लागसार साबरमतिचे तडीर एक आश्रम काडून रावपाक लागले. तेन्ना रविशंकर व्यास तांकां मेळपाक गेले. दोगांयची नदरेक नदर मात लागिल्ली, दोगूय एकामेकांचे जाले. स्पर्शमणी लागना फुडें लोखणाचें भांगर जावचें तशें-शें कितें रविशंकरांच्या जिवितांत घडून आयलें.

मुदलचे उजू संस्कार, उपरांतची आर्य-समाजी उर्बा, तातूंत आतां एके नवे नदरेची भर पडली. रविशंकर गांधींचे 'मिशनरी' जावन गांवांगांवांनी भोंवपाक लागले. तांणी नेमून दिल्लीं कामां करपाक लागले. स्वराज्या खातीर सगळयांनी चरखो चलोवंक जाय म्हुण थल्लें. रविशंकर व्यास गावांगांवानी भोंवन चरख्याचो

प्रचार करपाक लागले. हिन्दू समाज घटमूट करपा खातीर अस्पृश्यतेच्या नांवान चलिल्लें आफुड-भश्ट ना करूंक जाय म्हूण थल्लें. रविशंकर व्यास सनातन्यांच्या अड्ड्यांचेर वचून आफुड-भश्टा आड उलोवपां करपाक लागले. मदींच खंयची न्हंय खुबली. गांवचे गांव बुडोवन व्हांवपाक लागली. रविशंकर व्यास न्हंयो-व्हाळ उपून गांवा-गांवांनी, खोंपी-खोंपींनी वचून लोकांक आधार दिवपाक लागले. मदींच सुकी धाड आयली. अन्न गोटो म्हारग जालो. गांवांगांवांनी वचून तांणी 'जंय सवाय धान्य मेळटा' असले पसरे उकते केले. खासा आपुण तागडी घेवन बसले. प्लेग कॉले-राच्यो सांथी आयल्यो. रविशंकर व्यास कांशे उबारपाचें काम करपाक लागले. दंगे जाले. रविशंकर व्यास हड्ड्याचें कोट करून कशें उबे रावचें तें लोकांक शिकोवपाक लागले. सत्याग्रह सुरू जालो. बंदखणींत वचपाक लागले. 'ख्यास्त' म्हूण सद्दां पंचवीस किलो धान्य दळून दिवपाक लागले.

पस्तीस वरसांचे पिरायेर तांणी आपणालें जिवीत गुजराती समाजाक ओंपिल्लें. तेन्ना पसून काल-पयर मेरेन रविशंकर व्यास जिच्यांत पडूंक नात असली एक्कूय चळवळ गुजरातांत चलूंक ना. हालीं हालीं १९७५ त गुजरातांत नवनिर्माणाची चळवळ चलिल्ली. एक भ्रष्ट सरकार सकल उडोवपाक गुजरातांतलें तरणें रगत मुखार सरिल्लें. रविशंकर व्यास णव्वद वरसांचे उतार पिरायेर हे चळवळींत सग-ळ्यांत मुखार दिश्टी पडटाले. तांकां शंबर भर जालीं. अजून ते काम करतात. प्रेरणा दितात.

'हांव तुमचो. तुमी सगळे म्हजे' हे भावनेन आनी लागणुकेन ते गुजराती समाजाकडेन एकरूप जाल्यात. गांधींचो एक आडवाद सोडीत जाल्यार जितल्या घरांनी रविशंकर व्यासांनी सुवात जोडल्या तितली सुवात जोडिल्लो दुसरो कोण खंयचेच कडेन पळोवंक मेळचोना.

तांच्यो कितल्यो-श्योच आख्यायिका गुजरातांत जिबे-जिबेर घोळिल्ल्यो आयकूंक मेळटात —

शान्ताबेनचे धुवेचें लग्न थल्लां. रविशंकरांक आमंत्रण ना. येद्या-श्या कामाक येद्या व्हडल्या मनशाक कित्याक आपोवया, कित्याक ताचो वेळ होगडावया अशें येवजून आमंत्रण धाडूंक ना. पुणून खबर तांच्या कानार पावता. ते नीट उठून येतात. जिस्त म्हुर्तार पावतात. 'तुगेले धुवेचें लग्न. म्हज्यान आयले बगर रावं येत व्हय.' ते शान्ताबेनीक सांगतात.

एकल्या तरणाट्याचें ऑपरेशन थल्लां. आवय हुसक्यांत आसता. 'तूं हुस्को करूं नाका गे. हांव म्हऱ्यांत रावतां' असो धीर दिवन रविशंकर हॉस्पिटलांत वतात.

हॉस्पिटलांत एकलो मरणा वांगडा झुजत रावला. रविशंकर व्यास दोन म्हयने म्हन्यांत रावन ताची सेवा करतात.

एकले म्हातारेचो पूत आफ्रिकेक गेला. ताची चिटूच ना. रविशंकर ताका चीट बरयतात. ताची खबर हाडून म्हातारेक सांगतात.

एक आनी दोन न्हय, शेंकडयांनी आख्यायिका आयकूंक मेळटात.

कवी जल्माकूच येवचो पडटा अशें म्हण्टात. 'स्वयंसेवक' लेगीत जल्माकूच येवचो पडटा जावंक जाय.

व्यास हें रविशंकरांचें आडनांव. ह्या आडनांवाचे लोक फकत ब्राह्मणांतूच दिश्टी पडटात. गुजरातांत ब्राह्मणांक 'महाराज' म्हणपाची चाल आसा. हे चालीक धरून रविशंकर व्यास रविशंकर महाराज जाल्यात.

'महाराज' ह्या नांवानूच गुजरात तांकां वळखता.

भुरग्यांचीं दुख्खां आवयक आपशींच कळचीं तशीं गरीब धाकटयांचीं दुख्खां म्हाराजांक आपशींच कळ्ळीं. ते तांच्या दुख्खांकडेन एकरूप जाले. तीं ना करपाक वावुल्ले. असत्य अन्याय अनीत दिश्टी पडली तेन्ना ते उसळळे. गरीब धाकटयांच्या पंगडांत रावन बळिश्टां आड झुजले. करतां करतां मनीस ह्या नात्यान ते येदे व्हडले जाले कि लोक तांकां ' मूठी उंचेरो मानवी ' The tallest among all म्हुण वळखुपाक लागले.

तांगेली नमळाय आकांताची.

काकासाहेब कालेलकर म्हणटात —

" हांव पयलेच खेपे तांकां मेळ्ळों तेन्ना तांगेलो भेस, तांगेल्या खांदावयली कांबळ आनी आंग चोरून बसपाची तांगेली रीत पळोवन हो कोणूय तरी बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्लो सादो कार्यकर्तो आसतलो अशेंच म्हाका दिसलें. पुणून दुसऱ्याच खिणाक हो आंगान घटमुट तसो मनानूय घटमुट आसूंक जाय अशी छाप पडली. प्रस्न विचारताले तेन्ना हो भरिल्लो कळसो आसूंक जाय अशें दिसतालें. नदरेंत भल्ली ती तांगेली सामान्या भायली नमळाय. "

इतलो निर्मळ शुचिर्भुत मनीस सपसप खंय पळोवंक मेळपाचो ना. तुमी वरांची वरां तांचेकडेन उलयत बसात. वरसांचीं वरसां तांकां पळेत रावात. कोणाच विशीं कसलीच कोडसाण तांच्या मनांत तुमकां दिश्टी पडपाची ना.

म्हाराज साहित्यिक न्हय. पुणून जेन्ना कितेंय सांगूंक बसतात तेन्ना तांगेली कथाशैली पळोवन व्हडले व्हडले साहित्यिक चकासूर जातात. तांगेली शैली सादी

आनी सरळ. म्हॉंवाळ तशी तेजिश्ट. नीट काळजांत वचपा सारकी. झवेरचंद मेघाणी सारक्या शैलीकारांक लेगीत अजापांत उडोवपी.

म्हाराजांच्या जिविताची खबर सांगपी कितलींशींच पुस्तकां गुजराती भाशेंत भायर सल्ल्यांत. तातूंत सगळचांत चड गाजिल्लें पुस्तक म्हळचार झवेरचंद मेघाणींचें ' माणसाईना दीवा '. १९४५ त 'ह्या वरसाचें सगळचांत बरें पुस्तक' म्हुण 'महीडा पारितोषिक ' जोडूंक पाविल्ल्या ह्या पुस्तकाच्यो आतां मेरेन पंदरा आवृत्त्यो भायर सल्ल्यात.

ताचोच हो कोंकणी अणकार.

ह्या पुस्तकांत म्हाराजांच्या जिवितांतल्या फकत धा वरसांच्या काळांतल्यो कांय खबरी आयल्यात. सरकारान घाल्ल्या 'प्यूनिटीव्ह् टॅक्सा'आड जागरूक गुजराती समाजान चळवळ उबाल्ली, तेन्ना म्हाराजांचो धाराळा बारैया पाटणवाडिया जातीं-तल्या लोकांकडेन दाट संबंद आयलो. चळवळ जैतवंत जाली. सरकाराक टॅक्स फाटीं घेवचो पडलो. पुणून हे चळवळीक लागून म्हाराजांक जो एक नवोच संवसार दिश्टी पडलो, ताणे तांच्या जिविताक एक नवी वाट दाखयली. तांणी धाराळा बारैया पाटणवाडिया लोकां मदीं च रावन काम करपाचो बेत केलो. हे चोरयो कित्याक करतात, घरां कित्याक फोडटात, वाटमारे कित्याक जातात हें तांचे मदीं रावन तांणी समजून घेतलें. आनी ह्या वाट चुकिल्ल्या लोकांक नीट वाटेर हाडून सोडूंक जाय, असो निर्णय घेवन ते काम करपाक लागले. तांचेकडेन एकूच 'जडी बुटी' आशिल्ली. मोगाची. आनी तांतूतल्यान येतले निःस्वार्थ सेवेची. ती गांधीन तांच्या हातांत दिल्ली. तीच घेवन ते तांचे मजगतीं वचून रावले. तांगेर वचून रावप. पुणून जेवप ना. तांच्याच आंगणांत खाट घालून बसप. पुणून न्हिदप ना. तांचे पडवेर बसून मोन्यांनी चरखो कांतप. पुणून उपदेस करप ना. अशें करीत करीत एक दीस तांणी ह्या लोकांक जिखून घेतले. आनी मागीर, ' पापयांनो, कित्याक चोरयो करतात, चोरयो करतकूच काळजां म्हेळीं जातात' इतलेंच समजावन सांगपाक लागले.

आनी वाट चुकिल्ल्या कितल्या-श्याच जाणांक तांणी मनशांत हाडले.

वाट चुकिल्ल्यांक नीट वाटेर हाडपाची एकूच वाट आसा, ती मोगाची. न्यायाधिशाचें घट काळीज घेवन वाट चुकिल्ल्यांक ख्यास्त करचे परस क्षमेन उपाट भरिल्लें आवयचें मोगाळ काळीज घेवन मनीस काम करीत जाल्यार मनीसपणाच्यो पालवल्ल्यो जोती पेटोवंक येतात, हें म्हाराजांनी खासा अणभवान दाखोवन दिलां.

ह्या पुस्तकांत म्हाराजांच्या ह्याच प्रयोगांची कथा आयल्या.

झवेरचंद मेघाणी (१८९६–१९४७) म्हळचार गुजराती साहित्यातलें एक

भौ-मानादीक नांव. कथाकार, नवलकथाकार, कवी आनी गीतकार म्हुण तांणी गुजराती बरपावळींत आपणा खातीर एक खाशेली सुवात जोडून घेतल्या. ते पत्रकार आशिल्ले. समाजसुधारक आशिल्ले. सामाजिक वा राजकी मळावेल्या अन्यायां-अत्याचारां आड ते झुजताले तेन्ना तांगेली लिखणी तरसादेचें रूप घेताली. गुजरातांतल्या सौराष्ट्र नांवाच्या वाटारांतल्या गांवांगांवांनी, खोंपीं-खोंपींनी भोंवन तांणी शेणिल्लो शिंपडिल्लो लोकवेद एकठांय करून संपादित केल्लो. जाणकार तांगेल्या ह्या वावराक गुजराती साहित्याची सगळ्यांत व्हड, सगळ्यांत चड मोलादीक सेवा लेखतात. गांधी युगांतले स्वराज्याचे चळवळींत ते आपणाल्या खणखणीत आवाजांत गितां गायत भोंवताले तेन्ना तांगेल्या गितांतल्यो शौर्याच्यो आनी साहसाच्यो, मोग।च्यो आनी पराक्रमाच्यो कथा आयकून लोकांच्या आंगार कांटो फुलून येतालो. तांकां झुजपाचें फुरण येतालें. तांगेल्या ह्या वावराची महात्मा गांधींनी खूब तोखणाय आनी तूस्त केल्ली. रवीन्द्रनाथांच्या बंगाली गितांचो गुजराती अणकार करून ' रवीन्द्रनाथ गुजराती जाल्ले जाल्यार ते गुजरातींत जिस्त अशींच गितां रचतले आशिल्ले ' हे भाशेचीय तांणी तूस्त जोडिल्ली.

शैलीकार म्हुण ते खूब नांवाजते आशिल्ले.

पुणून, जाणकार म्हणटात, मेघाणिची साहित्य शैली खंयच्याच एका पुस्तकांत सोळाय कळांनी फुलून आयिल्ली पळोवंक मेळटा जायत जाल्यार ती तांगेल्या ह्या ' माणसाईना दीवा ' पुस्तकांतूच. शैलीकारांनी मेघाणिचे शैलेक ' अद्‌भुत-रम्य ' लेखल्या.

मेघाणिचे शैलींत म्हाराजांची गाथा वाचता आसतना एका पवित्र तीर्थांत न्हावंक मेळिल्ल्याची धादोसकाय वाचप्यांक मेळ्ळी जाल्यार अजाप न्हय. पुस्तकाक कोंकणी भेस चडयता आसतना म्हाका ती मेळ्ळ्या. शुद्ध, निर्मळ, शुचिर्भुत जाल्लेवरी दिसलां. आनी जीव धादोसभरीत जाला.

प्रियोळ, ७ मार्च १९८४

**रवीन्द्र केळेकार**

१

# बहारवटियें* शिकोवपाक आयलां

वात्रक न्हंयेचे तडीवेल्या शेतांतली वाट दिसा-उजवाडे लेगीत भंयाची जावन पडिल्ली. हे वाटेन येतल्या वेतल्या खूब जाणांक थंय नखलामी जाल्ल्याची खबर आऱ्या-पयऱ्यान येताली. असले हे वाटे वयल्यान रातचो वचपाचो धीर कोणाक केन्ना जावचो नाशिल्लो. धवाड्यांतलो तर कोणूच थंयच्यान वचपाचीं पिशेपणां करचो नाशिल्लो. बावीस वरसां[1] आदले एके काळखे राती जाल्यार, ही वाट अदिकूच भिरांकूळ जाल्ली. वाटमाऱ्यांच्यो तीन टोळयो वात्रक आनी मही दोनूय न्हंयां तडीर धुमशेणां कांडटाल्यो. एक बाबर देव्याची, दुसरी नामदारियाची आनी तिसरी, डायाभाय फौजदाराची.

असले हे वाटेन एक दीस रातच्या काळखाचो पड्डो पडल्या उपरांत कपडवंज तालुक्यांतलो एक भट भरकड्या सावन सरसवणीक वचपाक भायर सल्लो, पांयांनी आनी अनवाणयां. खोमीस, पुडवें आनी तोपी इतलोच भेस ताचो. पिरायेन आसुंये सुमार चाळिसेक वरसांचो. सामान्यतायेन सकाळीं तोंड धुयनाफुडें रातचो न्हिदूंक वच मेरेन ताका पांयांनी भोंवपाची संवंय. लोकांक तो सदां खंयच्यानूय खंयूय वतना-येतना वाटेर दिश्टी पडटालो. येतल्या वेतल्या सगळ्यांचो तो वळखिचो आशिल्लो. ते ताका 'म्हाराज' म्हण्टाले. इतलेंच न्हय, तर तांतले कांय जाण ताका पळेना फुडें नमस्कार करताले, माये-मोगान जाप करताले. ताकाय हाची संवंय जाल्ली. पुणून ते राती कितें म्हुण कोण जाणा, शिमेवयल्यान भरकड्याक येतल्या लोकांची चाल ताका

---

* बहारवटिये=बहिर=भायर, वृत्त=चलप, वागप. समाजांतल्यान भायर सरून समाजांतले न्हय जाल्ले वरी चलप. राजान अन्याय केल्लो आसलो जाल्यार, खुबून ताका 'बुद्द शिकोवपाक' जे कायदे मोडटात, वाटमारेपण करतात ते. एके तरेचे बंडखोर. Outlaws.

[1] १९२२ तली खबर ही.

मात्शी विचित्र-शी दिसली. तांच्यांत ताणें एक भित्री-शी ताकतीक पळेली. असली ताकतीक ताणें तांच्यांत ह्या आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्ली. ताका मात्शें अजाप जालें. हांच्या पांयांक आयज अशी ताकतीक-शी कित्याक ? तो मनांतल्या मनांत आपणाकूच विचारपाक लागलो. हो म्हाराज हेरकडेन खंयूंय हांकां दिश्टी पडिल्लो जाल्यार दन्पारच्या कडार लेगीत हांच्यांतलो एकाद-दुकलो वाटेर ताका आडायतलो आशिल्लो. आपलो फेंटो जमनीर पातळावन ताचेर ताका उबो करतलो आशिल्लो, ताच्या पांयाची धुल्ल फेंटचार घेतलो आशिल्लो, ते धुल्लिचो कण कपाळाक लायतलो आशिल्लो आनी लक्तुबायेन ताचेकडेन चार खबरी उलयतलो आशिल्लो. तोच लोक हो, आयज ताकतिकेंत आशिल्लो. ‘ मुखार वचूं नाका’ हें सांगपाक लेगीत हांचो आवाज आयज जड कित्याक जाला ? तांच्या आवाजांत आयज एकेतरेचो भय आनी हुस्को दिसता. हांची कोणें गची बी अंदिल्या काय कितें, असो दुबाव येता. कित्याक काय ? कितें जालां ? असले कितले-शेच प्रस्न म्हाराजांचे तकलेंत उपरासले. पुणून उपरासले तशे त्याच खिणाक ते विरुनूय गेले. ‘ शेतकामती लोक बावडो, काम करून-करून पुरो जालां जातलें तांकां. घरा पावपाचे ताकतिकेंत आसतलो.’ ताणे मनांतल्या मनांत म्हळें. आनी आपणाकूच समजावन सांगलें : ‘ ते हेंवूय जाणांत, एक फावट खंयूंय वचपाक भायर सरिल्लो हो म्हाराज मदल्यान केन्नाच परतना म्हुण . . .’

आनी तो चलत रावलो. मात्सो मुखार पावतकूच लोक येवपाचोय बंद जालो. शिमेर जितो मूस लेगीत दिश्टी पडना जालो. अस्तमे दिकेक व्हांवतले वात्रकिची तड आनी दुसरे वटेनचीं शेतां, हांचे मदल्यान वचपी वाट खोल खोल जायत अखेरेक बोगद्या भाशेन जाली. काळोख इतलो गुपाट जालो कि म्हाराजांक खासा आपणालो हात लेगीत दिसना जालो.

अवचित तांच्या हड्ड्याक कोणाचो तरी हात लागलो. एक जिवो हात आपणाक आडायता, मुखार वचूंक दिना, हांगासून परत म्हुण सांगता अशें तांकां दिसलें. इतलेंच न्हय, तर आपणाक कोण तरी धुकलता अशेंय दिसलें.

‘ कोण रे ?’ तांणी विचाल्लें.

‘ हांगाच्यानूच परतुपाचें’ तांकां एक आवाज आयकूंक आयलो. भयान, कानांत ल्हवू फुतफुतून सांगिल्ले वरी कोण एकलो तांकां सांगतालो.

गोठ्यांतल्या दर-एकल्या गोरवाक ताच्या आवाजा वयल्यान वळखतल्या धनया भाशेन म्हाराज हो आवाज वळखले आनी तांणी विचाल्लें, ‘ पुंज्या, तूं रे ? ’

‘ हय, हांगासुनूच परतुंया . . .’ म्हाराजांच्या हड्ड्याक हात लावन परतुंया म्हुण सांगपी आवाज अदीक ल्हवू जावन तेंच सांगूंक लागलो. म्हाराज हरशीं ल्हवू आवाजानूच सदां उलोवपी. तांकां आपलो आवाज अदीक ल्हवू करपाची गरज

नाशिल्ली. तांणी आपल्या सदच्या आवाजानूच विचाल्लें : ' कित्याक रे ?'

' मुखार अवचिन्नाळे लोक आसात, म्हाराज. '

' कोण ? बहारवटिये मरे ?'

' हय, . . . .नामदारियो.'

' हांव तांकांच सोदूंक वतां. ' म्हाराजांच्या तोंडातल्यान सट्ट करून जाप भायर सल्ली.

धाराळा-ठाकरडयांचो* हो पुरयत, उलयलो तें येवजून उलयल्लो काय कितें, करूंक भायर सरिल्लो तेंवूंय येवजून करूंक भायर सरिल्लो काय कितें, हें धरूंया, तेन्ना ताका कोणेंय विचाल्लें. जाल्यार ताका तें सारकें सांगूंक येवचें नाशिल्लें. आयज लेगीत येना. घडये तो सांगतलो आशिल्लो : ' हांव जें कितें करूंक भायर सरिल्लों ताचेर म्हजो शेक नाशिल्लो, दुसऱ्याचो कोणाचो आशिल्लो. ' दुसऱ्याचो म्हळ्यार कोणाचो, हेंवूंय ताका सारकें सांगूंक येवचें नाशिल्लें.

ताणे पुंज्याक म्हळें, ' हांव तांकांच सोदतां, पुंज्या. तांकां मेळचें आसा म्हाका.,

' ना, ना . . .' काचाबूल जाल्ल्या पुंज्यान काळखांत ल्हवू आवाजान म्हळें. ' ते तुमची इज्जत घेतले . . .'

' म्हजी इज्जत ते कितें घेतले ? चल, दाखय म्हाका, खंय आसात ते . . .'

' ना . . .हांव तुमकांय वचूंक दिवपाचों ना, आनी तुमच्या वांगडा हांवूय येवपाचों ना. तांणीं तुमकां कितेंय केलें जाल्यार हांव कितें करतलों ? तुमकां तांच्या हातांतल्यान वाटावप म्हाका जमचें ना. मागीर लजेन जीव दिवचो पडटलो म्हाका. चलात, हांव सांगतां तें आयकात, परतुंया आमी हांगासून. तुमकां ओल लेगीत धरतीत ते, सांगूं नज . . .'

'ओल धरतीत' हीं उतरां कानार पडनाफुडें म्हाराजांचे तकलेंत जोगलावल्ले वरी जालें. तांकां ह्या खिणामेरेन हो दुबाव येवंक नाशिल्लो. वाटमाऱ्यांक उपकारा पडपा सारकें आपणाकडेन कांयच ना. मागीर भंय कसलो ? आनी कित्याचो ? इतलेंच तकलेंत आशिल्लें. पुणून ' ओल धरतीत ' ह्या उतरांनी तांकां जाग आयली. ओल धरतात आनी मागीर सोडोवन हाडपाक हे लोक खूब पयशे मागतात. वेळार ते पावते केले नात जाल्यार ओल धरिल्ल्याक जितो मारतात ! जीव होगडावपाची आपणाली तयारी आसा. जिवाची कसली पर्वा ! पुणून . . .पुणून . . .अवचित तांकां एक उगडास जालो : आपणाकडेन एक मोलादीक वस्त आसा. ती वाटमाऱ्यां हातांत दिवन होगडावंक उपकारना, आपणाक तो अधिकारूय ना . . .ही वस्त म्हळ्यार

---

* एक जात–क्षत्रियांची

प्राण. तांचें जिवीत. तें आयज तांचें उरूंक नाशिल्लें. तें ताणीं दुसरे एकेकडेन पणाक लायिल्लें. दोन म्हयन्या उपरांत हो प्राण बारडोलिच्या झुजा-मळार ओंपचो थारायल्लो.

१९२२ तली खबर. महात्मा गांधीन ब्रिटीश सरकाराक दोन म्हयन्यांची मुजत दिल्ली. दोन म्हयन्यां भितर सरकारान भारताक स्वराज्य दिलें ना, जाल्यार आपूण बंड करतलों अशें म्हळ्ळें. ह्या बंडांत स्वराज्याचे वेदीर गुजरातान आपलें पयलें बलिदान दिवचें थारायल्लें. त्या उपरांत पुराय देशांत हें झूज पातळपाचें आशिल्लें. ताचीं पयलीं तोरणां बारडोलिच्या दरवटचाक लागपाचीं आशिल्लीं. थंयच ल्हायो फुटच्यो तश्यो सरकारी तुबकांतल्यान गुळयो फुटपाच्यो आशिल्ल्यो. हातूंत कोणाक कसलो दुबाव नाशिल्लो. ह्यो गुळयो आपणाल्या हड्डचार झेलपाक दोन हजार लोकांनीं आपलीं नांवां दिल्लीं. तांतलीं दोन नांवां लोकांक प्रिय आशिल्लीं. एक – मोहनलाल कामेश्वर पंडचाचें आनी दुसरें, ह्या भटाचें – रविशंकर म्हाराजांचें.

हे भाशेन मरणाक वेंग मारपाचो एक व्हड सुयेग – पवित्र आनी काळीज उचांबळीत करपी – तांकां मेळिल्लो ! तो फुकट कसो होगडावं येत आशिल्लो ?

म्हणटा म्हणसर म्हाराजांचे तकलेंत आनी एक चित्र उबें रावलें :

पांच स दिसां आदीं, महीचे तडीवेल्या खानपूर गांवांत एक सभा भरिल्ली, बारडोलिच्या झुजाचें शींग फुंकपी. सभा सोंपली तेन्ना गांवचो तरणो मुखेली परशोतम म्हाराजांक मेळपाक आयिल्लो. परशोतम सरकारी नोकरेंत आशिल्लो. अशें आसुनूय म्हाराजांक तो आग्रो करून आपल्या घरा घेवन गेल्लो. परशोतमाक दोग पूत. एकलो आंगान मोटो. दुसरो किडकिडीत. तांकां ताणें नांवां दवल्लेलीं : शौकत अली आनी महमद अली. हें पळोवन म्हाराजांक खोशी जाल्ली. तांणी न्हिदूंक वच्चे पयलीं परशोतमाक म्हळ्ळें : ‘ परशोतमा, तूं आतां सरकारी नोकरी सोड आनी स्वराज्याचे चळवळींत आमच्या वांगडा यो. परशोतमान जाप दिल्ली : ‘ म्हज्यान जायत व्हय हें ? जायत–शें दिसना म्हाका. ’

रात सोंपून दुसऱ्या दिसा सकाळीं म्हाराजांक फळार दितना परशोतमान म्हळें : ‘ रातीं सवनरात घरकान्नी वांगडा उलोवन ही सोडचीट बरयल्या, ती मात्शी वाचून पळेयात. ’ म्हाराज सोडचीट वाचीत गेले. तशें तशें तांचें काळीज खोशयेच्या उमाळचांनी उडक्यो मारूंक लागलें. सोडचीटिची भास खर आशिल्ली. तांणी ओल्या दोळ्यांनीं परशोतमाच्या तोंडाकडेन पळेलें. तेन्ना परशोतमान म्हळें : ‘ सोडचीट आत्तांच्या आत्तां धाडून दितां. पुणून म्हजी एक अट आसा : बारडोलींत सरकारी तुबकां फुटपाक लागतलीं तेन्ना पयली गुळी म्हाका झेलूंक मेळूंक जाय. गुळी म्हज्या हड्डचाक लागून हांव ‘ भारतमाता की जय ’ म्हणून धरणीर पडटलों त्या उपरांतूच

दुसऱ्यांक ती संद मेळूंक जाय. त्या आदीं न्हय. मान्य आसा व्हय हें तुमकां ? . . .'

म्हाराजांक हे गजालिचो हांगा उगडास जालो. तांकां दिसलें : 'आंगार कांटो फुलोवपी असल्या राष्ट्रमंगळ मृत्युपर्वाक ओंपिल्ली ही जीण वाटमाऱ्यांच्या हातांत दिवन फुकट होगडावप ? च्ये, परतल्लें बरें. आनी-आनी मुखार वचप ना . . .'

म्हणटा म्हणसर दुसरें एक चित्र तांच्या दोळ्यांमुखार उबें रावलें—

तीन दीस जाल्ले, वारुणा गावांत एक सभा भरिल्ली. शेंकडयांनी लोक एकठांय जमिल्लो, वाटमाऱ्यां आड उपाय कितें घेवचो हें येवजुपा खातीर. ते सभेंत म्हाराजान लोकांक सांगिल्लें, 'प्राण दिवचे पडल्यार पडूं, पुणून वाटमाऱ्यांक भियेवंक जायना. तांच्या आड हड्डें मुखार काडून उबे रावंक जाय.' त्या वेळार, मेहमदाबाद तालुक्यांतलो एकलो पाटीदार* थंय आपली कथा सांगपाक लागलो. ती अशी —

'वाटमारे आमच्या गांवांत आयले. म्हजे कडेन दोन नळयांचें तुबक आशिल्लें. पुणून वाटमारे येना फुडें हांव भियेलों आनी पळ्ळों. म्हज्या फाटल्यान तांणी म्हजे गुरवार बायलेक आनी जाणटेले आवयक येथिश्ट लडो दिलो . . .'

सभे माझार आपली ही कथा सांगपी त्या भिजूड पाटीदाराची त्याच वेळार म्हाराजांक तिडक मारिल्ली. तांणी म्हळ्ळें : 'शाबास ! खूब बरें केलें तुवें. तूं पटकी बी जावन केन्ना मरपाचो ना तर आतां ! तुका मरण केन्नाच येवचें ना म्हणचें पडलें ! लज दिसना तुका ? गुरवार बायलेक आनी जिणे णव म्हयने तुजो भार सोंसलो ते जाणटेले आवयक वाटमाऱ्यां सुवादीन करून तूं पळून गेलो ? तोवूय दोन नळयांचें तुबक घेवन ? आनी तोंड घेवन सांगता आपलो हो पराक्रम हांगा ? तूं जियेता तरी कित्याक रे ? . . .'

आनी लोकांक 'मरणाक वेंग मारात, पुणून वाटमाऱ्यां सुवादीन जावं नाकात. तांकां जाय तें करूंक दिवं नाकात' म्हुण सांगिल्लें.

म्हणटकूच, आयज आपूण हांगासून परतलों, जाल्यार लोक फाल्यां कितें म्हणटलो ? तो पाटीदार कितें म्हणटलो ? बारडोलिच्या झुजाचें निमित्त सांगलें म्हुण, लोकांक तें समजूं नाका ? झुजाक तर अजून दोन म्हयने आसात !

हे भाशेन धा-पांच कितलें-शेंच तांकां येवजलें. पुणून जितल्या वेगान हें सगळें येवजल्लें तितल्याच वेगान तांणी निर्णयूय घेतलो. आनी तांणी पुंज्याक म्हळें, " पुंज्या, तूं येवं नाका म्हज्या वांगडा. पुणून म्हाका सांग, खंय-शे आसात ते ?'

खीणभर दोगूय ओगी रावले. पुंज्यान एक उस्वास सोडिल्लो म्हाराजांच्या कानार पडलो.

---

* शेतकामत्यांची एक जात.

‘ म्हणटकूच, वचचेंच थारायलां तर तुमी ?’ पुंज्यान विचाल्लें.

‘ हय, सांग, खंय आसात ते ?’

‘ हे त्या शेतांत. ’ उदेंते कडल्या शेताकडेन बोट दाखोवन पुंज्यान म्हळें :‘ पुण एक, हांवें सांगलां म्हुण मात कोणाक सांगूंक जायना. हांवें सांगलां म्हुण वाटमाऱ्यांक कळत जाल्यार ते म्हज्यो तिसत्यो-वादऱ्यो करून उडयतले. आनी पोलिसांक कळत म्हाका खबर आशिल्ली म्हुण, जाल्यार ते म्हजें रगत पियेतले . . .’

‘ बरें . . .वच तूं आतां . . .’

पुंजो जसो कितें काळखांत विरगळून नाच जालो.

म्हाराज अशीर पाळणींतल्यान चलत मुखार गेले. मात्शें मुखार वतकूच पाळणिच्या तोंडार एके चडटेर एक शेत आशिल्लें तांकां दिश्टी पडलें. शेतांत एक आडो आशिल्लो. आडचा म्हऱ्यांत पावपाक आडचा फाटले वटच्यान हातांत तुबक घेवन एकलो धिप्पाड मनीस उबो रावलो. ओग्गी उबो रावन तो म्हाराजांक पळोवंक लागलो. नक्षत्रांच्या उजवाडांत सारको वळखूं येतालो. मनीस जेन्ना कांय उलयना तेन्नाच तो अदीक भिरांकूळ दिसता.

ताका पळेना फुडें म्हाराज खळखळून हांसले. भिरांकूळताये मदीं तांकां हांसूंक कशें आयलें, हें तांकां अजूनूय सारकें सांगूंक येना. पुणून ते खळखळून हांसले. आनी हांसत हांसत तांणी विचाल्लें : ‘ एकलोच सो रे ? बाकिचे खंय आसात ?’

तो हांसो आनी उपरांत रोखडोच सुटिल्लो तो विचित्र प्रस्न त्या तुबकी मनशाक बुचकळ्यांत उडोवपाक पुरो जाल्लो. ताणे जाप दिली ना. तेन्ना म्हाराज आडचाच्या धांवांतल्यान वाट काडून मुखार गेले आनी शेतांतल्यान मुखार चलत रावले.

तुबकीय तांच्या फाटल्यान मोन्यांनी चलपाक लागलो.

मात्शें मुखार वतकूच आनीक दोग मनीस दिश्टी पडले. तेवूय तुबकां घेवन आशिल्ले आनी तेवूय ओगी आशिल्ले.

‘ दोगूच-शे ? . . .बाकिचे खंय ?’ म्हाराजांच्या तोंडांतल्यान तोच प्रस्न पर्थून आपशींच भायर सल्लो.

कोणेंच जाप दिली ना. तेन्ना म्हाराज मुखार चलत रावले. म्हाराज मुखार आनी हे दोगय तांचे दोशी वशीन, हे भाशेन ते चलपाक लागले. तिसरो फाटल्यान आशिल्लोच. इतल्यांत अकस्मात एक आवाज कानार पडलो : ‘ खबरदार, पावल उबारशीत जाल्यार. जीव होगडायतलो. ’

म्हाराज थंयच उबे रावले. ‘ हो आवाज कोणाचो ’ हें पळोवपाक मुखार पळेलें. जाल्यार, घोडयार बशिल्लो एकलो मनीस तांकां दिश्टी पडलो. त्या भायर आनी तीग जाण ताचे तीन वशीन उबे आशिल्ले.

‘ कोण तूं ? ’ घोडयार बशिल्ल्या मनशान विचाल्लें.

‘ बहारवटियो. . .’ म्हाराजान जाप दिली.

‘ हांगा कित्याक आयला ?’

‘ तुमचे कडेन थोडें उलोवपाक. तुमकां सगळयांक मेळपाक. खंय आसात बाकिचे ?’

घोडयार बशिल्लो मनीस कांयच उलयलो ना. इतले मजगतीं दुसरे आठ-धा जाण मुखार येवन उबे रावले. खीणभर ओगी रावन म्हाराजान म्हळें : ‘ अशे पयस-शे कित्याक उबे रावल्यात ? लागीं येयात, बसात हांगा. ’ हुकमाक पाळो दिल्ले भाशेन आठ-धाय जाण म्हाराजा भोंवतणीं जमनीर बसले. तीग जाण तुबकां घेवन तीन वाटेन रावले. मुखावयले चौथे वाटेन घोडयार बशिल्लो मनीस आशिल्लो.

‘ कोण तूं ?’ घोडयार बशिल्ल्या मनशान पर्थून विचाल्लें.

‘ सांगलें न्हय, बहारवटियो म्हुण. . .’

‘ कोणाचे टोळयेचो ? ’

‘ गांधी म्हात्म्याचे . . .’

टोळयेकाराचें नांव आयकना फुडें वाटमारे ओगी पडले. मुखावयल्यान दुसरो प्रस्न येवपाचो थांबलो. तेन्ना म्हाराजांची जीब आपशींच चलपाक लागली —

गांधी म्हात्म्याचे टोळयेंतलो एक सैनिक हांव. तुमकां बहारवटियेपणाची सारकी रीत शिकोवपाक आयलां हांगा. गांधी म्हात्म्यान इंग्लेज सरकारा आड बहारवटियें मांडलां. आमच्या सगळया दुख्खांचें मूळ हें, परकी सरकार. ताच्या आड झुजप हेंच खरें बहारवटियें. तुमच्या ह्या ल्हान ल्हान बहारवटियांनीं कांयच जावपाचें ना. दोन म्हयन्या उपरांत बारडोलीक सरकारी तुबकांच्यो गुळयो फुटपाच्यो आसात. तुमकां खरेलें बहारवटियें करपाचें आसत जाल्यार, येयात म्हज्या सांगातान गांधी म्हात्म्यासरीं. तेच आयज लोकांचें बरे करतात. ’

म्हाराज उलयताले ते मेरेन तांच्यांतल्या एकल्याकूय उतर फुटूंक नाशिल्लें. अवचित घोडयार बशिल्ल्या मनशान विचाल्लें :

‘ गांधी म्हात्म्यान कितें बरें केलां लोकांचें ?’

‘ अहमदाबादेक पळेलें ना ?’ म्हाराजांचे जिबेर अचळय एक जाप आयली, ती वाटमाऱ्यांक समजूंक कठीण नाशिल्ली. ‘ लुगटांचे गिरणेचो धनी कामदारांचो दिसवाडो वाडय नाशिल्लो. गांधी म्हात्म्यान उपास केलो आनी कामदारांक दिसवाडो वाडोवन दिलो. हय काय न्हय ?’

भोंवतणीं बसून आयकतल्या भितल्ल्या एकल्यान विचाल्लें : 'तातूंत बरें कितें केलें गांधी म्हात्म्यान लोकांचें ? परतें, वायट केलें. आतां गिरणिचे धनी लुगटाचे दर वाडयतले. आनी आमकां सगळयांक म्हारग लुगट घेवचें पडटलें.'

म्हाराज खीणभर अजापांत पडले. तांणी मनांत म्हळें, अब्बा ! तुबकांतल्यान गुळी सुटची तशी वाटमान्याच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटिल्लीं, मुखावेल्याक ओगी उडोवपी. म्हाराजांक जापेक जाप दिवंक येनाशिल्ली अशें न्हय. पुणून बुद्धिचे चपळाये परस अन्न-वस्त्र हेंच जांचें सर्वस्व तांची दुखी वळखप म्हत्वाचें अशें मानपी ते. तांकां रोखडीच एक जाप येवजली : 'तांच्या हातांत पडचें न्हय म्हुण्णूच तर गांधी म्हात्म्यान चरखो दिला आमच्या हातांत. करूंदी तांकां लुगट म्हारग, जाय तितलें. आमकां कितें ? आमी कांततले, आमी विणटले, आमी न्हेसतले. गांधीन आमकां एक साधन दिलां, कोणाचेच सुवादीन जाय नासतना जियेवपाचें.'

'चुकता तुमचें. लोक गांधी म्हात्म्याचें आयकून चरखे कांतपाचे नात. . .ते कांततले आमचीं तुबकां पळेतले तेन्ना. . .कळ्ळें म्हाराज ?' म्हाराज हें उतर आयकना फुडें आपणांक हे लोक वळखल्यात म्हणपाची तांकां खातरी जाली.

तांणी म्हळें, 'तुमी येयात म्हजे बरोबर गांधी म्हात्म्यासरीं, हांव तुमकां व्हरपाक आयलां. तेच तुमकां सगळें समजावन सांगतले. तुमच्या भितल्ल्या एकल्यान येवचें म्हज्या वांगडा. हांव फटयन जाल्यार सूड घेयात तुमी सगळे म्हजो.'

'गांधी म्हात्मे आमच्या गांवांत येतकूच पळोवं येत तें. तेन्ना मेळू येत तांकां. आयज नाका.' घोडचा वयल्या मनशान जाप दिली. 'आमी खंय गरिबांक पिडटात ? तुमीच सांगात, गरिबांक पिडटल्या गिरेस्तांक सोडून आमीं केन्ना कोणाक माल्ल्यात, लुटल्यात व्हय ?'

'तुमकां खबर ना, तुमी आयल्यात म्हणपाचें कळना फुडें लोकांक कसो थरथरो सुट्टा तो. लोक पळटात, लिपतात. शेतांत काम करूंक वचनात, भियेतात. त्या भायर पोलीस तांकां त्रास दितात ते वेगळे. तुमचे पसून तांकां जे त्रास जातात तांची तुमकां खंय खबर आसा ?'

'पोटा खातीर करचें पडटा हें' एकल्यान म्हळें.

'पोटा खातीर ? तुमचें एक एकल्याचें पोट भरपाक चडशेंच जाल्यार म्हयन्याक पाऊण मण धान्य पुरो. पुणून तुमकां हजारांची लूट करची पडटा. कित्याक, तुमच्या आस्रयाक राविल्ल्यांक तुमकां पोसचे पडटात. पोलिसांकूय दिवचें पडटा जातलें. फकत पोट भरून रावप तुमकां कोंता येना.'

वाटमान्यां लागीं हाची जाप नाशिल्ली. फटिची जाप दिवन वाद घालप तांच्या सभावांत नाशिल्लें. ते ओगी पडले. थोडचा वेळान एकल्यान विचाल्लें : 'पेन्सील

आसा तुमचे कडेन ?' आवाजा वयल्यान हो तरणो भुरगो म्हणपाचें म्हाराजांक कळ्ळें.

' हय.' म्हाराजान जाप दिली.

' कागद ? '

' हय.'

' दिशात ? तुमच्या गांवच्या सोमा मथुर बामणाक एक चीट धाडची आसा. . .'

' कितें म्हुण ?'

' पांच-शें रुपया पावते कर, ना जाल्यार मेलोच म्हुण समज, हें सांगून. चीट मात्शी सोमा मथुराक पावयात. '

म्हाराजांचो आवाज गोड, म्हौंवाळ. कुळवंत घराण्यांतले सुनेसारको शान्त-धीर, गंभीर. तो अवचित खर जालो आनी तांणी म्हळें : ' असली चीट बरोवपा खातीर म्हजी पेन्सील आनी कागद न्हय. आनी असली चीट पावोवपी मनीस हांव न्हय, कळ्ळें ? हांव म्हज्या गांवांत वचून गांवकारांक सांगतलों : सांबाळून रावात, वाटमारे येवपाचे आसात. तांच्या आड झुजचें आसा. तांणीं आमचेर हात घालचे पयलींच आमकां प्राण दिवचे आसात, तयारेन रावात. . .'

' अक्कल नाशिल्लो खंयचे कडलो !'बाकिचे सगळे एकाच वांगडा त्या भुरग्या-चेर उसळ्ळे : ' ओगी बस थंय ! म्हाराजांक म्हुण असलें सांगतात ? पाड पडिल्लो पोर !'

मागीर एकलो म्हाराजांकडेन पळोवन म्हणूंक लागलो : ' तो तसलोच रेडो, कांय समजना ताका. मनाक लावन घेवं नाकात तुमी ताचें. सांगात तुमी तुमच्या गांवभांवांक जाय तें. . .आनी आतां वतले जाल्यार वचात. . .पावोवपाक येवची गरज आसा ?'

' पावोवपाक येवपा सारकें दिशिल्लें जाल्यार, एकलो कित्याक येतलों आशिल्लों हांव हांगां ? एकलोच वतां. . .कोणेंच पावोवपाक येवपाची गरज ना.'

' बरें तर. . .वचात तुमी खुशाल. '

म्हाराज गेल्ले तशे एकलेच परतले. बरेच पयस पावल्या उपरांत तांणीं कांय फार आयकले. बहारवटियांनी ते हवेंत सोडिल्ले. मध्यान रातीं सरसवणीक पावन तांणीं गांवकारांक जागयले.

पुणून ते रातीच न्हय, तर उपरांत लेगीत केन्नाच सरसवणी गांवांचेर घुरी घालपाक वाटमारे आयले नात.

* * *

२

# एक जिवीत – फुगेटीक लागून लासून गोबोर जाल्लें

एकोणीस-शें बावेचाळिसांतली खबर. साबरमतिचे बंदखणींत साठेक वरसांचे पिरायेचो एक नवो कदी निकतोच भितर सरिल्लो. ताका पळोवन सुमार पंचावन वरसांचे पिरायेचो दुसरो एक बारीक किडकिडीत कैदी–मुकदम नमस्कार करून विचारूंक लागलो :–

‘ वळखतात व्हय म्हाका ?’

नव्या कैदीन मान हालयली आनी म्हळें, ‘ उगडास जायना . . .’

‘ उगडास करात. खंय तरी पळेला तुमी म्हाका. ’

नव्या कैदीन ताका पर्थून एक फावट बारकायेन नियाळून पळेलो आनी म्हळें, ‘ ना, उगडास जायना. ’

‘ उगडास जायना ? त्या दिसा . . . रातच्या काळखांत . . . वात्रक न्हंये तडी वेल्या शेतांत . . . आडच्या फाटल्यान एकलो उबो आशिल्लो . . . हातांत तुबक घेवन . . . उगडास जाता ?’

‘ हय, हय. ’ वीस वरसां आदीं भरकडच्या सावन सरसवणीक बहारवटियांक मेळूंक वतना वाटेर आडच्या फाटल्यान एकलो तुबक घेवन उबो राविल्लो मनीस मेळिल्लो. ताची याद जावन नव्या कैदीन अजापान म्हळें, ‘ तो . . .’

‘ हय. तोच. तुबक घेवन उबो आशिल्लो बहारवटियो हांव, मोती. ’

‘ मोती ? वीस वरसां आदलो तूं . . .’

‘ हय. वीस पुरी केलीं म्हाराज. बत्तीस उल्ल्यांत आतां . . .’

‘ हय. आयकल्लें हांवें, तुका बावन वरसांची ख्यास्त जाल्या म्हुण.’

बावन वरसांची ख्यास्त ! येवजुनूच नव्या कैदीचें काळीज खोल खंतींत बुडलें. बावेचाळिसांत णव ऑगष्टाक देशांत बंड सुरू जाल्लें. आनी रविशंकर म्हाराज कैदी जावन साबरमती बंदखणींत पाविल्ले. बावीस आनी बावेचाळिस मेरेन काळांत

ते हे भाशेन कितले-शे खेपो साबरमतिचे बंदखणींत येवन राविल्ले. पुणून मोती तांकां एकूय फावट मेळूंक नाशिल्लो. बाविसांतले ते काळखे राती शेता आडचा फाटल्यान तुबक घेवन उबो राविल्लो तो तरणाटो, आयज जाणटे पिरायेर मेळटालो ! काळखे रातचो तो मोती जसो कितें मरून गेल्लो आनी हो दुसरोच मोती येवन मेळिल्लो. म्हाराजांच्या काळजाक खीणभर भालो तोपिल्ले वरी जालें. कित्याक, मोती जरूय तांकां मेळूंक नाशिल्लो, तरूय मोतिची खबर ते जाणा आशिल्ले. खबर अशी —

महेमदाबाद तालुक्यात देवकी-वणसोल म्हुण एक गांव आसा. मोती ह्या गांवचो बारैयो.* शेतकाम करचें, कश्ट करून जेवचें आनी खावचें, इतलें जाणा आशिल्लो. लग्न जाल्लो. एक बाबू बायलेचे हांण्डीर खेळटालो. एके ल्हानशे खोपींत हें ल्हानशें कुटुंब आनंदान दीस सारतालें.

एक गरासियो§ देवकी-वणसोलचो सरकारी मुखेली आशिल्लो. आदींच मुखेली. तातूंत गरासियो, देखून ताच्या पुताचें लग्न जालें तें बाकिच्यांगेर जाता ताचेपरस गडगडाटांत जालें. तरातरांचो फोग हाडून लायिल्लो. मोतिची बायल धाकल्याक हांण्डीर घेवन खोंपी भायर उबी रावन, मळबांत फुलां कसो शिंपडपी तो फोग भुरग्याक दाखयताली. अवचित एक कीट खोंपीर पडली. आनी पाख्यान मातूय कळाव लायनासतना पेट घेतलो. उजो पालोवंक वचचे पयलींच पाखें लासून खोंपिचो गोबोर जावन ती मातये–भरवण जाली. मातयेच्यो मोडक्यो वणटीच फकत उल्ल्यो.

मोती केश करपाक महेमदाबादेक वचूंक भायर सल्ला म्हणपाची खबर दुसऱ्या दिसा सकाळीं मुखेल्याच्या कानार आयली. तेन्ना ताणे रोखडचा रोखडे मनीस धाडले आनी मोतीक समजावन वाटे वयल्यानूच परतिलो. फुडली दिवाळी येवचे पयलींच आपूण तुका खोंप बांदून दितां अशें मुखेल्यान ताका सांगलें.

मुखेल्याचें उतर ! कितलें-शें पातयेवपा सारकें ? धरपत धरपाक मोती फाटींफुडें सरपाक लागलो.

काठियावाडचो एकलो वाणी देवकी-वणसोलाक येवन उदरगतीक पाविल्लो. कांय देडशाण्यांक दुसऱ्यांच्या झगडचांत मदीं पडून फुक्या-सवाय व्हडपण जोडपाची संवंय आसता. तसलो हो आशिल्लो. ताणें मोतीक म्हळें : ‘ चल, तुका जाय जाल्यार हांव जामीन रावतां. मुखेल्यान घर बांदून दिलें ना जाल्यार हांव दिवपाक जापसालदार. सोड हुस्को आनी वच. . .मार फोलग तूं. . .’

---

* एक जात क्षत्रियांची.

§ आनी एक जात – वयल्या पांवडचाची.

काठियावाडी मनशाच्या तोंडातल्यान ‘ मार फोलग’ हीं उतरां भायर सरतात तेन्ना आयकतल्याक चोंयवशीन मोवमोव-शें दिसपाक लागता. शेठ जामीन रावपाक मुखार सरिल्लो पळोवन मोतीक देवाच्या पांयार तकली दवरिल्ले वरी सू जालें. ताचो हुस्को गेलो. आनी तो ‘ बरें आसा ’ अशें म्हणून उठून गेलो.

आसऱ्या बगर तिगूय जीव कशे–बशे दीस सारपाक लागले. आशाड-श्रावणांतल्या पिश्या पावसाचे आनी भाद्रपदांतल्या उज्या सारक्या वोताचे दीस तांणी हेवटेन तेवटेन कोणाचेय भिताडेक रावन काडले. दिवाळी आयली. पुणून पडिल्ल्या घराच्या मातये वर्णाटिचेर पाखें मात चडूंक पावलें ना. मोतीन मदीं मदीं लजेत-भियेत मुखेल्या म्हऱ्यांत वचून येवचें. आनी गरासिया मुखेल्याचे जिबेवयली म्होंवांत घोळयल्ली एकूच जाप आयकून परतुचें –– ‘ हय, हय, आतां बेगीन करून उडोवया तें,’ ‘ आतां आनी वेळ लावप ना. ’ ‘ हय, गाडो महेमदाबादेक वचपाचो आसा. थंयच्यान मदेर येना फुडें बांदून काडुंया. ’ ‘ तूं भियेवं नाका. ’

महेमदाबादच्यान मदेर घेवन येतल्या गाडयाची वाट पळोवन दुसऱ्या वरसाचे म्हयन्यार म्हयने एका फाटोफाट आयले आनी मोतिच्या हातार ताळयो दिवन कूय करून पळून गेले. इल्लें इल्लें करून सगळें न्हिविल्ले वरी दिसपाक लागलें. मुखेल्याच्या काळजांतली उबूय इल्ली इल्ली उणी जायत वचूंक लागली. चैत्र वैशाखाचेर दुसरो पावस झडून तोवूय थंड पडलो. दुसरो भाद्रपद तापून गेलो. रोखडीच दिवाळी आयली– ही दुसरी दिवाळी. मागीर मुखेल्याची जिबूय मात्शी कडक जाली : ‘ इतली ताकतीक तुका आसा जाल्यार, चल वच, कर केश. . . .म्हाका जमतलें तेन्ना हांव बांदून दितलों. तुका जाय तेन्ना कशें जातलें ?’

मोती आदींच तरणाटो. तातूंत अठरा म्हयन्यां पसून आसऱ्या बगर राविल्लो. हातांत धारयें* घेवन भोंवतालो. असली जाप आयतकूच तो तापचो ना जाल्यार कितें करतलो आशिल्लो ? ताका तापपाचो हक आशिल्लो. पुणून तो ओगी रावलो. कांय उलयलो ना. गेलो आनी जामीन राविल्ल्या काठियावाडी वाणयाक ताणें ही खबर सांगली. शेठीन ताका जाप दिली : ‘ म्हज्या बोल्सांतले पयशे खर्चून तुका घर बांदून दिवपाक हांव थोडोच जामीन रावलां ! मुखेल्यान पयशे दिल्यारूच बांदून दिवपाची दायकी म्हजी. ’

---

*धारियूं: – पाळ. दांडयाच्या तोंकाक धारेचें एक लांब पातें आशिल्लें हत्यार. जें लाकडां झुडपां, कितेंय कातरपाक उपकारता. बारैया जातिचे लोक तें सदांच हातांत घेवन भोंवतात.

जाप आयकून मोती घुटमळचांत पडलो. जामीन कोणाक म्हणटात ? 'जामीन' हाचो अर्थ कितें ? तो अर्थ सोदपाक लागलो. वाणयान जामीन रावतां म्हुण सांगिल्लें त्या वेळार ताणें हें स्पष्ट कित्याक केलें ना ? लिपोवन कित्याक दवल्लें ? मोतीक आतां देड वरसा उपरांत वाणयाच्या पोटांत कितें आशिल्लें तें कळिल्लें. मोतिचें रगत तिडकीन सळसळूंक लागलें. ताणें वाणयाक म्हळें, – ' तुका फाटीं सरूंक मेळचें ना . . . सुके काश्टेन तूं सुटपाचो ना. '

' जाय तें कर तुका. ' वाणयांचीं शेंकडयांनी पोरां आजयवेर जें उलोवन मागीर सदांच पच्छातापाक पावल्यांत तींच उतरां हाच्याय तोंडातल्यान भायर सल्लीं.

एक दीस सकाळीं मोती गांवांभायर वचूंक गेल्लो. त्याच वेळार जिस्त वाणी परसाकडे वचून आयिल्लो आनी तळयाकांठार तांबयो घासूंक बशिल्लो. आपणाक देणी आशिल्ली खोंप मोतीन ताचेकडेन मागली. हरशींय जाल्यार, सकाळीं उठनाफुडें कोणूय खरेलें देणें वसूल करूंक आयल्यार मनशाक सट्ट जाता. तांतूंत मोतिचें देणें. जाका आपूण कांयच देणो ना ताचें; सूर्य निकतो उदेता थंय आसा, असल्या म्हुर्तार देणें वसूल करूंक आयिल्ल्या मनशाक पळोवन शेठीक कितें जालां जातलें, शेठिकूच खबर. मोती ' उठ फातरा, पड पांयांर ' असो आंगार आयिल्ले वरी शेठीक दिसलो. कित्याक लागून कोणाक खबर, घडये अठरा म्हयने मेरेन जो कांय करिनासतना ओगी रावलो तो करून करून कितें करतलो, अशें दिसून जावये, शेठीन ताका तळचा-कांठारूच उगडी नागडी जाप दिवन उडयली ––

' तुका जाय तें कर तूं. . . . '

मोतिच्या खांदार धारियें आशिल्लें. एकाच घपक्यान ताणें वाणयाची तकली ताच्या धडा पसून वेगळी उडयली, आनी पळ्ळो. अडेच वरसां सुमार तो सोयऱ्यां-धायऱ्यांगेर लिपून रावलो. उपरांत, नामधारियान वाटमाऱ्यांची टोळी उबी केली तेन्ना तो ताका वचून मेळ्ळो. आनी ताचो शागीर्द जालो.

मोती नांवाचो एकलो बारैयो एका वाणयाचो खून करून बहारवटियो जाल्लो, आनी एक दीस पोलिसांच्या हातांत पडिल्लो, ताका मागीर बावन वरसांचे बंद-खणिची ख्यास्त जाल्ली, म्हणपाची खबर म्हाराजांक आशिल्ली. पुणून वात्रक न्हंये तडी वेल्या शेतांत त्या दिसा नामधारियाची टोळी काळखांत लिपून राविल्ली त्यावेळार, तांचे भेटेक वतना आपणाक आडचा कडेन तुबक घेवन जो बहारवटियो मेळिल्लो तो होच मोती आशिल्लो म्हणपाची खबर म्हाराजांक पयली वयली आयजूच, एकोणीसशें बावेचाळिसांत, खासा मोतीन सांगल्या तेन्नाच कळिल्ली.

उपरांतची ताची कथा आतां बंदखणींत पावतकूच कळ्ळी––

तरण्याबांड मोतीन बंदखणींत पावल दवरिना फुडें पयलो पराक्रम केलो तो, बंदखणींत आपूण कसलेंच काम करपाचों ना अशें अधिकाऱ्यांक सांगून उडोवपाचो. सादें काम, मध्यम काम, कठीण काम -- कसलेंच ना. दांत्यार दळप, निखालूस ना. घाणो चालोवप, ना. बांयचें उदक काडप, ना, केन्नाच ना. रांदपाचें काम बंदखणींत कोणूय मागून घेता; तें तरी ? ना. सादी सान्न ? ना.. ना. ना. हो कसलेंच काम करिना, सदांच ना म्हणटा म्हुण मोतीक बंदखणींतूय एका फाटल्यान एक ख्यास्ती जायत रावल्यो. आनी मोती त्यो मोन्यानी भोगीत रावलो. 'जेल-मॅन्युअलां'त ख्यास्तींक अंत नाशिल्लो. मोतिच्या धिराकूय अंत नाशिल्लो. हाताक कडयो, पांयांक बेडयो, करतां करतां 'तेरा दीस हाका उपाशीं दवरपा' मेरेनची ख्यास्त ताका जाली. इकराव्या दिसा मोती घुंवळून पडलो. ताची सुद्द गेली. दोतोरांनी ताका खावंक दिवंक लायलें आनी सुद्दीर येतकूच विचाल्लें :

'आतां तरी काम करतलो काय ना ?'

'ना. . . . .'मोतिचो आवाज बदल्लेलो. जाप बदलूंक नाशिल्ली.

'बरें आसा. . .घालात हाका काळखा कुडींत. . .' हुकूम सुटलो.

मोती एके काळखा कुडींत पडलो. एकलो एकमुळो. एक दीस, दोन दीस, सात दीस जाले. एक म्हयनो, दोन म्हयने . . . स म्हयने जाले. एक वर्स, दोन वरसां. . . (धीर धर गे लिखणे !) तीन, चार, पांच, स. . . एका सारकीं स वरसां—एका दिसाची लेगीत सूट नासतना—सारकीं स वरसां मोती एके काळखा कुडींत एकलो एकमुळो रावलो.

सव्या वरसा त्या इलाख्यांतलो बंदखणिचो मुखेली—डिस्ट्रिक्ट जेल सुपरिटेंडेंट – कर्नल भंडारी इन्स्पेक्शनाक येता. काळखा कुडी मुखार येवन उबो रावता आनी ऑर्द सोडटा – 'इसे खोल दो.'

जिती समाधी उक्ती जाल्ले वरी कूड उकती जाता.

भितर मोती बारैयो उबो आसता. जितो, जिवो. . .

'कितें, आतां तरी काम करतलो काय ना ?' मुखेली विचारता.

'ना.'. मोती तीच जाप दिता.

'बरें आसा, तुका जाय तशें. नाका करूं काम. हाका काडात हे कुडींतल्यान भायर. . . .कांयच काम दिवप ना हाका. रावं दी मजेंत. . .ताचे वाटेक वचूं नाकात कोण.'. . .ऑर्द सुट्टा.

स वरसां उपरांत परत एक फावट मोतिची कूड हेरां कैदीं वांगडा रावपाक मेकळी जाता.

तीन दीस जावंक नात हे खबरेक. मोती कर्नल भंडारी मुखार येवन उबो. . . .

' सायबानू. . .एक अर्ज करपाचो आशिल्लो म्हाका. . .'

' कसलो सांग ? '

' म्हाका काम जाय. '

' कितें ? ' भंडारीन अजापान विचाल्लें.

' हय, काम जाय म्हाका. कामा बगर उबगण येता. '

भंडारीन ताका कांयच विचाल्लें ना. इतले दीस कित्याक ना म्हणटालो, आयज अकस्मात जाय कित्याक म्हणटा, कितें जालें, कांयच ना. एक उतर लेगीत काडलें ना. इतलेंच म्हळें–' तुका जाय जाल्यार कर. नाका जाल्यार करूं नाका. '

तेदूसच्यान मोती आपखोशयेन बंदखणींत कामां करपाक लागलो. कामां करू-करून बंदखणींत ताणें ' बरो कैदी ' म्हूण नांव जोडलें आनी एक दीस तो मुकदम* जालो. ताच्या माथ्यार हळडुवो फेंटो आयलो. वेगळचा वेगळचा बंदखणींनी ताच्यो बदल्यो जावपाक लागल्यो.

रत्नागिरिचे बंदखणींत मुकदम म्हूण तो आशिल्लो. तेन्ना एक दीस गांधीचे लोक कैदी जावन बंदखणींत पावले. तांच्यांत एकली बायल-मनीस, गुजरातेंतल्या 'म्हाराज' नांवाच्या कोणा एकल्याची धूव आसा म्हणपाचें मोतिच्या कानार आयलें.

म्हाराज ! पंदरा-वीस वरसां आदलें तें पवित्र नांव मोतिच्या कानार पर्थून एक फावट पडिल्लें. 'म्हाराजांची धूव हांगा पावल्या ?' मोती धांवत बायलांच्या वार्डांत गेलो. थंय वचून ताणे रविशंकर म्हाराजांचे धुवेक सोदून काडली. तिचे पांय धल्ले आनी म्हणूंक लागलो–– ' बाय, तुका कितें लागत तें म्हाका सांग. . .तुजो बापूय म्हजो गुरू. . .कळ्ळें ? तूं मातूय काचाबूल जावं नाका हांगा. '

हे भाशेन एके बंदखणींतल्यान दुसरे बंदखणींत भोंवत भोंवत मोती तरण्याचो जाणटो आनी जाण्टचाचो म्हातारो जावन एकदीस साबरमतिचे बंदखणींत आयलो. आनी येवन थीर जालो. ताच्यो बदल्यो सोंपिल्ल्यो. म्हाराज थंय पावले तेन्ना वात्रकच्या शेतांतले ते भेश्टावणे रातिचो उगडास दिवन तांकां तो मेळिल्लो.

राजकी कैदींक ज्या वॉर्डांत दवल्लेले थंय मोतीन मेकळेपणान वचचें, खबरी करच्यो. खबरी आयकुच्यो. अवचित कानार पिल्लुक पडना फुडें उठून उबो रावचें आनी म्हणचें – ' बरें तर, येतां हांव. . .बा आपयता. '

' बा ? कोण बा ? ' राजकी कैदींनी अजापान विचारचें. आनी मोतीन जाप दिवची, ' बा म्हळचार 'मॅस ' (mess) . . . ती आवय आमची हांगासल्ली. थंय वतकच ती जेवंक खावंक दिता. . .म्हणटकूच, आवयूच जाली ना ती ?'

---

* Warder

एक दीस म्हाराजांक भायल्यान कोणे मक्याचीं बोंडां धाडिल्लीं. तांतलें एक काडून म्हाराजान मोतीक दिलें. मोती बोंडा कडेन पळेत रावलो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. तोंडातल्यान उतर लेगीत फुटलें ना. मोन्यांनी ताणें बोंड जमनीर दवल्लें. मागीर ताका पांया पडलो. उपरांत ताचे भोंवतणी एक प्रदक्षणा काडली . . आनी म्हणूंक लागलो. 'बा, आयज बावीस वरसां उपरांत तुका पळेतां हांव . .दोळे भरून पळोवंक दी रूप तुजें . .इतल्या वरसांनी आयजूच भेट जाल्या तुजी म्हाका.'

मोतिचीं उतरां बाकिच्यांनी आयकलीं. ताणे काडिल्लीं प्रदक्षणाय तांणीं पळेल्ली. सगळयांची तोंडां पडलीं. गूजरातचे भुंयेर जल्मा आयिल्लो तिचो हो पूत बावीस वरसां मेरेन मक्याचें बोंड पळोवंक पावूंक नाशिल्लो. आयज पयलेच फावट पळोवन खुशालभरीत जाल्लो.

तें पळोवन म्हाराजान आपल्या राजकी सांगात्यांक विचाल्लें, 'भावांनो, आतां हीं बोंडां आमच्या गळचा सकल देवंतलीं ?' सगळयांनी ना म्हुण मानो हालयल्यो. बोंडां खावपाचो धीर आयज कोणाक जाय सारको नाशिल्लो.

म्हाराजान मोतीक सगळीं बोंडां काडून दिलीं. आनी म्हळें, – 'घे, सगळीं व्हर. भाजून खा आनी तुजे सारक्या बाकिच्यांकूय दी खावपाक . . .'

'च्ये . .च्ये . .भाजूंक खंय वतलों हांव ?' अशें म्हणून मोती तुरतुरीत गेलो.

एकदीस मोतिचो पुराय इतिहास रविशंकर म्हाराजांनी बंदखणींतले आपणाले सांगाती दादा (गणेश वासुदेव) मावळंकरां मुखार दवल्लो. मावळंकर गूजरातेंतले एक देशभक्त कायदे-पंडित. मोतिचो इतिहास आयकून तांचें काळीज कळवळून आयलें. तांणीं मोतिचे वतीन सरकाराक एक दयेचो अर्ज बरोवन धाडलो. तातूंत ह्या मनशाचें तरणेपण खंयच्या प्रसंगाक लागून खुनाचे वटेन वळ्ळें तें सांगलें. बावीस वरसां पसून ताची वाट पळेत ताची बायल आनी पूत बसल्यांत, हाचो उगडास करून दिलो. ताचें तरणेपण मातये भरवण जालां, आयुश्यांतलीं जीं कितें दोन चार वरसां उल्यांत तीं आतां बायल-भुरग्यां सांगांतान ताका सारूंक मेळचीं म्हुण मागलें.

अर्जाचो परिणाम जालो. ख्यास्तिचीं तीस वरसां माफ जालीं. आनी सरकारान एकदीस मोतीक साबरमती बंदखणिच्या दरवटयांतल्यान भायर सोडलो. पुणून घरा वचपा खातीर न्हय, ताका वडोदरा राज्या सुवादीन करपा खातीर. कित्याक, वडोदरा राज्यांत केल्ल्या गुन्यांवांची व्हडली ख्यास्त अजून ताची भोगपाची उरिल्ली.*

* * *

---

* थंयचे धा वरसांचे बंदखणिचीं तीन वरसां भोगून मोती एकोणीसशें सव्वेचाळिसांत घरा परतलो.

३

# हाजरी

रातच्या णवांच्या सुमाराक धोलार बडयो पडल्यो. थोडयाच वेळांत सरकारी सोप्या* मुखार गांवचो लोक चोंब्यांनी येवन बसपाक लागलो. एके वटेन बायल्यो बसल्यो, दुसरे वटेन दादले.

सोप्यार लापयांवाच्या उजवाडांत एकलो मनीस कागद आनी तितेर पेन घेवन बशिल्लो. ताका आयिल्लो लोक नमळायेन सलाम करतालो. पुणून तो ह्या सलामांक व्हडलोसो लेखिनासतना आंगणांत कदेल घालून बशिल्ल्या आपणाल्या सोयऱ्याच्या तोंडाकडेन भौन भौन पळेतालो. ताचेर आपणाले सत्येची आनी व्हडपणाची छाप कशी कितें पडटा हाची सोद घेवपांत ताची नदर गुल्ल आशिल्ली. सोयऱ्या खातीर थंय बगलेक ताणे एक खाट घाल्ली. तिचेर एक दाट, मोव-मोवशें रुंद कुल्चांव पातळायल्लें आनी ताचेर दुदासारकी धवी फुल्ल चादर हांतल्लेली. वयर एक मोव उशेंय दवल्लेलें.

कागद घेवन बशिल्लो मनीस लांपयांवांच्या उजवाडांत एका फाटल्यान एक नांवां वाचीत रावलो आनी मुखावेल्यान 'हाजीर, 'हाजीर', 'हाजीर' अश्यो जापो येवपाक लागल्यो.

करसन पूंजा...हाजीर. मोती देवा...हाजीर. गुलाब काळा...हाजीर.

'हाजीर' म्हणपी मनीस एकतर हाजीर म्हळ्या उपरांत उठून चलूंक लागतालो वा आपखोशयेन बसून रावतालो.

नांवां वाचपी मदींच बायलांचीं नांवां घेवपाक लागलो. तेन्ना बायलांच्या तरेकतरा बारीक गोड आवाजांत 'हाजीर', 'हाजीर' गाजूंक लागले.

---

* चोरो = तीन वणटी आनी पाखें आशिल्लो एक सोपो. गूजरातांतल्या दर एका गावांत तो पळोवंक मेळटा. नाटकां, खेळ करपाक, पंचायतिच्यो सभा घेवपाक, सांजच्यो साद्यो खबरी करपाक असो तरेकतरांचो ताचो उपेग लोक करतात. परकी कोण आयलो जाल्यार ताक न्हिदपाकूय थंय मेळटा.

जीवी शनयो. . .हाजीर. मणी गलाब. . .हाजीर.

हें निमाणे 'हाजीर' कानार पडनाफुडें नांवां वाचपी गरासियान कागदांतल्यान तकली वयर काडली आनी बायलांकडेन पळोवन म्हळें --

'हें हाजीर कोणे म्हळ्ळें ?'

'हांवें तें, मणीन. ' एके बायल मनशेन जाप दिली.

'खरीच मणी तूं ? म्हाका फटोवंक सोदता ? हांगा यो मात्शी, दाखय पळोवया तोंड तुजें. . .'

ती उबी रावली आनी लापयांवांच्या उजवाडांत आपलें पडिल्लें तोंड दाखोवन तिणे म्हळें : 'पळे तोंड. '

'बरें आसा. . .वच' अशें म्हणून त्या मनशान सोयऱ्याकडेन पळोवन म्हळें. . . 'केन्ना केन्ना एका बदला दुसरें रांडुल हाजीर म्हणटा. . . .दिसता जातलें पापणींक ह्या पिश्याक कांय कळना म्हुण. पुणून नकळत त्यो, एक-एकलेक आवाजा वयल्यानूच वळखतां हांव. . .पोर व्हय तर हांव काल पयरचो ! . . .'

इतलें म्हणून तो परतो कागदा वयलीं नांवां घेवपाक लागलो.

हे वाटेन कदेलार बशिल्ल्या सोयऱ्याच्या नितळ शान्त तोंडावेल्या शिरांतल्यान सळसळिल्लें रगत धांवपाक लागलें. तिडक, लज, निर्शेणी आनी काळचा फुडाराच्या भयान ताच्या तोंडार तरेतरेची चित्रां उठपाक लागलीं.

हाजिरी सोंपली तेन्ना मुखेल्यान कागद कवळ्ळो आनी सोयऱ्याकडेन पळोवन म्हळें-' आतांच्या पुरतो हुस्को सोंपलो. रातचे कांय करिनात जाल्यार पुरो हे. ह्या पाडा पडिल्ल्यांचें कांय सांगू नज. हांगा हाजिरी दिवन वतले आनी चाळिशेक मैल मुखार वचून कोणाचेंय घर फोडटले. . .असले पाडापडिल्ले लोक हे. . .'

' बायलांय ? ' सोयऱ्यान विचाल्लें.

' काय विचारूं नाकात. चोरांच्यो धुवो, चोरांच्यो बायलो आनी आवयो ह्यो ! गायकवाड सरकारान बेश्टो ह्या लोकांक गुन्यावकारी जातिचो§ कायदो लागू करूंक ना ! रूप आनी मिजास पळेत जाल्यार राजांची, कामां मात चोरांचीं. बायलांय म्हुण कितें, तसलींच. एकाच मुगाच्यो दोन दाबयो. सुमाराच्यो न्हय ह्यो पाटणवाडिया जातिच्यो बायलो. कितलीय जाल्यार जात कोळयांचीं. '

' मात्शे थांबयशात व्हय तांकां ? म्हाका उलोवंक जाय तांचेकडेन.' सोयऱ्यान आपल्या सदच्याच थंड बारीक आवाजान विचाल्लें.

---

§ कांय जातींक ब्रिटीश सरकारान ' क्रिमिनल ट्राइब्ज' म्हुण थारावन तांचे खातीर एक खेरीत कायदो केल्लो.

‘ बरे भाशेन. एय, खंय वतात ? हो हांगा तुमचो बापूय बसला तो दिश्टी पडना तुमकां ? बसात, ताच्या उपदेसाचीं दोन उतरां आयकून वचात. ’

बायलो उठून गेल्यो. दादले वचपाक उठिल्ले. सर्कशींतल्या शिकयल्ल्या जनावरां भाशेन ते पर्थून येवन आंगणांत आपापले सुवातेर बसले.

कदेलार बशिल्ल्या पुणून मात्शे उचांबळीत जाल्ल्या सोयऱ्यान तांकां पळोवन आपल्या नमळायेच्या गोड आवाजांत विचाल्लें :

‘ ही तुमची हाजिरी सदांच जाता ?’

‘ दिसाक दोन खेपो. ’ मुखेल्यान जाप दिली. आनी हात अचळय आपल्या मिशयांचेर व्हेलो. सोयऱ्यान ताचेकडेन लक्ष दिनासतना लोकांक विचाल्लें :

‘ तुमकां आवडटा ही हाजिरी ? ’

‘ आमचे आवडीक कोण विचारता ? आवडूं, ना-आवडूं, येवचेंच पडटा. आमी आनीक कितें करतले ?—’ ओगी आशिल्ल्या लोकां भितल्ल्या एकल्यान थोडचा वेळान जाप दिली.

‘ बायलांक हाजिरी दिवंक येवचें पडटा तें तुमकां मानवता ?’

‘ हय तर. . .’ एक आवाज आयलो. तो आयकून सोयऱ्याक अजापाचो धसको बसलो. ताणें ही जाप दितल्या तरणाटचाच्या तोंडाकडेन पळोवन थंडसाणेन विचाल्लें—‘ कित्या खातीर ? ’

‘ कित्या खातीर म्हळचार ? हाजिरी नाशिल्ली त्यावेळार रांडलांक आमी पेटलीं जाल्यार फुगार जातालीं आनी धांवन कुळारा वतालीं. आता पेटूपेटून फाटिचो कणो मोडून घालो जाल्यारूय घर सोडून वचनात. . .हांगा हाजीर रावचें पडटा न्हय ? ना जाल्यार उरतात तीं ? आतां पेट, पेट. . .कितलींय पेट, आय-वूय लेगीत करिनात रांडलां. . .बरेंच जालें ही हाजिरी येवन. . .’

खूब जाण हांसले हें आयकून. कांय ओगी रावले, उपरांत दोगा तिगांनी ताका तापोवन म्हळें, ‘ ओगी बस थंय. ’

‘ दुकर खंयचे कडलो ! ’

‘ असलें म्हुण केन्ना उलयतात ?’

‘ पिसांट खंयचे कडलो. . .उलोवंकूय येना. पाडापडिल्ल्याक. ’

मुखेलीय सोयऱ्याच्या तोंडाकडेन पळोवन हांसलो. सोयऱ्याचो जीव खंती जालो. थोडचा वेळान ताणे लोकांक विचाल्लें—‘ तुमचे भितल्लो कोणूच म्हाका आयज तुमगेर न्हिदपाक व्हरचो ना ?

‘ कितें ? ’ मुखेल्यान अजापान विचाल्लें : ‘ ह्या कोळयांगेर-शे कित्याक न्हिदूंक वचूंक जाय तुमकां ? हांगा हांतरूण घालां तुमचे खातीर. न्हिदात हांगाच सुसेगाद !’

‘ ना. ना. म्हाका हांगा न्हीद पडपाची ना. . .’

इतलें उलोवन सोयरो आपली पोती हातांत घेवन वचपाक रोखडोच उठलो. आनी मुखेली अजापाच्या धसक्यांतल्यान उठ्ठासर ह्या लोकांभितल्ल्या एकल्या वांगडा पाटणवाडियांच्या* भिरांकूळ वाडचार रात सारपाक चलपाक लागलो.

सोयऱ्या विशीं मुखेल्याक जो भौमान आशिल्लो तो ताची ही करणी पळोवन साप देंवलो. ‘ कोळयांगेर, चोरांगेर न्हिदपाक वचप ह्या भटान ? शीः शीः शीः ’

कांय म्हयन्यां पयलीं सोयऱ्याची आनी ताची वळख जाल्ली. बाबर देव्या सारकेल्या वाटमाऱ्यांक आसरो दितात हें निमित्य काडून सरकारान खेडा जिल्ल्यांतल्या लोकांचेर एक कर बसयल्लो. ताका ‘हैडिया वेरो’§ ह्या नांवान लोक वळखताले. ताच्या आड खेडा जिल्ल्यांत चळवळ जाल्ली. हे चळवळींत एका गावांत मुखेल्यान सोयऱ्याक पळेल्लो. अवचित् आयज तो हांगा पाविल्लो. तेन्ना ताका आग्रो करून ताणे दवरून घेतिल्लो. आपली सत्या आनी अधिकार ताका दाखोवचो अशें ताच्या मनांत आशिल्लें. वागा-शिंवा सारक्या ह्या लोकांचेर आपूण एकलोच केदी धाक बसोवंक पावलां हें दाखोवपाची ताका उमळशीक आशिल्ली. सोयऱ्याची सरकारी सोप्याचेर न्हिदपाची ताणेच वेवस्ता केल्ली. ‘ओगीच हो भौमान दिलो हाका.’ अशेंशें ताका आतां दिसपाक लागलें. ‘ फावऽ नाशिल्लो हाका तो ’ अशें मनांतल्या मनांत म्हणून मुखेली फणफणत उठलो ‘ चल या रे ’ अशें म्हुण आपल्या हाता सकलच्या मनशाक लापयांव घेवन येवपाक सांगलें आनी तिडकीन तो घरा गेलो.

मध्यान रात जाल्ली. सोयरो जे खोंपीर रात काडपाक राविल्लो थंय कोणेच आपय नासतना पुराय गांवांतले पाटणवाडये एकठांय जाल्ले. हाजिरीचें येवजून सोयऱ्याचो जीव वयर सकल जाल्लो. तो मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागिल्लो –– मनशाक अधोगतिच्या तळाक व्हरून पावोवपी कसली ही हाजिरी ! हे जातींतलो एकान एक मनीस आवयच्या पोटांतल्यान जल्मा येना फुडें गुन्यांवकारी थरता ! दादल्यांचें बरें आसा, बायलां लेगीत ? एक एकलेचें नांव घेवचें, ‘हाजीर’ म्हण्टलेच्या आवाजाचो दुबाव घेवचो, इतल्या ह्या लोकां मुखार त्या देड दमडेच्या सरकारी मुखेल्यान तिका आपोवची, माथ्या वयलो पदर काड म्हुण सांगून तिचें रूप पळोवचें, खरीच ती काय कितें हें पडठाळचें. . .आनी खासा आपणाल्या बायलांची हाजिरी घेतात म्हुण दादल्यांनी मुमुरख्यांनी हांसचें ! . . .कितें हें सगळें !

---

* एक जात ‘ गुन्यांवकारी जातीं’तले वळेरेंतली.

§ प्यूनिटीव्ह टॅक्स

ताच्या काळजांत येदोळ पसून हें खदखदतालें. मध्यान रातीं जमिल्ल्या ह्या लोकांक पळोवन ताका मात्शें ल्हव दिसलें. हो जमिल्लो लोक ताका आपलोसो दिसलो मोगाचीं मनशां मेळचीं आनी जिवाक बरें दिसचें, तशें-शें ताका ह्या लोकाक पळोवन दिसपाक लागलें. ह्या लोकांतले खूब जाण चोरयो करतात, घरां फोडटात हें तो जाणा आशिल्लो. धवाडच्यांतले लोक देव, धर्म, पुण्य, नीत बी गुणांक ज्या अर्थान समजतात वा मानतात त्या अर्था पसून, ते देखी पसून हो लोक खूब खूब पयस आसा म्हणपाचेंय तो जाणा आशिल्लो. तरी आसतना ताका तो आपलोसो दिसतालो. माये मोगाचो दिसतालो. तो चड कांय उलयलो ना, फकत इतलेंच विचाल्लें ताणें तांकां, 'ही हाजिरी तुमकां आवडटा ?'

'आवडना. पुणून कितें करतले आमी ? घर आमचें सामकें पयस, शेतांत . . . थंयच्यान दोन दोन फावटी मारच्यो पडटात आमकां दिसपट्टचो, ही हाजिरी दिवपाक. भुरगीं घरांत रडटात, तांकां तशींच उडोवन म्हाताऱ्यां-कोताऱ्यांक आनी हांतुळणार पडिल्ल्यांक लेगीत वचचें पडटा, चुकनासतना '

'तुमच्या बायलांचो हो अपमान तुमकां सोंसता ? . . .'

कोणेंच जाप दिली ना. लजेन सगळयांनी मानो सकल घाल्यो. कोणाचेच जिबेर फकाणाचें लेगीत एक उतर आयलें ना.

सोयऱ्याच्या काळजांत आशेचें एक कीर्ण उदेलें–'उल्लां तर हांच्यांत थोडें मनीसपण अजून !' ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें. आनी तांकां सांगलें—'फायच्यान हाजिरी दिवंक वचप ना . . . कळ्ळें ?'

ही बुद्द दिवन तो न्हिदलो. पुणून मदींच ताका दिसपाक लागलें, सारकी बुद्द दिली ना आपणें हांकां . . . ताकतीक केली. हे वाटेन ह्या लोकांचें कल्याण जावपाचें ना. भुरग्यां सारके लोक हे. सादे, भोळे.

सकाळीं उठून तो भायर सल्लो. एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गावांत, शीं वोत तान-भूक कित्याचीच पर्वा करी नासतना तो चलत रावलो. मोटार, गाडी कित्यांतूच बसप ना हो ताचो नेम आशिल्लो. चलत चलत नीट वडोदऱ्याक पावलो. इतलें चलून लेगीत ताका मात सुद्दां पुरो जावंक नाशिल्लें.

वडोदऱ्याच्या पोलिस अधिकाऱ्याकडेन ताची हय-न्हय-शी वळख. अधिकाऱ्यांत मात्शें मनीसपण आशिल्लें. ताणें वचून अधिकाऱ्याक सांगलें—

'ह्या लोकांची हाजिरी काडून उडयात.'

अधिकारी ह्या लोकसेवकाची ताकतीक पळोवन मात्सो हांसलो. ताणे म्हळें, 'एकाच हुकमान म्हज्यान ही हाजिरी काडून उडोवं येता. पुणून तातूंत तुमकां कसलोच लाव जावपाचो 'ना.

' म्हळचार ?'

' ते तुमच्या उपकारांत उरतले असली एक वाट सोदून काडात. तुमी सांगतात तें तांणीं करूंक जाय. आनी तुमी तांचेकडल्यान बरीं बरीं कामां करून घेवंक जाय.'

' कितें केल्यार जायत अशें ?'

' तांकां अशें दिसूंक जाय कि तुमी जांची हाजिरी काडूंक सांगतात तांचीच हाजिरी वता. तुमी जांचीं नांवां आमकां दितात तांचोच आमी विचार करतात. अशें तांकां दिसलें म्हणटकूच बाकिचे आपशींच तुमचेसरीं येतले.'

ही बुद्द घेवन म्हाराज थंयच्यान भायर सल्ले. पांयांनी परत एका फाटल्यान एक गांव माड्डीत शीं वोत कित्याचीच पर्वा करी नासतना, मातूय पुरो जायनासतना चलत गेले वटादऱ्याक. ताणीं पांच गांव वेंचून काडिल्लले. तांतलो हो एक, तांगेलोच जल्मगांव. थंयच्या सगळ्या पाटणवाडिया लोकांक एकठांय करून तांणी सांगलें, 'चलात म्हज्या वांगडा पेटलादाक. हांव तुमची हाजिरी काडून उडोवंक लायतां.'

पुणून तांचें म्हणणें कोणेंच व्हडलें-शें मनार घेतलें ना. हाजरिच्या त्रासांत गळ्यामेरेन बुडिल्ल्या ह्या लोकांनी ह्या मनशाचें म्हणणें एका कानान आयकून दुसऱ्या कानांतल्यान सोडून दिलें. तंबाकू ओडीत सूस्त बसून रावले. हांगा खासा तांगेल्याच गावांत ह्या मनशाक कोण सारको वळखनाशिल्लो. सांगत तें करून दाखोवपी मनीस जरूय जालो तरूय हाजरिची ह्या लोकांक इतली संवय जाल्ली कि ती तांकां सभावीक-शी जावन पडिल्ली. ती काडून उडोवपाची कोणाकूच व्हडलीशी उमळशीक नाशिल्ली. तरी आसतना वटादऱ्यांतल्या पांच-सात पाटणवाडयांक ताणे चिमटे काडून, फाटल्यान लागून तयार केले आनी तांकां घेवन तो पेटलादाक पावलो. थंय वचून ताणे ' हांची हाजरी काडून उडोवची ' अशें मागून एक अर्ज फौजदाराक बरोवन दिलो.

फौजदार अर्ज पळोवन खुबलो. किळांच्यो मारीत उठलो. – ' कसलो अर्ज हो ? ह्या हरामखोर कोळ्यांची हाजिरी काडून उडोवपाचो ? ' अशें म्हणून आयुश्य भर शिकिल्ल्यो सगळ्यो गाळी हाडून ताणे म्हाराजां मुखार रकयल्यो.

' हें पळेयात, फौजदार सायब . . . ' म्हाराजान म्हळें : ' हांव सांगतां तशें करात. हो अर्ज तुमी वयर धाडून दियात· वयल्या लोकांक जाय तें करूं दी.'

कांय दिसांनी, वटादरा आनी हेर गांवांतल्या सगळ्या बायलांची, आनी जांचे अर्ज आयिल्ले त्या सात दादल्यांची हाजिरी काडून उडयल्याचो हुकूम वडोदऱ्या सावन फौजदाराच्या हातांत येवन पडलो !

फौजदार तर अजापांत पडलोच, ग्रामपंचायतीय आजपांत पडल्यो. पाटण-वाडियांची हाजिरी काडून उडोवन सरकारान तांकां चोरी-लूट करपाचो जसो कितें परवानोच दिवन उडयला अशें तांकां दिसलें. पंचायतींत कांय व्यापारी सावकार

आशिल्ले. हाजिरी आशिल्ल्यान तांचें काम जातालें. पाटणवाडिया कडल्यान कळांतर, देणे बी वसूल करपा वेळार ते मडचा फाटल्यान हिरांटे येतात ते भाशेन हाजिरी वेळार आपापल्यो पटयो घेवन हांगा येताले आनी कळांतर देणे बी वसूल करून वताले. हाजिरी गेल्ल्यान तांची ही सोय ना जातली, खंय वतले, हेवाटेन तेवाटेन शिंपडलेल्या लोकांक सोदपाक ? ग्रामपंचायतिनी हुकमाआड सरकाराक अर्ज करून सांगलें– 'ह्या लोकांक गांवांत येवन रावपाक तरी सांगात. '

परिणाम : हाजिरी परत सुरू जाली.

म्हाराज एका गांवात पाविल्ले. थंयच हाजिरी परत सुरू जाल्ल्याची खबर तांच्या कानार आयली. दुसऱ्याच दिसा फांतोडेर म्हाराजांचे अनवाणे पांय वडोदऱ्याचे वाटेन तुरूतुरू चलपाक लागले. थंय पावना फुडें ते पोलिस अधिकाऱ्याच्या दारांत वचून उबे रावले.

अधिकाऱ्यान आपल्या हाताखालच्या सांगात्याक सांगलें––' हांकां डिस्ट्रीक्ट मजिस्ट्रेटासरीं व्हरून पावय. '

' बरें. ' अशें म्हणून सांगात्यान म्हाराजांक आपले घोडचा–गाडयेंत बसपाक सांगलें.

' हांव गाडयेंत बसना. '

' मागीर . . . ?'

' तुमी वचात मुखार, हांव चलत येतां. '

' चलत तुमी केन्ना पावतले थंय ?'

' धांवत येतां हांव. तुमी हुस्को करूं नाकात. '

ही जाप आयकून सांगात्याक हो भट अन्नाडीं, रानवटचाचो अवतार कसो दिसलो जाल्यार आजप न्हय. ' हो आता शारांतल्या रस्त्यां वयल्यान धांवत येतलो ?' ताणें मनांत म्हळें आनी तो मुखार गेलो.

हे वाटेन खरेंच, म्हाराज ताचे गाडये फाटल्यान धांवंक लागले. मॅजिस्ट्रेटाच्या बंगल्यार ते पावले तेन्नाच जिस्त सांगात्याची गाडी बंगल्यार पाविल्ली. सांगात्याक गाडयेंतल्यान देंवन बंगल्यांत भितर सरतना म्हाराजांनी पळेलो. ताची घोडचागाडी आनी म्हाराजांची पांया-गाडी हांचे गतींत फकत अर्द मिणटाचो फरक पडिल्लो. पुणून––

ह्या अनवाणया भटाक भितर कोण सोडटलो ? दरवानान ताका भायरूच आडायलो. ' बाबा रे भितर वचून सांगून तरी यो. हांव आयलां म्हुण . . .सायबानूच म्हाका आपयला हांगा. सायबाचें ह्याच खिणाक काम आसा म्हजे कडेन. ' म्हाराजान ताका विनयलो.

‘ चल, चल . . . सायबांकडेन पोलिस नायब-सायब येवन बसल्यात. ते भितर आसतना कोणाकूच भितर वचूंक मेळपा ना . . .’

म्हाराजांक ताणें भितर वचूंक दिले ना तें दिलेंच ना. तांकां भायरूच आडावन दवल्लें.

कितें करतले, म्हाराज भायरूच उबे रावले. थोडचा वेळान दोगूय अधिकारी भायर आयले. पळे जाल्यार, म्हाराज खुंटचा भाशेन थंयच उबे आशिल्ले.

‘ भायरूच-शे उबे तुमी ? ’ एकल्यान विचाल्लें.

‘ हाणें भितर सोडूं नाका ? ’

‘ सोड तांकां भितर . ’ दरवानाक हुकूम मेळ्ळो.

‘ कितें शिकल्यात तुमी ?’ मेजिस्ट्रेट सायबान तिरशी नदर करून मात्शें तिरस्कारान विचाल्लें.

‘ कांयच ना . . .’

‘ ह्या ठाकरडचांक तुमी वळखतात ? उणाकांतले उणाक लोक हे, खबर आसा मू ?’

‘ ना . . .’

‘ मागीर तांकां सुधरावपाचें काम कशें करतले तर तुमी ?’

‘ म्हाका खबर ना. ’

‘ ह्या लोकांमदीं काम करून तुमी तांचो सोरो वाडयलो, खबर आसा ?’

‘ हें खरें आसत जाल्यार, सरकाराक फायदो जालो जातलो . . .’

असल्यो चाली भायल्यो जापो आयकतकूच मेजिस्ट्रेटान आस्त सोडून दिली. उबगून ताणें म्हळें, ‘ कोर्टांत येयात तुमी बारा वरांचेर. ’

दन्परां कोर्टांत येवन म्हाराज सायबा मुखार उबे रावले. तेन्ना सायबान कागदांतल्यान तकली वयर काडून विचाल्लें – ‘ घडचाळ पळेयात, कितलीं वरां जालीं ?’

‘ सवाय वर ’ म्हाराजान घडचाळींत पळोवन जाप दिली.

‘ हांवें कितल्या वरांचेर आपयल्ले तुमकां ?

‘ कितें करूं ? जेवंक दुसऱ्यागेर आशिल्लों. जेवणाक मात्सो उशीर जालो.’

‘ वचात तुमी आतां. ऑर्डर धाडून दिल्या हांवें . . .’

‘ ऑर्डर धाडून दिल्या ’ हाचो अर्थ पाटणवाडियांची हाजिरी रद्द करपाची ऑर्डर गेल्या अशें समजून म्हाराजांनी खुशालभरीत जावन उमेदीन परती यात्रा सुरू केली. रातयांच सुमार अठ्ठेचाळीस मैल वाट कातरून ते वटादरा गांवांत पावले. वासपूस केली.

‘ हाजिरी काडून उडयल्याची ऑर्डर पावली ?’

आदीं ज्यांचीं नांवां काडून उडयल्लीं तांणीं सांगलें 'ना. परतीं, आमचीं काडिल्लीं नांवां आशिल्लीं तशीं वळेरेंत घालपाची ऑर्डर आयल्या.'

'कितें ?'

पुणून म्हाराजांकडेन फणफणत बसपाक जावं, सरकाराकडेन पंत्रवेव्हार करपाक वेळ नाशिल्लो. त्याच दिसा फांतोडेर तांचे लोखणाचे पांय वडोदऱ्या मेरेनची अठ्ठेचाळीस मैलांची यात्रा करपाक परत चलूंक लागले. थंय वचून ते पयलीं पोलिस अधिकाऱ्याक मेळ्ळे. थंय खबर कळ्ळी—'मेजिस्ट्रेट सायबांक तुमचे खबरींत कांय अर्थ ना अशें दिसलें आनी तांणी परती हाजिरी सुरू करपाची ऑर्डर काडल्या.'

म्हाराज तेदूसच्यान सद्दां मेजिस्ट्रेट सायबाचे कचेरींत वचूंक लागले. कितले-शेच दीस एकासारके ते थंय गेले. कचेरेचीं सपणां ताणीं झरयलीं. पुणून सायबाची आनी तांची भेट मात् केन्ना जावंक पावली ना. सायबाच्या चिटणिसाक एक दीस बारकाय जाली आनी ताणे विचाल्लें –

'कोण तुमी, वकील बी ?'

'न्हय.'

'ह्या लोकांची हाजिरी काडून तुमकां कितें मेळपाचें आसा ?'

'म्हाका खबर ना. पुणून हाजिरी काडून घेवंक सोदतां हांव हें खरें. . .'

चिटणिसान कपळार चडयल्लें ऑक्ल परतें नाकार देंवोवन भटाक तिरशे नदरेन नियाळून पळेलो. सुवार्थ नासतना कित्याक म्हुण कोण अठ्ठेचाळिस-अठ्ठेचाळीस मैल एकासारको वाट कातरीत रावतलो ? सुवार्था बगर कोण सद्दां दनपारच्या बारा बारा मेरेन कोर्टाचीं सपणा झरयत रावतलो ? सुवार्थ नासतना केन्ना कोण काम करतात ? असल्या जगा भायल्या सत्याक वा चमत्काराक चिटणिसाच्या संवसारांत खंयच सुवात नाशिल्ली. सद्दां सकाळीं येवन धुल्ल्या मुळ्या भाशेन भायर उबो रावप, बारांक कोर्ट उठ्ठा तेमेरेन उबोच रावप, मागीर मोन्यांनी परत वचप—एक दीस न्हय, दोन दीस न्हय, दिसांचे दीस, हें सगळें सुवार्था बगर केन्ना कोण करीत ? असले पिशे मान्यताये सुवादीन जावपाक चिटणिसाचें मन तयार नाशिल्लें.

भटान सदां येवचें, वाट पळेत उबो रावचें, मेजिस्ट्रेटान सदां कचेरेंत येवचें, बारांक परतें वचचें. आनी भट थंय उबोच आसचो. मेजिस्ट्रेट येवजूंक लागिल्लो, हो आपूण दिसतकूच धांवत आपणां म्हऱ्यांत येना. कितेंच उलयना, कांयच विचारिना. तें कित्याक, आपणा तोंडाकडेन सारको पळे लेगीत ना.'

एकदीस मेजिस्ट्रेट आयलो. सदचे वरी भट उबो आशिल्लो. माळी चडून मेजिस्ट्रेट वयर गेलो. थोडचा वेळान प्यूनान येवन भटाक सांगलें – 'चल, सायब आपयता तुका . . .'

‘ कितें शिकल्यात तुमी ?’ मुखार उबो आशिल्ल्या मोन्या भटाक तोच प्रस्न ताणें परतो केलो.

‘ व्हडलें-शें कांय ना. ’ तीच जाप मेळ्ळी.

‘ ह्या लोकां भजगतीं रावन तुमी कितें करतले ?’

‘ म्हाका खबर ना. ’

‘ बरें. . .वचात तुमी. हाजिरी रद्द करपाची ऑर्डर काडटां. ’

भट थंयच्यान भायर सल्लो आनी चिटणिसासरीं येवन ऑर्डरिची वाट पळेत रावलो. थोडया वेळान चिटणिसाकडेन ऑर्डर आयली. चिटणिसान ती पळोवन भटाक म्हळें, ‘ ऑर्डर आयल्या. तुमी वचात आतां . . .ऑर्डर धाडून दितां गावांत.’

‘ ती गावांत कशी पावतली ?’

‘ कशी म्हळचार ? हांगासून सकले कचेरेंत वतली. थंय तिची नोंद जातली. उपरांत आनी कांय कचेऱ्यांनीं वतली आनी निमाणें गांवांत पावतली. रीत ही हांगासल्ली . . .’

‘ तशें उपकारना ’, भटान शान्तपणान म्हळें.

‘ मागीर कशें ? ’ रागान वयर सकल जावन चिटणिसान विचाल्लें.

‘ नोंद-बिंद कितें ती आत्तांच्या आत्तां करात आनी ऑर्डर म्हजे कडेन दियात. ’

भट अर्ज करता काय हुकूम, हो चिटणिसा मुखार प्रस्न पडलो. ताणें विचाल्लें ‘ तुमी कितें करतलें ? ’

‘ सकले कचरेंत हावूंच ती घेवन वतां आनी थंय नोंद करूंक लायतां. ’

चिटणिसाक भटाची निःस्वार्थी ताकतीक कटकटी सारकी दिसली. आनी आनी हाची कटकट नाका अशें येवजून चिटणिसान ऑर्डर म्हाराजांच्या हातांत दिली. ती घेवन म्हाराज सकले कचेरेंत गेले.

‘ बरें, तुमी वचात आतां. ’ सकले कचेरेंतल्या अधिकाऱ्यान सांगलें.

‘ ना . ना. तशें उपकारना. तुमी ऑर्डर नोंदून घेयात आनी म्हजेच कडेन दियात.’

‘ तुमी कितें करतले ? ’

‘ तुमी वचात म्हणशात ते कचेरेंत वचून नोंदून घेतां. ’

हे भाशेन हे कचेरेंतल्यान ते कचेरेंत ऑर्डर व्हरीत व्हरीत नोंद-बिंद करून (जी ऑर्डर गांवांत पावपाक हरशीं म्हयनो लागतलो आशिल्लो) ती म्हाराजान एकाच दिसांत हातांत घेतली. आनी परत अठ्ठेचाळीस मैलांची वाट कातल्ली.

भादरणाक पावपाक रात जाल्ली. फौजदार न्हिदिल्लो. ताका उठयलो. तेच रातीं ऑर्डर थंय नोंदून घेतली. आनी तशीच ती घेवन म्हाराज वटादरा पावले.

सूर्य अजून उदेवंक नाशिल्लो.

* * *

४

# शणिल्लें गोरूं

म्हयन्यां फाटल्यान म्हयने गेले. म्हाराजांनी बडोदऱ्याच्या सायबाक सांगिल्लें तें खरें थल्लें. ह्या पाटणवाडिया आनी ठाकरडचां कडल्यान काम कितें घेवचें, सारकें खबर नासतना, सारकी येवजण आंखी नासतना, कसलीच वेवस्ता करी नासतना म्हाराजांनीं एक काम केल्लें. कितें काय म्हळचार, एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गावांत सकाळपसून सांजवेळ मेरेन फकत येरादारी घालपाचें. गांवां गांवांत एक–एकल्यागेर वचून तांच्या बायल-भुरग्यांची वासपूस करपाचें.

केन्नाय दन्पार जाल्या तेन्ना थंय खंयच्याय एकल्या ठाकरडचागेर वचून म्हाराजांनी कळसुली आनी राजू मागून घेतला. आनी बांयचेर वचून ते न्हाल्यात. कळसुली भरून हाडल्या. ठाकरडचाचे ल्हान व्हड, नितळ वा म्हेळे पडवेर रांदन मांडल्या. मूठ मूठ तांदूळ–दाळ मागून घेतल्या आनी खिचडी रांदल्या. हळद घाली नासतना फकत मीठ घालून ती खाल्या. तांबयो भरून उदक पियेल्यात. फुडली दन्पार मेरेनचें पोट भरून घेतलां. मागीर परत चलपाक सुरवात केल्या. काळोख पडला त्या गांवांत कोणाय एकल्या पाटणवाडियागेर रात सारल्या. शेंदरी मांदरी मेळ्ळी, बरें आसा. ना जाल्यार धर्तरेचे मांडयेर तकली दवरून सूस्त न्हिदल्यात. खंयच्याय शेतांत पावले आनी थंय रात पडली जाल्यार, तणाचे राशीर न्हिदल्यात. शियांच्यो राती लेगीत तांणी हे भाशेन न्हिदून सारल्यात. न्हिदिल्ल्यांक जागोवंक नात. उपदेस कोणाक करूंक ना. फकत मोग दिला. माया मागल्या. हाजिरी रद्द करपाक विनवण्यो केल्यात. एक-एकल्याकडेन मागलां. आळशी ऐद्यांच्यो शेंपडचो पिळून पिळून तांकां हाजिरी काडूंक लावपा खातीर अर्ज करूंक लायल्यात, कांय गांवांनी थपकल मारून बसल्यात तेन्ना, चरखो कांतला. केन्नाच कोणाक ‘ चोरी कित्याक करता ? घरां कित्याक फोडटा ?’ म्हुण विचारूंक ना. लोकांनी येवन तांच्या मुखार आपल्या पातकांची खबर सांगल्या तेन्ना तांकां खासा आपल्या हातान बडोदऱ्याच्या पुलिसां सुवादीन केल्यात. आनी सादो दंड वा तसलीच

कसली ल्हानशी ख्यास्त फर्मावंक लावन वाटमारेपणाचे भयांकृत वाटेवयल्यान तांकां कडेक काडल्यात. तांकां वाटायल्यात.

म्हयन्याचे म्हयने हेंच काम चल्लां म्हाराजांचें.

बोरसद तालुक्याच्या कटाण नांवाच्या गावांत म्हाराजांचो कांय दीस राबितो आशिल्लो. एक दीस एकल्याचे पडवेर ते चरखो कांतीत बशिल्ले. इतल्यांत एकलो पाटणवाडियो येवन तांच्या म्हऱ्यांत बसलो. चरखो कांततां कांततां ताच्या तोंडाकडेन पळेलें. म्हाराज ताका रोखडेच वळखले. तो खडोळ गांवचो एक शेतकामती आशिल्लो. म्हाराजांनी खडोळ गांवच्या लोकांचें एकएकल्याचें नांव घेवन तांच्या बायल-भुरग्यांची पसून वासपूस घेतली, आनी मोन्यांनी ते चरखो कांतीत रावले. हो शेतकामती कितेंय तरी सांगपाक आयला म्हणपाचें म्हाराजांक समजल्लें. ताची जीब हुळहुळटा तीय तांणी पळेल्ली. पुणून कोणाकूच कित्याक आयला म्हूण विचारपाची म्हाराजांक संवय नाशिल्ली.

शेतकामत्यानूच अखेरेक तोंड उक्तें करून विचाल्लें :

' म्हाराज, आमगेर येशात मात्शे ?'

' कित्याक रे ? कितें काम आशिल्लें ?' कांतिल्ल्या सुताक दुसरो पेळू जोडून म्हाराजांनी परतें विचाल्लें.

' आशिल्लें थोडें काम . . म्हजो मेवणो खोडयो ना, ताच्या कपळाक खत पडलां.'

' कपळाक खत !' उतरांचो अर्थ रोखडोच म्हाराजांच्या लक्षांत आयलो. ' तो वाटमारेपण करूंक लागला ' असो ताजो अर्थ आशिल्लो.

' खंयचो खोडयो रे ?'

' काविठचाचो. '

' बरें आसा. आयज पावचों ना. दोन दिसांनी येतां. '

काविठचाच्या खोडयाच्या ह्या भावोजीक म्हाराजांनी आनी कांय विचाल्लें ना. ताका घरा धाडून दिलो. रोखडीच पेळुंची पोटली बांदली, चरख्यावयली त्राक देंवयली, सूत फाळक्यार काडून चरखो कुशीक दवल्लो आनी उठून म्हाराजांनी वाट धल्ली— नीट बडोदऱ्याची. आनी उबे रावले थंयच्या पोलिस अधिकाऱ्या मुखार.

म्हाराजांच्या कामा विशीं आदर आशिल्लो, इतलेंच न्हय तर तांच्या कामांत आधारूय बी दिवपी एक मराठी मनीस हो. म्हाराजांनी ताका काविठचाच्या खोडयाची खबर सांगली. खोडयान एक दोन चोरयो केल्ल्यो हें म्हाराज जाणा आशिल्ले. अशें आसतनाय तांणी पोलिस अधिकाऱ्याक विचाल्लें – ' ह्या खोडयाक तुमच्यांनीं वांचोवं येत व्हय ? हांव ताका हांगा हाडून तुमच्या मुखार उबो करतां. '

च्ये, च्ये . . . कित्याक ?' सायबान मात्श्या वेगळ्या आवाजांत जाप दिली. जाय तितल्यो चोरयो कर म्हुण सांगात ताका. जाय तितलीं घरां फोड म्हुण सांगात.' अशें म्हणून ताणे मेजावयल्या रिवॉल्वराक हात घालून म्हळें : ' हें पळेलें रिवॉल्वर आनी ह्यो गुळयो ? '

म्हाराज मान खाला घालून ओगी रावले.

' पटलें ना तुमकां म्हजें म्हणणें ?' थोडचा वेळान मोव पडून सायबान विचाल्लें.

'कितें उलयतलों हांव ? उलोवपा सारकें कांय उरूंक ना आतां ' म्हाराजांनी खंतिच्या सुरान जाप दिली.

' कित्याक ?'

' कित्याक म्हळचार, तुमचे कडेन रिवॉल्वर आसा, गुळयो आसात . . .' मागीर ल्हवूच पिंपळाचें पान सळसळचें ते भाशेन तांणीं इल्ल्या उचांबळीत सुरान विचाल्लें, ' हीं रिवोल्वरां आनी गुळयो बाबर देव्या वेळार खंय गेल्ल्यो ?'

बाबर देव्या वेळार पोलिसांक जाल्ले लजेची याद जायना फुडें सायबाची कडक मान मात्शी मोव पडली. म्हाराजांनी म्हळें, ' खोडयो वाटमारेपण करून लोकांच्यो बोबो घालतलो तेन्ना तुमचीं हीं रिवोल्वरां आनी ह्यो गुळयो कित्याक उपकारा पड-पाच्यो नात. देखून हांव सांगूंक आयलां, खोडयाक अजून लज, भीड, मुरवत आसा. ताका हांगाच आडावया . . . मुखार वचूंक दिना आसतना . . .'

' बरें आसा. घेवन येयात ताका. थोडो दंड करून सोडटां ताका.'

लोखणाचे पांय परते चलपाक लागले. सदच्या तांच्या वेगांत आयज एक नवी स्फूर्त, नवी उर्बा आयली. म्हाराजांक भितर खोलायेन दिसपाक लागिल्लें, वाटमारो जावपाचे वाटेर आशिल्ल्या एका तरणाटचाक मनीसपणाचे वाटेर हाडूंक मेळटलें. हे उमेदीन पांयांक नवी गती मेळ्ळी. ते खडोळ गावांत पावले तेन्नाच पांयांची गती मंदावली.

खडोळ गांव काविठचाच्या खोडयाच्या भावोजिचो. गांवा भायर बसून म्हारा-जांनी भावोजीक आपुण आयिल्ल्याची खबर कळोवन धाडली तेन्ना रात जाल्ली. म्हाराज ताची वाट पळेत बसले. खिणा फाटल्यान खीण, वरां फाटल्यान वरां वचूंक लागलीं. फांतोड जायत आयली. तरूय खोडयाच्या भावाजिचो पत्तो ना. तो आयलोच ना. गांवात आशिल्लो. तरूय, कित्याक, कोण जाणा, ताणे तोंड दाखयलें ना. फांतोडेर म्हाराज निर्शेले. जड, खंती अंतस्कर्णान ते बोरसद वचपाक भायर सल्ले.

बोरसदा लागीं पावपाक तांकां फाटल्यान ' मात्शे रावात, मात्शे रावात.' असो एक आवाज आयकूंक आयलो. फाटल्यान एक मोटार गाजत येताली. मोटार

लागीं पावली तेन्ना भितल्ल्यान खोडयाचो भावोजी देंवलो आनी धांवत येवन म्हाराजांक सांगूंक लागलो, ‘ येयात, मोटारींत बसात. खोडयो तयार जाला. ’

‘ खंय आसा ?’

‘ स मैलांचे वाटेर. ’

‘ आतां राव. रांदून करून मागीर वचुंया. . . ’

म्हाराजांनी रांदलें. ताका वाडलें. उपरांत आपूण जेवले. आनी मागीर दोगूय भायर सल्ले.

पामोल गांवचे शिमेवयल्या शेतांत मदीं एक झाड आशिल्लें. झाडार चडून कोण-एकलें भोंवतणच्या वाटारा वयल्यान नदर भोंवडायतालें. एकली बायल मनीस ती म्हणपाचें म्हाराजांनी रोखडें पारखिलें. कोण येतात हें पळोवन ती सरसरीत झाडावयल्यान देंवली. मोटार शेतांत गेली आनी त्या झाडा म्हऱ्यांत थांबली. लागसार एक खोंप आशिल्ली. म्हाराज खोंपीत भितर सल्ले. भितर खाटेर एक तरणाटो न्हिदिल्लो. तकलेक रेवडायल्लो तांबडो तुवालो* दोळचार ओडून न्हिदिल्लो वा म्हणुंया, ताणे न्हिदेचें संवंग घेतिल्लें. म्हऱ्यांत एक तरणी बायल मनीस उबी आशिल्ली. (झाडार चडिल्ली तीच ही) हिणेंच खोडयाक न्हिदेचें संवंग घेवंक लायलां म्हणपाचें बारीक नदर आशिल्ल्या कोणाकूय आपशींच कळपाचें.

‘ कितें, खोडशंग ठाकोर ?’ म्हाराजान उलो माल्लो. सूस्त न्हिदेंतल्यान जागो जाल्ले भशेन खोडयो जागो जालो. ताका थोमणो मारून म्हाराजान विचाल्लें, ‘अखेरेक तुजी भेट जाली खरी. सांग, कितें करपाचें येवजिलां तुवें ?’

‘ तुमी सांगशात तें ’ दोळचार आयिल्ले माने मेरेनचे केंस मान हालोवन वाटमाऱ्यान फाटल्यान काडले. आनी जागरणान तांबडेगूंज जाल्ले दोळे वांटकुळेच घुंवडावन जाप दिली.

‘ हांव सांगतां, वचून मेळ. थोडोसो दंड जातलो. मागीर सोडून दितले. दंड भरता मरे ?’

‘ बरे भाशेन. ’

‘ चल, यो तर, म्हजे बरोबर.’

---

* फाळयुं – हे लोक एक तांबडो कुडको सदांच तकलेक बांदून भोंवतात. तो तोंड पुसपाक, पोटली बांदपाक, न्हातकच आंग पुसपाक, उश्याक घेवपाक, गरज पडल्यार द्वातरावन न्हिदपाक उपकारता. तुवाल्या परस मात्सो व्हड.

खोडयान म्हऱ्यांतले बायल मनशेकडेन पळेलें. चार नदरो मेळ्ळ्यो आनी एकाच खिणांत खोडयाच्या जिविताची वाट बदल्ली. ते रखेलिच्या दोन मोहक दोळयांनी खोडयाच्या मनाप्राणा भोंवतणीं एक काळेंकिट्ट कोट उबें केल्लें. खोडयान म्हळें :

‘ आयज ना. फाल्यां काविठयाक येवन मेळटां. ’

‘बरें आसा. फाल्यां सकाळी काविठयाचे शिमेर हांव तुजी वाट पळेत बसतां. ’ उतर घेवन म्हाराज थंयच्यान गेले.

‘ हांगा-शे बसल्यात तुमी आयज ?’

काविठयाचे शिमेर, पेटलादचे वाटेर, एका सोप्यार म्हाराज बशिल्ले. फांतोडेर ते वाटेन येतले वतले लोक तांकां नमस्कार करता आसतना प्रस्न करताले आनी प्रत्येकटयाक म्हाराज पडिल्ल्या तोंडान पुणून लिकलिकीत दोळयांनी आनी मुमुरख्या हांशान जाप दिताले, ‘ वाट पळेतां एकल्याची. ’

दन्पार जाली. गांवांत गेल्ले लोक परत येवपाक लागले. तरूय म्हाराज थंयच बशिल्ले आशिल्ले. आयिल्ल्या गेल्ल्यान विचाल्लें—

‘ परत येवन बसल्यात हांगा ?’

‘ ना. . .सकाळच्यान हांव हांगाच आसां. ’

‘ अजुनूय वाट पळेतात काय कितें ?’

‘ हय ’ म्हुण तकली हालोवन म्हाराज आपली खंत आनी लज लिपोवपाचो यत्न करपाक लागले. मागीर उठले. चोरा भाशेन ल्हवूच गांवांत भितर सल्ले. खोडयो रावतालो त्या वाडयार गेले. थंय मेळत ताका ते विचारपाक लागले : ‘खोडयो खंय आसा, खबर आसा ?’

जाप दिनासतनाच लोक वतात तें ताणीं पळेलें. कोणाक विचारचें ? एक-दोगी बायलो दिश्टी पडल्यो. तांकां विचाल्लें : ‘ खोडयो खंय गेला ? खबर आसा ?’

‘ आमकां खंय खबर ? विचारात आनी कोणाकूय. ’

असल्यो बेपर्वाइच्यो जापो म्हाराजांनी आयज पयलेच खेपे आयकल्ल्यो. तांकां तांचो अर्थ समजलो. खोडयाचें नांव घेना फुडें हो गरीब लोक पयस पळून वता. सट्ट करून खोडयाच्या गुन्यांवाचे सांवळेंत पडत हाची भिरांत जण एकल्याक आसा. कोण ‘बसात’ म्हणिना. ‘ खंयच्यान आयल्यात ’ म्हुण्णूय कोण विचारिना. कोण पियेवपाक उदक हाडून दिना. ‘ भूक लागल्या ’? म्हुण्णूय कोण विचारिना. लोकारण्य जशें कितें

शुन्याकार जावन पडलां. जनपदाची जोत जशी कितें पालवल्या. मसंडेंतली कशी थंडाय सगळेकडेन पातळ्ळ्या.

एकल्याचे पडवेर एक खाट (चारपायी) वणटीक तेंकयल्ली आशिल्ली. ती सारकी करून म्हाराज तिचेर बसले. इतल्यांत एकलो पाटणवाडयो तेवटेच्यान गेलो. म्हाराजांक पळोवन तो विचारपाक लागलो, ' म्हाराज ? खाटेर गोयडीय ना ?'

' गोयडी हांव बरोबर घेवन भोंवना. ' म्हाराजांनी खंतीन जाप दिली. आनी विचाल्लें, ' खोडयो खंय आसा, खबर आसा ?'

' ना. '

' बरें तर. मेळ्ळचार ताका सांग, हांव आयिल्लों म्हुण. '

इतलेंच सांगलें. संकश्ट मोटें आशिल्लें. पुणून तें भितल्ले भितर लिपोवपाचें आशिल्लें. राखणो जसो कितें आपल्या शेणिल्ल्या गोरवाक सोदतालो. सट्ट करून वाग-बीग ताका खावन उडयत हो भंय ताका आशिल्लो.

भंय खरो थल्लो. कांय दिसांनीं खोडयाक एकलो पाटीदार मेळ्ळो म्हणपाची खबर कळ्ळी. ताणे खेडयाक चिथायल्लो – त्या धवे तोपयेकाराक पातयेवं नाका. ते परस म्हजे बरोबर यो, हांव तुका सायबा कडल्यान माफी मेळोवन दितां. अशें म्हणून तो ताका सायबाकडेन घेवन गेल्लो. सायबान खोडयाक हाडून दितल्या पाटीदाराक अठरा रुपयांचो फेंटो बक्षीस म्हुण दिल्लो. आनी नहापा गांवच्या एका चोराक धरून दिवपाच्या कामांत खोडयाक घुसपावन ताका सेरपावाची* लालूच दाखयल्ली. खोडयाक आतां पोलिसांचो आसरो मेळ्ळो. तो आतां हुस्क्यां-मेकळो लोकांचीं घरां फोडपाक लागिल्लो.

* * *

* संरक्षणाची

५

# काळजीदार नोकर

बामणगांवचे शिमेर उंधयाची* पार्टी चलिल्ली. दरबार गोपाळदास आपल्या सांगात्यांक घेवन बोरसदच्यान पार्टेक आयिल्ले. म्हाराज तांकां थंय वचून मेळ्ळे. पार्टी चलिल्ली आसतना मदींच एकलो खबर घेवन आयलो -- पामोल गावच्या एका पाटीदाराच्या तरण्या पुताक खोडयान धरून व्हेला आनी पांचशें रुपया मागूंक धाडल्यात. पयशे वेळार पावते जालेनात जाल्यार भुरग्याक मारून उडोवपाची खोडयान दबकावणीय दिल्या. तोंडाकडेन व्हेल्ल्यो उंधयांतल्यो फोडी तश्योच हातांतल्यो सकल दवरून म्हाराज उठले आनी चलूंक लागले. पामोलचे वाटेर 'पाटिदाराचो पूत बरे भाशेन घरा परतलो ' म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. पुणून हें प्रकरण हांगां सोंपलें अशें मात म्हाराजांक दिसलें ना. तांणीं विचाल्लें --

'खोडयोच करता व्हय हें काम ?'

'ना. आनी एकलो आसा, सांगाती ताचो. देदरडयाचो भिखो.'

'केदोसो ?'

'तोय तरणोबांड.'

दोग तरणाटे असलीं कामां करूंक लागल्यात म्हणपाचें कळटकूच ओगी बसून रावप म्हाराजांक जमपा सारकें नाशिल्लें. केन्नाच पुरो जायनाशिल्ले तांचे पांय देदरडयाचे वाटेन वेगान चलपाक लागले. थंय पावतकूच ते नीट भिख्यागेर गेले. पुणून भिखो घरा नाशिल्लो. ताचे बदला ताचो बापूय मेळ्ळो. दोगांय मजगतीं कसल्यो कितें खबरी जाल्यो, दोगांकूच खबर. इतलें खरें कि दुसऱ्याच दिसा सकाळीं भिख्याचो बापूय भिख्याक घेवन म्हाराजां सरी बोरसदचे छावणींत आयलो.

---

* खतखत्या सारकें तोंडाक.

भिख्याक लिपोवपाचो वा बडोदऱ्याक व्हरून ताका माफी मेळोवन दिवपाचो प्रस्न म्हाराजां मुखार नाशिल्लो. पयलें पावल म्हुण म्हाराज भिख्याक घेवन नीट फौजदाराकडेन गेले आनी ताका सांगलें, ‘ हाका पयली ताब्यांत घेयात. ’

फौजदारान भिख्याक ताब्यांत घेवन कोर्टामुखार उबो केलो. कोर्टान ताका ‘ लॉक-अपां’त दवरपाचें फर्मान काडलें. म्हाराज लॉकपामेरेन भिख्याक पावोवपाक गेले. म्हाराजांच्या दोळयांनी ताका सांगलें : ‘ तूं भियेवं नाका, मात्सो धीर धर. ’ आनी फाटले राती मेरेन लोकांक मारून खावपी, भिरांकूळ वागा सारक्या, ह्या तरणाटयाक त्या दोळयांची भास जिस्त समजली. तो धीर धरून ओगी रावलो. ताच्याय दोळयांनी जाप दिल्ली : ‘ बरें आसा. ’

ताका लॉक-अपांत घालून जातकूच म्हाराज परतताले. भिक्यान जिस्त त्या खिणाक फाटल्यान उलो मारून म्हाराजांक म्हळें —

‘ मात्शे हांगा येशात व्हय ?’

म्हाराजांक भंय जालो. हो तरणाटो थतरवितर जावन आतां रडूंकबिडूंक लागता काय कितें, अशें तांकां दिसलें. तांणीं विचाल्लें ‘ कितें ? ’ भिख्यान मुमुरखें-शें तोंड करून विचाल्लें — ‘ तो जाय व्हय तुमकां ?’

‘ कोण ? ’

‘ काविठयाचो खोडयो. ’

‘ हय. ’

‘ हांव हाडून दितां. ’

‘ खंयच्यान ?’

‘ हांगा लागींच, वासणाच्या* एका पाटणवाडियायेर आसा. येयात म्हज्या वांगडा. आमी घेवन येवंया ताका. ’

‘ येत व्हय तो ? ’

‘ बकरें भाशेन फाटल्यान मोन्यांनी चलत येतलो. ’

‘ पापया, मात्शें पयलीं सांगपाचें न्हय ? आतां ह्या लॉक-अपांतल्यान तुका भायर काडप कसो ? ’

‘ आत्तांच वचून घेवन येवंया ताका. ’ देदरडयाच्या भिख्याच्या तोंडार उर्बा आनी आस्त उफेवन दिसताली. तरणाटयाचें मुखामळ लॉक-अपाच्यां सरयां परस अदीक चकचकतालें.

---

* एक गांव

म्हाराज बुचकळयांत पडले. कितें करचें ? लॉक-अपाच्या अधिकाऱ्याच्या घराकडेन वचपाक तांचीं पावलां चलपाक लागलीं. मदीं मदीं तीं घुसपतालीं. म्हाराजांनी परतीं उखल्लीं—– आनी ते नीट अधिकाऱ्यासरीं गेले. म्हाराजांनी म्हळें– ' ह्या कैदीक म्हजेबरोबर दियात. काविठयाचो खोडयो हाता-वेंताचे वाटेर आसा. घेवन येतां.'

अधिकारी एक भुरगे बाळकार भट. म्हाराजांची मागणी आयकून पयलीं हांसलो. मागीर म्हणूंक लागलो, ' कोर्टांत जाची नोंद जाल्या ताका सोड म्हणटात तुमी ? वडलां व्हय अशें केन्ना खंय, संवसारांत ?'

' घडूंक ना. . .घडोवन दाखयात. . .' म्हाराजांनी आगऱ्यासयत सांगलें.

' म्हजी सिर्विस होगडावन बसूं ? येदें व्हडलें धाडस करूं ? येदें व्हडलें संकश्ट ओडून घेवं ? कितें उलयतात हो तुमी ?'

' मनशाची परीक्षा असल्या प्रसंगारूच जाता. '

' पुणून. . .'

' मात्सो विचार करून पळेयात. हो खोडयो वाटमारो. भयांकृत करण्यो करपाचो आसा. खूब जाणांचें रगत पियेवपाचो आसा. खूब जाणांक लूटपाचो आसा. तांतूंतल्यान लोकांक वाटावपा खातीर आयुश्यांत एकूच खेपे धाडस करात, संकश्ट ओडून घेयात.'

' म्हजीं भुरगीं बाळां. . .'

' खबर आसा म्हाका. . .येवजून म्हाकाय थरथरो भरून येता. तरी आसतना मागतां. '

न्हिदिल्लीं भुरगींबाळां आनी म्हाराज ह्या दों मजगतीं अधिकाऱ्याचें मन लोळो कशें हुमकळूंक लागलें. कादयेंत पडिल्ल्या एकल्याक – तोवूय असलो तसलो न्हय, लूट करपी कैदी, ताका लॉक-अपांतल्यान भायर काडलो, इतलोच गुन्यांव पुरो म्हज्या हातांक हातकडी पडपाखातीर. तांतूंत परत, समज, हो कैदी म्हाराजांच्या हातार ताळी दिवन पळून गेलो जाल्यार. . .म्हज़ी जी अवस्ता जातली ती. . .ती. .
येवजून अधिकाऱ्याची तकली घुंवूंक लागली.

' ना. . .ना. . .ना. . .बेश्टें कित्याक संकश्ट ओडून घेवं ? कसले आशेन ? कसले खातरेन ? हो देशभक्त म्हज्या भुरग्यांक थोडोच पोसपाचो आसा ? ताका बंदखण म्हळ्यार कांय न्हय. असोऽ घरा गेल्ले भाशेन वचपी बंदखणींत हो. कोणाक कांय दिसपाचें ना तो बंदखणींत पावलो जाल्यार. दायकी नाशिल्लो मनीस. .हांव?

हांव एक गरीब, सिर्विस करपी मनीस, कोणाचे पांय धरूंक वतलों हांव ! वयलो अधिकारी, म्हज्या हाताखालचे लोक, म्हजें खातें—तें कित्याक, खासा हो देशभक्तूच म्हाका पिसो लेखचो ना ? . . ."

लोळो दुसरे वाटेन गेलो : ' हो मनीस, हो म्हाराज : म्हाका केन्ना फटयत व्हय ? हाच्या सारको मनीस म्हाका केन्ना संकश्टांत उडयत व्हय ? खासा आपूण संकश्टांत उडी घेवपी मनीस हो. . .हाच्या सारंकेल्या पवित्र मनशाचेर एकूच खेपे पातयेवन काम करचें. . .

' आरे पापया, सिर्विस खूब वरसां केली. आयुश्यांत एकूच खेपे जिवीत–मरणाचो खेळ खेळून घे. जिविताच्या अंताक पावतकूच एक दीस अंतर्यामी म्हणटलो : शाबास ! शाबास भटा, भाकरे कुडक्या खातीर जायत्यो लटपटी खटपटी केल्ल्यो तुवें. . . आयुश्यांत केल्ले हे एकेच करणेन सगळें माफ जालें तुका. . .

रात सल्ली, न्हीद पडली ना. दुसरो दीस उजवाडलो, तरूय तकली शांत जाली ना. दन्परां उंडी तोंडात घाली, मातूय रुचीक लागली ना. कामार गेलो कचेरेंत. मातूय मन लागलें ना. तीनसांज जाली. म्हाराज परते आयले. सांगपाचें. मागपाचें, उलोवपाचें कांय उरूंक नाशिल्लें. करूनूच दाखोवपाचें आशिल्लें.

काळोख जालो. लॉक-अपाच्या कुलपांतल्यान ल्हवूच चावी घुंवडायली. आवाज करी नासतना लॉक-अपाचें दार उक्तें केलें. तरणाटचा भिख्याक भायर काडलो. ताका म्हाराजां सुवादीन केलो. आनी इतलेंच म्हळें : "म्हजें घरदार, म्हजीं बायल भुरगीं, म्हजें जिवीत, म्हजें सर्वस्व तुमच्या हातांत दितां हांव. . ."

दारांतल्यान तो पळेत रावलो. दोन आक्रतायो रातच्या गुपाट काळखांत ल्हवू ल्हवू विरूंक लागिल्ल्यो.

* * *

६

# भरवंसो

काळोख गुपाट आनी गुपाट जायत गेलो. तशी रात भिरांकुळ दिसपाक लागली. मळबांत कांय नखेत्रां लिकलिकतालीं—संकश्टांत पडुनूय धीरवान आशिल्ल्या सज्जनांच्या हांशा भशेन. काळोख अदीक गुपाट जालो. तशीं नखेत्रां अदीक तेजान लिकलिकूंक लागलीं. 'उलयल्लें कितेंय सट्ट करून झाडां-झुडपांनीं आयकलें आनी आयकून तांणीं खंयूय वचून कोणाक सांगलें, चाडी केली जाल्यार'—हे तरेच्या दुबावान धीट मनशान लेगीत ओंठार आयिल्लें उतर भंयान फाटीं घेवचें, हे भाशेचो भिरांकूळ काळोख पातळ्ळो.

रविशंकर म्हाराज म्हळ्चार धिटायेचो साक्षात् अवतार. पुणून आयज ते भिख्याच्या रूपान संकश्टांची एक पोटली घेवन आयिल्ले. दोगूय मोन्यांनी चलत चलत बोरसदच्यान काविठाचे शिमेर पावले, तेन्ना, रात एक पार सोंपोवन दुसऱ्या पारांत भितर सरिल्ली.

गांवचे शिमेर पावतकूच भिख्यान म्हळें : 'तुमी आतां हांगाच बसात. हांव गांवांत भितर वचून खोडयाक घेवन येतां.'

हें आयकून म्हाराजांक खीणभर अजापांचो धसको बसलो. तांणीं मनांतल्या मनांत म्हळें : 'अब्बा ! हो म्हाका हांगा दवरून एकलोच वचूंक सोदता !' बोरसदची लॉक-अप...लॉक-अपची चावी जाचेकडेन आसा तो पोलिस अधिकारी...ताणें हाका लॉक-अपांतल्यान भायर काडून आपणाचेर ओडून घेतिल्लें संकश्ट...ह्या तरणाटचा वाटमाऱ्याचें अनवळखी जिवीत...थाव पत्तो लागना असलें तागेलें मन, कितल्योश्योच गजाली एका फाटल्यान एक, चित्रपटा भाशेन, म्हाराजांचे तकलेंत आयल्यो आनी गेल्यो. तरी आसतना खिणाचोय कळाव लायनासतना तांणीं म्हळें : 'बरें आसा...हांव हांगा बसून रावतां. वच तूं...'

भिखो कांयच उलय नासतना चलूंक लागलो. आनी म्हाराज एक लेगीत पावल फाटीं फुडें घाली नासतना आशिल्ले थंयच बसून रावले. पळून वचपाक असले राती सारकी बरी रात दुसरी ना हें म्हाराज जाणा आशिल्ले. तरी आसतना तांणीं भिख्याक 'वच' म्हळ्ळें. तर्क-वितर्काचीं दारां बंद करून ते बशिल्ले. धांवत्या विचारांक आडा-वपा खातीर मळबांत मात सप्तर्षी वयर सरिल्ले.

भिखो परतलो तेन्ना जसो कितें धर्तरेच्या पोटांतल्यान निकतोच वयर सरिल्ले वरी दिसलो. भिखो चोर, त्या भायर कैदी, गुप्त काम करपा खातीर आयज भायर सरिल्लो, ताचे पांय सवकासायेन चलिल्ले जाल्यार तो पाटणवाडियोच न्हय जायत आशिल्लो. आयलो पुण एकटो आयलो. ताच्या वांगडा खोडयो नाशिल्लो.

ताका 'वच' म्हणटा असतना म्हाराजांचो जीव सकल वयर जावंकूच नाशिल्लो, म्हणटकूच, तो दिश्टी पडटकूच सूः जावपाचो प्रस्न उपरासनाशिल्लो. ताका एकलो परतल्लो पळोवन म्हाराजांनी ताका कांय विचाल्लें लेगीत ना. भिख्याकूच उलोवंक दिलो.

'तो देदरडयाक गेलोसो दिसता.'

'कळ्ळें. . .' . . . म्हाराजांनी आनी कांय म्हळें ना.

'या आमी थंय ?' भिख्यान विचाल्लें.

'चल, या.' अशें म्हणून म्हाराज उठले आनी यंत्र जाल्ले वरी तुरतुरीत चलपाक लागले. यंत्र चलोवपी भिखो आशिल्लो. म्हाराज आयज एका वाटमाऱ्या सुवादीन जाल्ले. ऊंच अंत्राळांत घोण हुस्क्या मेकळी उडची तसो म्हाराजांचो आत्मो आयज आपलीं पाखां फडफडावन ऊंच दिगंतांत उडटलो. भिखो, मुखार न्हय, म्हाराजां फाटल्यान चलत येतालो. वाटेर म्हाराजांक एकूय खेपे मान फाटल्यान घुंवडावन पळोवपाची इत्सा जाली ना. दोगांयच्या पांयांक जोतें नाशिल्लें. दोगूय अणवाणयां चलताले. दोगांयच्या पांयांक आनी जिबेक मोन्यांनी चलपाची संवय आशिल्ली. एकलो चोर, तर दुसरो भट. दोगूय संयमी.

दोगूय देदरडयाचे शिमेर पावले. तेन्ना रात तिसऱ्या पारांत भितर सरिल्ली. हांगा थांबपाचें कारण नाशिल्लें. कित्याक, गांव भिख्याचो. हांगाच ताचें घर आशिल्लें. म्हाराज चलत रावले. अवचित हुकूम केल्ले भाशेन भिख्यान फाटल्यान सावन म्हळें –

'म्हाराज !'

'कितें ?'

'तुमी म्हगेर येवं नाकात.'

'बरें आसा. . . मागीर, कितें करूं ?'

'हांगाच, गांवा भायर बसून रावात.'

'बरें आसा. . .वच तूं .' म्हाराजांनी ताका जाप दिली.

म्हाराजांच्या दोळ्यांमुखार बोरसदचो तो पोलीस अधिकारी परतो उबो रावलो. तीनसानचे कातरेवेलें तें चित्र जिवें तट्‌टटीत जालें. ताचीं उतरां जिवीं जावन कानार आदळ्ळीं–– 'म्हजीं बायल भुरगीं. . . .म्हजें सर्वस्व हांव तुमच्या हातांत दितां. '

म्हाराजांच्या काळजांत धस्स जाल्ले वरी जालें. पुणून वयर मळबांत वसिष्ठ आनी अरुंधती चकचकतालीं. म्हाराज गांवचे शिमेवेल्या सोप्यार बसून रावले. भोंवतणीं जितो मूस लेगीत नाशिल्लो. मुखार कितें जाता तें पळोवपाचें आशिल्लें.

थोडचा वेळान भिखो परतलो. म्हाराजांक सूः जालें. जिवीत जियेवपा सारकेंच सुंदर अशें तांकां दिसलें. इतल्यांत भिख्याच्या तोंडांतल्यान विस्वासाचीं मुळां हुमटावन उडोवपा सारकीं उतरां भायर सल्लीं––' म्हाराज, तो शेतांत गेलासो दिसता. . . घरा ना.'

'बरें तर. . शेतांत वच. . .' म्हाराजांच्या तोंडातल्यान उतरां भायर सल्लीं त्याच खिणाक भिख्याचीं पावलां तुरतुरीत चलपाक लागलीं. म्हाराजांचो प्राण आयज जसो कितें जुगार खेळपाक भायर सरिल्लो. तांणीं पणाक लावपाचें कितेंच उणे दवरूंक नाशिल्लें. भिखो फटयत जाल्यार तोंड दाखोवपाक लेगीत आपणाक सुवात खंय मेळची ना अशें तांकां दिसलें आनी आपल्या धाडसाचें येवजून तांच्या आंगार कांटो फुलून आयलो.

थोडचा वेळान भिखो परतो आयलो आनी सांगूंक लागलो –– ' तो शेतारूय ना. . .थंयच्यानूय पळून गेलो. . .'

' बरें आसा. '

' कितें करपाचें आतां ? परते या आमी आता बोरसदाक. '

रातचीं दोन जाल्लीं. म्हाराजांनी हिशेब केलो––पांचांच्या अदमासाक भायर सल्ले जाल्यार झिळमिळटचा आदीं बोरसदाक पावतले. तांणीं भिख्याक म्हळें, ' तुका पुरो जालां जातलें. आतां थोडो वेळ न्हिदुंया आमी. . .'

' हांगा खंय न्हिदतले ?'

' तूं तुज्या घरा वचून न्हीद. हांव हांगा कोणागेरूय न्हिदतां. पांच वरांचेर मात यो. . . .'

' बरें आसा. '

म्हाराज तीन वरां न्हिदल्यात जातले. सदचे भाशेनूच ते सुस्त न्हिदिल्ले. तकलेक भरवंशाचें उशें घेवन ते सूस्त न्हिदले. सपना लेगीत पडनात असली न्हीद तांणीं घेतली. न्हिदता आसतना तांच्या मनांत आयिल्लें––भिख्याचे बायलेक आनी भुरग्यांक

आपूण आयज एक सुखाची रात दितां. असली रात तांकां आनी कितल्या वरसांनी मेळत कोण जाणा !

अजून काळोख सोंपूंक नाशिल्लो. बोरसदचो पोलीस अधिकारी दार उक्तें करून हांची वाट पळेत भायर उबो राविल्लो. ताच्या नशिबाची तागडी आयज सुर्याच्या हातांत आशिल्ली. झिळमिळटचार ताणे दोगांकूय येतना पळेले तेन्ना ताका जसो कितें देवूच दिशिल्लेवरी दिसलें. तोखणायेची गजाल म्हळचार येतना वाटेर दोगांचे तीग जाल्ले. पुणून तिसरो काविठचाचो खोडयो नाशिल्लो—शंकरियो, आशिल्लो. तोवूय पोलिसां सुवादीन जावपाक घरच्यान फांतोडेर भायर सरून आयिल्लो. खोडयाचोच तो एक शागीर्द.

कैदी आशिल्लो तसो परतो मेळिल्ल्याची खोस पोलीस अधिकारी कशे तरेन उक्तावन दाखयतलो आशिल्लो ? ताचें काळीज उचांबळीत जाल्लें. खोशी दांबून कशी दवरची ताका खबर नाशिल्लें. तो बेगीबेगीन भितर गेलो आनी उचांबळीत आवाजान ताणे घरकान्नीक सांगलें –

‘ चा दवर बगीन, चा. ’

दोगूय वाटमाऱ्यांक ताणे चा दिली. आपुणूय तांच्या वांगडा पियेलो. ताका कृतकृत्य जाल्लेवरी दिसलें. मागीर दोगांकूय व्हरून ताणे लॉक-अपांत दवल्ले.

‘ हांकां मारूं-बिरूं नाका’— तांकां लॉक-अपां मेरेन पावोवंक गेल्ल्या म्हारा-जांनी अधिकाऱ्याक सांगलें. तांकां तो मारचो ना हाची खातरी करून घेतली आनी दोगी कैद्यांक म्हळें — ‘ तुमकां तीन वरसां वयर ख्यास्त जावंक दिवचों ना, अशें हांव मानतां !’

* * *

७

# ‘ ना जाल्यार इभ्रत वतली गांवची ’

‘ लक्षांत दवरात, सरकाराचे हात खंयूय पावतात,. .सरकाराकडेन तुबकां आसात. . .नाळी आसात. . .’

भाशण मोटच्यामोटच्यान चल्लां. गांवांतल्या सोप्याकडेन काळजीदार ठाकरडे कासाटे मारून आनी माथ्याक तुवाले बांदून गर्दी करून बसल्यात आनी मोन्यांनी भाशण आयकतात.

पोलिसांच्या सायबाच्या तोंडातल्यान चाबकावरी सणसणीत उतरां भायर सरतात: ‘ तुमी, . . .तुमीच गांवांगांवांतले सगळे धाराळे आनी पाटणवाडिये वाटमाऱ्यांक आधार दीत आयल्यात. . .’

‘ आनी एक नांव घेवपाचें उल्लें सायबांनू, तुमच्या पोलिसांचें. . .’ मदींच एक खंती, मात्सो रागीट पुणून शान्त आवाज वयर सरता. तो आयकून जसो कितें पात्शाचो अवमान जाल्लेवरी दिसून भाशण करतलो अधिकारी उसळटा. आनी विचारता, ‘ कोण ऊलयलो हें ? ’

‘ हांव तो. ’ म्हुण जाप दीत एकलो ऊंच, बारीक किडकिडीत मनीस गर्देंतल्यान उठून उबो रावता. पुडवें, कुतांव आनी धवी तोपी ह्या भेसांत.

‘ तुमी? . . .तुमी हांगा आसात म्हणपाचें नकळं आशिल्लों. ’ भाशण करतलो सायब ताका वळखता. ताका पळेना फुडें सायबाचो आवाज मोव जाता. नेट देंवता. चड उलोवपाचो ताका धीर जायना. बेगीबेगीन आपलें भाशण सोंपोवन तो वता. सभा सोंपता.

एक व्हडलें भाशण दितलों असो बेत करून सायब आयिल्लो. ह्या पुडवेकारान आडमेळें हाडलें. हाका लागून सायबाक भाशण बेगीबेगीन सोंपोवन उठून वचचें पडलें.

सायब उठून गेलो हें एके नदरेन बरें जालें. कित्याक, ना जाल्यार ताका ह्या भटा कडल्यान कांय गजाली आयकुंच्यो पडटल्यो आशिल्ल्यो. त्यो आयकुपाचो ताका धीर जावचो नाशिल्लो.

सायबान सभा आपयल्या म्हणपाची खबर म्हाराजांक गांवांत भोंवता आसतना एकेकडेन कळिल्ली. ती कळना फुडें ते चलत चलत रातचे हांगा पाविल्ले आनी सभेक जमिल्ल्या लोकां मजगतीं मोन्यांनी वचून बशिल्ले. काविठ्याच्या खोडयान ह्या वाटारांत धुमशेणां कांडपाक सुरवात केल्ली. ताच्या अच्छेवा आड उपाय कितें घेवचो हें लोकांक शिकोवपा खातीर सरकारान ही सभा आपयल्ली. खोडयाचीं धुमशेणां पळोवन म्हाराजांचेंय काळीज सळसळूंक लागिल्लें. खोडयो मनशांतल्यान उठिल्लो. मनीस उरूंक नाशिल्लो. ताका हे मनीसपणा भायले वाटेर हाडून सोडपी हो सायबूच आशिल्लो. म्हाराजांच्या काळजांत ही खंत आशिल्ली. हे खंतीतल्यान उपाय नासून तांच्या तोंडातल्यान खर उतरां भायर सरिल्लीं.

हरशीं, म्हाराज केन्ना कोणाक खर उतरां दिवपी न्हय.

खोडयो हाताभायर वचचो ना हाची जतनाय पयलींच घेवं येताली. पुणून ती ह्या सायबानूच होगडायल्ली. खोडयाक ताणेच आस्रय दिल्लो.* ह्या आस्रयाक लागून खोडयो मातिल्लो. तो कोणाक भिये नाशिल्लो. लोकांक लुटूंक लागिल्लो. आतां ताच्या त्रासांतल्यान लोकांक कशें वाटावचें होच प्रस्न उरिल्लो. सायबान हो प्रस्न लोकांक दण्डणावन, खोडयाचे जातिच्या लोकांचो गुन्यांवकारी जातींत आसपाव करून, सोडोवपाचो यत्न सुरु केल्लो. जाल्यार, म्हाराजांनी आपल्या ब्राह्मण धरमाक सोबता असलोच मार्ग आपणायल्लो.

म्हाराजांनी खोडयाचे जातींतल्या जाणटेल्यांक आनी बुदवंतांक एकठांय करून म्हळें : ‘ अशें कशें चलूं दिवं येता आमच्यांनी ? खोडयाचीं धुमशेणा आमीच आळाबंदा हाडूंक जाय. ’

लोकांनी थारायलें, काविठ्याच्या लोकांक सगळचांक सांगून धाडूंक जाय. तुमचोच मनीस हो खोडयो. तुमीच ताका आळाबंदा हाडूंक जाय. ना जाल्यार, काविठ्याच्या लोकांक जाती भायर घालपाचो निर्णय आमकां घेवंचो पडटलो.

काविठ्याच्या लोकांक जाणटेल्यांनी हें सांगून धाडलें. तांच्यांत खोडयाचो पाखो घेवपी कोणूच नाशिल्लो. परतो, खोडयो सुरो कसो तांच्या पोटांत तोपिल्लो. पुणून हो सुरो तांच्या हाताक लागनाशिल्लो.

---

* ही खबर ‘शेणिल्लें गोरूं’ हे कथेंत आयल्या.

काविठ्याक सप्ताहाचो उत्सव जातालो. उत्सवांत भजनां चलतालीं. पाटण-वाडिये उणाक जातिचे. तांकां ह्या पवित्र उत्सवांत वांटो घेवपाक कशें मेळत आशिल्लें ? तरी आसतना एकलो भुरगो भजना आयकूंक ल्हवू भितर सल्लो. आनी लिपचोरयां गर्देंत वचून बसलो. पुणून लोकांनी ताका धल्लो : ' आरे चोरा ! सप्ताहाक येवन बसला ? लाग चलूंक हांगासल्लो. . .' अशें म्हणून ताका तांणीं धांवडावन घालो.

बाबडो कितें करतलो ? भायर बसून भजनां आयकुपाक लागलो. भायर खाजेकारांचे मांड पडिल्ले. थंय दाळिल्ले गोड लाडू आनी हेर गोड जिनस पळोवन तो लाळ घोंटीत रावलो. जिबेन तो ओंठ पुसतालो आनी आळणें घोंट्टालो. इतल्यांत एका मांडार ताणे एका म्हाराक आयिल्लो पळेलो. म्हारान खाजेकाराक म्हळें ' अडेच शेर लाडू जोख. '

खाजेकारान अडेच शेर लाडू जोखले आनी म्हारान मुखार केल्ल्या साका कुडक्यार – ताका हात लागचो ना ही जतनाय घेवन उडयले. लाडू पळोवन आपूण सुणो आसूंक जाय आशिल्लों, कांयच न्हय जाल्यार मूस तरी जावंक जाय आशिल्लों. . आपणाक लाडू चाखूंक मेळटले आशिल्ले अशें भुरग्याक दिसूंक लागलें.

म्हारान लाडवां पोटली बांदली आनी विडयांचें एक बंडल मागलें.
अडेच शेर लाडू आनी विडयांचें एक अख्खें बंडल घेवन म्हार गेलो.

तो गेलो मात्, रोखडेंच भुरग्याच्या तोंडाचें यंत्र बंद जावन ताचे तकलेचे यंत्र चलपाक लागलें. ' अब्बा ! एक म्हार आनी अडेच शेर लाडू जोखूंक सांगता ! सारके अडेच शेर ! . . .आनी वयल्यान विडयांचें एक अख्खें बंडल ! हाणे इतले पयशे हाडले खंयच्यान ? पुराय काविठा गावांत येदो गिरेस्त मनीस पळोवंक ना अडेच शेर लाडू आनी विडयांचें एक अख्खें बंडल घेवपी . . .आनी हो तर म्हार ! . . .

भुरग्याचे तकलेच्या चाकान ताच्या पांयांच्या चाकाक कॉर्द दिली. भुरग्यान जी धांव माल्ली तो बद्द घरा वचून बापाय फुडयांत उबो रावलो. ताणे बापायक म्हळें ' बाबा, बाबा, एक म्हार अडेच शेर लाडू आनी विडयांचें एक अख्खें बंडल घेवन होञ्तो पळे वता. . .खातरीन तो खो. . . .'

' ओगी बस थंय. ' भुरग्याक बापायन खोडयाचें नांव सारकें उच्चारुंकूच दिलें ना. ताचे पयलींच ताचेर धेंगसो घालून तो आंगणांतले लिंबिणीचेर चडलो आनी पयस मेरेन नदर भोंवडावन पळोवपाक लागलो. म्हार लाडवां पोटली खांदार मारून पयसल्या जोंदळ्याच्या एका दाट शेतांत सोरोप कसो भितर सरतालो तो ताका दिश्टी पडलो.

तो लिंबिणी वयल्यान सडसडीत देंवलो. ‘ होऽतो पळे खोडयो. . .धांवात रे धांवात. .’ अश्यो किळांच्यो मारीत तो गांवातल्यान धांवत सुटलो. तागेल्यो किळांच्यो आयकून आनी-कांय जाण ताच्या फाटल्यान धांवपाक लागले. हांच्यांत एकलो खोडयाचो खास्सा बापोल भाव आशिल्लो.

धांवतां धांवतां तांकां वाटेर पोलिसथाणे मेळ्ळें. थंय ताणीं खबर दिली. थंय एकूच पोलीस आशिल्लो. खबर आयकून तोवूय धावंक लागलो. पुण बाबडो आंगान जड. थोडो धांवलो आनी मागीर धापेवंक लागलो.

पाटणवाडिये कासाच्या सुण्या भाशेन धांवत राविल्ले. धांवत धांवत ते जोंदळ्याच्या शेतासरीं पावले. खोडयो शिटकावलो. तांकां पळोवन तो पळून वचपाक लागलो. ताच्या हातांत तुबक आशिल्लें. तरी आसतना ताच्या फाटल्यान पडिल्ले फाटीं सरपा बदला भिये नासतना ताका धरपाक धांवत रावले. धांवत धांवत तीन मैलांचे वाटेर संतोकपुरा गांवचे शिमेर पावले. मुखार खोडयो. ताच्या फाटल्यान ताचो खास्सा बापोलभाव आनी ताच्या फाटल्यान बाकिचे—हे भाशेन ते धांवताले.

खोडयाक वाटेर अवचित एक रूख मेळ्ळो. रूखाच्या आडोसाक रावन ताणे तुबक जोखलें ‘ घात जालो ! आतां गुळी सुट्टली, आतां सुट्टली. . .एक एकल्याचो प्राण घेतली ’ अशें सगळ्यांक दिसलें. तरी आसतना ते धांवत रावले. सगळ्यां मुखार खोडयाचो खास्सा बापोलभाव आशिल्लो.

खोडयान तुबक जोखिल्लें खरें, पुणून तें तशेंच जोखिल्लें उल्लें. तांतूंतल्यान एकूय गुळी सुटली ना, धुंवर लेगीत आयलो ना. . .

‘ समजलें, हाचे कडेन तुबक आसा. पुणून कारतुशो नात. . .धांवात रे. . . धरात रे ताका. . .’ करीत लोक धांवत रावले. खोडयाचो बापोलभाव सगळ्यांत मुखार गेलो आनी खोडयाक ताणे घट्ट वेंगेंत धल्लो. दोगूय एकामेकांक आंवळूंक लागले. दोगांयचे केंस वाऱ्यार उबूंक लागले. दोगांयच्या तोंडातल्यान रगत व्हांवंक लागलें. दोगूय एकामेकांक जमनीर आपटूंक लागले. दोगूय कोलसुण्या भाशेन झुजूंक लागले. दोगूय एकामेकांच्या जिवार उठिल्ले. खोडयो आपलो प्राण वाटावंक सोदतालो, तर तागेलो बापोलभाव गांवची इभ्रत वाटावंक सोदतालो.

सट्ट करून खोडयान आपणाक सोडोवन घेतलो. आतां तो पळून वतलो म्हणपाक—

बाकिचे पावले आनी तांणी ताका धल्लो. खोडयाचो खेळ आतां सोंपिल्लो. तो तांचे सुवादीन जाल्लो. ताका धरून लोक गांवांत आयले आनी पोलिस-थाण्यार व्हरून ताका ताणीं पोलिसां सुवादीन केलो.

सगळयांक सूः जालें. आतां गांवांत मान वयर करून भोंवपाक मेळ्ळें, म्हाराज येतकूच उजळ माथ्यान तांच्या मुखार उबें रावंक मेळटलें अशें तांकां दिसलें.

खोडयाक धरून दिल्ल्याची खबर कळना फुडें म्हाराज धांवत काविठयाक आयले. पुणून उजळ माथ्यां बदलां लोकांच्यो सकल घाल्ल्यो मानो तांकां दिश्टी पडल्यो. बायलांच्या दोळयांतल्यान दुकांच्यो न्हंयो व्हांवतात त्यो पळोवंक मेळ्ळयो. भादरण परगण्याच्या कोशिन्द्रा नांवाच्या गांवांत तांकां खोडयाक धरून दिल्ल्याची खबर कळिल्ली. हांगा येवन पळे जाल्यार, पोलिसांनी काविठयांतल्या दुसऱ्या कितश्याच जाणांक धरून पेटलादाक धाडून दिल्ल्याची खबर कळ्ळी.

‘ कित्या खातीर तांकां धरून व्हेल्यात ?’ म्हाराजांनी येनाफुडें वासपूस सुरू केली.

‘ कोणाक खबर ! . . .कांय कळना ’ लोकांनी हुस्क्यान जाप दिली. . . ‘ आयले आनी धरून घेवन गेले. . .खोडयाक धरपाक जांणी उज्यांत उडी घेतिल्ली तांकांच धरून व्हेले. . .’ रडत रडत बायलां सांगपाक लागलीं. तांचे हांण्डीर भुरगीं आशिल्लीं.

म्हाराजांक बायलांच्या मनांतली लेगीत गजाल समजली. त्यो उतरांविणे जश्यो कितें सांगताल्यो—— ‘अशें जातलें म्हुण आदीं कळिल्लें जाल्यार आमी आमच्या दादल्यांक खोडयाक धरून दिवपाच्या कामाक वचुंकूच दिवचीं नाशिल्लीं. ताका धरून दिलो म्हुण्णूच मू हें संकश्ट आमचेर येवन कोसळ्ळां ? ताका धरून दिवंक नाशिल्लो जाल्यार तो घरां फोडीत रावतलो आशिल्लो. खंयचो पोलिस ताका धरूंक येतलो आशिल्लो ? वाटमाऱ्याक धरून दिवचे परस ताका आस्त्रयूच दिल्लो बरो——असो न्हय अर्थ हाचो ? . . .’

म्हाराज उस्वास लेगीत घेवपाक थंय रावले नात. रोखडया रोखडे भायर सल्ले, आनी चलत चलत पेटलादाक पावले. मनीसपणाच्यो जोती परत्यो पालवतीत म्हणपाची तांकां भिरांत दिसूंक लागिल्ली.

‘ कित्या खातीर तुमी हांकां धरून हाडल्यात ? ’ तांणी फौजदाराक विचाल्लें.

‘ तांचेर आरोप आसा. ’

‘ कसलो ? ’

‘तीन दिसां आदीं खोडयान एकले बायल-मनशेचें घर फोडिल्लें आनी तिगेले दागिने चोरून हाडिल्ले. ते हांणीं लिपयल्ल्याचो आरोप आसा. . . .’

‘ अशें ? . . .कोणे सांगलें ?’

‘ खासा खोडयान. ’

‘ कितें म्हणटा तो ? ’

‘ अमक्या अमक्यागेर चोरये माल दवल्लेल्याचें कबूल करता. ’

म्हाराजांक आंगाक उजो पेटिल्लेवरी जालें. खोडयाक– घरां फोडटल्या खोडयाक––लोकांनी धरून दिला आनी ताका धरून दितल्यांकूच तो धरून दिता ! आनी हे तांकां धरून हाडटात ! पोलिसांक गवाय म्हुण जसो कितें सत्यवादी हरिश्चंद्र मेळ्ळा. पुणून म्हाराजांनीं सगळो उजो भितल्ले भितर गिळ्ळो आनी फौजदाराक विचाल्लें––

‘ खोडयाक जांणी धरून दिला तेच लोक हे, खबर आसा मूं ?’

‘ ताका धरून हाडला आमच्या पोलिसान. ’

‘ पुरो, पुरो. . .तुमगेलो तो मोटेल्या पोटाचो पोलीस वाटेवयल्यानूच धापेत धापेत परतल्लो. जांणी ताका धरून दिला तांकांच तुमी धरून हाडल्यात––तेवूय खोडयाचे सांगणेन.’

म्हणटासर म्हाराजांचो आवाज मात्सो तीख जालो. ‘ सगळ्यांक आत्तांच्या आत्तां सोडात. ना जाल्यार, हो पळे चल्लों हांव बडोद्याक, पोलिस कमिशनराक सांगूंक. . .अधर्माक लेगीत एक मेर आसता. . .कळ्ळें ?’

सगळ्यांक सोडोवन घेतले आनी तांकां घेवन ते परतें काविठ्याक आयले.

* * *

देखाव दुसरो. वर्स १९२८. थळ : साबरमतिची बंदखण.

म्हाराज निकतेच बंदखणींत पावल्यात.

बंदखणींत पाविल्ल्या सगळ्यांक जेवण येता. बाकिच्या सगळ्यांक बाजरिच्यो भाकऱ्यो आनी दाळ येता. जाल्यार म्हाराजांक गंवांच्यो रोटयो येतात.

‘ म्हाकाच एकटयाक गंवांच्यो रोटयो-श्यो ?’ म्हाराज विचारतात.

‘ मोन्यांनी खायात तुमी त्यो. ’ वाडपी सांगता.

‘ हय रे, पुणून म्हजेच खातीर गंवांच्यो रोटयो कित्याक तें मात्शें समजावन सांग मरे. ’

‘ तुमचेच खातीर धाडल्यात त्यो. ’

‘ कोणे ? ’

‘ शंकरयान. . .’

‘ शंकरयो ? आं. . .आं. . .उगडास जालो. देदरड्याच्या भिख्या वांगडा त्या दिसा बोरसदाक आयिल्लो तो ? ’

‘ तोच. . . ’

‘ ताणे कश्यो धाडल्यो ह्यो रोटयो म्हाका ?’

‘ चोरी करून धाडूंक नात. . .इतलें लक्षांत दवरात. . .’

‘ मागीर. . .कश्यो धाडल्यो ?. . .’

ताणे आपल्यो रोटयो तुमकां धाडून दिल्यात. ’ शंकरयो बंदखणींतलो मुकादम जालो. मुकादमाक गंवां रोटयो मेळटात.

‘ म्हज्यो बाजऱ्याच्यो भाकऱ्यो खंय ?’ म्हाराज विचारतात.

‘ त्यो ताणे आपणा खातीर दवल्ल्यात. ’

‘ कित्याक ? ’

‘ तो म्हणटा, म्हाराज बंदखणींत पावल्यात. तांकां गंवांच्यो रोटयो आवडटल्यो.’

‘ बरें आसा. . . ’

सगळयांचीं जेवणां सोंपतात. सगळे पळेतात : ‘ म्हाराज आयज जेवंक नात. रोटयो ताणीं कडेक काडून दवल्ल्यात. ’

सांजचें जेवण येता. ह्याय जेवणांत म्हाराजांखातीर गंवां रोटयो येतात. वाडपी सांगता, ‘ शंकरयान धाडून दिल्यात. . .तुमच्यो जोंदळयाच्यो भाकऱ्यो ताणे आपणां खातीर दवल्ल्यात. ’

म्हाराज जेविनात. उपाशींच रावतात.

खबर उडत उडत बंदखणींतल्या दुसऱ्या वॉर्डांत शंकरयाच्या कानार वचून आदळटा. ताका खूब वायट दिसता. तो लिपत लिपत म्हाराजांक मेळूंक येता. पांयां पडून विचारता – ‘ रोटयो कित्याक खाल्यो नात ?’ झगडूंक आयिल्ले भाशेन सो तो विचारता.

‘ म्हज्यान खावं नज त्यो शंकरा ! बंदखणिच्या कायद्या आड करणी ही. ’

बंदखणिचो कायदो ? शंकराक बंदखणिच्या कायद्याची पर्वा नाशिल्ली. तो एकूच कायदो वळखतालो : काळजाचो. होच कायदो खरो अशें मानपी तो. पांच वरसां आदीं दुसऱ्यांक लुट्टालो तेन्नाय ह्याच कायद्यान तो चलतालो, आयजूय रोटयो धाडून दितना ह्याच कायद्यान चल्ला तो. ह्या काळजाच्या कायद्याचे–मोगाचे नेम ताणे आपणाक कळटा ते भाशेन म्हाराजांक समजावन सांगपाचो यत्न केलो. म्हाराज ताका सामाजिक नीत समजावन सांगूंक लागले. अखेरेक खूब भासाभास केल्या उपरांत शंकरियाचें मन धादोशी जालें आनी ताणें म्हळें, ‘ बरें तर, आतां गंवां रोटयो धाडिना. . .’

‘ शंकरा, म्हाका भिख्याक मेळूंक जाय आशिल्लें. ’ म्हाराजान म्हळें.

‘ धाडून दितां ताका हांव. . .ताकाय तुमकां मेळपाची उमळशीक लागल्या.’

दुसऱ्या दिसा सकाळीं म्हाराजांक एकल्यान येवन सांगलें– ' हे थंय फाटल्या दुर्गाकडेन मात्शे वचात. . .'

' कित्याक ' ?

' थंय एकलो तुमची वाट पळेत उबो आसा. तुमकां तो आपयता. '

' कोण तो ? '

' भिखो म्हुण एकलो कैदी. '

' ताका सांग, हांव लिपचोरयांनी कोणाक मेळूंक वचपाचो ना. '

दुसऱ्या दिसा म्हाराज दांत्यार पीठ दळूंक बशिल्ले. दळून जातकूच ते न्हावंक वताले. आंगार पीठ उसळ्ळेलें. इतल्यांत एकलो कैदी धांवत आयलो आनी तांकां पांयां पडलो. ताका उबो करून म्हाराजांनी ताका बारकायेन नियाळ्ळो. तो भिखो आशिल्लो. पांच वरसां आदीं ज्या तरणाटचाक तांणी बोरसदच्या 'लॉक-अप'च्या सरयां फाटल्यान पळेल्लो तो आयज तेच निर्मळ नदरेन मुमुर्ख्यानीं हांसत तांच्या मुखार उबो आशिल्लो. आवयन पुताक अपुर्बायेन पळोवंचो तेच नदरेन म्हाराज ताका पळेत रावले. मागीर ताच्या खांदार हात दवरून क्षमा मगिल्ले वरी सुरान तांणीं म्हळें–– 'तुका खूब वायट दिसलां जातलें, न्हय ?'. . .

' कित्या खातीर ? '

' हांवें तुमकां दोगांकूय तीन-तीन वरसांचीच ख्यास्त जातली अशें सांगिल्लें. .'

' सोडात ती खबर. ' भिख्यान मदींच म्हळें, ' काविठयाच्या खोडयाक बत्तीस वरसांची बंदखण पडल्या. तुमचे कृपेन आमकां फकत सात-सात वरसांचीच पडली. तांतली पांच सोंपलीं. आतां दोन वरसांनी आमी मजेंत घरा वतले. तुमीच आमकां वाटायले. ना जाल्यार. . .कोणाक खबर ! . . .आमी घडये गोळ्‌क लेगीत लागतले आशिल्ले. . .म्हाका कांयच वायट दिसूंक ना. . .'

म्हाराजांक भिख्याच्या ह्या उतरांत मनीसपणाच्यो जोती दिश्टी पडल्यो.

भिखो खुशालभरीत जावन आपल्या वार्डांत गेलो.

* * *

८

# कोण चोर, कोण साव

‘ म्हाराज ! ’

‘ कितें ? ’

‘ कळ्ळी खबर ? ’

‘ कसली ? ’

‘ कणभा गांवांत चोरी जाली. लुहाण्याचे* तुपा डबे चोरयेक गेले. ’

कठाणा गांवांत, सकाळी उठना फुडेंच, एकलो दुसऱ्याक ही खबर सांगतालो. पुणून हो दुसरो पोलिस थाण्यावयलो फौजदारा नाशिल्लो. तर, ‘ गांधीचो फौजदार ’ म्हुण लोक जांकां वळखताले ते रविशंकर म्हाराज आशिल्ले.

लोक तांकां अपुर्बायेन ‘ धाकलो गांधी ’ म्हुण्णूय पाचारताले. आनी केन्ना केन्ना ‘ व्हडलो गांधी खंय आसा ’ म्हुण तांकां विचारताले.

आपले नदरेखाला आशिल्ल्या एका गांवांत चोरी जाल्ल्याची खबर आयकून म्हाराजांक तशी व्हडलीशी खंत जावंक पावंक नाशिल्ली. पुणून सांगतल्यान आनी-एक खबर हे खबरेक जोडिल्ली : लुहाण्यान पोलिस थाण्यार वचून केश केल्या आनी थंय-च्यान एक फौजदार कणभा गांवांत वचूंक भायर सल्ला म्हणपाची. ही खबर आयकून म्हाराजांक काळजाक घाय पडिल्लेवरी दिसलें.

काळजाक घाय पडलो तसो हुस्को सुरू जालो. म्हाराजांक लोकांनी एक उतर दिल्लें. तें उतर आयज ताणीं मोडिल्लें.

कांय दिसां पयलीं बाबर देवा नांवाच्या एका वाटमाऱ्यान हांगां धुमशेणा कांडपाक सुरवात केल्ली. लोक बाबरदेव्याक आश्रय दितात अशें थारावन सरकारान लोकांक ख्यास्त म्हुण गांवांचेर ‘ हैडियावेरो ’ कर बसयल्लो. ताच्या आड म्हाराजांनी चळवळ उबाल्लेली आनी फकत देड म्हयन्यां भितर ती जिखिल्ली. चळवळीक लागून

---

* एक जात, व्यापाऱ्यांची. पंजाबांतल्यान येवन गुजरातेंत थीर जाल्ली.

'हैडियावेरो' सरकाराक फाटीं घेंवचो पडिल्लो. चळवळ जिखल्या उपरांत लोकांक धिटायेचीं देख दिवपी हो ' गांधीचो फौजदार ', वा म्हणुंया : ' धाकलो गांधी ' काळु गांवच्यान आपल्या घरा वचपाक भायर सरिल्लो, त्या दिसा लोकांनी ताका वाटेर आडावन सांगिल्लें : ' आमी तुमकां वचूंक दिवपाचे नात. '

' म्हज्यान रावंक जावचें ना. ' म्हाराजांनी तांकां जाप दिल्ली.

' कित्या खातीर ?' म्हुण लोकांनी विचाल्लेलें तेन्ना तांकां जाप मेळिल्ली : ' तुमचो-म्हजो संबंद काळजाचो. आमी आतां एकमेकांक मोगाच्या सुतान बांदून घेतल्यात. आतां तुमचें दुख्ख म्हज्यान पळोवंक जावपाचें ना. '

' दुख्ख कसलें ? '

' तुमी चोरी करतले, सोरो पियेतले. पोलीस तुमकां धरून व्हरतले, लडो दितले. गाळी घालतले. . .म्हज्यान हें पळोवंक जावपाचें ना. '

' तशें जाल्यार आमी चोरी करचे नात, सोरो पियेवचे नात. ' अशें लोकांनी म्हळ्ळें. ' तुमकां मात आमी कशेंच वचूंक दिवपाचे नात. ' अशेंय ताणी सांगिल्लें.

आनी म्हाराज राविल्ले.

उपरांत म्हाराज कठाण्याक, खटलाश्याक, सारोल्याक बी-जायत्या गांवांनी भोंविल्ले आनी लोकांक समजावन तांचे मान्यतायेन सोरो एकठांय करून ताणी सभेमाझार ताका उजो घाल्लो. उज्याचो जिबो जमनीवेल्यान वेंतवेंतभर वयर सरिल्ल्यो आनी त्या उज्या फुडच्यांत बारैयांनी चोरी करचे नात, आनी धरूया, चोरी जाली जाल्यार, जागेर चोरी जाता तो पुलिसेंत केश करचो ना, म्हाराजांक येवंन सांगतलो असो सोपूत घेतिल्लो.

सोपूत सगळ्यांनी घेतिल्लो; व्यापाऱ्यांनी लेगीत.

आयज लुहाण्यान पुलिसेंत केश केल्ली. म्हणटकूच आतां फौजदार येतलो; फकत दुबावान एकएकल्याक धरून व्हरतलो. पिडटलो. गाळी घालतलो, आनी पेट्टलो. . .खरेलो चोर घडये कडेकूच उरतलो आनी अदीक चोरयो करपाक लागतलो वा तो पोलिसांक मेळटलो आनी चोरांकडेन चलपाची जी सरकारी रीत चलत आयल्या तिच्या प्रतापान तो मनीसपणा भायलो जावन पडटलो. . .

धरूंया, एकाद्रो मनीस पोलिसांच्या जाळचांत पडलो जाल्यार बाबडचाच्या जिविताचोच सत्यनाश जातलो. . .

लोकांनी म्हाराजांक आडावन दवरीत पसून हांगा चोरयो जायनाशिल्यो अशें न्हय. जाताल्यो. पुणून चोराक धरप, ताची मनसुबी करप, ताका ख्यास्त फर्मावप, लुस्कान भरूंक लावप बी सगळें एके वेगळेच तरेन चलतालें. केन्ना केन्ना चोर आपुणूच जावन पातकां-मेकळचा भुरग्या भाशेन म्हाल हाडून दितालो. लजेतालो. तोंड

लिपयतालो. म्हाराज मागीर ताचें तोंड उक्तें करताले. ताका उलोवंक लायताले. आनी ताका हें व्यसन सोडूंक सांगताले.

व्यसनूच तें, आनी कितें ? व्यसन न्हय जाल्यार चोरये फाटल्यान दुसरें कसलें प्रेरक तत्त्व आसूं येतालें ?

केन्ना केन्ना तांगेल्यो बायल्यो येताल्यो आनी घोवांच्यो कागाळचो सांगून म्हणटाल्यो : ' म्हाराज, ह्या तुमगेल्या शिष्यांक उपदेशाचीं दोन उतरां सांगात मात्शीं. रातचे सारके न्हिदनात. हांगा-थंय वतात आनी चोरी करून येतात. ' तर केन्ना केन्ना घोव बायलां मुखारूच म्हाराजांक तांगेल्यो कागाळचो सांगताले : विचारात हांकांच. . .चोल्लें ना जाल्यार आमकां थोमणे मारून मारून ह्योच आमकां धाडटात. '

विडयेच्या वा पुडिच्या व्यसनासारकेंच व्यसन हें एक तांगेलें. हांसत्या मुखा-मळाचे मोगाळ लोक हे. चोरी धरपाचे विचित्र सरकारी रितीक लागूनच ते 'गुन्यांव कारी ' जाताले. देखून 'चोरी जाल्यार पुलिसेंत केश करप ना ' अशें म्हाराजांनी तांकां समजावन सांगिल्लें. तांकां पटयल्लें आनी तांचे कडल्यान तशें उतर घेतिल्लें.

हाका लागून पोलिस खात्यांतल्या खूबश्या जाणांचें लुस्कान जाल्लें. तांकां 'हप्ते' मेळनाशिल्ले. तांकां म्हाराजांचे हे चोरांक धरपाचे आनी भायले भायर तांची मनसुबी करपाचे नवे रिती विशीं भितल्ल्यान तिडक आशिल्ली.

लुहाण्यान केश केल्ल्यान तांगेले हे तिडकीक आतां मेकळी वाट मेळिल्ली.

जालें तें सारकें जालें ना अशें मनीसपणाच्या ह्या भगताक दिसलें. ताच्यान तें सोसूं नज जालें. फौजदार कणभ्याक पावला म्हणटकूच आतां आपणे थंय वचप समा न्हय अशें येवजून ते कठाण्याकूच रावन चरख्यार सूत कांतीत बसले. दीसभर ते कांतीत रावले. काळोख पडटकूच तांच्यान रावं नज जालें, रातच्या णवांच्या अद-मासाक ते कणभ्याक वचूंक भायर सल्ले.

मात्शे मुखार गेल्यात जातले. इतल्यांत मुखावयल्यान फौजदार घोडयार बसून येतालो तो तांकां दिश्टी पडलो.

' खंय म्हाराज, कणभ्याक चल्ले ? ' ताणे विचाल्लें.

'हय'. खंती आवाजान जाप दिली.

' मात्शें आयकात. ' फौजदारान घोडो थांबोवन आपणाली तिडक काडपाची संद घेतली. ' ह्या बारैयांची तुमी खूब तोखणाय करतात. . .! लक्षांत दवरात, भांगराचो झारो पुणून पोंद पितूळचें. कितलीय जाल्यार जात खरी न्हय. कळ्ळें ? आमकां हें खबर आसा. तुमकां आतां अणभवान कळटलें. . .'

'भांगराचो झारो. . .पोंद पितूळचें ! . . .' काळजाची सालूच कोणे सोलून काडची अशें म्हाराजांक दिसलें. सरकारी अधिकाऱ्यांक आत्र्या-पयऱ्यान सोलून काडपी म्हाराजांचें जिबेर आयज जाप लेगीत आयली ना. ते कांय उलय नासतना मोन्यांनी कणभ्याक गेले आनी थंयचे धर्मशाळेंत वचून रावले.

म्हाराज धर्मशाळेंत येवन रावल्यात म्हणपाची खबर गांवभर पातळ्ळी. ती आयकून दोग जाण तांकां मेळूंक आयले. सदचे संवये प्रमाण म्हाराज ओगी रावले. आयिल्ल्यांनी सांगिल्ल्यो आडव्यो-तिडव्यो खबरी तांणीं आयकल्यो. त्यो कानार आदळ्ळच्यो खऱ्यो. पुणून हाताक लागपा सारकें तांकां कांयच मेळ्ळें ना. अखेरेक एक-ल्यान म्हळें :

'असो जीव कित्याक हुलपावन घेतात, म्हाराज. चोरी गोकळच्यान केल्या . . .'

म्हाराजांनी मान वयर करून विचाल्लें : 'खंय रावता गोकळो ?'

' शेतांत . . . '

सकाळीं उठून तोंडबिंड धुवन म्हाराज नीट उठून गोकळच्याच्या शेतार गेले.

म्हाराजांक आपणांगेर आयिल्ले पळोवन गोकळच्यान आपणाली पांगुरपाची गोयडी सुमा-खाटेर पातळायली आनी म्हाराजांक तिचेर बसपाक सांगून ताणें म्हळें : 'आयज म्हज्या शेताक तुमचे पाय लागले म्हाराज ! . . .'

बरोच वेळ दोगूय ओगी आशिल्ले. अखेरेक गोकळच्यानूच म्हळें : 'पळेलें मू म्हाराज ! आमच्या लोकांक तुमी इतलो आधार दिलो, सरकारी पिडापिडेंतले तांकां वाटायले. कांय बरीं उपदेसाचीं उतरां तांकां सांगलीं, तरी आसतना तुमचो भौमान तांणी राखलो व्हय ? आमची जातूच असली, पाडापडिल्ली. '

आयकून म्हाराज ओगी पडले. गोकळच्याक विचारपा सारकें कांयच ना अशें तांकां दिसलें. 'बरें तर येतां. ' अशें म्हणून ते उठले आनी परते चलूंक लागले.

'खंय चल्ले आतां ?' गोकळच्यान तांकां पावंक वतना वाटेर विचाल्लें.

' गांवांत. '

'बरें तर. ' अशें म्हणून शेता धडे मेरेन पावपाक आयिल्लो गोकळो परतलो : 'येवचें अशें केन्नाय परतें. '

पातकाचो एक थेंब लेगीत हाच्या पोटांत ना अशें म्हाराजांक दिसलें. 'ओगीच बाबड्याचें नांव घेतलें. ' अशें तांणी मनांत म्हळें. 'गोकळो सादो सरळ बापैयो, ताणे चोरी करूंक ना. '

ते परते धर्मशाळेंत येवन बसले. तांकां मेळपाक आतां लोकूय खूब आयले. तरातरांच्यो खबरी जाल्यो. पुणून म्हाराजांनी कोणाक कांय विचाल्लें ना.

कोणाचेर कसलोच शीण काडलो ना. लोक उलयतात तें आयकत रावले. रांदपाचो वेळ जालो. म्हाराज खासा आपल्या हातान रांदून जेवपी.* लोकांनी विचाल्लें : 'आयज रांदपाचें ना ?...'

लोकांच्या वा आपल्या गुन्यांवा खातीर उपास करपाची संवंय म्हाराजांक नाशिल्ली. उपास हें तांगेलें लोकांकडच्यान काम घेवपाचें साधन नाशिल्लें. तांकां एक सभाविक खंत आशिल्ली : 'पोलिस ह्या लोकांक आतां धरून व्हरतले..मारतले ...अन्न कशें रुचतलें म्हाका ? कशें वतलें तें म्हज्या पोटांत ?'

खीणभर मनांत आयलें, 'हांगच्यान उठून पयस खंय तरी वचचें.'

काळीज भरून आयलें. जेवपा खावपाची रुचूच गेली. सांगून उडयलें, 'आयज जेवचो ना.'

'कित्याक ? '

'कसो जेवतलों ?' हाच्या भायर तांकां कांयच सांगूंक आयलें ना.

दाजी नांवाचो एकलो मुसलमान शेतकामती थंय आशिल्लो. तो उबो रावलो आनी लोकांक लेखून उलोवंक लागलो— 'हे जेवचे नात जाल्यार आमी कशे जेवतले? घालात कुलूप धर्मशाळेच्या दाराक भितल्ल्यान. जे मेरेन हे जेवचे नात ते मेरेन आमचे भितल्लो कोण्ण जेवचो ना. '

'ना. ना. हांव म्हज्या धर्माक धरून उपास करतां. उपास करपाची लागणूक तुमगेली न्हय...तुमी वचात. जेवन घेयात.' म्हाराजांनी तांकां म्हळें.

सगळ्यांक तांणी समजावन जेवपाक धाडले.

उपरांतूय लोक येवन गेले. पुणून चोर मेळ्ळो ना. तो आयलो ना. काळोख जालो. म्हाराज पांगरूण घेवन उपाशी न्हिदले. एकलेच आशिल्ले.

मध्यान रात जाल्या जातली. न्हिदिल्ल्या म्हाराजांच्या पांयांच्या बोटाक कोणें हात लायलो. उठून पळे जाल्यार, एकलो फाट करून उबो आसा. कांय उलयना, पयस वचून मोन्यांनी उबो रावला.

म्हाराज उठून बसले. फाट करून उबो आशिल्लो मनीस चलपाक लागलो. जसो कितें पळून वचपाक सोदतालो. तो मुखार वतालो पुण म्हाराजांनी आपल्या फाटल्यान येवचें अशें शिटकायतलो.

म्हाराज ताच्या फाटल्यान चलपाक लागले. तो मुखार आनी म्हाराज फाटल्यान. गांवची शीम आयली. उपरांत एक खडबडीत फातराळ शेत लागलें. अवचित् मुखार चलतल्या मनशान धांव माल्ली. पयस काळखांत जसो कितें तो विरगळून गेलो.

---

* महात्मा गांधींच्या सांगातांत येतकूच तांणीं हें अनवाळेपण सोडलें.

तो आतां दिश्टी पडना जालो. पुणून एक आवाज म्हाराजांच्या कानार पडलो. 'हां . . हां . . . हांगा आसा. '

हांगा कितें आसा ? चोरये म्हाल हांगा आसा ? हांगा म्हळचार खंयचे कडेन ? आवाज खंयच्यान येता ?

काळखे रातीं, फातराळ शेतांतल्यान, कांटयाळीं झुडपां माड्डीत अनवाणयां म्हाराज चलत रावले. आवाज आयला तेच दिकेन आपूण वतां अशें तांकां दिशिल्लें. खरेपणानशीं ते उरफाटे दिकेन वताले. काळखांत विरगळून गेल्ल्या मनशान पयस दुसऱ्या शेतात पावतकूच फाटल्यान नदर मारून पळेलें, जाल्यार म्हाराज खऱ्यांनीच वाट चुकल्यात म्हणपाचें ताका दिश्टी पडलें.

थोडया वेळान एकलो आयलो. ताणे माथ्या वयल्यान तांबडे साडयेचो पदर ओडिल्लो, बायलो ओडटात तसो. पुणून तो दादलो आशिल्लो म्हणपाचें ताच्य आवाजा वयल्यान वळखूं येतालें—' थंय कित्याक घुसपतात . . .हे वाटेन येयात हे वाटेन . . .'

हे वाटेन म्हळचार खंयचे वाटेन ? सारकें समजऽ नाशिल्लें. म्हणटा म्हणसर डब्यांचो खणखण आवाज कानार पडलो. म्हाराजांक पोवनांचो वा रुपयांचो आवाज केन्ना गोड लागूंक नाशिल्लो. इतलो गोड हो आवाज लागलो. तो जे वाटेन आयिल्लो ते वाटेन म्हाराज गेले. थंय कोण नाशिल्लो. बायलेच्या भेसांत पुणून दादल्याच्या आवाजांत वाट दाखोवपी मनीस थंयच्यान उठून गेल्लो.

शेतांत म्हाराजांक दोनूय डबे दिश्टी पडले. दोनूय भरिल्ले आशिल्ले. दीसभर उपाशीं आशिल्ल्या ह्या भटान एक डबो माथ्यार घेतलो आनी दुसरो हातान उबाल्लो. काळखांत कांटयाळे वाटेन आपटत-धोपटत ते गांवांत नीट त्या लुहाण्यागेर गेले आनी ताका विचाल्लें :

' हे डबे तुजे मरे ? '

लुहाण्यान डबे उकते करून पळेले आनी म्हळें : ' हो एक म्हजो. हो दुसरो न्हय. एकांत तूप आसा. दुसऱ्यांत तेल. म्हजे दोनूय डबे तुपाचे आशिल्ले. '

म्हाराज धर्मशाळेंत परते आयले. आनी खाटेर आड पडले. खबर आयकून दुसऱ्या दिसा सकाळीं लोक भुरावळीन धर्मशाळेंत जमले. ' डबे मेळ्ळे . . . डबे मेळ्ळे . . आतां म्हाराज उपास सोडटले . . . ' लोक एकामेकांक खुशालभरीत जावन सांगपाक लागले.

म्हाराजांनी म्हळें, ' डबे मेळ्ळे . . . पुणून मेळूंक नाशिल्लेवरी जालें . . . म्हाका फटयलो !'

लोक तोंडां आं करून पळोवपाक लागले. डबे हाडून दितल्यान म्हाराजांक फटयल्ले. त्या भायर, चोर अजून मेळूंक नाशिल्लो. तो खासा मुखार येवंक नाशिल्लो.

दुसऱ्याय दिसा म्हाराजांनी अन्न उश्टायलें ना. ते उपाशी रावले. लोक तांच्या म्हऱ्यांत बसून रावले.

आमोरेचो वेळ. एकलो भुरगो आयलो आनी म्हणूंक लागलो – ' म्हजो बापूय आपयता तुमकां, म्हाराज. '

' कोणालो रे तूं ? ' म्हाराजांनी विचाल्लें.

' गोकळ्याचो हो. ' एकल्यान सांगलें.

' चलात, वचात म्हाराज तुमी ताच्या वांगडा. ' दुसरो उलयलो.

' हय. . .हय. . .उठात. . .' सगळे म्हणूंक लागले.

म्हाराज उठून चलूंक लागले. फाटल्यान लोकूय येवपाक लागले. फाटल्यान येतल्या लोकांक पळोवन म्हाराजांनी म्हळें : ' अशें जाल्यार हांव वचना. तुमी सगळे वचून थंय कितें करतले ? म्हाका एकल्याक वचूंक दितले जाल्यारूच वतलों हांव. . .'

मुखावेल्या एका घराच्या सोंप्यार उबो रावन गोकळो हात वयर करून सांगपाक लागलो – ' येता तांकां येवंक दियात, म्हाराज. . .म्हजी कांय आडखळ ना. '

घरांत पाविल्ल्या म्हाराजांक सोंप्यार बसोवन गोकळ्यान तोंड मुमुरखें करून मेकळेपणान म्हळें : ' म्हाराज, चूक जाली. . .'

गोकळ्याचीं सादीं सरळ उतरां आयकून म्हाराज खीणभर ओगी पडले. गोकळ्याच्या तोंडार मात् लेगीत खंत दिसऽनाशिल्ली. तो भितल्लें भायर कांय दाखय नाशिल्लो. म्हाराजांनी ताका म्हळें :

' ना, ना. . .गोकळ्या, तूं हें काम करचो ना. '

' जालें तें जालें. . .' गोकळ्यान जाप दिली. ' आतां विसरात ती खबर. ' गोकळो जसो कितें ल्हान भुरग्याभाशेन उलयतालो.

' तशें जाल्यार कबूल कित्याक जालो ?'

' तुमी ह्या तोंकामेरेन वतले म्हुण हांव खंय जाणा आशिल्लों ?'

म्हाराजांनी हांसो आनी गोकळ्याविशिची काळजांतली आपली उपाट माया दाबून म्हळें, ' लुहाणो तर दोनां भितल्लो एकूच डबो आपलो म्हणटा. '

' खरें ताचें. ' गोकळ्यान जाप दिली.

' तशें जाल्यार म्हाका डबे उबारपाक कित्याक लायलें तुवें ?'

' दुसरो उपाय नाशिल्लो. '

' कसो ? '

'काल फौजदार आयिल्लो.' गोकळचान जाप दिली. 'चोरी हांवें केल्या म्हुण ताका कशें, कोणाक खबर, पुण कळ्ळें. एक दोन चाबकां मारून ताणे चाळीस रुपये मागले. कितें करतलों ? दोनांतलो एक डबो रास गांवांत व्हरून तीस रुपयांक विकलो, धा रुपये एकल्या कडल्यान उश्णे घेतले आनी फौजदाराक चाळिसांतले चाळिसूय दिवन उडयले. एक डबो उरिल्लो. तोय कोणाक विकतलों आनी उश्णे घेतिल्ले धा फारीक करतलों म्हुण आशिल्लों. पुणून म्हाराज, तुमी . . .अशें केलें. म्हणटकूच, घरांत चार-पांच शेर म्हशी तुप आशिल्लें तें व्हरून विकलें आनी तेल घेतलें आनी तेलान हो दुसरो डबो भल्लो . . .'

हें सगळें सांगता आसतना गोकळचाचें तोंड मदीं मदीं मुमुरख्यांनी मात्शें हांसतालें. तो आपलें पातक वा गुन्याव कबूल करी नाशिल्लो. तो आपल्या एका अणभवाचें सभाविक रितीन वणन करतालो. ताणें जें कितें केल्लें तातूंत नवें वा अजापाचें कितेंच नाशिल्लें. तो आपले चोय्रेची खबर सांगतालो. फौजदाराच्या दुश्टपणाचें वर्णन करतालो. चाळिसांचो खेळ कसो केलो तें सांगतालो. आनी तुपा बदला तेला डबो कसो कित्याक भल्लो तें सांगतालो. कित्याक, 'म्हाराज, तुमी ह्या तोंकामेरेन वतले अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें.'

म्हाराजांक दोन दिसांआदीं राती वेळार वाटेर मेळिल्ल्या फौजदाराचो उगडास जालो. त्यावेळार ताच्या काळजाक तेंकून चाळिस रुपयांची लांच आशिल्ली. आनी तरी आसतना ताच्या ओंठातल्यान उतरां भायर सरिल्लीं : 'कितेंय म्हणात, जात खरी न्हय . . .तुमी तांची तोखणाय करतात. पुणून हो भांगराचो झारो . . .पोंद पितळेचें . . .'

गोकळचाच्यो खबरी आयकून लोक हांसले. कित्याक, गुन्यांव कोणे केल्लो— गोकळचान काय फौजदारान होय एक प्रस्न तांकां पडिल्लो. सगळे हांसले. हांसले नात फकत म्हाराज. तांकां सोद घेवपाचो आशिल्लो —— ह्या मनशाच्या मनांत पेटिल्ल्या दिव्याची वात कसल्या तेलांत बुडल्या हे गजालिचो. तांणी विचाल्लें :

'पुणून तुवें चोरी कित्याक केली, सांग मरे ?'

'पाडा पडूं . . .कितें सांगतलों ?' गोकळचान लजेत लजेत जाप दिली.

'तूं एकलोच आशिल्लो ?'

'ना, आमी दोग जाण आशिल्ले. तुमी ह्या वाटारांत येवचे पयलीं हांव चोरी करी नाशिल्लों. पुणून हे खेपे ती जाली. एके राती आमी दोगूय एके तळयेकडेन बशिल्ले. हो लुहाणो तेवटेच्यान वतालो. दहेवाण गांवांत जेवपाक. ताका पळोवन म्हजो सांगाती म्हणूंक लागलो, 'पाड पडिल्ली जात ही लुहाण्यांची. दिसाचे आमचें रगत लुचतात आनी रातचे मचमचीत जेवण जेवपाक वतात. आमीय तांकां लुटूंक जाय . . .या,

गोकळचा ?' हांवें म्हळें, ' पाड पडूं रे ताचें. . .सोड ताका ' तर तो म्हणूंक लागलो, ' चल उठ. . .' हांवें म्हळें, ' चल उठ तर. . .' गेले तागेल्या पसऱ्यार. कुलूप फोडून पसरो उकतो केलो आनी भितल्ले तुपाचे दोन डबे उबाल्ले. . .पुणून, तुमी अशें करतले अशें दिसूंक नाशिल्लें. '

म्हाराजांच्या तोंडार हांसो उदेलो खरो. पुणून तांगेलें काळीज रडटालें. इतलें सादें सरळ, निष्पाप ल्हान भुरगें लेगीत आसचें ना, पुणून निष्पापपण उपकरानाशिल्ल. भुरगो रावन मनीस समाजांत जियेतलो कसो ? भुरग्यांक लेगीत पाडीं करपी यंत्रमाळ नेटान चलता. . .

' तर गोकळचा. ' म्हाराजांनी म्हळें, ' लुहाण्याचें जें लुस्कान जालां तें तूं भरतलो मरे ?'

' भरूंया. . .तुमी सांगात, कितें करूं ?'

' धा रुपया दिशीत ?'

' बरे भाशेन. . .घरा म्हस आसा. तिचें तूप जाता. तूप विकून एका म्हयन्या भितर फारीक करतां.'

' पुणून तुका जामीन कोण रावतलो ?'

थंय बशिल्ल्या लोकांभितर गोकळचाक जामीन रावपाचो धीर कोणाक जालो ना. तो मुसलमान व्यापारी, दाजी सोडून. ताणे म्हळें : ' गोकळचाचे धा रुपये हांव दितां. '

इतलें जातासर तीनसांज जाली. म्हाराज लुहाण्याच्या पसऱ्यार गेले आनी धा रुपयांत सगळो हिशेब मेकळो करपाक ताका मनयलो.

मागीर लोक म्हणपाक लागले, ' म्हाराज, आतां उठात आनी रात्रीक उजो घालात.'

' ना. आतां दिसूय बुडलो आनी म्हाका भुकूय ना. '

' तशें जाल्यार फळार करात. . .खाजूर हाडचो ?'

' बरें आसा, हाडात खाजूर. . .'

पुणून खाजूर हाडप खंयच्यान ? ' आरे, गांवांत कोणाकडेन खाजूर आसा, पळोवन येयात, पळोवंया. '

थोडचा वेळान ल्हवूच लुहाण्यान म्हळें, ' आसा म्हजे कडेन. '

' जोख तर अर्द शेर. ' म्हाराजांनी म्हळें.

' ना. ना. शेरभर जोख ' लोक म्हणपाक लागले.

शेरभर खाजूर जोखून लुहाण्यान विचाल्लें, ' कोणाच्या नांवार लावं हे चार आणे ?'

प्रस्न आयकना फुडें लोकांक धसक्या परसूय चड लागलें. सगळ्यांचीं तोंडां काळीं जालीं. म्हाराजांच्या दोळ्यांक दोळो लावपाचोय कोणाक धीर जालो ना. म्हाराजूय खीणभर अजापांत पडले. पुणून दुसऱ्याच खिणाक तांणी आपणांक सांवरून धल्लें. तो मुसलमान मात् फट्क करून उसळळो. : 'चार आणे न्हय, स आणे लाय म्हज्या नांवार. . .चेडयेच्या ! आनी हे घे तुजे धा रुपये. '.

लोकांचो राग म्हाराजांनी न्हिवयलो. लुहाण्याक एका उतरान लेगीत कांय म्हळें ना.

सगळे उठले. धर्मशाळेंत वतना वाटेर दाजी म्हणूंक लागलो. ' म्हाराज, हे लुहाणे आमच्या पंगडाचे न्हय आं ! सरकारी पंगडांतले ते. सरकारानूच तांकां सांगून दवल्लां. ' तुमी लुटात आपले, लोकांक. तुमगेले पयशे आमी बुडूंक दिवचेनात. त्याच खातीर तर आमी कोर्टां चलयल्यांत ! हे लुहाणे सरकारी पंगडांतले, आमचे न्हय. . .'

सगळे हांसले. म्हाराजांनीय मुमुरख्यांनी हांसून ताका तेंको दिलो.

पुणून हे प्रकरण अजून सोंपूंक नाशिल्लें. कठाण्याच्या फौजदाराक खबर कळ्ळी. आतां आपणांक माथ्यार बसपाची संद मेळ्ळी अशें ताका दिसलें. आयलो आनी रिकामी डबे जप्त करून ताणे म्हाराजांक विचाल्लें :

' कोणे व्हेल्ले, नांवां सांगात. '

' ना सांगचों. '

' खबर आसा मू, नांवां सांगप ना हो गुन्यांव म्हुण ?'

' गुन्याव जाता हो. ' बावडयाक इतलेंच हें तोंडपाठ जाल्लें.

' जावं दी गुन्यांव. ' म्हाराजांनी ताका जाप दिली. ' हांवें ताका नांव सांगचो ना म्हुण उतर दिलां. . .अभयदान दिलां. . .'

फौजदारान म्हाराजांचेर केस मांडली. केशिचीं कागदां खेडया जिल्ल्याच्या पोलिस-अधिकाऱ्याकडेन गेलीं. तो एक येवरोपेव. ताणे फौजदाराक आपोवन तामडावन काडलो ––

'खबर आसा तुका, कोणाचेर तूं केस करता ती ? जो उपास तपास काडून गुन्यांव कबूल करूंक लायता ताचेर केस ! खबरदार–असल्यो केशी ह्या मुखार घेवन येशीत जाल्यार म्हजे कडेन. '

* * *

## ९

# म्हजे सोयरे

कोण जाणा कसली बुद्द जाली म्हुण मुखीक*, ताचीं पावलां वाघल्या पाटण-वाडियाच्या भाटा वटेन चलपाक लागलीं. वचूंक भायर सरिल्लो धर्मंज स्टेशनार, सोयरीं आफ्रिकेक वतालीं तांकां पावपाक. बडदलच्यान आयिल्लो. पुणून वाटेर ताका मरण त्या भाटा कडेन ओडून घेवन गेलें.

थंय तीन पाटणवाडिये आशिल्ले. एकलो राट चलयतालो. बांयतलें उदक काडून एके रिकामे टांकयेंत ओततालो. दुसरो, पाटांतलें उदक भाटांत सोडटालो. तिसरो बेस्टो बशिल्लो. मुखीक आयिल्लो पळोवन वाघल्यान म्हळें, ‘ आयज खंय हे वाटेन ?’

‘ पाडचा, कोळया . . .’ मुखीन कसलेंच कारण नासतना ह्या पाटणवाडियाक गाळ घालून म्हळें, ‘ चड मातल्यात तुमी ह्या दिसांनी . . .’

त्या उपरांत कसले तरी अर्थ नाशिल्ले फाटले एके घडणुकेची याद करून तो दबकावणेर दबकावण्यो दिवपाक लागलो. वाघलो मोन्यांनी आयकता तें पळोवन मुखीन म्हळें, ‘ चल आतां, थोडचो चंवळेच्यो सांगो दी . . .बेगीन. ’

वाघल्यान कांय सांगो काडून दिल्यो. त्यो पोटलेंत बांदून मुखी स्टेशना दिकेन चलपाक लागलो.

ताणे फाट मात केल्या, हे वाटेन तिगूय खुबले.

एकलो म्हणूंक लागलो, ‘ चेडयेचो गरज नासतना गाळी घालून गेलो. ’

दुसरो म्हणूंक लागलो, ‘ ताका असो मोन्यांनी वचूंक दितले आमी ?’

तिसरो म्हणूंक लागलो, ‘ च्ये, असो वचूंक दिवं जायना ताका. ’

रोखडोच वाघलो राटी वयलो देंवलो, ताणे बैलांक सोडयले आनी हातांत भालो घेवन तो मुखी फाटल्यान धांवलो. पयसल्यान ताणे उलो मारून ताका म्हळें,

---

* गांवातलो पोलीस-पटेल. गांवांतल्या कायद्याची आनी सवस्तकायेची जतनाय घेवपी, सरकारी मनीस.

'ए...चेडयेच्या ! राव थंय उबो...' मुखीन फाटल्यान तोंड करून पळेलें. त्याच खिणाक वाघल्याचो भालो ताचे कुडीक तोपलो.

मुखी जमनीर कोंसळ्ळो. आनी वाघलो पळ्ळो. दुसरे दोग आशिल्ले. तांणीय पळ काडली.

मुखीक भालो तोपला आनी रगतबंबाळ जावन तो जमनीर पडला ही खबर वडदल्या सावन धर्मजाक शिकूंक वतल्या शाळेंतल्या भुरग्यांनी वडदल्याक पावयली. तेन्ना लोक धांवत आयले आनी मुखिची कूड ते वडदल्याक घेवन गेले.

बडदलच्या, धर्मजच्या, चोंयवसल्या पाटीदारां भितर ही खबर पातळ्ळी आनी सगळे उचांबळीत जाले. आमचे जातिच्या मुखीक माल्लो...काँग्रेसचे चळवळींत जाणे मुखीपणाचो सरकारी हुद्दो सोडून दिल्लो असल्या त्यागी मनशाक माल्लो. ...काँग्रसीक तेंको दितल्या पाटीदारांच्यो जप्त जाल्ल्यो जमनी जांणी घेतल्यो त्या पाटणवाडिया जातींतल्या लोकांनी माल्लो. पिळग्यांच्यो पिळग्यो चलत आयिल्ल्या दुस्वासाच्या उज्यांत तेल रकलें.

मुखी मरपाक तेंकिल्लो. जिस्त त्यावेळार ताच्या उश्या सरीं एकलो फुडारी येवन उबो रावलो.

हो एक धिप्पाड, विक्राळ मनीस. पाटीदारांचो एक फुडारी. व्हडल्या व्हडल्यांक ताणे हाचे पयलीं आपल्या नाडपणान थरथरावन सोडिल्ले. पोलिसां आनी पंचांमुखार मुखीन जेन्ना आपणाक मारतल्यांचीं फकत दोन नांवां सांगलीं तेन्ना हाणे दोळे मोटे केले आनी ताका दबकावन सांगलें : 'तूं आतां वचपाचो जालो. फाटल्यान जे उरतले तांचें मात्शें येवज, आनी नांवां सांग.' अशें म्हणून ताणे ताच्या 'डाइंग डेक्लेरेशनांत' त्या दोनां भायर आनी पांच पाटणवाडियांचीं नांवां बरोवंक लायलीं. मुखिचो प्राण तर तो हय न्हय म्हणचे पयलींच उडून गेल्लो.

गडगंज पुरावे आनी वयल्या पांवडयाचे हुशार वकील हांकां लागून वडदल्याच्या देशभक्त मुखिच्या खुनांत वांटो घेतिल्ल्या सातूय गुन्यांवकाऱ्यांक वडोदऱ्याच्या सेशन्स कोर्टान ख्यास्ती फरमायल्यो--एकल्याक गोळाक हुमकळावन मारपाची, एकल्याक जलमभर बंदखण भोगपाची. उरिल्ल्या पांचां भितल्ल्यांक कोणाक पांच, कोणाक सात तर कोणाक धा वरसांचे बंदखणिची.

गोळाक लावपाची ख्यास्त जाका जाल्ली तो भालो मोखतलो वाघलो नाशिल्लो. वाघल्या वांगडा जो धांवन गेल्लो तो पाटणवाडियोय नाशिल्लो आनी भाटांत जो तिसरो आशिल्लो तोवूय नाशिल्लो.

मागीर तो कोण आशिल्लो ?

ताचेंय नांव वाघलो. पुणून ह्या खुनाचो आनी ताचो कांय संबंद नाशिल्लो. तरी आसतना गोळाची ख्यास्त ताका फावताली. (अशें कांय म्हणपाक लागले.) कित्याक, काँग्रेसिचे चळवळींत मुखीन आपल्या मुखीपणाची सोडचीट दिल्ली त्यावेळार मुखीपण आपूण करतां म्हुण तो मुखार आयिल्लो. गडगंज पुरावे आनी हुशार न्यायाधीश हांकां लागून निर्दोष खुनी थल्लो. उजवाडाचो काळोख जालो.

जाका जल्मभरचे बंदखणिची ख्यास्त जाल्ली तो वाघलो खरेलो खुनी आशिल्लो. पुणून ताका जन्मठेपेचीच ख्यास्त जाल्ली. जावं, ताणे काँग्रेसिचे चळवळी आड कांय करूंक नाशिल्लें. (अशें कांय पाटीदार म्हणपाक लागले.) बाकिचे पांच साप निर्दोष आशिल्ले. म्हुण कितें जालें ? पाटणवाडियेच मू ते ? चोरी लूट करपी लोक. . .तांकां ख्यास्ती जावंकूच जाय. . .

कोर्टान ज्या दिसा तांकां ख्यास्त फर्मायली त्या दिसा वडदल्याच्या पाटीदारांनी मोठचा दबाज्यान उत्सव मनयलो, गोडशें करून खालें.

म्हाराज बंदखणींतल्यान निकतेच सुटून आयिल्ले. तांकां ही खबर कळ्ळी. तेन्ना वडदल्याक वचून तांणी सातूय जाणांचो प्रस्न आपल्या हातांत घेतलो. म्हाराजांनी हो प्रस्न आपल्या हातांत घेतला आनी आतां ते वयल्या कोर्टांत 'अपील' करपाची तजवीज करतात म्हणपाची खबर त्या पाटीदार फुडाऱ्याक कळ्ळी. तेन्ना ताका म्हाराजांची भिरभिरी माल्ली. ताणे म्हाराजांक आपणागेर आपोवन विचाल्लें, 'ह्या कोळयांक चड मातोवपाचें येवजिलां काय कितें तुमी ?'

म्हाराजांनी म्हळें : 'बाबा, ते तर गोळाक लागपाचे आसात. तांचीं बायल भुरगीं आधार नासून उबंत पडल्यांत. तांकां चार गोटेय पावोवं नाका म्हणटा ? तांणीं बाबडयांनी कसलो गुन्यांव केला ? '

'तें हांव नकळं, पुणन तुमकां सांगून दवरतां, वडदल्याक येवपाचें आसत जाल्यार नीट येयात आनी नीट वचात. दुसरें कितेंय करपाचें मनांत आसल्यार येनासतना राविल्लें बरें. . .कळ्ळें ?'

हाच्या तोंडांतल्यान असलीं उतरां भायर सरतकूच तांचो अर्थ जाका समजना असलो मनीस अजून जल्माक यवंक ना. रविशंकर म्हाराज ताचे माळयेचीं सपणां देंवन सकल आयले आनी खिणाचो लेगीत कळाव लाय नासतना तांणीं परिणामांचो हिशोब लायलो. तांकां खातरी जाल्ली : सातांतले स निर्दोष म्हणपाची. आनी जाका गोळाची ख्यास्त जाल्ली तो सातवो वाघलो जर गोळाक हुमकळ्ळो जाल्यार, धर्तरीच रसातळाक वतली म्हणपाची.

गांधीजी त्या वेळार गुजरातांत आशिल्ले. म्हाराज तांचेसरीं गेले आनी अथ पसून इति मेरेनची सगळी खबर तांकां सांगून तांणीं विचाल्लें :

‘ हांकां सोडोवन हाडपाची तजवीज करूं ?’

‘ करात. ’ गांधीजींनी जाप दिली.

‘ पुणून खुबशे पाटीदार दुखावतले. ’

‘ ह्या परिणामाची तयारी आमी दवरूंकूच जाय. ’

‘ पुणून ह्या सातूय जाणांनी दुसरे गुन्यांव केल्यात. ’

‘ ताचो विचार करपाची गरज ना. हे केसींत ते निर्दोष आसतीत जाल्यार तांकां सोडोवन हाडप आमची लागणूक. . .तुमी तजवीज करात. गरज पडल्यार हांव मागीर गायकवाड म्हाराजांक दयेची याचना करून चीट बरयन. . .’

***

‘ ए, भटा ! . . .’

स्टेशना भायर म्हाराज एकल्याची वाट पळेत उबे आशिल्ले. फाटल्यान आपणाक कोण उलो मारता तें आयकून तांणी मान घुंवडावन पळेलें. जाल्यार, मुखार मात्शा अंतरार एकलो घोड्यार बसून करडे नदरेन पळेता. ताका राखपाक दोशीं वशीन दोन रक्षक आसात––चकचकीत धारयीं खांदार घेवन. ‘ अब्बा ! हो ? हो म्हाका उलो मारता ? हे भाशेन?’ म्हाराजांक अजाप जालें. इतल्यांत घोड्यार बशिल्ल्या स्वारान हुकूम केलो : ‘ असो हांगा यो. . .’

म्हाराजांनी म्हन्यांत वचून विचाल्लें, ‘ कितें ? ’

‘ त्या कोळयांक सोडोवन हाडचें थारायलां काय ना ?’

‘ तजवीज तर चल्ल्या. . .’

‘ बेगीन कर. सयाजीरावांकडेन लेगीत वच. . .ते विलायतेक वच्चे पयलींच. ’

‘ आसा लक्षांत तेंवूय. . . ’

असल्यो थंड जापो आयकून तो उचांबळीत जालो. ताणे गरज नाशिल्ल्यो दबकावण्यो दिवपाक सुरवात केली. तेन्ना, म्हाराजांनी हांसून ताका म्हळें :

‘ हें पळेयात, तुमची आनी म्हजी तरा एक न्हय. . .खूब फरक आसा दों भितर. मात्सो समजून घेतिल्लो बरो हो फरक. तुमी हत्यारां घेवन भोंवतात. म्हज्या हातांत बडी लेगीत ना. तुमी मरणाक भियेतात. देखून रिवॉल्वर, घोडो आनी रक्षक घेवन भोंवतात. हांव तर रातदीस कोणाचोच सांगात नासतना एकलो भोंवता. तुमकां जो भंय आनी हुस्को आसा तो म्हाका मात लेगीत ना. कितली काकुळटेणी गत्त तुमची ! आनी-एक गजाल आसा, ती तुमच्या लक्षांत आयिल्ली नासत जाल्यार हाड्क सोदतां : तुमी केन्नाय चुकून माकून म्हजेर हात घालशात जाल्यार त्या दिसा तुमगेले हे दोगूय रक्षक कितें करतले, खबर आसा मू तुमकां ? ते कोण ते जाणात मू तुमी ? पाटणवाडिये ते. म्हजेर मारो जालो जाल्यार ते ओगी रावन पळोवपाचे नात. ते

म्हज्या आधाराक धांवतले. म्हाका बेश्टे भेश्टांव नाकात. . .तुमी कितले निराधार तें मात्शें येवजून पळेयात. "

ताचें तोंड पडलें. जाप दिनासतना चाबूक मारून ताणें घोडो सोडलो. म्हाराज जाणा आशिल्ले : हो मनीस ताचे पाटीदार जातींत पेटिल्ल्या तिडकिच्या उज्याचो एक प्रतिनिधी म्हुण.

आनी—एका गांवांत म्हाराज एक दीस पाटीदाराच्या वाड्यांतल्यान वताले, तांकां पळोवन एकलो पाटीदार तिडकीन दांत ओंठ चाबून तांच्या आंगार धांवून आयिल्लो. म्हाराजांनी ताचो मारो धिरान आनी थंडसाणेन सोंशिल्लो. कांय जाण मदीं पडून घालो घालतल्याक दूशण दिवन ओडून घेवन गेले. तेन्ना म्हाराजांनी तांकां म्हळ : ' ताका कित्याक आडायतात ? बावडो तिडक काडूंक सोदता म्हजेर. काडूंक दियात ताका. हांव जें करतां तें सारकें न्हय अशें ताका दिसता, जाल्यार, म्हाका ख्यास्त करपाचो हक आसा ताका. "

कांय बऱ्या बऱ्या लोकांनीय तांकां सांगिल्लें — ' तुमी. . .तुमी हे भानगडींत पडूं नाकात, हांतले भायर सरात. हे पाटणवाडिये दुस्मान कॉंग्रेसिचे. . .जातिचेच चोर. . .खून करपी. . .तांकां सोडोवन हाडपाक कित्याक वावुरतात ?'

आनी म्हाराजांनीं तांकां जाप दिल्ली : " तुमच्या खंयच्याय सोयऱ्याचेर असलें संकश्ट कोंसळ्ळेलें आनी ताका असली ख्यास्त जाल्ली जाल्यार तुमी ताका सोडोवन हाडपाचो यत्न करचे नाशिल्ले ? तशे हेव्य — कशेंय जावं मागीर, म्हजे सोयरे. तांकां सोडोवन हाडपाचो यत्न केले बगर म्हज्यान रावं नज. . .'

* * *

वयल्या कोर्टांत 'अपील' चलपाचो दीस इल्लो इल्लो लागीं येत राविल्लो. बरेबरे वकील कामाक लागिल्ले आनी तें प्रतिवादिचो एक एक मुद्दो धरताले. वडो-दऱ्याच्या वकिलां भितर ह्या निर्दोषांक घुस्पावपी कुभांडा विशीं आकांताचें मंथन सुरू जाल्लें.

जिस्त ह्या वेळार गांधीजींनी गुजरातेंत आनी-एक यत्न सुरू केल्लो. चळवळीक लागून जांच्यो जमनी सरकारान जप्त केल्ल्यो त्यो जांच्यो तांकां परत्यो मेळोवन दिवपाचो. सरकाराकडल्यान जाणी जमनी घेतिल्ल्यो ते वळेरेंत एक नांव दिश्टी पडलें : वडदल्याच्या वाघल्या पाटणवाडियाचें.

' जाका गोळाक लावपाची ख्यास्त जाल्या तोच हो वाघलो ? ' महादेवभाईन विचाल्लें.

‘ हय तोच. . .’

‘ तशें जाल्यार, म्हाराज. . .’ महादेवभाईन म्हळें, ‘ बंदखणींत ताका मेळून ताचेकडल्यान आपुण जमीन परती दिवंक राजी आसां म्हुण बरोवन घेशात ?’

‘ आतां ? ’ म्हाराजांनी एक खोल उस्वास सोडून विचाल्लें.

एका पाटीदाराची जप्त जाल्ली जमीन एका पाटणवाडियान घेतल्या. जमीन घेतिल्ल्या पाटणवाडियाक पाटीदारान मरणाच्या तोंडांत धुकल्ला. ताका मरणाच्या तोंडांत जाणे धुकल्ल्या ताका ताची जमीन परती कर म्हुण ताका सांगूंक वचूं ?

‘ हय. . .आतांच वचून ताचेकडल्यान आपुण जमीन परती करतां म्हुण बरोवन हाडात. ’ महादेवभाईन म्हळें आनी कागदाच्या एका कुडक्यार तशें बरोवन तो म्हाराजांच्या हातांत दिवन तांकां सांगलें : ‘ हाचेर ताची निशाणी घेवन येयात. आनी सकल ‘ म्हज्या मुखार निशाण केल्या. ’ असो बंदखणिच्या सुप्रिटेंडेन्टाचो शेरो घेवन येयात. ”

कसवटणी खुबूच खर आशिल्ली. पांय उखलना जाले. ह्या आदीं संख्यांनी खेपो जे पांय वडोदऱ्याचे वाटेन येत-वचत राविल्ले ते आयज लटपटूंक लागले. वडोदऱ्याचे बंदखणिचे काळे ‘ फांसी-खोलीं’चीं दारां उकतीं जालीं तेन्ना, म्हाराजांक, दोळ्यांमुखार दिश्टी पडले प्रेतां कशे जाल्ले दोग मनीस. खाडां वाडिल्लें. मरणाचे सावळेंत जांचे दोळे खोल बुडिल्ले अशे दोग वाघले. दारां उकतीं जाल्यांत तीं आतां आमकां गोळाक लावपाक व्हरपा खातीर अशे नदरेन दोगूय पळेताले.

आपणे वयल्या कोर्टांत अपील केलां, सोडोवन हाडपाचे यत्न सुरू जाल्यात बी कांय सांगी नासतना म्हाराजांनीं म्हळें : ‘ वाघल्या, गांधीजींची एक सांगणी घेवन आयलां : तुवें जी जमीन घेतल्या ती तूं परत करशीत ?’

‘बऽरे भाशेन.’ गोळाक हुमकळपाची ख्यास्त जाल्ल्या वाघल्यान जाप दिली. ‘ हाडात कागद. . .घेयात हो म्हजो आंगठो. जमीन दवरून कितें करपाचें आसा म्हाका ? गांधीजींक दिवन उडयता हांव ती. ’ अशें म्हणून बंदखणिच्या सुपरिटेंडेन्टा मुखार वाघल्यान आंगठो दिलो. मागीर म्हणूंक लागलो :

“ म्हाराज, गांधीजी आमकां आशीर्वाद दिवचे नात ? तुमी सांगशात व्हय तांकां ? आमी चल्ले आतां. आमचे दीस सल्ले. . .आमी गांधीजींक दूशण दिलें. ताची ही पळेयात, आमी ख्यास्त भोगतात, आमचो गुन्याव नासतना. आतां ते आमकां माफ करचे नात ? आमकां आशीर्वाद दिवचे नात ? तुमी सांगशात व्हय गांधीजींक, म्हाराज ?’

‘ वाघल्या. ’ म्हाराजांचे जिबेर सारकें उतर फुटलें ना. ‘हांव सांगतां तांकां..

दितले ते आशीर्वाद. . .'इतलेंच म्हणून तांणी फाट परतिली. थंय चड वेळ उबे रावं नज जालें तांकां.

ताणीं फाट परतिना फुडें बुडटल्या व्हड्यांत उदक भरचें तशीं बंदखणिचे काळखे कुडिचीं दारां बंद जालीं.

* * *

निमाण्या निर्णयाचो दीस उदेलो. म्हाराज वकिलां वांगडा कोर्टांत हाजीर राविल्ले. आनी म्हाराजां वांगडा वडदल्या सावन आयिल्लीं कैद्यांचीं सोयरीं धायरीं बशिल्लीं. सातूय कैदी बंदखणींत भितर आशिल्ले. तांकां सोडोवपाचे भायर यत्न चल्ल्यात म्हणपाची तांकां खबर नाशिल्ली––आशाय नाशिल्ली, अपेक्षा नाशिल्ली. जाका गोळाक लावपाची ख्यास्त जाल्ली तो वाघलो खंयच्याय खिणाक काळखाकुडीचें दार उकतें जातलें आनी आपुण मरणाच्या गुपाट काळखांत वचून पडटलों हाची वाट पळेत बशिल्लो. तो आपणाक व्हरूंक येतल्यांच्या पावलां कडेन कान दिवन राविल्लो.

तीनसांज जाली. कोर्टांतलीं प्रमाणां सोंपिल्लीं. न्यायाधीश उठून आपल्या 'चेम्बरांत' गेले. कैद्यांची सोयरीं म्हाराजांच्या तोंडाकडेन पळेत उबीं आशिल्लीं. म्हाराज न्यायाधीशांच्या चेम्बराकडेन दोळे लावन उबे आशिल्ले. खिणा फाटल्यान खीण धांवताले. घड्याळिचे काटे स्थितप्रज्ञा भाशेन घुंवताले. चेम्बरांतल्यान कोणूच भायर येनाशिल्लो.

म्हाराजांनी कैद्यांच्या सोयऱ्यांक सांगलें, ' गाडी सुटपाचो वेळ जाला. चुकत ती तुमकां. तुमी गेल्लीं बरीं. . .'

म्हाराजांच्या ह्या म्हण्याचो अर्थ एकूच आशिल्लो. : व्हडलिशी आशा उरूंक ना. आनी हांगा रावपांत आतां अर्थ ना. कैद्यांचीं सोयरीं समजुपाचें समजलीं, ' बरें आसा ' अशें म्हणून तीं गाडी धरून वडदल्याक वचपाक भायर सल्लीं.

तीं वतकूच थोड्याच वेळान वकिलान चेम्बरांतल्यान भायर येवन म्हाराजांक सांगलें : ' निर्णय बरोवन जालो. निशाण्योय जाल्यो. सातूय निर्दोष थल्ले. '

म्हाराजांनी आनी-आनी वाट पळेली ना. कोणाक कांय विचाल्लें ना. जी धांव माल्ली ते बद्द बंदखणींत पावले. सुपरिटेंन्डेटाक वचून तांणीं सांगलें, ' सातूय जाणांक म्हाका मेळूंक दियात. '

' पुणून अजून ऑर्डर येवंक ना. '

' येतली. . .म्हज्यान आनी-आनी वाट पळोवं नज. उपकार करून म्हाका मेळूंक दियात. . .केन्ना काय तांकां खबर सांगल्यार पुरो जालां म्हाका. . .'

सुपरिटेन्डेन्टाचे कचेरेंत सातूय जाण येवन एके रांगेंत उबे रावले. तांच्यांत प्राण नाशिल्लो. तांचीं तोंडां पडिल्लीं. रगत गोठेल्लें. ते पळेताले. पुणून दोळ्यांतली देवता तांकां जशी कितें सोडून गेल्ली.

सातांचींय तोंडां नदरेन सांसपून म्हाराजांनी तांकां मातूय उचांबळीत जाय-नासतना, थंड उतरांनीं खबर सांगली. खीणभर सातूय जाण तश्शे रावले. हाल्ले नात. धोल्ले नात. कांय उलयले नात. दोळ्यांची पातीय हालयली ना. वोंठूय हालयले नात. मागीर यंत्राची मळसूद घुंवची आनी बावल्यो एकाच बरोबर हालच्यो तशें, सातूय जाणांनी एकाच वांगडा धब्ब करून म्हाराजांच्या पायांर घालून घेतलें.

सातां भितल्ल्या एकल्याच्याय तोंडांतल्यान एक उतर फुटलें ना.

म्हाराज उठले. ‘ अजून ऑर्डर कशी आयली ना ? . . .चल, हांवूंच वचून घेवन येतां ’ अशें म्हणून ते परते न्यायमंदिरा दिकेन धांवंक लागले. मात्शे पयस पावल्यात जातले, इतल्यांत मुखावेल्यान एकलो सायकलीर बसून येतालो तो तांकां दिश्टी पडलो. ताच्या हातांत हुकूम आशिल्लो. ताणें सांगलें, ‘ तुमचे सातूय जाण सुटले . . .तांचे सुटकेचो हुकूम घेवन हो पळे, हांव बंदखणी कडेन वतां. ’

म्हाराज थांबले.

‘ म्हाका खोशी करचे नात ? ’

म्हाराजांचो हात बोल्सांत गेलो. हाताक फकत दोन पयशे लागले.

पयलेच फावट म्हाराजांक आपल्या अपरिग्रहाच्या व्रताची खंत भोगली : ‘आरेरे, आयज बोल्सांत धा रुपये आशिल्ले जाल्यार धावूय दिवन उडयतलों आशिल्लों’ अशें तांकां दिसलें.

दोन पयशे ताच्या मुखार करून म्हाराजांनी म्हळें : ‘ घे बाबा, आनी कांय ना म्हजेकडेन. ’

दोन पयशे धरिल्लो म्हाराजांचो हात लांबयल्लो तसोच वाऱ्यार उल्लो. तांचें तोंड पडलें. पॅडल मारून सायकल-स्वार वेगान बंदखणिचे दिकेन धांवलो. म्हाराजांचो हात परतो बोल्सांत गेलो. दोन पयशे बोल्सांत आशिल्ले थंय पडले. आनी म्हाराजांचे पांय लजेवन परते बंदखणी दिकेन चलपाक लागले.

* * *

दुसऱ्या दिसा दनपरां पांचेक वरसांचे पिरायेचो एकलो भुरगो वडदल्या गांवच्या वाटेवयल्या एका शेतांत उबो आशिल्लो. त्या दिसा सकाळींच तागेले बापोलये बी कांय जाण वडोदऱ्याक वचून परते आयिल्ले. परते येवन ताणीं घरांत कितें सांगलें कोण जाणां, तागेली आवय बोरां येदीं दुकां गळोवन रडरड रडिल्ली. घरांत रडारड

चलिल्ली पळोवन भुरग्याक घुसमटिल्ले वरी जाल्लें. म्हुण तो भायर आयिल्लो. पुणून भायर ताका कोणे म्हळ्ळें : तुज्या बापायक आयज सकाळीं देवागेर व्हेलो जातलो. तो आतां येवपाचो ना. भायर लोक असलें कितें कितें उलयतात म्हुण तो उबगून शेतांत आयिल्लो. देवागेर वता असतना बापूय घडये गांवच्या मळबांत दिश्टी पडटलो अशें येवजून तो ताची वाट पळेत शेतांत उबो आशिल्लो. अवचित ताका कांय पावलांचो आवाज आयकूंक आयलो. ताणे नदर तेवटेन घुंवडायली. आठ जाण चलत येताले. कोण काय ? ते लागीं पावले. . .लागीं. . . .अजुनूय लागीं. . . .सामके लागीं पावले तेन्ना तो तांकां वळखलो. एकल्याक तर सामकोच वळखलो. पुणून वळखून लेगीत म्हऱ्यांत येवपा बदला धसक्यान, अजापान, खोशयेन, काय, पळेलें तें खरें आसूंच नज अशें समजून ?––तो जो मुठी आंवळून धांवलो तो स्वास दांबून धांवत धांवत नीट आवय मुखार वचून उबो रावलो.

आनी आवयक आपणे कोणाक पळेलो तें सांगलें.

हे वटेन म्हाराजांक अजाप जालें : हो भुरगो आमकां पळोवन पळ्ळो कित्याक ?

आठांतल्या एकल्यान जाप दिली : ‘ म्हजो पूत तो. ’

जाप दिवपी गोळाच्या राजवांतल्यान सुटिल्लो वाघलो आशिल्लो. बापायक पुताक उलो करूंक आयलें ना, पुताक बापायक. हें जें नवें कितें घडिल्लें तें खरें म्हण-पाची दोगांकूय अजून खातरी पटूंक नाशिल्ली.

गांवां लागसार पावतकूच सातांतल्या एकल्यान म्हळें : ‘ आतां हांगांच बसूंया आनी हांगांच बसून गोडशें खांवया. ’

‘ गोडशें ? कित्या खातीर ?’ म्हाराजांनी विचाल्लें, ‘ असलो कसलो पराक्रम करून आयल्यात तुमी म्हुण गोडशें खावपाचें येवजितात ? खबरदार––कोण भायर सरचो ना. हांव सांगतां थंय एकेच कडेन तुमी सातूय जाण दारां बंद करून रावतले. हांव सांगतलों तेन्नाच भायर सरतले ! . . .गोडशें खातले खंय !’

म्हाराज जाणा आशिल्ले : सातांकूय खरी फट ख्यास्त जाल्ली त्या दिसा, पाटीदारांनी गोडशें करून खाल्लें. उत्सव मनयल्लो. ताचो सूड आयज पाटणवाडिये घेवंक सोदताले. म्हाराजांनी तें जावंक दिलेंना. उचांबळपणा ताणीं दांबून दवल्लीं. सातांकूय एका घरांत दवल्ले.

एक दीस ताणी सातांकूय सांगलें : ‘ चलात, म्हज्या वांगडा. ’

‘ खंय ? ’

‘ त्या भावागेर. . .’ म्हाराजांनी त्या पाटीदाराचें नांव घेतलें, जाणे हांकां धरून बंदखणींत घाल्ले.

' तागेर ? . . .तागेर कित्या खातीर ?'

' माफी मागपा खातीर. . .'

पाटणवाडिये काळे पडले : ' ताची माफी ? . . .इतलें इतलें आमकां भोगयल्या उपरांत वयल्यान ताची माफी मागप ? . . .'

' हय. . .'

' आमच्यो मानो कातल्लेले वरी दिसतलें आमकां. . .'

' दिसू दी. . .हांव सांगतां : चलात म्हज्या वांगडा. . .'

' तुमी येयात म्हणटात जाल्यार येवचें पडलें. . .'

सातांकूय घेवन रविशंकर म्हाराज तागेले माळयेर गेले. कांय म्हयने जावन गेल्ले. दुस्वासाचो उजो पालोवपाची संद केन्ना मेळटा हाची वाट पळेत म्हाराज बशिल्ले. बोरसदच्यान दरबार गोपालदासांकूय तांणी आपोवन हाडिल्ले. माळयेर वचून म्हाराज उबे रावले तेन्ना तांच्या वांगडा आयिल्ल्या सातूय पाटणवडियांक पळोवन पाटीदारान तोंड दुसरे वशीन केलें.

' बाबारे,' म्हाराजांनी म्हळें, ' म्हजी कांय चूक जाल्ली आसत जाल्यार हांव माफी मागतां आनी म्हज्या वांगडा हे सातूय जाण माफी मागतात. '

ताणे जाप काडली ना. एक उतर ताच्या तोंडातल्यान भायर सल्लें ना. ताणे तांचीं तोंडांय पळेलीं नात.

थोडो वेळ वाट पळोवन आठूय जाण माळयेचीं सपणां देंवले.

* * *

कांय दिसां उपरांतची खबर. म्हाराज एक दीस महीसागराचे तडी वयले चरींतल्यान एकलेच चलत वताले. अवचित तांकां फाटल्यानच्यान एक उलो आयकूंक आयलो : ' म्हाराज, मात्शे रावात. . .मात्शे. '

म्हाराज चलपाचे थांबले. दोगजाण धांवत येताले. दोगूय पाटणवाडिये – धारयां-सयत (पाळां) म्हऱ्यांत आयले. तांतल्या एकल्यान आपले तकलेक रेवडायल्लें फाळयें काडून जमनीर पातळायलें आनी म्हाराजांक म्हळें, ' आतां हाचेर मात्शे बसात.'

' कित्याक तें सांग मरे. '

' मागीर सांगतां. पयलीं बसात. . .तुमकां कितें सांगपाचें आसा म्हाका. '

' सांग, कितें ? ' म्हाराजांनी बसून विचाल्लें.

म्हाराज ताका वळखल्ले. हो एक तरणाटो, लिपून भोंवतालो. ताचेर वॉरंट आशिल्लें.

'सागपाचें म्हळचार, आमी ताची गोमटीच कातरून उडयतले . . .' उचांबळीत जावन तरणाटो सांगपाक लागलो.

'कोणाची रे ?'

'वडदल्याच्या त्या पाटीदारांच्या फुडाऱ्याची.'

'कित्या खातीर ?'

'तो गाळी घालता.'

'कोणाक ?'

'तुमकां . . .आमच्यांनी सोंसूंक जावपाचें ना. आमकां आयकूंक येवचें हे भाशेन तो गाळी घालता . . .आमी ताची गोमटी उडयतले . . .'

'चल, चल . . . व्हडलो आयला तूं गोमटचो कातरपी ! म्हाका गाळी घाल्यो जाल्यार तुजें कितें सरता ? घालूं दी. आनी तूं . . .तुजेर वॉरंट आसा मरे ? लिपून लिपून भोवता मरे ? बाकिचे सगळे जाले, तूं अजून म्हजे सुवादीन जावंक ना . . .चल, आतां. पिसो खंयचे कडलो ! कोणाक कांय करपाचें ना . . .आनी असलें कितेंच करपाचें ना . . .कळ्ळें ?'

म्हाराज उठून तशेच वडदल्याक गेले. आनी त्या पाटीदार फुडाऱ्याक तांणी सांगलें :

'हे पळे, बाबा. तुका एक खबर सांगपाक आयलां. म्हाका गाळी घालपाच्यो आसत जाल्यार एकांतांत जाय तितल्यो घाल. हांव एका उतरान लेगीत तुका कांय म्हणपाचो ना. पुणून, उपकार करून भायर कोणा हुजीर मारूं नाका. पाटणवाडिये उचांबळीत जातात. सट् करून तुका ते कितेंय करीत म्हुण भंय.'

* * *

१०

## चोरांतलो तत्त्ववेत्तो

गांवांतल्यान सुमार चार मैलांचे वाटेर एका पिराची (मुसलमान संताची) समाधी आशिल्ली. तालुक्यांतलो सरकारी फौजदार पिराचो आधार घेवपा खातीर समाधीर आयिल्लो. ताका चोर धरपाचो आशिल्लो. कांय जाणांक फौजदारान दुबावान धरून हाडिल्ले. पिरा मुखार तो 'असो, हांगा यो रे' अशें म्हणून धरून हाडिल्ल्या भितल्ल्या एक-एकल्याक आपोवपाक लागलो. आनी एक-एकल्याच्या हातांत तांदूळ दिवन तांकां सांगपाक लागलो – 'घे, चाब हे. . .'

तांणी तांदूळ हातांत घेवचे, तोंडांत घालचे आनी चाबचे. म्हणटासर फौजदारान तांकां सांगचें : 'थूक आतां.''

थुकून उडयल्ले तांदूळ ताणे आपल्या सहकाऱ्यांसयत ओणोव घालून नियाळून पळोवचे. मागीर ताणे म्हणचें : 'न्हय, हो चोर न्हय. हाणे चाबून उडयल्ल्या तांदळांत ताची लाळ आसा. चल तूं. . .' अशें म्हणून ताणे ताका वचूंक सांगचें आनी दुसऱ्याक आपोवचो. : 'दुसरो कोण ? असो यो, हे घे तांदूळ. . .चाब.' मागीर ताणेय चाबून उडयल्ले तांदूळ फौजदारान नियाळून पळोवचे आनी 'होय चोर न्हय' अशें म्हणून ताका सोडून दिवचो.

हे भाशेन ताणे दोगां-तिगांक तांदूळ चाबूंक लावन निर्दोष म्हणून सोडून दिले.

इतल्यांत ताची आनी-एकल्याचेर नदर पडली. झालो नांवाचो तो एक पाटण-वाडियो. ताका आपोवन फौजदारान म्हळें : 'असो हांगा यो, झाल्या. . .हे तांदूळ घे. . .चाब. . .पीर पळे, आत्तांच चोर धरून दितलो.'

तांदूळ हातांत घेतना झाल्याचो हात कडकडलो. तोंडांत तांदूळ घालतना ताचे ओंठूय थरथल्ले. तो थुकलो. थुकून उडयल्ले तांदूळ फौजदारान ओणोव घालून नियाळ्ळे. ताच्या तोंडार जैताची एक रेग उदेली. आपल्या सहकाऱ्यांक तांदूळ दाखोवन ताणे म्हळें : 'पळेलें ? सामके सुके. मेळ्ळो काय ना चोर ? . . .' अशें म्हणून ताणे

दुबावान धरून हाडिल्ल्या बाकिच्या सगळ्यांक सांगलें, ‘ तुमी सगळे वचात आतां. ’ आनी झाल्याकडेन पळोवन म्हळें – ‘ तूं असो हांगा यो. ’

झाल्याची कूड जशी कितें आंवळून आयली. तो कडकडत, थरथरत फौजदारा-म्हऱ्यांत आयलो. ताणे घाल्ल्या त्या चार-पांच पावलांत – कोण जाणा – कितल्योश्योच खबरी ताणे पिराकडेन केल्यो, कितलेशे शीण काडले. ‘ सायबा, पिरा, तूं पोलिसांक खबरो दिवंक लागलो ? येदीं व्हडलीं फटींगपणा तुका करूंक आयलीं ? ह्या वागां-शिंवांच्या नाडपणांत तूंय वांटो घेवंक लागलो ? माथ्यार चादर ओडून थंय न्हिदिल्ले कडेन तूं असलींय कामां करपाक लागलो ?’

फौजदाराचें सणसणीत थापट पडना फुडें झाल्याच्यो पिराकडल्यो खबरी मदींच बंद पडल्यो. तो भानार आयलो. इतल्यांत, एके तरेच्या अवमानी हांशान केल्लो फौजदाराचो प्रस्न ताच्या कानार पडलो, ‘ दाखय, खंय आसा तें चोरिल्लें लुगट ?’

‘ लुगट ? . . .कसलें लुगट ? . . .’ झाल्याक कितेंच समजलें ना.

‘ हय, हय. . .लुगट. किनखलोडच्या पाटीदाराचें. आपुण कांय नकळ जाल्ले भाशेन दाखोवं नाका. सांग, खंय आसा तें लुगट. . . ? पिराच्या हातांतलो तूं सुको सुटपाचो ना, कळ्ळें ?’

‘ खऱ्यानीच तर, हांव कांय नकळ. हांवें कसलेंच आनी कोणाचेंच लुगट पळोवंक ना. . .’

‘ अशें ? . . .शिकोवची पडली बुद्द तुका. ’ अशें म्हणून फौजदारान आपल्या सहकाऱ्यांकडेन पळेलें. म्हणटासर झाल्याचेर एकाच वांगडा मुठी, थापटां, खोंटो पडपाक लागल्यो––पावस शिंवरचो ते भाशेन. आपलीय म्हूण एक मूठ मारपाक फौजदारान हात उबाल्लेलो इतल्यांत, कोणे एकल्यान ताचो हात मदींच धल्लो. अजापान ताणे फाटल्यान नदर मारून पळेलें जाल्यार, एका ऊंच मनशान ताचो हात धरिल्लो आनी तो ल्हवू आवाजांत ताका सांगतालो : ‘ताका कित्याक मारता ? . . . मारूं नाका.’

‘ रविशंकर म्हाराज !’ फौजदारान हात धरिल्ल्या मनशाकडेन पळोवन तिडकीन म्हळें : ‘ मारूं नाका जाल्यार कितें करूं ? किनखलोडची चोरी हाणेच केल्या. . .’

‘ ना. . .’ म्हाराजांनी दोळ्यांत दुकां हाडून म्हळें : ‘हो झालो चोरी करचो ना.’

‘ हें पळेयात ’ अशें म्हणून झाल्यान थुकून उडयल्ल्या तांदळांकडेन बोट दाखोवन फौजदारान म्हळें : ‘ हें दिश्टी पडटा मू तुमकां ? ’

‘ कितें तें ? ’

‘ कितें तें म्हुण अजुनूय विचारतात ? म्हाराज, हे पळेयात, सुके सडसडीत तांदूळ, लाळ भरसूं नाशिल्ले. प्रत्यक्ष प्रमाण हें, पिरान दिल्लें. चोरान चाबिल्ल्या तांदळांत लाळ नासता. . .’

म्हाराजांक संताप मारिल्लो. तांतूंत तांकां आतां हासूंक आयलें. पिराक लेगीत फटिचे गवायेंत घुसपावपी ह्या गायकवाडी हिन्दु फौजदाराच्या तोंडार हांसचें अशें तांकां दिसलें. पुणून तांणीं हांसो दांबून म्हळें : ‘ सायबा, तो पीर, ते तांदूळ आनी तें तुगेलें लाळिचें शास्त्र म्हाका समजना. हांव वळखतां, समजतां तें ह्या मनशाचें मनीसपण. हो झालो म्हजे वळखिचो. खूब लागिंच्यान वळखतां हांव ताका. ताच्याच शेतार हांव रावतां. तो चोर न्हय. ताचेर हात उबारूं नाकात. ना जाल्यार, हो पळे, चल्लों हांव वडोदऱ्याक. ’

‘ पाड पडूं तर. ’ अशें म्हणून फौजदार पिराक सलाम करून उठून गेलो. आनी पीर लजेन समाधींत भितर सूस्त पडून रावलो.

झाल्याक घेवन म्हाराज शेतांत सोमागेर वचून रावले. आनी किनखलोड गांवच्या पाटीदाराचें लुगट कोणे चोल्लां जातलें हाजेंर येवजीत बसले. चोराक धरपा खातीर फौजदारान आयज पिराचो आधार घेतिल्लो. फाल्यां पोलीस असलीच दुसरी कसलीय अन्नाडी तजवीज करतलो. आयज झाल्याक माल्लो. फाल्यां आनी-कोणाक पेट्टलो. पिराचेर भावार्त आशिल्ल्या फौजदाराची बदली जावन ताचे सुवातेर फाल्यां धरुंया नवो कोणूय आयलो, जाल्यार तो कसलो उपाय करीत, सांगूं नज. घडये मंत्र-तंत्र-जादुचोय आधार घेत. कितें करूं ? कोणाक विचारूं ? जो येता तो एकूच नांव घेता—फुल्याचें. खासा पाटणवाडियांचे जिबेर लेगीत हेंच नांव घोळटा——फुलो वावेचो. (वावेचो ताचें आडनांव.) फुलो मोटो चोर. आकांताचो. लोक ताका सारके वळखतात. पुणून तो अजून कोणाक मेळूंक ना. खूब जाण येवन सांगून वतात. फुल्याच्या घराची झडटी घेत जाल्यार फाटलें—फुडलेंय खूबशें मेळटलें. पुणून फुल्याच्या घराची झडटी घेवप म्हळचार सोरपा बिळांत हात घालपा सारकें, धाडसाचें काम. नव्या फौजदाराक काळिजूच जावचें ना. आनी जालेंय जाल्यार——म्हाका तातूंत व्हडलि-शी रूच ना. म्हजें मन शांत जावपाचें ना. म्हाका चोराचो आनी चोरयेचो म्हजे रितीन सोद लागलो ना जाल्यार फुकट जिणें म्हजें अशें म्हणचें पडलें.

म्हाराज म्हज्या वांगडा आयले जाल्यार हांव फुल्याच्या घराची झडटी घेन अशें नव्या फौजदारान म्हळ्ळें. तेन्ना म्हाराजांनी ताका ना म्हुण जाप दिल्ली : ‘म्हजी ही रीत न्हय. ’ म्हाराजांनी म्हळ्ळें. ‘ हे रीतीन ताका धरून म्हाका कितें मेळपाचें

आसा ? फुलो जे मेरेन आपुण जावन म्हज्या मुखार येना आनी गुन्यांव कबूल करिना ते मेरेन असल्या कसल्याच यत्नांक अर्थ ना. '

' चोर फुलोच, म्हाराज मानूं वा ना मानूं, फुलो सोडून दुसऱ्या कोणाचेंच काम न्हय हें ' असो एकूच आवाज म्हाराजांच्या कानार पडत रावलो. फुल्याचें जें चित्र दर एकली जीब चित्रायताली तातूंत दिशींदिशीं काळो रंग भरत रावलो. फुलो गुपाट काळखे राती दिश्टी पडलो जाल्यारूय काळो किट्ट दिसतलो असो तो जावन पडिल्लो. इतलें भेश्टावणे चित्र लोकांनी ताचें उबें केल्लें. हो फुलो वावेचो आसासर ह्या वाटारां-तली चोरी ना जावपाची ना, असो सगळ्यांनी समज करून घेतिल्लो. फकत म्हाराज सोडून. तांणी फुल्याक अजून पळोवंक नाशिल्लो. ताका तर्जूक नाशिल्लो, मेजूंक नाशिल्लो. आपुण जावन फुल्याक मेळूंक वचपाची खबर करप लेगीत कठीण जावन पडिल्ली. फुल्याक कसो मेळटलों, खंय मेळटलों, कितें नीब काडून मेळटलों— म्हाराज सुयेगाची वाट पळेत बशिल्ले. चोरयेच्या लुगटाचें येवजीत येवजीत म्हाराज मध्यान रात मेरेन झाल्याच्या शेतार बसून रावले.

सुमार तीन दिसांनी एके राती झाल्यान न्हिदिल्ल्या म्हाराजांक उठोवन सांगलें, ' म्हाराज, आज झडटी जावपाची आसा. पुणून फौजदाराक लेगीत खबर ना खंय आनी कोणागेर झडटी घेवपाक वचपाचें आसा तें.'

' कोणागेर आसा ?'

' फुल्या वावेच्यागेर '

' ताणे चोरी केल्या ? '

' ना. '

' मागीर ? '

' तरी आसतना चोरये माल फुल्यागेरूच मेळपाचो आसा. '

' तो कसो ? ' म्हाराजांच्या काळजांत धस्स जालें.

' चोरये माल पयलीं फुल्याच्या शेतांत दवरचो आनी उपरांत रोखडोच, फुल्याक खबर लेगीत पडूंक दिनासतना, फौजदाराक तागेर व्हरचो अशें थल्लां . . .'

' अशें कित्या खातीर ?'

' फुल्यान इतलीं वरसां चोरयो करून जो माल एकठांय केला तोय मेळचो ह्या खातीर.'

' माल कोण व्हरून दवरपाचो आसा ?'

' खासा चोरूच. '

' कोण ? '

' इछलो पाटणवाडियो. '

म्हाराजांनी सूः ऽ करून एक उस्वास सोडलो आनी थंडसाणेन विचाल्लें : ' म्हाल खंय आसा ?'

' आमचे कडेन. '

' घेवन यो तो हांगा. '

' कित्याक ? '

' कित्याक म्हुण आनी वयल्यान विचारता ? थूः तुमचे अकलेक ! फुलो केदोय आनी कसलोय चोर जावं, ताका हे भाशेन घुसपावप सोबता तुमकां ? लज दिसना ? चल, म्हाल घेवन यो बेगीन. '

झालो, इछलो, सगळे म्यांव म्यांव करीत गेले. म्हाल हाडून तांणी म्हाराजां सुवादीन केलो. म्हाराज तो घेवन फौजदारासरीं गेले. ताका तो दाखयलो आनी इछल्याचें नांव घेनासतना कितें कितें थरिल्लें तें सांगलें.

' पाड पडूं तर, असली झडटी घेवपाची ना ' फौजदारान म्हळें.

* * *

लुगटाची पोटली म्हाराजांनी एकल्या पाटणवाडियागेर व्हरून दवल्ली आनी खासा आपणेंच पाटणवाडियांची जी परिशद रचिल्ली तिचे 'कमिटी'ची बसका आपयली. आनी कमिटींत सगळ्यांक सांगलें, ' किनखलोडची चोरी इछल्यान केल्या.'

आपयलो इछल्याक.

इछल्यान म्हाराजांचें पांय धरून म्हळें, ' म्हाराज, हें लुगट हांवें चोल्लां खरें. पुणून ही चोरी किनखलोडची न्हय.'

' मागीर खंयची ?'

' अलारसाची. . .'

' फट. अलारसाक चोरीच जावंक ना——' ह्या पुराय वाटारांत खंयूय चोरी जावं, पोलिसांक खबर कळचे पयलीं म्हाराजांक ती कळटाली.

' जाल्या म्हाराज. ' इछल्यान जाप दिली. ' पुणून ती उकती जावंक ना. एक खेरीत कारण आसा ती उकती ना जावपाक. '

' खरें सांगता तूं ?'

' तुमकां खरें दिसना जाल्यार विचारून येयात अलारसाक. '

लुगटाची पोटली खांदार मारून म्हाराज तेच राती पयलीं किनखलोडाक गेले. जागेर चोरी जाल्ली त्या पाटीदाराक पोटली दाखोवन विचाल्लें : ' हें लुगट तुजें ?'

लुगट पळोवन पाटीदारान म्हळें, ‘ म्हज्या लुगटा सारकें खरें. पुणून हें लुगट म्हजें न्हय. ’

पोटली परती खांदार मारून म्हाराज अलारसा गांवांत आयले. गांवच्या मुखीक वचून विचाल्लें : ‘ ह्या गांवांत चोरी जाल्या ?’

‘ हय, एका तेलयागेरसून लुगटाची एक पोटली चोरयेक गेल्या. पुणून प्रकरण भितल्ले भितर उल्लां. कित्याक, चोरां सांगाताक मोरूय आसात. ’

‘ म्हळचार ?’

‘म्हळयार अशें. . .तेलयागेर जी पोटली आशिल्ली ती रेल्वेंतल्यान चोरून आयिल्ली...’

‘ इछल्यान सांगिल्लें तें खरें तर. ’ म्हाराजांनी मनांत म्हळें आनी पोटली आशिल्ली तशी खांदार मारून ते परतले. इछल्याक आपोवंक धाडलो. ताका विचाल्लें, ‘ सांग, तुवें अलारसाक चोरी कशी केली ?’

इछल्यान किरा भाशेन सुरवात पसून अखेर मेरेनची सगळी कथा सांगली–– जालें अशें : आमी गेल्ले वासण्याक. थंय एकल्या पाटीदाराच्या आंगणांत लिपून बशिल्ले. घरची बायल रातची भायर आयिल्ली. तिच्या गळचांत भांगराची सरपळी आशिल्ली. ती ओडून काडली आनी आमी पळ्ळे. पुणून सगळे कडेन हो हा करून बोवाळ जालो. आमच्या फाटल्यान पोलीस लागले. एका पोलिसाक जमनीर आपटून आमी पळ्ळे. पुणून पळे जाल्यार दुसरे चार पोलीस आमच्या फाटल्यान धांवत येताले. आमी सरपळी वाटेर उडोवन पळ्ळे. सरपळी मेळकूच पोलिसांनी आमची फाट सोडली. ते परतले. पुणून आमी येवजिलें, भायर तर सल्ल्यात. रिकाम्या हातांनी परते कितें घरा वतले ? अपशकून जातलो. अलारस्याक गेले. एका तेलयागेर भितर सल्ले. थंय ताच्या घाण्यार ही पोटली आशिल्ली. उबाल्ली. . .घेवन आयले.’

मेकळेपणान सगळें सांगून उडोवपी इछलो म्हाराजांक मानवलो. तांणी पोटली काडून इछल्याकूच दिवन उडयली.

दुसऱ्या दिसा तांणी पाटणवाडियांच्या बुदवंत मुखेल्यांक एकटांय केले आनी तांकां सांगलें : हे चोरयेचें कितेंय जावं, फुल्याक मात आळाबंदा हाडुंकूच जाय. तागेलो धंदो बंद जायना ते मेरेन ह्या वाटारांत कोणाक सस्थताय मेळपाची ना.

आपयलो फुल्याक.

पन्नासेक वरसांचे पिरायचो फुलो मुखेल्यांमुखार येवन उबो रावलो. म्हाराजांच्या पांयांक हात लावंक तो लागीं मात आयिल्लो, मुखेल्यांनीच ताका आडावन दंडणावन काडलो –– ‘ पयस राव, म्हाराजांक आफडूं नाका. . .मार आयला नमस्कार करपाक ! ’

जातींतल्या लोकांक लेगीत फुलो इतलो उणाक दिसूंक लागिल्लो. मुखेल्यांचीं उतरां आयकून तो पयस उबो रावलो. ताका ओग्गी उबो राविल्लो पळोवन म्हाराजांनी ताचो काळोकीट्ट देह मापलो, ताचें मुखामळ वाचलें, ताच्या बळग्याचो अदमास लायलो आनी ताका म्हळें : 'फुल्या, तुवें आनी चोरयो करप ? सोबता तुका ?'

' हांव खंय करतां ? ' फुल्यान थंडसाणेन जाप दिली.

'खंय करता काय म्हुण विचारता ?' अमक्या गांवांत, तमक्या घरांत. . म्हाराज एका फाटल्यान एक नांवां घेत रावले. फुल्याचो चोरयो जश्यो कितें म्हारा-जांक तोंडपाठ आशिल्ल्यो. फुल्याक अजाप ! ताणे मदींच म्हळें : ' पुण म्हाराज, तुमी म्हगेर केन्ना पावल्यात व्हय ? म्हाका केन्ना उपदेस केला व्हय ? एक फावट येयात आनी मागीर सांगपाचें सांगात. '

चोराचें म्हणणे आयकून म्हाराज ओगी पडले. तांकां ह्या मनशाक वळखून घेवपाची आकांताची जिगिशा जाली.

दुसऱ्याच दिसा म्हाराज फुल्यागेर गेले. तागेलें घर शेतांत आशिल्लें. ताका दोगी बायलो. दोगिनींय येवन म्हाराजांच्या पांयांर घालून घेतलें. आनी आशी-र्वादा खातीर पदर पसरावन त्यो उब्यो रावल्यो. उपरांत ताचे पांच पूत आयले. तांणींय एका फाटल्यान एक, म्हाराजांक नमस्कार केलो. मागीर खासा तो आयलो. थोडो वेळ ओगी बसलो. मागीर म्हणूंक लागलो––

' म्हाराज, हे दोग म्हजे व्हडले चले, बरे. तांकां कांय उपदेस केलो ना जाल्यार उपकारता. हे धाकले दोग, दुकर. (म्हळ्यार चोरयेची विद्या नकळ आशिल्ले) हो मदलो म्हज्या वांगडा खूब कडेन भोंवला. ताका कितेंय सांगपाचें आसल्यार सांगात. . . '

फुल्याचीं उतरां आयकून म्हाराजांक मजाच दिसली. तांणी फुल्याक म्हळें, ' फुल्या, म्हाका अजाप जाता. तुवें कसलेंय तरी पुण्य केल्लें आसूंक जाय. म्हुण तुका ह्यो दोगी बायलो, हे पांच पूत, ह्यो सुनो, हीं शेतां, ह्यो म्हशी . .हें सगळें मेळ्ळां! . . '

फुल्यान मात लेगीत दाखय लिपय करी नासतना निर्मळ मनान तांकां जाप दिली : ' म्हाराज, हांवें दुसरे खंयचेच बायल मनशेकडेन केन्नाच वांकडे नदरेन पळोवंक ना. आनी दारांत आयिल्ल्याक केन्नाच उपाशीं धाडूंक ना. '

म्हाराज खीणभर ओग्गी रावले. तांगेल्या अंतस्कर्णांत पातक-पुण्याचें शास्त्र मात्शें घुसपल्लेवरी जालें. मागीर ताणीं म्हळें––

' जाणा मरे फुल्या, फौजदार म्हणटा, आयजमेरेन तुवें, न्हय म्हळ्यार, दोन हजार तरी चोरयो केल्ल्यो आसूंक जाय. . .पातक न्हय हें ?'

‘ जायत. ’ फुल्यान जाप दिली. ‘ फौजदारान मेजल्यात जातल्यो – हांवें हिशोब दवरूंक ना. पुण म्हाराज, चोरी करप पातक व्हय ?’

‘ पातक न्हय ? ’

‘ न्हय. . .तुमीच येवजून पळेयात. तुमकांय दोन दोळे, म्हाकाय दोन दोळ. तरी आसतना खासा तुमी दवल्लेली तुमचीच वस्त दिसा उजवाडेक लेगीत तुमकां केन्ना केन्ना दिश्टी पडना. . .आमकां ती रातच्या काळखांत लेगीत अचूक दिश्टी पडटा. . . .ओगीच हें ? हाच्या फाटल्यान कांय अर्थ ना अशें तुमकां दिसता ?’

‘ कितें आसतलो ?’

‘ होच कि. . .लक्ष्मी आमकां मोटचा मोटचान उलो मारून आपयता. ’

‘ कितें ? ’ म्हाराजांक कसलेंय तरी तत्त्वालोचन सुरू जाल्लेवरी दिसलें. ते कान दिवन आयकूंक लागले.

‘ हय म्हाराज ! परक्या घरांत बळयां एकठावल्ली आनी बंदिस्त जाल्ली लक्ष्मी आमकां उलो मारून आपयता. आपणाक हांगासल्ली सोडय म्हुण सांगता. ती जेन्ना उलो मारूंक लागता तेन्ना आमकां तिचो हो उलो पयसल्यान लेगीत आपशींच आयकूंक येता. तेन्ना आमचें मन भितल्ल्यान आमकां सांगता––‘ फुल्या, उठ. . . चल थंय. . .’ आनी आमी थंय वचून लक्ष्मीक सोडयतात. बंदिस्त जाल्ले तिका मेकळी करतात, हे वाटेन ते वाटेन वचूंक दितात. . .तांतलें मागीर थोडें मुखीकडेन वता, थोडें फौजदारागेर पावता, थोडें ताच्याकूय व्हडल्या फौजदारागेर आनी आमच्या वांटचाक, म्हाराज फकत कांटे उरतात. चोरूंक वतना वाटेर पांयांक जे कांटे लागतात तितले पुरतेंच आमच्या वांटचाक येता.’

म्हाराज अजापान फुल्याच्या तोंडाकडन पळेत रावले. फुलो मुखार सांगपाक लागलो––

‘ आयकात म्हाराज ! एके राती हांव चोरूंक पाराक गेल्लों. (पार म्हळचार मही न्हंये पल्तडचो एक गांव) एका घरांत भितर सल्लों. थंय एका पेटलांत म्हाका दागिने मेळ्ळे. पेटूल फोडून हांवें दागिने काडले आनी तांची पोटली बांदून भायर सल्लों. इतल्यांत, घरांतली बायल-मनीस जागी जाली. तिणे किळांच माल्ली. कमराक आशिल्लो सुरो काडून हांवें तिका दाखयलो. तो पळोवन तिची किळांच अरद्यारूच बंद पडली. उबी रावन ती मोन्यांनी म्हजेकडेन पळोवपाक लागली. म्हाका कितें जालें, कोण जाणा ! बांदिल्ली पोटली उकती करून एका फाटल्यान एक सगळे दागिने हांवें तिच्या हड्ड्यार मोखून माल्ले. पोटली रिकामी करून हांव भायर आयलों. आनी हांवें म्हज्या म्हाकाच म्हळें, ‘ फुल्या, पोरा ! ही लक्ष्मी तिगेलीच आसूंक जाय. हे लक्ष्मीन तुका उलो करूंकूच नाशिल्लो. तुवें फटिचें आयकल्लें

आसूंक जाय. तूं घर विसल्लो जावंक जाय. . .फुल्या, पोरा. . .' अशें म्हाराज, आमचे पांयूच आमकां सांगतात. लक्षुमी जंय आपल्या घरांत रावता थंय आमचे पांय कशेच वचनात. देवान जशे मेस्त केल्यात, भंगी केल्यात, चामार केल्यात तशे आमकांय निर्मिल्यात—चिखल, म्हेळ, अळशीक काडपा खातीर. तरी आसतना, तुमी सांगशात चोरी करूं नाका म्हुण, तर करिना. . .आयच्यान सोडटां. . .'

म्हाराजांक यजुर्वेदांतल्या एक श्लोकाचो उगडास जालो —

स्तेनेभ्यो नमः । तस्करेभ्यो नमः

तस्कराणां पतये नम : ॥

फुल्यान त्या दिसाच्यान चोरी करपाचें सोडून दिलें.

म्हाराजांक फुल्याचो उगडास जाता तेन्ना तेन्ना तांगेलें काळीज भरून येता—अजुनूय.

* * *

फुल्याक मर्ण मात काकुळटेणे आयलें. ताणें आपणाली धूव बोरसद गांवांत दिल्ली. घोव तिका पेट्टालो. एक दीस घोवाच्या त्रासांक उबगून ती कुळारा पळून आयली. फाटल्यान घोव आयलो—तर्रर जावन. फुल्यान ताका म्हळें, ' मारता तूं म्हजे धुवेक ? लाग चलूंक हांगासल्लो. . .ना धाडिना हांव तिका. '

जांवंय तापलो. म्हणूंक लागलो : दी तूं तुजी धूव म्हाराक—पुणून म्हजो पूत तरी म्हाका दी. . .'

दोगूय एकामेकांक गाळी घालूंक लागले. अवचित जांवयान सुरो काडलो आनी थंयच मांवाचो खून केलो. . .

बापायच्या खुनाचो सूड घेवपाक फुल्याचो मदलो पूत देशलो भायर सल्लो. बापाय कडल्यान तो चोरयेचें कसब शिकिल्लो. तो एका फुडल्यो एक चोरयो करपाक लागलो. बापायच्याय फुडें गेलो.

म्हाराज मेवण्या भावोजी मजगतीची दुस्मानकाय ना करपाचो यत्न करपाक लागले. एक दीस तांणी देशल्याक आपोवंक धाडलो. म्हाराज नवाखल्याक आशिल्ले. देशलो आयलो. पियेवन तर्रर जाल्लो. धोणवाचेर तीर चडोवन म्हाराजांचेर नेम धरून आयिल्लो. दोळे तांबडे गूंज जाल्ले. येवन मदान्त सुरान म्हाराजांक विचारूंक लागलो – ' कितें आशिल्लें काम ?'

ताका हे दशेंत पळोवन म्हाराजांक वायट दिसलें. तांणीं मात लेगीत हाल्ले बगर म्हळें : ' देशल्या, तुजी अशी दशा जावची ? सोरो पियेवन तूं म्हज्या म्हऱ्यांत आयला ? आनी तिरकामठें घेवन ? सणकुटेर दोन फुलोवन तुजें हें तीरकामठें काडून

घेन हांव. . .कळ्ळें ? पुणून . . .तुजेकडेन आनी कितें उलयतलों ? लाग चलूंक हांगासल्लो.'

विक्राळ वागासारको देशलो मान सकल घालून गेलो.

कांय दिसांनी चोरता आसतनाच पोलिसां हातांत पडलो.

वाट चुकिल्ल्या मेंढरांक सोदूंक वचपी मेंढपाळा भाशेन एक दीस म्हाराज ताका मेळपाक भादरण्याचे बंदखणींत गेले. ताका आपयलो. विचाल्लें :

' देशल्या, वळखता ? '

' ना ' देशल्यान तकली हालोवन जाप दिली.

' म्हाका वळखना तूं ? '

' ना. '

' कसो वळखतलो ? त्या दिसा हांव तुगेर आयिल्लों, तुज्या बापायक मेळपाक. त्या वेळार तूं कसो आशिल्लो ! उपरांत, त्या दिसा तुका हांवें नवाखल्याक मेळूंक आपयल्लो. त्या वेळार तूं कितें जाल्लो ! आनी आयज ? . . . आयज तूं एक व्हडलो वाटमारो जावन हांगा पावला. आयज तूं म्हाका वळखना. पुणून. . .तूं म्हाका आदीं मेळिल्लो. . .वेळार मेळिल्लो. . .जाल्यार, देशल्या, तुजी ही दशा जावची नाशिल्ली. '

जाप दिनासतना देशलो मोन्यांनी उठून गेलो.

ताका पंच्यास्तर काय अंयशीं वरसांचे बंदखणिची ख्यास्त जाल्ली.

उपरांत आनी एक खेपे म्हाराज ताका वडोदऱ्याचे बंदखणींत मेळपाक गेले. तो मेळ्ळो. ताका म्हळें :

' त्या दिसा भादरण्याचे बंदखणींत तूं म्हाका वळखूंक नाशिल्लो. '

तो म्हणूंक लागलो : ' वळखल्लों, म्हाराज, तरी आसतना हांवें वळखना म्हळ्ळें.'

' कित्याक ? '

'आमी चोर वाटमारे सदांच वळखना म्हणटात. . .कित्याक, ना जाल्यार मागीर, तुमी त्रासांत पडटात. . .आमी जांका वळखतात तांका पुलीस त्रास दितात.'

चोरांचो तत्त्ववेत्तो फुलो वावेचो. . .तागेलो हो पूत. म्हाराजांक तो आपल्या एका इश्टाचो पूत कसो दिसलो. ह्या तरणाटयाक आपुण नीट वाटेर हाडूंक पावलों ना ही खंत मनांत घेवन म्हाराज बंदखणींतल्यान परतले.

देशल्याक बंदखणींतूच कसली तरी एक पीडा जाली आनी हे पिडेंत तो एक दीस बंदखणींतूच मेलो.

* * *

११

# खरो क्षत्रिय

बाबर देव्याचीं वाटमारेपणा सुरू जाल्लीं, तेन्ना वाटमाऱ्यांक आश्रय दिवपी खेडचा जिल्ल्यांतलोच लोक, अशें थारावन ख्यास्त म्हुण सरकारान पुराय जिल्ल्याचेरूच कर बसयल्लो.

ह्या अन्यायी करा आड चळवळ सुरू जाल्ली. मही तडीवयलो वाटार म्हाराजां सुवादीन आशिल्लो. कोणाचें एक गोरूं वा आयदन लेगीत जप्तींत वचचें ना ह्याची ते जतनाय घेताले.

एक दीस ते काळू गांवांत आशिल्ले. थंय तांकां एकलो गरासियो दिश्टी पडलो. ताच्या कानांत भांगराची एक बाली आशिल्ली. म्हाराजांनी ती पळेली आनी गरासियाक तांणी विचाल्लें —

‘ हेमता ठाकोर ! कानांत ही बाली घालून शे भोंवतात ? सट्ट करून सरकारी लोकांचे नदरेंत पडली जाल्यार, ते ती घेवन वतले. ’

‘ व्हरिनात . . .तिचे खातीर हांवें थोडीच हूम गळयल्या. ’ हेमता ठाकोरान मुमुरखें तोंड करून जाप दिली.

‘ मागीर ? खंयच्यान आयली तर ती ? अवचित मळबांतल्यान येवन पडली काय कितें ? ’

जाप दितना हेमत्याची जीब बज्ञऱ्या भाशेन व्हांवपाक लागली. ताच्या हातांत धारयें आशिल्लें. पातें जमनीक आनी दांडो कुल्याक लावन तो ताचो आधार घेवन उबो रावलो आनी तकलेर बांदिल्लें फाळियें सारकें बांदीत ताणे सांगलें—

“ ताचें अशें जालें : एक दीस रातचो हांव एकल्यागेर पावलों. (ताणे एकल्या व्हड मनशाचें आनी ताच्या गांवांचें नांव घेतलें) तो आपल्या घराक एक नवी माळी बांदतालो. बांदकाम बंद पडिल्लें. हांवें ताका विचाल्लें, : ‘ बांदकाम बंद -शें पडलां ? तो म्हणूंक लागलो, ‘ हेमत्या, तूं जिस्त वेळार पावलो. बांदकाम अर्दकुटें उल्लां, तें

पुरें करूंक जाय. पुण म्हजेकडेन पयशे नात. हालीं खंयच वचूंक ना काय कितें तूं ?' हांवें म्हळें , ' ना सायबा, हालीं हांव तें काम करिना. ' म्हजी जाप आयकून ताणे तापिल्ल्या आवाजांत म्हाका म्हळें, ' वचचें पडटलें. म्हजी ही माळी अर्दकुटी उल्ल्या . . .पळेना ?' हांव येवजुपाक पडलों. इतल्यांत आमी बशिल्ले ते कुडिचें भितल्लें दार उकतें जालें आनी तांतूंतल्यान एकलो आयलो. हांव ताका वळखलों. शेजारच्या गांवांतलो ब्राह्मण एक तो. येवन म्हाका विचारपाक लागलो : ' क्षत्रिय मरे तूं ?' हांवें म्हळें : ' हय तर ! दुबाव आसा ?' ताका ही जाप दितना म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो तो म्हाका म्हणूंक लागलो : ' हय मरे ? मागीर क्षत्रिय जावन असली पिच-पिचीत जाप कशी दिता ? चल, वच . . .'

हांवें म्हळें, ' चल, या. ' ते रातीं तांणी म्हाका जेवयलो. मागीर गुपाट काळोख जातकूच दोगूय – तो घरबांदपी आनी हो म्हातारो बामण – म्हाका न्हंयेकडेन घेवन गेले. थंय एक व्हडें आशिल्लें. आमी तिगूय व्हडयांत बसले. पलतडीं पावले. दोगूय म्हाका गांवांत घेवन गेले. थंय लुहाण्याचें एक घर मेळ्ळें. घर धांपिल्लें आशिल्लें. आनी चोंयवशीन गुपाट काळोख पातळिल्लो. भायर पडवेर एके खाटीर हांतूळण घाल्लें आशिल्लें. पुणून हांतुळणार कोण नाशिल्लो. लुहाणो वांकडे चलणुकेचो, नायकिणीगेर गेल्लो. बामणान म्हाका पयसल्यान खाट दाखोवन म्हळें, ' पळे ठाकोर, थंय वच. उश्याकडेन चावी आसतली. ती काड, दार उकतें कर. दावे वटेन एक कत्रेल आसतलें. तांतूंत भितर जें मेळटा तितलेंय काडून घे. वयर एक पेटूल आसतलें. तेंवूय रिकामी कर. आनी सगळे घेवन यो. हे वटेन तेवटन खंय पळोवं नाका . . .चल, वच आतां. '

बामणान सांगलें ते भाशेन करपाक म्हाका, म्हाराज, मातूय कळाव लागलो ना· हुक्को ओडपाक जितलो वेळ लागता ताच्याकूय थोडया वेळा भितर हांवें कत्रेलांतलें आनी पेटलांतलें सगळें काडलें आनी ताची पोटली बांदून हांव भायर आयलों. न्हंये तडीर पावतकूच हांवें फस्काकाडी पेटयली. ही खूण पळोवन व्हडें जें पयस आशिल्लें तें तडीर आयलें. व्हडें अजून तडीक लागूंक नाशिल्लें. म्हणटासर व्हडयांतल्यान एक आवाज आयलो : ' शींव काय कोलो ? ' आवाज त्या बाबाचो आशिल्लो, घर बांद-तल्याचो. हांवें जाप दिली, ' शींव '. म्हजी जाप आयकून तो खोश्शी जालो. ताणे व्हडेकाराक सांगलें : ' चल यो, हेमत्याक उबारून हाडुंया. ' व्हडकारान तडीर येवन म्हाका उबारून व्हडयांत घालो. आनी व्हडें उदकांत सोडलें. व्हडयांत म्हजे खातीर सोरो आनी कितें कितें खावपाचें हाडून दवल्लेलें. त्या बाबान आग्रो करुकरून–आपल्या हातान–म्हाका सोरो घालो. म्हाका खावंक दिलें. हांव खूब पियेलों. म्हज्या हातांत पोटली आशिल्ली ती ताणे घेतली. भितल्लें सगळें काडून घेतलें. आनी म्हज्या वावरा

खातीर बक्षिस म्हुण, म्हाका इल्लेशें रुपें दिलें. हुक्क्याक मुदी करून लावपा खातीर, पुणून . . .हांव पिसो व्हय तर ! कोण पळेनाशें पळोवन हांवें ही बाली ल्हवूच काडून . . .लिपयली.

ती ही बाली. आतां सरकारी लोकांचे नदरेंत ती भल्ली आनी ते ती घेवन गेले जाल्यार व्हरूं दी. ती जोडपाक हांवें खंय हूम गळयल्या? . . .'

इतलें सांगून हेमत्यान धारयें खांदार माल्लें आनी मुमुरखें तोंड करून तो आपली वाट चलूंक लागलो.

* * *

१२

# करपल्ली भाकरी

जोशीकूवा गांवचे भुंयेक जीब आशिल्ली जाल्यार ती हुयेली मारीत उठ्ठली आशिल्ली.

मोती बारैयो हे भूंयेचो पूत. शेतांत काम करून जेवतालो खातालो. पुणून तागेली बायल दुसऱ्या एका बारैयाच्या मोगांत पडली—जोशीकूवा गांवाच्या हवालदाराच्या.

बायल फकत मोगांतूच पडिल्ली जाल्यार मोतीक व्हडले-शें लागचें नाशिल्लें. सोंसून घेत आशिल्लो. पुणून ती तर घर सोडून हवालदारागेर वचून रावली. बरें, हवालदाराचें घर गांवांत दुसरे कडेन खंयूय आशिल्लें जाल्यार दोळ्यां आड मसण पाड म्हणूं येतालें. मोती तेंवूय सोंशीत आशिल्लो. पुणून हवालदाराचें घर मोती रावतालो त्याच वाड्यार—न्हय, मोतिच्या घरामुखारूच आशिल्लें. बरें, मुखावेल्या घरांत दोगांय मोग करीत बशिल्लीं जाल्यारूय मोती मन मारून घेत आशिल्लो. पुणून गजाल इतल्यार उरूंक नाशिल्ली, खूब मुखार गेल्ली. बायल नाशिल्ल्या घरांतल्यान नीट शेतार वचपी आनी शेतांतल्यान नीट घरा येवन आपल्या हातान भाकऱ्यो भाजून खावपी मोती हवालदाराक सोंसना जालो. सरकारी मनीस. सत्या हातांत आशिल्ली. म्हणटकूच तो मोतीक दिसपट्टो दबकावण्योच दीत रावलो.

हवालदाराच्यो दबकावण्योय मोती पोटांत घालून ओगी रावीत आशिल्लो. पुणून ताच्या दबकावण्यांत बायल भर घालूंक लागली. मोतिचो जीव घुसमटूंक लागलो. तातूंत भर म्हळ्यार हवालदारान मोतिचें नांव हाजरी भरूंक वचपाचें वळेरेंत घालें आनी आपल्या ह्या पराक्रमाखातीर तो मिशयांक पीळ दिवपाक लागलो.

कशेंय आसूं, मोतीक एकलो एकमुळो रावचें पडूंक लागलें. तशें रावप ताका जड जावंक लागलें. ताचो जीव भितल्ले भितर घुसमटूंक लागलो. तातूंत, परत,

शेताचें काम ताका एकल्याक जमना जालें. मोतीन दुसरें लग्न केलें. ताणे नवो संवसार उबो केलो. पुणून ह्या नव्या संवसारांत लेगीत हवालदारान आनी ताचे बायलेन ताका सुखान गोटे खावंक दिलेनात. तीं ताका दीसरात पिडत रावलीं.

एक दीस दन्पार जाल्ली. मोती शेतांत वावर करून घरा परतल्लो. येतना दोन मुळे घेवन आयिल्लो. ते बायलेच्या हातांत दिवन ताणे म्हळें, :.' कडकडीत भूक लागल्या . . .सोंसू नज इतली. भाकरी भाज. मुळ्या वांगडा भाकरी खातां. '

' आत्तां भाजतां ' अशें म्हणून बायलेन रांदनींत उजो घालो. मोती तव्याकडेन पळेत बशिल्लो. इतल्यांत एकलो वोरो* धांवत धांवत आयलो आनी भायल्यानूच मोटचामोटचान विचारूंक लागलो : 'मोती, ए मोती . . .आसा काय ना रे तूं घरांत ?'

' आसां. . .कितें जालां ?' म्हणीत मोती भायर पडवेर आयलो. ताका भूक इतली लागिल्ली कि हो आनी ह्या वेळार हांगा खंय पावलो अशें ताका जालें.

' ऊठ बाबा, मात्शी धांव मार. म्हज्यो म्हशी धांवत वतात. म्हाका आटापा येनात. त्यो पळे, कश्यो धांवत सुटल्यात त्यो. उपकार कर पुता, ना जाल्यार त्यो कोणाच्याय हातांत पडटल्यो आनी म्हजो सत्यानाश जातलो. . .धांव बाबा . . .'

' पुणून बाबा ' मोतीन मात्शें तिडकून म्हळें, ' म्हाका भूक लागल्या. कितेंय तरी पोटांत उडयले बगर म्हाका धांवंक येवपाचें ना. '

' अशें कितें करता रे तूं ? ' वोऱ्याक मोतिचे भुकेचो अदमास नाशिल्लो. तो उचांबळीत जावन म्हणपाक लागलो, ' पापया, उपकार कर. ना जाल्यार म्हशी हातांतल्यो वतल्यो. '

मोती उठलो. भालो हातांत घेतलो आनी ' तूं भाकऱ्यो भाजून दवर, हांव रोखडो येतां. ' अशें पडवेवेल्यान बायलेक सांगून तो धांवलो.

' बेगीन यो. ' बायलेन भितल्ल्यानूच म्हळें आनी ती भाकऱ्यो भाजूंक लागली

भुकेल्लो मोती भालो घेवन म्हशीं फाटल्यान धांवत गांवां भायर पावला मात गांवचे शिमे वयल्यान दोग जाण हे वाटेन येतात ते ताणे पळेले. मोती धांवतालो. ' हे कोण ' हें पळोवपाक तो बेकार नाशिल्लो, तांकां मेळपाक तर मात लेगीत ताका उसरपत नाशिल्ली. तो म्हशीं फाटल्यान एका सारको धांवत राविल्लो. पुणून मुखा-वयल्यान येतल्या दोगां भितल्ल्या एकल्याच्या तोंडांतल्यान ताणे गाळीर गाळी आयकल्यो. गाळीय असल्यो तसल्यो न्हय. सामक्यो वायटांतल्यो वायट. . .पोजड्यो.

भुकेन आकूळ पिकूळ जाल्लो आसुनूय तिची पर्वा करी नासतना धांवत राविल्ले मोतिचे पांय गाळी आयकून धांवपाचे थांबले. गाळी घालपी मनीस मोतिचे आदले

---

* मुसलमान जातींतलो शेतकामती.

बायलेचो मीण हवालदार आशिल्लो. सोरो पियेवन तर्र्र जाल्लो. भुकेच्या उज्यांत दुस्मानकायेचें तेल ओतलें. आनी आयजवेर धरून राविल्लो मोतिचो धीर सुटलो. एकाच खिणांत मोती ताच्या आंगार धावन गेलो. ताच्या हड्ड्याक ताणे भालो तोपलो.

हवालदार घसांयच करून जमनीर पडलो. थोडचा वेळान कितें जालें, घडलें तें ल्हवू ल्हवू मोतिच्या लक्षांत येवपाक लागलें—'घात जालो' ताणे म्हळें. 'भाकरी खावंक पावलोंच ना. बायल थंय वाट पळेता जातली. मुळे हाडिल्ले, गोड म्हणून. तेवूय थंय पडिल्ले आसतले. हो वोरो खंयचो वैरी जावन जिस्त ह्या वेळार आयलो कोणाक खबर ! हवालदार वाटेर मेळटलो म्हुण म्हाका खंय खबर ? पाडापडिल्लो सोरो पियेवन आयलो. तर्र्र जाल्लो. पियेवन येवंक नाशिल्लो जाल्यारूय म्हाका पळोवन गाळी घालतलोच आशिल्लो. पुणून म्हज्या हातांतलो भालो पळोवन तरी हाता भायर वचचो नाशिल्लो. कांयच न्हय जाल्यार, भालो पळोवन पळून तरी वतलो आशिल्लो. . .शी: शी: शी: घात जालो !'

ताका दुसरो उपाय येवजलो ना—पळ्ळो.

हांगा घराकडेन रांदनिचो उजो बरो पेटिल्लो. बायलेन भाकरी तव्यार घाल्ली. दुसरी हातान थापताली. जिस्त त्या वेळार कोणे एकल्यान येवन गांवचे शिमेर घडिल्ली खबर सांगली. ती तशीच उठून दाराक कडी घालून धांवली, पिठान भरिल्ले हात लेगीत धूय नासतना.

पोलिसांनी येवन घर उकतें केलें तेन्ना भाकरी तव्यारूच आशिल्ली. करपल्ली. मुळे बावन सुकिल्ले. भाकरी आनी मुळे थंयच पडून आशिल्ले. कित्याक, तांकां पांय नाशिल्ले. एकामेकांकडेन मोती बारैयाचे भुकेची खबर करतां करतां पोलिसांक पळोवन जशे कितें ओगी पडिल्ले.

बारा तेरा दिसां उपरांतची खबर. म्हाराज वडोदऱ्याच्या स्टेशनार येतले एके गाडयेची वाट पळेत उबे आशिल्ले. गाडी येवन प्लॅटफॉर्मार उबी रावली तेन्ना एका डब्यांतल्यान पोलिस अधिकारी देंवलो.

'नमस्कार.' ताका पळोवन म्हाराजांनी म्हळें, 'ताका अजून धरूंक ना ?'

' कोणाक ? '

' हवालदाराचो खून केल्ल्या त्या जोशीकूवा-काराक ?'

' कसो धरतले ? मेळच ना तो. '

म्हाराजांनी आपल्या म्हऱ्यांत आशिल्ल्या एकल्या मनशाक फुड काडून विचाल्लें, ' हाका वळखतात ? '

‘ ना. ’

‘ हो तो, तुमकां अजून मेळूंक ना तो. ’

पोलिस अधिकारी आं करून पळेत रावलो. पळून गेल्लो, बारा दीस मेरेन मेळूंक नाशिल्लो, पुराय पोलीस खात्याक चकयत राविल्लो, दिसा उजवाडे दन्पारच्या कडार खून करपी मनीस हातापांयांक बेडयो नात, म्हऱ्यांत पोलीस नात, हातांत तुबक ना अशे अवस्तेंत आपल्या मुखार उबो राविल्लो पळावन अधिकारी बुचकळ्यांत पडलो. ताणें विचाल्लें —

‘ खंय मेळ्ळो ?’

‘ मेळूंक ना . . . ’ म्हाराजांनी जाप दिली. ‘ तो आपुण जावन म्हाका सोदीत आयलो.’

‘ खंय ? ’

‘ जोशीकुव्याक म्हजो राबितो आशिल्लो थंय. हांवें ताका म्हळें, चल यो म्हजे बरोबर. तुका वडोदऱ्याक व्हरून पोलिसां सुवादीन करतां. तो तयार जालो. तेच रातचे आमी भायर सल्ले. मही पार करून आयले. तुमी घरा नाशिल्ले. म्हुण तुमचे सुवादीन करपाक हांगा स्टेशनार ताका घेवन आयलां. ’

‘ आतां ?’

‘ आतां या परत पेटलाद. थंय तुमचे सुवादीन करतां ताका. हांगा न्हय. ’

‘ चलात तर. ’

पेटलादाक पावतकूच पोलीस अधिकाऱ्यान मोतीक पोटभर जेवयलो. लोक-अपांत घालचे पयलीं म्हाराज ताका निमाणे फावट मेळ्ळे. मोतीन विचाल्लें : ‘म्हाराज वकील केल्यार कसो ? ’

‘ दोनूय वाटो तुज्या मुखार मेकळचो आसात ’ म्हाराजांनी ताका सांगलें. ‘ एक म्हजी. दुसरी वकिलांची ’ म्हजे वाटेन येशीत, तुका आपणे खून केला म्हुण कबूल करचें पडटलें. हे वाटेन तूं सुट्टलो अशें म्हणूं नज. तुका ख्यास्त जातली. एक, दोन, पांच वरसांची—घडये जल्मभरचे बंदखणिची. पुणून गोळाक हुमकळपाची ना. वकिलांचे वाटेन वशीत, घडये सुटशीत, घडये गोळाची ख्यास्त भोगशीत. तुका बरें दिसता तें कर. ’

अशें ताका सांगून म्हाराजांनी पोलीस अधिकाऱ्याक म्हळें–‘ हाका मारूं-बिरूं नाकात आं ! ’

मोतीन वकिल केलो, ताका फकत देड वरसाचे बंदखणिची ख्यास्त जाली. कोर्टांत वकिलान सांगलें, ‘ हवालदार वयर चडटेर आशिल्लो. मोती सकल उबो

आशिल्लो. हवालदार मोतीच्या आंगार धांवन आयलो तेन्ना मोतीन आपल्या रक्षणा खातीर मुखार धरिल्लो भालो हवालदाराच्या हड्ड्याक तोपलो.'

मोती अजून आसा. मोतीन घेतिल्ली वाट म्हाराजांची नाशिल्ली. पुणून म्हाराजांक तिची खंत ना. परतो, मोती वाटावलो म्हुण म्हाराज खोशी. पुणून म्हाराज जेन्ना जेन्ना ताची खबर सांगतात तेन्ना तांच्या दोळ्यांमुखार एकूच चित्र उबें रावता—
" पोलिसांनी घरांत वचून पळेलें तेन्ना तव्यार भाकरी तश्शी आशिल्ली. करपल्ली. आनी दोनूय मुळे बावन सुकिल्ले. . .'

* * *

१३

## बाबरियाचो बापूय

चरोतरच्या पाटणवाडियांचे सोयरे मही पल्तडच्या सांपरा गांवांत रावताले. तांणी एक दीस चरोतरकारांक विचारूंक धाडलें : 'म्हाराज आमचे थंय येवचे नात ?'

' कित्याक येवचे नात ? ' अशें सांगून चरोतरकार एक दीस म्हाराजांक घेवनूच सांपऱ्याक गेले. थंय सांपऱ्यांतल्या पाटणवाडियांनी म्हाराजांक आपल्या काळजांतली खबर सांगली. तांकां हाजरी दिवंक वचचें पडटालें. ' आमकां सगळचांक हाजरी दिवंक वचचें पडटा, ही हाजरी काडूंक लायात. ' तांणीं म्हाराजांक म्हळें.

म्हाराज त्या वेळार थंय महीजी नांवाच्या एकल्या पाटणवाडियागेर राविल्ले. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी जातकूच थोडचा वेळान म्हाराज ' बरें येतां तर ' अशें म्हणून उठून गेले. कांय दिसांनी तांणी अधिकाऱ्यांक सांगून सांपऱ्याची आनी दुसऱ्या दोन गांवांची हाजरी काडून घेतली.

कांय दिसांनी म्हाराज परत मही पल्तडच्या सांपऱ्याक गेले. महीजीगेरूच रावले. म्हाराज आयल्यात हें पळोवन महीजीची बायल तांच्या येवकाराक भायर आयली. तिची चालचलणूक साप्प बदल्लेली. तिच्या मुखामळार लेगीत एकेतरेची कान्त फांकाल्लेली.

तिणे म्हाराजांक नमस्कार करून म्हळें :'तुमगेलो हो शिष्य आतां खूब निवळ्ळा.' (म्हळचार, चोरयो करिना) आनी घरांत भितर वचून थंय सुने भाशेन लजेवन बशिल्ल्या घोवाक घेवन ती भायर आयली.

भायर येवन महीजीन म्हाराजांच्या पांयांक हात लायलो तेन्ना म्हाराजांनी ताका विचाल्लें : ' ही सांगता तें खरें मरे ?'

' हय म्हाराज ' महीजीन जाप दिली. ' तुमी हांगा येवचे पयलीं हांव जियेतालों ती जीण सुण्याची आशिल्ली. . .आतां विचारात तिका. '

' बरें केलें तुवें, महीजी, भौ बरें केलें. '

बायल म्हणूंक लागली, ‘ आतां तुमी ताका कितेंय दियात .’

‘ कितें दिवं ? ’

‘ उपदेस एकाद–दुकलो. ’

थोडच्या वेळान म्हाराजांच्या लक्षांत आयलें : ‘ हे लोक म्हाका चमत्कारी मनीस मानतात जावंक जाय, सिद्धिमंत्राची बी आस्त धरतात जावंक जाय. ’ म्हाराजांनी म्हळें, ‘ हांव कसलो मंत्र दितलों ? म्हजे कडेन सिद्धीय ना. . .मंत्रूय ना. . .’

‘ ना म्हाराज, दियात, कितेंय दियात ’ बायलेन हट्टूच धल्लो. ‘ तुमी प्रतापी मनीस. मनांत आसल्यार कितेंय दिवपाची तांक आशिल्ले. ’

अखेरेक म्हाराजांनी आपणाकडेन आशिल्ली एक जपा-माळ काडून महीजीक दिली आनी म्हळें, ‘ घे ही, म्हज्या गुरून म्हाका दिल्ली. सदां न्हावन धुवन, तुपाचो बी दिवो लावन, रामनामाचो जप कर. तो पतित–पावन पावतलो तुका. . .’

देड-दोन वरसां गेलीं. म्हाराज एक दीस सांपऱ्याक आयले. महीजीगेरूच तांगेलो राबितो आशिल्लो. महीजिचे बायलेच्या आंगार झगझगीत लुगटां आनी तोंडार खोश्शी उफेवन दिसताली. तिणे पडवेर उबी आशिल्ली खाट आडवी करून म्हाराजांक बसपाक दिली. आनी म्हळें : ‘बाबरियाचो बापूय आत्तां थोडच्या वेळान येतलो.’

म्हाराज बसून रावले. थंय बशिल्ले कडेन तांगेली नदर दारांतल्यान भितर पळोवपाक लागली.

तांची नदर मागिलदारा पडली. थंय आडच्या पेल्यान तांकां कांय बायलां दिश्टी पडलीं. तांचीं तोंडां दिश्टी पडनाशिल्लीं. पुणून महीजी तांचे कडल्यान आडच्या वयल्यान कसल्यो तरी पोटल्यो घेतालो आनी तांकां कसल्यो तरी पोटल्यो दितालो. म्हाराजांक अजाप जालें. कितें आसुंये? महीजी थंय येदो वेळ कितें दिता घेता जावंये? उठून रोखडो कसो येना ? कित्यांत घुसपला जांवये ?

बऱ्याच वेळान महीजी आयलो. खुशाल भरीत आशिल्लो.

म्हाराज न्हावपा खातीर मागिलदारा गेले तेन्ना तांणी थंय गूं गूं करीत उडिल्ले मूस पळेले. मुसांक अंतपार नाशिल्लो. एका कोनशाक तांकां गोडशे लाडू दिश्टी पडले. तांचो वास तांच्या नाकांत भल्लो. लाडू इबाडलेले.

न्हावन ते परतले तेन्ना महीजीन खबर सांगपाक सुरवात केली ––

‘ तुमचे कृपेन आतां म्हाराज, घर भरून दार ओतता म्हजें. हांव आतां सुण्या-भाशेन जिणे जियेना. आदलो धंदो करपाची आयज गरज उरूंक ना. तुमी दिल्ली जपा-माळ फळाक आयली.’

‘ अशें कितें केलें तिणें ? ’

‘ हांव आतां व्यापार करपाक लागलों. ’

‘ कसलो ? ’

‘ लाडवांचो. . .बरो चल्ला. दिसाचे दोन-तीन रुपये सुटतात. तुमचे कृपेन हे दीस पळोवंक मेळ्ळे. ’

‘ लाडवांचो व्यापार ? लाडू कोण घेतात ?’

‘ जायते जाण येतात. दादले चोरयेचो माल घेवन येतात आनी बदलाक लाडू घेवन वतात. भुरगीं शेतांतल्यान चोरून कितेंय हाडटात. बायलांय घेवंक येतात. ’

‘ खंय विकता ? पसरो घाला ? ’

‘ ना. . .ना. . . पसरो म्हाका कोंता येवपाचो न्हय. हांगा घरांतूच, मागिल-दारा विकतां.’

‘ बायलो कश्यो येतात थंय ? ’

‘ उदक भरपाक त्यो बांयचेर येतात तेन्ना आडचा वयल्यान तांदूळ-गोटयाची पोटली हे वटेन दितात. तेच पोटलेंत हांव तांकां लाडू भरून दितां.’

‘ अशें ? . . . ’ इतलेंच म्हणून म्हाराज ओगी रावले. तांकां वायट तर दिशिल्लेंच खूब वायट दिशिल्लें. पुणून महीजीन चोरयो करपाचो धंदो काल पयरूच सोडिल्लो: निकतोच तो नव्या धंद्याक लागिल्लो. ताका येदे बेगीन दुसरें कितेंय कशें सांगप ?

म्हाराज दनपारचे थंयच रावले. खिचडी रांदून जेवले. आनी मागीर स्टेशनार वचपाक भायर सल्ले.

महीजिचे बायलेन घोवाक सांगलें––‘तूंय वच स्टेशनार पावपाक तांकां. . . आनी तिकेटूय काडून दी. ’

‘ चल्लों, हो पळे. ’ अशें तिका सांगून ताणे म्हाराजांक म्हळें, ‘ चलात, या. ’

‘ तूं तिकेट कित्याक काडून दितलो म्हाका ? ’ म्हाराजांनी काळजांत खतखत-तालें तें दांबून थंडसाणेन ताका विचाल्लें.

‘ तांतूंत कितें ? तुमचेच कृपेन तर म्हजें बरें चल्लां. . . ’ अशी जाप दिवन महीजी तांच्या वांगडा वचूंक भायर सल्लो.

‘ ना. . .तूं येवं नाका म्हजे बरोबर. परतो वच. ’

‘ पुणून म्हजें काम आसा स्टेशनार. . .’

‘ कसलें ? ’

‘ लाडू हाडपाचें. . .’

म्हाराजांनी चलतां चलतां वाटेर ताका विचाल्लें, ‘ महीजी, एक सांग, लाडू घेवपाक कोण येतात ?’

‘ सगळे. . .दादले. . .बायलो, भुरगीं. . .’

‘ आनी तीं घरा व्हरून खातात लाडू ? . . .’

‘ ना. . .हांगाच आडचा फाटल्यान रावन खातात. ’

‘ घरा व्हरून कोणाक दिनात. ?’

‘ ना ना, पोटच्या पोराक लेगीत दिनात ’

‘ कित्याक ? ’

‘ कित्याक म्हळचार ? . . .अं. . .अं. . .कळ्ळें ना तुमकां ? घरांतल्यान तांदूळ गोटो चोरून हाडटात न्हय ?’

म्हाराजांच्या ताळचाक जसो कितें कांटो तोपिल्ले वरी दिसलें. आळणो घोंटून तांणीं विचाल्लें : ‘ एक सांग महीजी, तुजे बायलेन अशें केल्लें जाल्यार ?’

‘ अशें म्हळचार, कशें ?’

‘ घरांतलो तांदूळ गोटो चोरून तिणे कोणागेरूय वचून बदलाक लाडू घेतिल्ले आनी बाबरियाक लिपोवन चोरून खाल्ले, जाल्यार ?’

‘ तिणे तशें केल्लें जाल्यार, तिचे दोंकेच मोडून घालतलों आशिल्लों. ’ अशें म्हणून महीजीन हातांतली बडी म्हाराजांक दाखयली.

‘ आनी बाबरियान केल्लें जाल्यार ? ’

‘ ताचोय दोंको मोडून घालतलों आशिल्लों. ’

‘ अशें जाल्यार मागीर, त्यो गांवांतल्यो बायलो लाडू घेवन वतात तांचें कशें ?’

‘ त्यो समजून–करून येतात. ’

‘ पातक हें महीजी, पातक. . .हे इबाडिल्ले घाणयारे लाडू. . .तेवूय लिपून चोरून लोक खातात. . .बायल घोवाक लिपोवन, आवय पोटच्या पोरांक लिपोवन खातात. . .महीजी, संवसार रसातळाक चल्लो. . .सामको बुडलो. . .कांयच उरूंक ना ह्या संवसारांत आतां. . .’

‘ तशें जाल्यार बंद करतां विकपाचें. . .पुणून बंद करून व्हडलोसो बदल घडून येवपाचो ना गांवांत. . .’

‘ कित्याक म्हणटा तूं अशें ?’

‘ गांवांत एक लुहाणो आनी एकलो पाटीदार दोग जाण हेच भाशेन लाडू विकतात. . .’

महीजी खरें सांगतालो. म्हाराजांच्या मनांत प्रस्न उपरासलो—भ्रष्टाचार गांवांत कोण पयलो घेवन आयलो ? उकतेपणान ही अनीत कित्याक लागून चलत रावल्या ? जण एकलो आपापलेंच येवजिता हाकाच लागून न्हय ? चारचौगांत

अनीतिचे आड कोण उलयना. कित्याक, सगळेच आपापल्या पुरतें येवजून म्हणटात 'पाड पडूं तें. . .म्हशीचीं शिंगां म्हशिकूच जड. . .आमकां कितें लागता ?. . . आपुण आपणाक. . .'

' भयंकर ही मनोदशा ' अशे परितापान मनांतल्या मनांत म्हणत म्हाराज गाडयेंत बसले.

* * *

१४

# शनियाचो पूत

म्हाराज एक खेपे महीकांठचाच्या रास नांवाच्या गांवांत गेल्ले. थंय तांकां शनियाच्या पुताक सुणो चाबला म्हणपाचें कळ्ळें. कितले शे दीस जाले, तो हातुळणार पडून आसा. ताचो घाय पिकून व्हांवपाक लागला आनी भुरग्याक आतां घाणीय मारपाक लागल्यात.

खबर आयकनाफुडें म्हाराज तडक उठून शनियागेर गेले. पळे जाल्यार, भुरगो खऱ्यांनीच कुसला. बावडो एका साकार पडून आसा. कोण म्हऱ्यांत येना. घाणी, सोसूं नज इतल्यो पडल्यात...

'शनिया,' म्हाराजांनी भुरग्याच्या बापायक उलो माल्लो आनी म्हळें, 'चल, हाका घेवन या आमी आणंदाक. थंय ओश्पितालांत व्हरून डॉक्टरांक दाखोवंया.'

'हांव कसो येतलों ? '

' कसो म्हळचार ?...'

'हांगां भुरगीं अन्नाबगर उपाशीं पडटलीं. शेतार वचपी कोणूच ना.'

'तुजी बायल आसा न्हय रे !'

'ती अजून हातुळणा वयली उठूंक ना. '

(म्हळचार, ती निकतीच बाळंत जाल्या)

अर्थ असो जालो कि शनियो बाकिच्या भुरग्यांचें आनी बायलेचें पोट भरपा खातीर एकलो वावुरतलो आनी हो भुरगो जो हांतुळणार पडला, पिडेन ल्हवू-ल्हवू सोंपतलो आनी सुट्टलो.

म्हाराजांनी म्हळें, 'बरें आसा...थोडे तांदूळ हाडून घरांत दवल्ले जाल्यार, येशीत?'

' तर येन... '

अर्द मण तांदूळ विकतो घेवन म्हाराजांनी शनियाच्या घरांत हाडून दवल्लो.

मागीर भुरग्याक उबारून दोगूय स्टेशनार गेले आनी आणंद वचपी गाडयेच्या एका डब्यांत बसले. भुरग्याच्या आंगांतल्यान पूं व्हांवतालो. आनी ताका घाण इतली मारताली कि डब्यांतल्या बाकिच्या लोकांक जिव्या नरकांत पाविल्ले वरी दिसूंक लागलें. तें सोसूं नज जावन लोक दुसरेकडेन उठून गेले.

गाडी सुटली. भुरग्याच्या आंगार भौन भौन मूस येवन बसताले. ते आमुडपाचें काम म्हाराजूच करूंक लागले. भुरग्याच्या बापायचें लक्ष भुरग्याचेर नाशिल्लें. शनियाच्या ह्या गांवांत गाडी सदां येता वेता. स्टेशन आसा. पुणून शनियो आयजवेर केन्ना गाडयेंत बसूंक नाशिल्लो. आयज पयलेच फावट बशिल्लो. ताचें काळीज खोशयेच्या उमाळचांनी उडक्यो मारपाक लागलें. तो जनेलांतल्यान भायर पळोवपाक लागलो. झाडां फाटल्यान धांवतालीं. तांकां अशीं धांविल्लीं पळोवन तो भुरग्यांभाशेन हांसपाक लागलो. म्हाराजान ताका एक खेपे ' आरे शनिया, हाचेर बसतात ते मूस तरी मात्शे आमूड मरे ' म्हुण सांगलें लेगीत. पुणून शनियो त्या वेळार बापूय उरूंक नाशिल्लो. बायलेचो घोव उरूंक नाशिल्लो. बायल भुरग्यांचें पोट भरपी कर्तो धर्तो उरूंक नाशिल्लो. तो ल्हान भुरगो जाल्लो. पयलेच फावट ताच्या सदच्या एकसुऱ्या, जीव नाशिल्ल्या, पोटाखातीर काडाओडी आनी उतळताप काडपांत खर्चल्ल्या जिवितांत एके तरेच्यो खातखुतल्यो जावपाक लागिल्ल्यो. ताची ल्हंवेन ल्हंव फुलून आयिल्ली. तो एक नवोच आगळो वेगळो अणभव घेतालो.

अखेरेक आणंद आयलें. दोगूय भुरग्याक घेवन सकल देंवले. ताका एके चादरीर न्हिदयलो. चादरिचीं मुखावयलीं दोन तोंकां शनियान आपल्या हातांत धल्लीं, फाटलीं म्हाराजांनी धल्लीं. पुणून शनियाक भुरगो उबारूंक येना जालो. जड दिसूंक लागलो. म्हाराजांनी म्हळें. ' पापया, सारको उबार. . . '

' पाडा पडिल्लो खूबूच जड. ' शनियान जाप दिली.

शनियाच्या तोंडातल्यान भायर सरिल्लीं हीं उतरां म्हाराजांच्या काळजाक तोपलीं. (आयज वीस वरसां जायत आयलीं, अजुनूय तीं तोपिल्लीं आसात). भुरग्याचो जाल्लो सांपळो. तो आसून आसून कितलो जड आसतलो ? तरी आसतना शनियाक तो जड लागिल्लो. शनियो फट उलय नाशिल्लो. खरेंच उलयल्लो. कित्याक, शनियाच्या आंगांत मातूय तांक नाशिल्ली. ताचे कुडीक सारकी पोसवण केन्ना मेळूंकूच नाशिल्ली. ताका हो भुरगो लेगीत उबारपाक जड लागिल्लो.

' पाडा पडिल्लो खुबूच जड ' हीं उतरां आयकून म्हाराज ओगी पडले.

आणंदच्या ओश्पितालांत कळ्ळें—दिसाक एक रुपयो खर्च येतलो, भुरग्याक हांगा दवल्ल्यार. त्या भायर कितले दीस रावचें पडत, सांगू येना. उपाय नाशिल्लो.

शनिया कडेनूय इतले पयशे नाशिल्ले, म्हाराजांकडेनूय नाशिल्ले. कितें करतले ? भुरग्याक चादरीर घालो आनी उबारून ताका घेवन ते परते स्टेशनार गेले. गाडयेक अजून वेळ आशिल्लो.

स्टेशनार म्हाराज भुरग्याच्या आंगावयले मूस आमुडटात. शनियो म्हऱ्यांत मोन्यांनी बसला. ताका कितें करचें, समजना. तो हेवटेन तेवटेन पळेता. गाडी अजून येवंक ना. एकलो धवाडो, अनवळखी मनीस, पयस उबो रावन हांकां पळेता. ताका अजाप जालां. हो भटा-बामणां सारको दिसपी मनीस दुसरे एके जातिच्या भुरग्याच्या आंगार बसपी मूस कित्याक आमुडटा ? कोण काय तो हाचो ? तो आपणाकूच विचारता.

इतल्यांत गाडी येता. म्हाराज भुरग्याक उबारून गाडयेंत घालतात. ताका गाडयेंत घालिना फुडें तो धवाडो म्हाराजां म्हऱ्यांत येता. आनी विचारता, 'तुमी कोण, आनी हो भुरगो कोण ? . . .'

म्हाराज ताका सगळी खबर सांगतात.

तो रोखडोच बोलसांत हात घालता. तीन–चार रुपये बोल्सांतल्यान भायर, सरतात. ते म्हाराजांच्या हातांत तो दिता. म्हाराज नाका म्हणटात. तरी आसतना तांकां ते बळयां दिवन तो म्हणटा — 'ह्या भुरग्याक बरो करपाक वापरात ते.' आनी उठून वता.

शनियो म्हाराजां वांगडा आयिल्लो. कित्याक, म्हाराजांविशीं ताका भौमान आशिल्लो. तांकां ना म्हणप ताच्या जिवार आयिल्लें. पुणून पुताविशीं ताका व्हडलीशी आस्त वा ओड उरूंक नाशिल्ली. तो म्हाराजां वांगडा वडोदऱ्याक गेलो. आपुण पुताचें कांयच लावन घेना म्हुण ताका आतां मात्शी लज-शी दिसपाक लागिल्ली. तो मूस आमुडटालो. पुणून मदीं मदीं चोरयां जनेलांतल्यान भायर पळेतालो. ताका झाडां धांवतात तीं पळोवन मजाच दिसताली. हांगा पूत म्हऱ्यांत मरणा-धडेर पडिल्लो आसतनाय गाडयेच्या वेगाची खोशी ताचें काळीज उचांबळीत करताली. सदचें, जीव नाशिल्लें, जिवीत जशें कितें आयज मोडांत खंयचे खंय उबून गेल्लें. ताचें मन खोशयेन भितल्ले भितर उडक्यो मारपाक लागिल्लें.

इतल्यांत वडोदरा आयलें. ओस्पितालांतल्या दोतोरान भुरग्याक पळेलो आनी म्हाराजांक म्हळें — 'हो आयची रात काडीत जाल्यार वाटावतलो. पुण तो रात काडीतसो दिसना. विख्ख ताच्या रगतांत पातळ्ळां. पुराय आंगभर जालां.'

शनियाक कांयच खबर नाशिल्लें. जाणा जावन घेवपाचीय ताका उमळशीक नाशिल्ली. ताका मदीं मदीं बाळंतपणांतल्यान निकतेच उठिल्ले बायलेचो वा अर्द मण तांदूळ दिवन घरा सोडून आयिल्ल्या भुरग्यांचो उगडास जातालो.

भुरग्यान रात कशीबशी काडली. दुसऱ्या दिसा दोतोरान म्हळें, ' आतां भिरांत ना.' तेन्ना म्हाराजांनी शनियाक म्हळें, ' आतां तूं वतलो जाल्यार वच. तुजें थंय शेत-काम अडून उल्लां. तूं गेल्यार जाता आतां. हांव रावतां हांगा. भुरगो बरो जातकूच ताका हांवूंच घेवन येतां . . .'

शनियो वचपाक उठलो. ताका स्टेशनार व्हरून पावपाक म्हाराजूय उठले. शनियो भुरग्याक जाप दिनासतना, ताचेकडेन पळ लेगीत नासतना उठलो आनी चलपाक लागलो.

ऑस्पितालांतल्यान भायर सल्लो आनी अवचित् वाटेर थांबलो.

' मदींच-सो उबो रावलो ! . . .' म्हाराजांनी ताका विचाल्लें.

शनियो लजेत लजेत मात्सो हांसलो आनी मागीर आडखळत आडखळत म्हणूंक लागलो—' वचन दिसना. '

' कित्याक रे ?'

' हो म्हजो पूत, म्हाराज, म्हज्या भुरग्यां भितल्लो सगळ्यांत शाणो.'

' तो कसो ? '

'दादा, ज्या दिसा घरांत गोटो नासता त्या दिसा बाकिचीं सगळीं भुरगीं रडारड करून घर माथ्यार घेतात. पुणून हो, . . .मोन्यांनी उपाशीं पडून रावता. हूंय करिना . . .चूंय करिना . . .म्हुण म्हाका तो सगळ्यांपरस शाणो दिसता . . .ताका सोडून वचन-शें दिसना . . .'

इतलें सांगून शनियो मात्सो वेळ उबो रावलो आनी मागीर आपणे सांगूंक जायना आशिल्लें तें सांगलें अशें-शें कितें दिसून लजेत लजेत स्टेशनार वचपाक गेलो.

भुरगो बरो जालो. सुमार वीस दिसांनी म्हाराज ताका घवन घरा परतताले. वाटेर तांणी भुरग्याक विचाल्लें : 'तूं म्हगेर रावशीत रे ? तुका पोटभर जेवंक-खावंक घालतलों. न्हेसूंक पांगरूंक दितलों. तुका शाळेंतूय घालतलों. . . .बरोवंक वाचूंक शिकयतलों. रावशीत म्हगेर ?'

' बरे भाशेन ' भुरग्यान जाप दिली.

थोडच्या वेळान गांव आयलो. गांवचो बाजार लागलो. घर दिश्टी पडलें. घर दिश्टी पडनाफुडें भुरग्यान जी धांव माल्ली तो बद्द बापायचे वेंगेंत ताका घट्ट धरून रावलो. पोटभर जेवपा खावपा परस आनी बरप अक्षर शिकपा परस ताका बापायगेर गोटो नासत जाल्यार त्या दिसा 'शाणो' जावन मोन्यांनी उपाशीं पडून रावप हाचीच चड ओड आशिल्ली.

म्हाराजांनी शनियाक म्हळें : ‘ शनिया, हो तुजो पूत तूं म्हाका दी. हांव ताका ल्हानाचो व्हड करतां . . .’

‘ तसो येवपा ना तो दादा . . .ते परस ताका कोणाय पाटीदारागेर चाकरेक लायिल्लो बरो . . .थोडें कितेंय जोडूंक लागतलो . . .’

म्हाराजांक चर्रर जालें. ‘ कितल्या दळदिरांत लोक दीस काडटात ! . . .’ म्हाराजांनी मनांतल्या मनांत म्हळें आनी ते मोन्यांनी परतले.

* * *

१५

# खू....ब्ब पळेलां हांवें

म्हाराज खूब जाणांक खूब फावटीं एक खबर सांगतात. तांच्याच उतरांनी ती हांगां सांगतां––

पांचेक मातये घरां. तांचे मदीं एक देवूळ, चिन्यांनीं बांदिल्लें. बगलेक एक खोंप, तणाची.

न्यारा सावन आमी भायर सल्ले. धा बारा मैल चलून रानीपरज वाटारांतल्या घाटा नांवाच्या गांवांत पावले, तेन्ना दनपार जाल्ली. म्हज्या वांगडा जो वाट दाखोवपी आशिल्लो ताणे तीं पांच घरां आनी तें देवूळ दाखोवन म्हळें : 'भगत हांगा रावता.'

हांवें थंयच एकल्याक विचाल्लें : 'भगत खंय आसा ?'

'शेतार मेळटलो.' म्हाका जाप मेळ्ळी.

शेत लागसारूच आशिल्लें. आमी थंय गेले. थंय एक बांय आशिल्ली. बांयचेर राट चलतालें. आनी म्हऱ्यांतूच एकलो दोनूय हात एका उब्या दांडचाक तेंकोवन ताच्या आधारान उबो आशिल्लो. आंगार फकत पुडवें आशिल्लें. बाकिचें ताचें सगळें आंग उकतें. बारीक किडकिडीत आनी काळोकीट्ट मनीस. तोंडाचें जाल्लें बोळकें. भितर एकूय दांत नाशिल्लो आनी खूब म्हातारो दिसतालो. पिराय सांगूंक येवची ना इतलो.

'होच भगत.' म्हज्या सांगात्यान म्हळें.

'तोच हो ?' म्हाका अजाप जालें. १९११ त इटोल्याक 'आर्यधर्म परिषद' भरिल्ली. थंय स्वामी नित्यानंदान गुरुकुला खातीर पटी एकठांय करपाक सुरवात केल्ली. त्यावेळार थंय एकल्यान उबो रावन म्हळें–'म्हज्या नांवार घालात : वरसान वर्स सवायशें मण तांदूळ.' आयकून हांवें अजापान विचाल्लेलें : 'येदो व्हड कोण मनीस हो ?' तेन्ना म्हाका कोणे सांगिल्लें, हो व्यारा गांवचो अमरसंग नांवाचो एक आदिवासी. ताचो बापूय भगत आनी तागेर एक अन्नछत्र चलता. ते वाटन येतल्या वेतल्यांक सगळ्यांक थंय फुकट जेवण वा शिदो मेळटा.

कांय वरसां उपरांत १९२९ त आमी व्यारा तालुक्यांत सोरो बंद करपाचे चळवळी निमित्यान भोंवताले. डोसवाडा नांवाच्या एका गांवांत सभा आशिल्ली. हे सभेंत एकलो देखणो तरणाटो उलयल्लो. ताणे सुंदर उलोवप केल्लें. ताणे आपल्या माथ्याक रेशमी फेंटो बांदिल्लो. त्या वेळार हांवें ' हो कोण ? ' म्हुण विचाल्लेलें— तेन्नाय म्हाका जाप मेळिल्ली, ' हो रानीपरज वाटारांतलो एक आदिवासी भुरगो. बरोवंक वाचूंक शिकला. आमचे थंय एक भगत आसा, ताचो हो नातू. तागेर एक अन्नछत्र चलता. . .'

तेन्ना पसून अन्नछत्र चलोवपी ह्या भगताक पळोवपाची म्हाका ओड लागिल्ली. ती जेन्ना काळोकिट्ट, किडचिडीत, तोंडाचें बोळकें जाल्लो, फकत पुडवें न्हेशिल्लो, दांडयाचो आधार घेवन उबो राविल्लो मनीस हांवें पळलो, त्या दिसा भागली.

हांवें ताका नमस्कार केलो. ताणेय म्हाका केलो. ताचें तोंड हांसत राविल्लें. एका सारकें हांसतालें. तोंडा वयलें हांशें खीणभर लेगीत कडेक सरऽनाशिल्लें.

थोडयो खबरी केल्या उपरांत हांवें ताका विचाल्लें, ' भगता, पिराय कितली आसतली ?'

' पिराय ?' हांसत राविल्ल्या त्या सांवळया, सुक्या, बोळक्या तोंडान जाप दिली, ' कोणाक खबर ! खूब . . .खू . . .ब्ब पळेलां हांवें. इंग्रजांचें राज्य सुरू जांवंक नाशिल्लें तेन्ना लेगीत हांव आशिल्लों. ते मुस्तींतलो हांव.' आनी मागीर ' चलात, या घरा. . .' अशें म्हणून तो आमकां आपणागेर घेवन गेलो.

ताच्या घरा वतना, वाटेर हांवें ताका विचाल्लें, ' सोरो पियेता व्हय गा ?'

' ना. . .पुणून तुजे येदो आशिल्लों तेन्ना, तरणेपणांत पियेतालों. . .' अशें सांगून भगत परत हांसूंक लागलो.

' तुजो बापूय पियेतालो ?'

' हय. पुणून मागीर ताणे सोरो सोडून दिल्लो. एका साधून सोड म्हणून सांगिल्ल्यान सोडिल्लो. पुणून म्हाका म्हणी, 'पुता, सोरो वायट. . .पियेवचो न्हय. पुणून तूं पिये. . .' बापूय 'पिये' म्हणटा म्हुण हांवें सोडून दिलो. . .'

' बापायन पिये म्हुण कित्याक म्हळ्ळें ?' हांवें अजापान ताका विचाल्लें.

' कित्याक म्हळचार' भगत हांसत हांसत सांगपाक लागलो. ' हांव तागेलो एकलोच पूत. एकल्याच पुतान पियेवपाचें सोडून दिवप ताका मानपा सारकें नाशिल्लें. त्या खातीर ताणे म्हाका 'पिये' म्हळ्ळें आनी त्याच खातीर हांवें पियेवपाचें सोडून दिलें.'

मनशाच्या मनाच्या कारभाराचे हे निर्मळ आनी नीट सरळ गतिचेर हांव येवजितालों. इतल्यांत घर आयलें. आनी भगतान आपल्या त्या केन्नाच थांबना त्या हांशांत म्हाका म्हळें : ‘ हें आमचें घर. डाकोरच्यान नासकाक वचपी साधूंचें विसंव घेवपाचें हें थळ. हे वाटेक झुंडिनी साधू वचचे आनी म्हज्या बापायन न्हय तर म्हजे आवयन तांकां हांगा पीठ, तांदूळ बी शिदो दिवचो. म्हज्या बापायक असल्यो उचापती लागनाशिल्ल्यो. कोण आयलो, कोण जेवन गेलो, कितेंच तो आपणांक लावन घेनाशिल्लो.’

परत हांसून तें बोळकें सांगपाक लागलें : एक खेपे म्हज्या बापायक एक पयसो मेळ्ळो. आयुष्यांत ह्या आदीं ताणें केन्नाच पयसो पळोवंक नाशिल्लो. देखून तो मेळट-कूच ताका अजाप जालें. . .इतलें अजाप जालें कि पयसो हातांत घेवन तो एकासारको हांगा थंय भोंवत रावलो. वचत ताका दाखयत रावलो. पयशाचें कितें करचें, ताका कळ ऽ च ना जालें. तो बुचकळ्यांत पडिल्लो. इतल्यांत एक दीस आमगेर एक साधू पावलो. म्हज्या बापायन पयसो काडून ताका दिलो. साधून तो घेतलो. मागीर आमचे खोंपिच्या पाख्याक हात लावन, तांतलें चिमटीभर सुकें तण काडून तें म्हज्या बापायक दिवन ताणें म्हळें, ‘ घ पुता हें. . .एक मात कर. सोरो पियेवं नाका. तुजें कल्याण जातलें. तुका खूब धन मेळटलें. . .’

‘ मेळ्ळें व्हय तर ? ’ हांवें मदींच तोंड घालून विचाल्लें.

भगतान हांसत हांसत जाप दिली—‘ मेळ्ळें जातलें, म्हाका खबर ना. पुणून त्या वरसा भात मात खूब पिकलें. घरांत घे म्हुण तांदूळ आयलो. कांय दिसांनी म्हजी आवय भायर पडली. ती भायर पडटकूच बापूय म्हाका म्हणपाक लागलो, तिणे अन्नछत्र चलयल्लें तें आतां तिच्या फाटल्यान बंद पडूंक फावना. चलत रावंक जाय. . .म्हजे भायर पडिल्ले आवयचें काम बापायन मुखार चलयलें. तो अन्नछत्र चलयत रावलो. कांय वरसांनी तोय भायर पडलो. तेन्ना हांवें येवजिलें, दोगांयनी चलयल्लें काम हें. हांतूंत खंड पडूंक दिवंकूच जायना—हें काम आतां हांवें चलयत रावंक जाय.’

भगत थोडो वेळ थांबलो. मागीर, मुखार जशी कितें दिश्टी पडना असली एक पोथी उक्ती करून वाचची ते भाशेन तो फाटल्या काळांत नदर मारून सांगपाक लागलो—

आमचे थंय नेम असो : भात आयलें म्हणटकूच तें मागील दारच्या आंगणांत दाळून दवरपाचें. मुडयो थंयच आंगणांत आमी दाळून दवरताले. घरांत दाळून दवर-पाची चाल नाशिल्ली. तांतूंत अठराशें छयापन्नांत सुकी धाड आयली—दुकळ पडलो.

अमरसंग म्हगेलो पूत. एक दीस तो म्हाका म्हणपाक लागलो, ' बाबा, भात लिपोवन दवरुंया.' हांवें म्हळें, 'पुता, भात म्हुण केन्ना लिपोवन दवरतात ? भात देवान दिलां खावपा खातीर. तें लिपोवंक जायना. लिपयल्यार देव दिना . . .' तो म्हणूंक लागलो, ' अशें भायर दवल्लें जाल्यार लोक तें व्हरतले. ' हांवें विचाल्लें, ' कित्या खातीर व्हरतले ?' तो म्हणपाक लागलो, ' खावपाक. ' हांवें म्हळें, ' अमरसंग, खावपा खातीरूच तर भात जालां. भाताचो आनी दुसरो कितें उपेग आसा ? व्हरूं दी कोणाक व्हरतात तांकां. . .खावपाकूच व्हरतले मू ?'

भगत हें सांगतालो तेन्ना ताच्यांत अन्नाचें खरेलें तत्त्वगिन्यान समजावन सांगपी एक दार्शनिक म्हाका दिश्टी पडलो.

हांवें विचाल्लें, ' उपरांत कितें जालें ?'

' उपरांत ' तो म्हणूंक लागलो. ' खूब पावस पडलो. भात खूब पिकलें. लुवणेक म्हयनो भर आसा म्हणपाक, घरांतलें भात सोंपलें. फकत थोडचो चंवळचो उरिल्ल्यो. एके वेळच्या जेवणाक पावत इतल्यो. दुसरें कांय नाशिल्लें. अमरसिंगाचे बायलेन रांदन पेटयली. चंवळचांचें तोंडाक करतली म्हणपाक भुरगीं भायल्यान धांवत आयलीं आनी म्हणपा लागलीं : ' रानांत चौग फकीर बसल्यात. ' रान आमच्या घरा फाटल्यानूच आशिल्लें.

रानांत फकीर बसल्यात म्हणपाचें आयकनाफुडें हांवें सुनेक म्हळें, ' बाय, चंवळचांचें आमचे खातीर कांय करूं नाका. त्यो तांकां दिवपाच्यो. ' चंवळचो काडून फकिरांक दिल्यो. तांणीं तांचें तोंडाक करून खालें. आमी सगळीं त्या दिसा उपाशीं. इतल्यात पावस पडपाक लागलो आनी फकीर वचपाचे उल्ले. सवन रात हांव येवजीत रावलों—फाल्यां हांकां खावपाक घालप कितें ?'

म्हाराज म्हणटात : हांवें मनांत म्हळें, हाका आपुण आनी आपले घरचीं फाल्यां कितें खातलीं हाचो हुस्को नाशिल्लो. फकिरांचो आशिल्लो.

भगत मुखार सांगपाक लागलो—

हांवें अमरसंगाक विचाल्लें, ' पुता, फाल्यां ह्या फकिरांक कितें घालतले आमी ?' अमरसंग म्हणूंक लागलो, ' या आमी व्याराक. थंय कोणाकडल्यानूय उश्णे तांदूळ घेवन येवंया. ' हांवें म्हळें, ' उश्णे कोण दितलो ?' तर तो म्हणूंक लागलो, ' दितलो कोणूय. . .वचून येवंया. . .'

आमी बांदले बैल गाडयाक आनी गाडी घेवन गेले व्याराक. व्याराचे शिमेर पावपाक आमकां एकलो मनीस दिश्टी पडलो—एक व्यापारी. हांव ताका वळखनाशिल्लो. पुणून तो म्हाका वळखतालो. म्हाका पळोवन अजापान ताणें विचाल्लें : ' भगता, हांगा खंय ? ' हांव केन्ना व्याराक लेगीत पाव नाशिल्लों. देखून म्हाका थंय

पळोवन ताका अजाप जाल्लें. हांवें ताका म्हळें, ' थोडे तांदूळ उश्णे व्हरपाक आयलां.' तो म्हणूंक लागलो, ' जाय तितले व्हर. . .तुका कोण ना म्हणटलो ?' ताणे आमचो गाडो आपल्या पसऱ्याकडेन व्हरपाक लायलो. पसऱ्यार पावतकूच हांवें म्हळें, एक मण सादो तांदूळ आनी एक मण ऊंच जातिचो मेजून घाल गाड्यांत. ' हांवें मागलो तितलोय तांदूळ पसरकारान दिलो. गाडो भल्लो तेन्ना हांवें पुताक सागलें, ' बाबा रे, तूं घेवन वच हो तांदूळ आतां. हांव हागेर वावराक रावतां. लुवणी जातकूच गाडो भरून तांदूळ घेवन यो आनी म्हाका घेवन वच. . . .ते मेरेन हांव हागेर रावतां.' अमरसंग गाडो सुरू करून वचपाक लागलो, तेन्ना पसरकराची नदर म्हजेर पडली. म्हाका थंयच बशिल्लो पळोवन विचारपाक लागलो, ' तूं हांगा बसून-सो रावला ?'

हांवें म्हळें, ' तूं सांगशीत तें काम करपाक. '

' काम ?. . .कसलें काम ?'

' तुवें तांदूळ उश्णो दिला, तो परतो हाडून हांव घालिना तेमेरेन तुगेर काम करपाक रावंक जाय न्हय हांवें ?'

' भगता, कितें उलयता तूं हें ? तुजे कडल्यान काम घेवं येता म्हज्यान ? त्या भायर, हांवें तुका तांदूळ उश्णो खंय दिला ? तुवें जायत्या जाणांक जायतें दिलां. . . सगळ्यांक दिलां. चल, वच. . .' अशें म्हणून ताणे म्हाका घरा धाडून दिलो.

त्या वरसा पीक खूब बरी आयली. म्हणटकूच कांय दिसांनी हांवें पसरकाराचो तांदूळ ताका पावतो केलो. मागीर एक दीस गांवचो सगळो लोक एकठांय येवन म्हाका म्हणपाक लागलो, ' भगता, तुवें दुकळ पडिल्लो तेन्ना आमकां सगळ्यांक तांदूळ दिल्लो. आतां तुज्या नांवान एक यादस्तिक बांदून घेवंया. '

लोकांच्या ह्या उतरांचो उगडास जावन भगत हांसलो. आनी म्हणपाक लागलो : हांवें तांकां सांगलें, अशें यादस्तिक उबारपाक हांवें कितें केलां ? खावन जें उरता तेंच हांवें दुसऱ्यांक दिलां. तें दवरून म्हाका कितें मेळपाचें आशिल्लें ? लोकांक दिवंक नाशिल्लें जाल्यार तें हांगा कुसून वतलें आशिल्लें. हें उरिल्लें हांवें दुसऱ्यांक दिले. ताका दानधर्म म्हणिनात. देवा दयेन आमकां कांय उणे पडूंक ना. म्हुण अशें दिवंक मेळटा. . .'

भगत मुखार सांगपाक लागलो. पुणून हें सांगतना ताच्या तोंडार ताचो तो हांसो नाशिल्लो. तो म्हणपाक लागलो —

'हालीं हालीं तूट येवपाक लागल्या. आमच्या अमरसंगाचो पूत. . .खंय तरी पयस पयस शिकपाक गेला. (पयस म्हुण सांगता आसतना भगतान आपलो हात लांबयलो) आनी तो आमकां सगळ्यांक लागता तितलेंय एकलोच खाता. '

भगताचो नातू रवीन्द्रनाथ टागोरांच्या शान्तिनिकेतनांत शिकतालो. तागेलो थंयचो खर्च भागोवपाक घरांतलो बरोचसो तांदूळ हाका हांगां विकचो पडटालो. 'आमकां लागता तें तो एकलोच खाता ' वाक्याचो अर्थ हो.

हालिचें शिक्षण कितलें खर्चाळ जावन पडलां हाचेर कटाक्ष हो तागेलो. पुणून भगत हें तिडकीन वा खंतीन सांगी नाशिल्लो. आपणाक समजना असलें कितेंय तरी घरांत हालीं घडूंक लागलां इतलोच ताचो सांगपाचो अर्थ आशिल्लो.

"आनी आतां तर " भगत हांसून सांगपाक लागलो, " गाडी आयली देखून डाकोरच्यान न।सकाक वचपी साधूय आतां हे वाटेन येवपाचे बंद जाले. . .तांच्या वांटचाचे आतां पोलीस यतात. तेवूय आमगेर जेवपाक रावतात. '

म्हाराज मागीर सांगतात—

म्हाका त्या दिसा तागेरूच रावचें पडलें. कित्याक, आपणागेर आयिल्ल्याक वाडले बगर तो केन्ना वचूंक दिनाशिल्लो आनी हांव जेवन आयिल्लों आनी रातचो जेवी नाशिल्लों. दुसऱ्या दिसा जेवन जातकूच हांव वचपाक भायर सल्लों. त्या खिणा-सावन ह्या खिणामेरेन म्हज्या कानांत एकूच वाक्य गूं गूं करता—'इंग्रजांचें राज्य सुरू जावंक नाशिल्लें तेन्ना हांव आशिल्लों. . .खूब खू. .ब्ब पळेलां हांवें ' ह्या काळचा कुळकुळीत, सांपळचा सारक्या किडकिडीत, फकत एक पुडवें न्हेसतल्या आनी एका सारको हांसत रावतल्या ह्या आदिवासी मनशाक हांव ' कलियुगांतलो रूशी ' म्हणटां. गीतेंत जी अनासक्ती सांगल्या ती भौ बरे तरेन हांवें ह्या मनशाच्या जिवितांत पळेल्या. आपल्या गरजांविशीं साप्प उदासीन हो मनीस कसलोय वावर हातांत घेतालो तेन्ना तो मन लावन करतालो, खूब यत्न करतालो. ताका जेवपा खावपाक जाय आशिल्लें अन्न ताच्यान शेतांतल्या एका ल्हानशा कुडक्यांतल्यान पिकोवन काडूं येतालें. पुणून तो उत्पन्न वाडोवपाक जमीन वाडयत गल्लो—एका सारकी वाडयत गेल्लो. जमीन वाडयल्ल्यान आनी ती सगळी रोयतालो जाल्ल्यान ताचें उत्पन्न खूब वाडिल्लें. पुणून ताच्यो गरजो मात वाडूंक नाशिल्ल्यो. तो उत्पन्न दुसऱ्यांक दिवन उडयतालो. असलो हो निष्काम कर्मयोगी मनीस आशिल्लो.

कांय वरसां जालीं तो भायर पडल्यार.

* * *

१६

# जी'बा

जीवी आतां ल्हान उरूंक नाशिल्ली. तिका खबर आशिल्ली : आपुण ज्या शेतांत वावराक वतां ताका तेंकुनूच जो गांव आसा, ताचे शिमेर मथुर वावराक येता. माथ्याक तांबडो तुवालो बांदून येतल्या मथुराक ती पयसल्यान पळेताली. 'होच तो' म्हुण वळखताली आनी मागीर मनांत म्हणटाली 'म्हाकाय तो असोच वळखून काडटा जातलो. काय. . .काडिना काय ? '

जीवीक वळखून काडप कठीण नाशिल्लें. गोरी, शिरशिरीत, शिरवंत, लजेस्त– मही न्हयेचेंच जशें कितें भरिल्लें आनी व्हांवतें रूप तिगेलें, नदरेंत भरपा सारकें. तिगेलें कुळार वटादऱ्याक, मही सावन स मैलांचे वाटेर. तरूय ती आपणाक महिचे तडी वयलीच लेखताली. तडी वयलीच ती. त्या भायर पाटणवाडियागेर जल्मा आयिल्ली, तांगेली धूव. ठाकरडचांत लेगीत पाटणवाडिये धिप्पाड आनी घटमूट. दुबाव ना : पाटणवाडिय भायले. बारैयांचे नदरेन आपणापरस उणाक. जीवी हे उणाक जातींत जल्मा आयिल्ली.

तीन वरसांची आशिल्ली तेन्ना मथुराकडेन तिगेलें लग्न जाल्लें. आतां सोळा सतरा वरसांची जाल्या. तरूय ती वटादऱ्याकूच म्हळचार कुळारा रावता. मुखारूच आसा घोवाचो गांव, बनेजडा. हांगाच्यान दिश्टी पडटात पाखीं त्या गांवच्या घरांचीं. दोनूय गांवच्यो शिमो जश्यो कितें खांदाक खांद तेंकोवन नीट उब्यो वतात. जीवी शिमेर वावराक वता. पुणून घोवागेर वचना.

' जीवी ! '

जीवी शेतांत वरण बांदताली. आपल्या नांवान कोणे उलो केल्लो आयकून तिका पयलीं मात्शें कच्च जालें. तिणे माथें वयर करून पळेलें. उलो करतल्याक ती वळखली. 'कितें, लखा पटेल ?' तिणे ताका जाप तर दिली. पुणून हुस्क्यान चोंयवशीन पळोवपाक लागली. लागसार कोण नाशिल्लो.

लखा पटेल म्हळचार बनेजडचाचो एक तरणाटो–लक्ष्मीदास. पाटीदारांचे जातींतलो. ताणे जीवीक उलो करून ल्हवू विचाल्लें : 'जीवी, तूं घरा कित्याक येना ?'

जीवी खीणभर बुचकळचांत पडली. लखोय मात्सो घुसपल्लेवरी जालो. पुणून ताणे धीर करून म्हळें ––

' विचारपाक म्हाका मुजरत धाडला. '

'कोणे ? . . .ताणें ?' प्रस्नान जाप दितना जिविचें मुखामळ लजेन कानामेरेन तांबडेंगूंज जालें.

लख्यान मान हालोवन हय म्हळें, आनी नदरेन बनेजडचाचे शिमेकडेन पळोवपाक सांगलें. थंय मथुर ओणोव घालून हिळचान लुयतालो, तो दिश्टी पडलो. हे वाटेन तो पळे नाशिल्लो––मुजरतूच जावये घडये.

' ना. ' जीवीन आयणो गिळून जाप दिली. ' म्हाका येवपाचें ना . . .'

जीवी तणाचे राशीर पांय दवरून ह्या संकश्टांतल्यान आतां वाट कशी काडची हें येवजुपाक लागली.

' कित्याक तें सांगची ना ? आवयबापूय वचूं नाका म्हणटात काय कितें ?'

' हें कितें नाका जाल्लें ! तीं कित्याक नाका म्हणटलीं ? तीं तर बावडीं सद्दां वच-वच म्हणीत आसात. '

' मागीर. . .तुज्याच मनांत ना काय कितें ? कित्याक तें सांगशीत ? . . . मथुराचीं जाणटेलीं तुका आवडनात ?'

' कित्याक आवडचीं नात ?' वाऱ्यान उडूंक सोदतलें पदराचें पोंत दांतांत धरून जीवीन जाप दिली.

' मथुर आवडना ?'

' शी: अशें म्हुण केन्ना जावं येता ?'

' मागीर, कित्याक येना तर तूं ?'

जीवीन मात्सो धीर करून लख्याक म्हळें : ताचें दुसरेकडेन खंयूय लग्न करून कित्याक दिना तूं ? '

' हें तर ताच्या आवय-बापायन ताका कितलेशच खेपे सांगलें. पुण तो ना म्हणटा. तो तयार आशिल्लो जाल्यार ताचीं येन्नादर पांच तरी लग्नां लावन दितलों आशिल्लों हांव. . . .'

' तो ना कित्याक म्हणटा ? '

'देवाक खबर ! तो म्हणटा, जीवी सोडून कोणाच बरोबर आपुण रावपाचो ना.'

' जलमभर असोच रावतलो खंय तो ? '

‘ रावतूय घडये. . .एक सांग : तुजे आवय बापूय हें लग्न रद्द करून तुका दुसरे कडेन कित्याक दिनात ?’

‘ तें सोड तूं. ’ जीवीन लजेत लजेत जाप दिली. ‘ तीं जायतें सांगतलीं. पुणून हांवें आयकूं नाका ? हांव दुसरेकडेन खंयच वचपाची ना. ’

‘ मागीर तुज्या मनांत कितें आसा ? सांग न्हय ! तूं सांगशीत तें तो करपाक तयार आसा. तूं फकत तुज्या मनांतलें सांग. ’

‘ मनांत तशें कांय ना. . .पुणून. . .’

‘ पुणून कितें ? ’

‘ तो चोरयो करता. . .’

‘ चोरयो ? पाटणवाडिये चोरयो करतातूच. तांतूंत अजाप कसलें ? तुजी कसली आडखळ ? चोरयो केल्यो नात जाल्यार ते खातले कितें ?’

खरें, महिची तड चोरयो करतल्यांचीच. तांगलेच गांव हे सगळे. ठाकरडयांचे हे गांव चोरयांक लागूनूच नामना पाविल्ले. तांतूंत, परत, पाटणवाडिये म्हळचार आकांताचे व्हडले चोर. तांगेर रावपाचो धीर लेगीत कोणाक जावचो ना. चोरयेचो तांकां पात्सोय नाशिल्लो, भिरांतूय नाशिल्ली. बायलांनी सांगचें आनी घोवांनी चोरयो करच्यो. घोवान चोरून हाडचें आनी बायलेन ते लिपोवन दवरचें. चोरी म्हळचार तांगेलो धंदो वा म्हणुंया, तांगेलें कसब.

‘ चोरयो केल्यो नात जाल्यार खातले कितें ’ ह्या लख्याच्या म्हणण्याचेर जीवीन थोडो वेळ येवजिलें आनी मागीर म्हळें, ‘ म्हज्यान कशें पळोवंक जातलें तें ? तो चोरी करतलो. मागीर पोलीस ताका धरून व्हरतले. पोलीस आमगेर येतले. घरांत सगळें सोदतले. ताका बांदतले आनी मारीत मारीत व्हरतले. . .म्हज्यान पळोवंक जावचें ना हें. . .हांव येवपा ना थंय. . .’

जीवी पाटणवाडियांची धूव. चोरयो करप हें पातक काय अनीत, तिका लागनाशिल्लें. कळय नाशिल्लें. कितें करतकूच पातक लागता आनी कितें करतकूच पुण्य मेळटा हें ती नकळ आशिल्ली. जो चोरयो करता तो हुशार. असल्याच मनशाक पाटणवाडिये लेखतात, हेंवूय ती जाणा आशिल्ली. चोरयो करता तो वीर अशें तिवूय मानताली. पुणून जीवी इतल्यांत धादोशी जावपी नाशिल्ली. मथुर चोरयो करतलो, पोलिसां हातांत पडटलो. ते घरांत येतले. झडटी घेतले, ताचे हात पांय बांदतले, ताका ओडून व्हरतले, मारीत मारीत व्हरतले. . .हें आपणाच्यान पळोवं नज जातलें इतलेंच ती जाणा आशिल्ली.

लखो गेलो. दुसऱ्या दिसा परतो येवन तो जीवीक मेळ्ळो. आनी लागसार

कोण नासो पळोवन ताणे जीवीक सांगलें, ‘ जीवी, मथुर चोरयो करचो ना म्हणटा. म्हणटकूच आतां येता मूं तूं ?’

‘ ना. . .तागेल्या बापायगेर येवचीं ना. . .’

‘ कित्याक ? ’

‘ ताचो बापूय बापोलयो बी सगळे चोरयो करपी. चोरयो केले बगर ते रावचेच नात. चोरये माल घरांत हाडटले. तो घरांत लिपोवन दवरतले. मागीर पोलीस येतले, तांकां धरतले, बांदून व्हरतले, मारतले, घरांत धुमशेणां कांडटले––म्हज्यान हें पळोवं नज जातलें. ’

‘ मागीर ? ’

‘ वेगळो सर म्हुण सांग ताका. ’

‘ बरें, वेगळो सरतलो. . .’

तितल्यान भागना, पाटणवाडियांच्या वाड्यांतल्यानूच भायर सरून, पाटीदारांच्या वा वाणया बामणांच्या शेजरा घर घे म्हुण सांग. ’

‘ बरें आसा. . .जीवी, हांव ताका म्हज्या शेजराच घर दितां. . .’

‘दी. हांव मागीर नीट्ट त्या घरांत येतां, ना जाल्यार ना. आनी . . .ताका हेंवूय सांग, घरच्यान कांयच हाडूं नाका म्हुण. सगळें हांव घेवन येतां. . .’

उपरांत एक दीस जीवी बापायच्या गाड्यार बसून बनेजड्याक आयली–– नीट पाटीदारांच्या वाड्यार येवन घोवान घेतिल्ल्या भाड्याच्या नव्या घरांत भितर सल्ली. येतना ती गाड्याक एक म्हस बांदून घेवन आयिल्ली. तिका सोडोवन, मागिलदारा व्हरून बांदली. बापायन आठ मण तांदूळ दिल्लो. तो काडून घरांत एका कोनशाक दाळून दवल्लो.

त्या दिसा तिणे तो तांदूळ वापल्लो ना.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर उठली. ‘ऊठ, वावराक वचपाचो वेळ जालो. अशें म्हणून तिणे घोवाक उठयलो. त्या दिसा पसून तिणे सद्दां ताका हे भाशेन उठोवचो. भाकऱ्यो भाजच्यो. त्यो घेवन ताच्या वांगडा शेतांत दिसवाड्याक तिणेय वचचें. दोगांनीय सांगातान वावर करचो. दन्पार जातकूच घरा येवचें. मथुराक रांदून वाडचें, आपणेय जेवचें. परतें वावराक वचचें. तीनसांज जातकूच घोवाक घेवन घरा येवचें. खीणभर लेगीत ती ताका एकलो सोडी नाशिल्ली. घरा येवचें, उदक तापोवचें, घोवाचें पांय धुंवचे, ताका रांदून वाडचें, मागीर हातुळण घालून ताका सांगचें, ‘ आतां न्हीद तूं सूस्त. ’

मागीर तिणे गांवांत वचचें. फाल्यां दिसवाड्याक खंय वचचें ताचो सोद लावचो. घोव-बायल दोगांकूय एकेच कडेन वावर मेळटा थंयच वचचें.

दिसवाड्याचो वावर करप. त्या भायर बापायन दिल्ले म्हशिच्या दुदाचें तूप करप आनी तें विकप——जोडींत इल्ली अदीक भर पडटाली.

आवय भुरग्याक एकली सोडिना तशी ही मथुराक एकलो सोडी नाशिल्ली. खीणभर लेगीत. सट्ट करून चोरयो करपाक वचत म्हुण भंय. ' मागीर पोलीस ताका धरतले, बांदतले, मारीत मारीत व्हरतले . . .कशें पळोवंक जातलें म्हज्यान हें सगळें! '

लुवणी जाली. आतां कितें करप ? वावराक खंय वचप ? घरच्यान जांव कुळारच्यान कांयच हाडप ना, एक गोटो लेगीत घरांत येवंक दिवप ना. असो नेम. कश्टाबगर जोडिल्लें खावन सट्ट करून चोरयेक वचचे-शें दिसलें जाल्यार कितें जातलें ? घरा पोलीस येतले, झडटी घेतले. ताका धरून व्हरतले . . .

जेष्ठ लागलो. जीवीन सांबाळून सांबाळून एकठांय करून दवल्लेली जोड मेजून पळेली. एकूच बैल घेवं येत इतलीच जमिल्ली. एक जाल्यार एक; तिणे बैल घेतलो. मागीर गांवांत एकल्यागेर गेली आनी रातची यवन तिणे घोवाक सांगलें :

अमक्यागेर वचून हांव कबलात करून आयल्यां. एक बैल तागेलो. एक आमगेलो. नांगर-बिगर तागेलो. आमगेलो तूं. फायच्यान शेत नांगरपाक लागप, कळ्ळें ?'

मथुराक चड येवजुपाक येनाशिल्लें. येवजपाची ताका गरजूय भासनाशिल्ली हातुळणार आड पडून तो तंबाकू ओडीत रावलो.

मथुर आनी जीवी दोगांयनी शेत नांगल्लें. रोयलें. आनी आपल्या वांटयाचो गोटो एकठांय करून दवल्लो. उरिल्ली पीक विकली. आनी जें आयलें तांतूंतल्यान आनी-एक बैल घेतलो. आनी एक गाडो घेतलो. घरचो गाडो, घरचे बैल.

सदां शेतांत काम नासता. लुंवणी जातकूच बैल बेकार आनी गाडोय बेकार पडटा. मथुरूय बेकार उरता. मथुर बेकार उरप जीवीक सोंसपाचें नाशिल्लें. तिका तें खावपाक लागलें. तिची नदर चोंयवशीन भोंवपाक लागली. इतल्यांत, तिका एक सुंदर काम येवजलें. पेटलाद थंयच्यान पंदरा मैलांचे वाटेर. गांवच्या लोकांचो बाजार थंय. व्यापाऱ्यांक माल हाडपा व्हरपाक गाडो जाय पडटा. गाडो भाड्याक दिवं येता. पुणून मथुराक एकलो पेटलाद कसो धाडप ? जीवीन येवजी येवजी येवजिलें. इतल्या दिसांच्या सांगाता उपरांत ती आतां मथुराक इल्ली इल्ली पातयेवंक लागिल्ली.

जीवीन थारायल्लें मथुर मोन्यांनी मानितूय आयिल्लो. तिणे घाल्ले मर्यादेंत रावन जियेवपांत ताका खोशीय आशिल्ली, ' पळोवया तरी परीक्षा घेवन. एकलो वचूं दी . . .पळोवया कितें करता तो. ताका असो कितलो तेंप बांदून दवरतलीं ? ताका दास करून म्हाका कसली खोस मेळपाची आशिल्ली ?'

तेच राती जीवीन बाजारांत वचून एका व्यापाऱ्याचें भाडें केलें. आनी मथुराक येवन तिणें भाडें केल्ल्याचें सांगलें. तो तर जीवी सांगता तेंच करीत आयिल्लो.

‘ बरें आसा ’ ताणे म्हळें.

‘ पुणून एक. पेटलाद वचून बाजारांतलें कितेंच खावप पियेवप ना. कळ्ळें ? घोवाचे गांठीक ही शिकवण बांदून जीवीन ताका वतना वांगडा व्हरपाक भुती रांदून दवल्ली.

फांतोडेर मथुराक जीवीन उठयलो. ताका भाकऱ्यो खावंक घाल्यो, भुती बांदून दिली आनी हातांत चिलीम, तंबाकू दिवन म्हळें––‘ थंय तम्बाकू लेगीत घेवप ना, कळ्ळें ? ’ हे भाशेन तिणें काल घाल्ले शिकवणेचे गांठीक आनीक एक गांठ माल्ली.

गाड्याक तिणेच बैल बांदले आनी मथुर गाडो घेवन भायर सल्लो तेन्ना ती शिमेमेरेन ताका पावपाक गेली. ‘ पळे, जतनायेन. . .वचून वेळार परतो यो...आं?’

आमोरेर परती शिमेर वचून ताची वाट पळेत थंय उबी रावली. गाडो पेट-लादच्यान परतलो. मथुर बरे भाशेन परतल्लो पळोवन तिणे धादोसकायेन एक उस्वास सोडलो.

‘ तूं वच आता नीट घरा. थंय उदक तापोवन दवल्लां. बरो न्हा. तितले म्हणसर हांव गाडो घेवन येतां. ’ अशें म्हणून तिणे गाडो आपल्या हातांत घेतलो. व्यापारान भरिल्लो म्हाल व्यापाऱ्यागेर पावतो केलो. आनी गाडो घेवन घरा आयली. बैलांक सोडयले. तांकां तण घालें.

मथुर न्हावन निकतोच घरांत भितर सरिल्लो. ताका वाडलें. ताचें हातूळण घालें आनी ‘ सूस्त न्हीद आतां’ अशें सांगून ताका न्हिदूंक धाडलो.

पेटलादचीं भाडीं जीवीक मेळत रावलीं. व्यापारीय बी भाड्याक गाडो घेवचो जालो जाल्यार जीविचोच घेवपाक लागले. पयलेंच भाडें मेळिल्लें त्यावेळार जो नेम जीवीन घाल्लो त्याच नेमान तिणे कितलींशींच वरसां गाडो चलयलो. म्हळ्यार– मथुराक बेगसार न्हिदावप, फांतोडेर उठोवप, भाकऱ्यो खावंक दिवप, भुती बांदून दिवप, चिलीम-तम्बाकूय वांगडा दिवप, शिमेमेरेन पावपाक वचप. . .आमोरेर शिमेर उबी रावन ताची वाट पळोवप. पुरो जावन आयिल्ल्या घोवाक घरा धाडून दिवप, गाडो आपल्या हातांत घेवप, व्यापाऱ्यांचो म्हाल व्यापाऱ्यांगेर पावतो करप, गाडो घेवन घरा येवप, बैलांक सोडोवप, तांकां तण घालप, मथुराक न्हावपा खातीर उदक तापोवन दिवप, ताचें हातूळण घालप आनी ताका सूस्त न्हीद म्हुण सांगप.

मागीर गांवांत वचप आनी फायच्या दिसाचें भाडें थारावन येवप.

चोरयो, लूट, खून हांकां लागून कितल्याशाच पाटणवाडियांनी आनी पाटी-दारांनी जीव होगडायलो, कितलेशेच जाण बंदखणींत पाविल्ले. कितलेशेच काबार जाल्ले. कितल्याशाच घरांनी रडारड चलिल्ली. दुकांचें व्हाळ व्हांविल्ले. त्या वेळार

बनेजडा गावात एकल्या मथुराच्या मागीलदारा आठ म्हशी दिश्टी पडटाल्यो. जीवी म्हशी पोसताली. आनी चरोतरच्या वाटारांतली भांगरा सारकें पीक दिवपी तीस बिघे जमीन विकती घेवन ती नांगरताली. जीविच्या हुंबरार हळडुव्य। फेंटचाचो पोलिस एक दीस लेगीत उबो रावंक नाशिल्लो. जीविच्या घोवाक पोलिसांनी केन्नाच बांदून व्हरूंक नाशिल्लो. मारूंक नाशिल्लो. केन्ना पोलीस थाण्यार व्हरूंक नाशिल्लो. जीविचो मथुर रातचो हून उदक न्हातालो, हुनहुनीत जेवण जवतालो, निवळ बऱ्या हातुळणार आड पडून सूस्त बरो न्हिदतालो.

जीवी-मथुराक देवान चार भुरगीं दिलीं. जीवी आतां जाणटी जाली. गांवचे लोक——पाटणवाडिये, पाटीदार, लुहाणे सगळे तिका आतां जी'बा म्हुण भौमानान पाचारपाक लागले. (बा म्हळचार आवय) ते म्हणटाले जी'बाक आमी दिसाची केन्नाच बेकार भोंविल्ली पळोवंक ना. दीस उदेलो म्हणटकूच जी'बा आमकां शेतांत वावर करीत आशिल्ली दिश्टी पडल्या. आमोरे मेरेन शेतांतूच दिसल्या.

एक खेपे गुजरातांत बुडटी आयली. कितल्योश्योच खोंपी व्हांवन गेल्यो, कितलीशींच घरां मोडून पडलीं. खावपाक लोकांक मूठभर लेगीत तांदूळ मेळना जालो. त्या वेळार, एक दीस रविशंकर म्हाराज जीबागेर पावले. आपल्या आंगणांत म्हाराजांक उबे आशिल्ले पळोवन जीवी धांवत धांवत मुखार आयली आनी म्हाराजांच्या पायांक हात लावन तिणे तांकां नमस्कार केलो. त्या वेळार लोक म्हाराजांक 'वटादऱ्याचे म्हाराज' म्हुण वळखताले. जिविचें कुळार वटादऱ्याक. पुराय वटादऱ्याचो म्हाराजांचेर मोग.

जीवी म्हाराजांक पांया पडली तेन्ना तिणे पदरांत आपलें तोंड लिपयलें. तशीच तोंड लिपोवन पयस उबे राविल्ले जाणटे जीवीक म्हाराजांनी म्हळें : 'जीवी, तूं म्हजी भयण, तूं म्हाका लजता ?'

'दादा, तुमी जाणटेले आमचे' जीवीन जाप दिली. 'आदीं सावन अशेंच करीत आयल्या हांव, आतां आनी जाणटेपणांत ही चाल सोडून खंय वतलीं हांव ?'

शिरशिरीत , गोरी, शिरवंत जीवी जाणटपणांतूय जेन्ना लजेताली तेन्ना ती मूर्तिमंत महीच कशी दिसताली.

म्हाराजांनी म्हळ, 'जी'बा लोक अन्नाखातीर वळवळटात. दिशीत तूं थोडे तांदूळ तुजे कडले ? '

'खंय आसात तांदूळ . . . दिवन दिवन कितले दितलीं हांव' अशें म्हणून जी'बा भितर गेली आनी कितलोसोच तांदूळ हाडून तिणे म्हाराजांक दिलो. लोक अन्नाबगर मरताले तेन्ना जी'बान आपली कोठयेकूड उकती करून म्हाराजांक जाय तितलो

तांदूळ गोटो व्हरूंक दिलो––आपल्या हातान दिलो––आपल्या दानाचो मात लेगीत बोवाळ जावंक दिनासतना.

एक दीस मथुर भायर पडलो. जीवी भितल्ले भितर कितली रडल्या जातली, कितले कितले उगडास काडून तिणें दुकां गळयल्यांत जातलीं, कोणाक खबर ना. पुणून एक खबर आसा सगळ्यांक : मथुर भायर पडल्या उपरांत कितेंय तरी पुण्य करचें अशें जीवीक दिशिल्लें. कितें, तिका बावडेक खबर नाशिल्लें. तिणें गांवच्या लोकांक एकठांय जमोवन विचाल्लें :

गांवचो लोक बावडो सादो भोळो. ताणे तिका सुचयलें : " शेवण्यां-सुकण्यां खातीर कितेंय कर. "

जीवीन आपले जमनींतली सगळ्यांत बरी चार बिघे जमीन वेंचन कडेक काडली आनी ती सुकण्यां शेवण्यांक जाय आशिल्लें अन्न पिकोवपा खातीर गांवांक ओंपली.

जीवी–जी'बा अजुनूय आसा. सुमार पंचावन वरसांचे पिरायेची जाल्या. गोरी गोमटी, शिरशिरीत, शिरवंत, लजेस्त जी'बा अजुनूय कोणूय जाणटेलो दिश्टी पडलो म्हणटकूच पदर तोंडार काडून तोंड लिपयता.

* * *

१७

## बाबर देवा – १

लोक त्या तरणाटचाक ‘ भगत ’ म्हुण वळखताले. ताका सोदचो जालो जाल्यार जंय भजनां चलतात थंय वचून सोदचो––थंयच तो मेळटलो, अशें म्हणटाले. भजनां चलतात थंय भगत आसतालोच आसतालो. भजनां तो केन्ना चुकय नाशिल्लो.

पुणून एक दीस असो उदेलो कि जेन्ना भगताक सोदपाक भजन-मंडळींत न्हय, तर बंदखणींत वचचें पडलें.

‘ ए भगता, ’ पेटलादचे बंदखणिच्या जेलरान ह्या तरणाटचाक उलो मारून सांगलें, ‘ ही पळे, तुका मेळूंक आवय आयल्या तुजी. ’

आवयचें नांव हेता.

आवय आनी पूत हांची एकामेकांक भेट घडोवन दिवन्हे वाटेन पोलीस एका–मेकां लागीं खबरी करपाक लागले : ‘ बायलो पळेल्यो रे जायत्यो. पुणून हिचे सारकी – इतली भयांकृत आनी तितलीच सुंदर. . .दुसरी पळेली ना रे खंयच ! ’

‘ तिच्या मुखार पूत दिसता येदोसो पेटो कसो. भजनां म्हणटां म्हणटां चोरयो करपाक शिकलो. . .आनी कितें करतलो आशिल्लो ? ’

‘ आवयक पळे रे मात्शी. . .दिसा उजवाडे. . .भर दन्पारच्या कडार लेगीत दिश्टी पडल्यार अजापान पांय चलपाचे थांबतले आमचे. . .’

पोलीस उलयत राविल्ले.

तेवटेन ‘लॉक-अप’च्या वांसळयां फाटल्यान उबो आशिल्ल्या ह्या भगतान आपणाले आवयक निमाणे इतलेंच सांगलें : ‘ तूं वच आतां. फाल्यां सांजे म्हजे खातीर शेवयो करून दवर. त्यो खावपाक येतलों हांव. ’

‘ तुका बरें दिसता तशें कर. पुण मुखिचे त्रास मात आतां म्हज्यान सोंसूंक जावपाचे नात आं, बाबरिया. ’

इतलें सांगून आवय गेली. पेटलादचें बंदखणींत कीण्ण जालें. आनी गायकवाडी राज्यांतल्या कणिया गांवांत एका पाटीदारागेर चोरी करता आसतना मेळिल्लो भगत बंदखणींत बसून एका भजनाच्यो वळी ल्हवू ल्हवू गुणगुणूंक लागलो.

काया मेली ना जाये मारा हंसला !

काया मेली ना जाये रे, हां जी हां...

—कूड सोडूं नज रे म्हज्या जिवा...कूड सोडूं नज...सोडू नज रे जिवा !

दुसऱ्या दिसा शिगमो. आमोरेर गांवचे शिमेर लोकांनी होळी पेटयल्ली— त्या वेळार पेटलादच्यान चार साडेचार मैलांचे वाटेर आशिल्ल्या गोरेल नांवाच्या गांवांत पाटणवाडियांच्या वाड्यार एका घराच्या हुंबऱ्या वयल्यान एक आवाज आयकंक आयलो : ' शेवयो केल्यात मगे बा ! दी बेगीन. खावन उडयतां. पोलीस म्हज्या फाटल्यान लागल्यात. '

आवयन शेवयो करून दवल्लेल्यो. ' आयलो तूं ?' अशें म्हणून तिणे एका आयदनांत बेगीबेगीन शेवयो घालून दिल्यो आनी पुतान त्यो भकऽभकऽ करून खावन सोंपयल्यो. मागीर ताणे धारयुं खांदार माल्लें. कमराक सुरो खोयलो आनी तो भायर सल्लो.

सांजच्या पांचांच्या अदमासाक तो बंदखणींतल्यान पळून आयिल्लो.

तेच राती गोरेल गांवच्या बाजारांत शेंकड्यांनी लोकांमुखार ह्या 'भगता'न गांवच्या मुखीक जितो माल्लो. उपरांत तो खंय वचून लिपलो कोणाक खबर ! कोणाक कांय कळ्ळें ना. ताका सोदून काडपाचो धिरूय कोणाक जालो ना.

१९१९ वर्स हें. चरोतर सारक्या धाराळ्या जातिच्या लोकांनी भरिल्ल्या वाटारांत, मही वात्रकच्या खोल धोलिंनी साडे पांच फूट ऊंच एक मनीस लिपलो जाल्यार ताचें कोणाक अजाप जाय नाशिल्लें.

सरकारान बाबरियाचे आवयक धरून हाडून न्यायसभेंत उबी केली. मेजिस्ट्रेटा मुखार हे भयांक्रूत हेताबायेन कितें सांगचें— ' निकतेंच एक वागुट सोडिल्लें, तितल्यान तुमी इतले थतर-वितर जाले ! फाल्यां जेन्ना हांव म्हज्या पांच शिवांक मेकळे सोडटलीं त्या वेळार तुमी कितें करतले ? '

* * *

थोड्याच म्हयन्यां उपरांतची खबर—

ह्याच गोरेल गांवांत ह्याच 'भगता'न, एकल्यागेर वचून ताच्याच घरांत ताचे

कुडीक तरसाद रोंबून फरफरत ताका ओडून व्हेलो आनी गांवचे शिमेर व्हरून ताका जितो माल्लो.

लोक म्हणपाक लागले : ‘ पुतणयान खासा बापोलयाकच जितो माल्लो. ’

एक चोरी, बंदखणींतल्यान पळून वचप हो एक गुन्यांव आनी दोन खून––ह्या चार गुन्यांवांनी चरोतरच्या पुराय वाटाराक उचांबळीत करून गिरगिरावन उडयलो. जिल्ल्याच्या आनी वडोदऱ्याच्या––दोनूय कडल्या पोलिसांची धांवपळ सुरू जाली.

इतल्यांत, कांय म्हयन्यां उपरांत एक दीस आनी एक गजाल घडली.

जोगण नांवाच्या एका गांवांत एकलो पाटणवाडियो आपल्या घरा मुखावेल्या आंगणांत बशिल्लो. ताचे मांडयेर एक ल्हान भुरगें आशिल्लें. ताका तो खेळयतालो. मुखार एकली बायल मनीस––त्या भुरग्याची आवय आनी त्या दादल्याची बायल–– उब्या उब्यांनी कसलें तरी एक काम करतालीं. इतल्यांत, ‘ आरे म्हज्या बाबा,’ अशी एक किळांच घोवाच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्ली बायलेन आयकली. तिणे काचाबूल जावन फाटले वाटेन पळलें. जाल्यार, एक तरणाटो उबो आशिल्लो तिका दिश्टी पडलो. ताच्या हातांत भरिल्लें तुबक आशिल्लें.

‘ भुरग्याक ताचे मांडयेवेलें काड, आत्या ’ तुबक घेवन उबो आशिल्ल्या त्या तरणाटचान थंडसाणेन तिका सांगलें.

पुणून तिका कांयच समजलें ना. ‘ आरे, भगता तूं ?’ इतलींच उतरां तिच्या तोंडातल्यान भायर सर्लीं. ती कितें करचें कांय समजना जावन भाच्याच्या तोंडाकडेन पळेत उबी रावली.

‘ भुरग्याक काड भावोजीचे मांडयेवेलो ’ तुबक जोखिल्ल्या तरणाटच्यान दोळो वाटारून तिका सांगलें. पुणून मावळणिची भियेवन गुळी जाल्ली. ती तशीच थंय उबी रावली. घोवाच्या मांडयेवेल्या भुरग्याक काडपाचो तिका धीर जालो ना. तिका सुचलेंय ना. तिचे पांयूच जशे कितें आर मारिल्ले वरी भेरेवन पडिल्ले. हालनाशिल्ले.

‘ ढूऽऽऊऽऽम ’ आर्मांतल्यान गुळी भायर सल्ली आनी भुरगें मांडयेर आशिल्लें आसतनाच ती त्या मनशाक लागली. तो धसांयच करून जमनीर कोंसळ्ळो. भुरगें वाटावलें.

आनी फार मारतलो तरणाटो पळ्ळो.

खास्सा मावळणिच्या घोवाक जितो मारपी ह्या ‘भगता’चें नांव––बाबर देवो.

तिसरो खून जालो आनी बाबर देवो वाटमारो जालो. भजनां चलतात थंय वचून बसपी, भजनां गावपी आनी आयकुपी, ह्या गरीब पाटणवाडिया तरणाटच्याक लोक आतां 'वाटमारो बाबर देवो' ह्य भिरांकूळ नांवान वळखुपाक लागले.

तो आतां भगत उरूंक नाशिल्लो. ताणे आपणाली एक टोळी उबी केली, पुराय वाटारांत लूट आनी खून हांचो अच्छेव सुरू जालो. धाडीर धाडी पडूंक लागल्यो. घुरयांर घुरयो पडूंक लागल्यो. . .चरोतरची भूंय भयान आंग काडूंक लागली. पोलिसांक सांगतात ह्या दुबावान––फकत दुबावान––बाबरियान आपणाल्या खास्सा बापोलथाक आनी खास्सा मावळणिच्या घोवाक जिते माल्ले हे खबरेन लोकांचेय जीव थरथरूंक लागले. बाबरियाच्या आवय-बापायक आनी ताच्या तीन तरणाटचा भावांक पोलिसांनी धरून विजापुरच्या क्रिमिनल सेटलमेन्टांत दवल्ले. तांची जमीन जप्त केली. तांचीं घरां मातयेभरवण करून उडयलीं (तेन्ना, वणटींतल्यान खंय खरीं मोतयां भायर सरिल्लीं मेळ्ळीं) उल्ले तागेले दोग धाकले भाव. तांकां सोदपाक पोलिसांनी जायतो यत्न केलो. पुणून कोणे तरी तांकां लिपोवन दवल्लेले. 'धरात बाबरियाच्या सोयऱ्यांक' ह्याच एका किंवाटचान पोलीस वावरूंक लागिल्ले. ताका एक भयण आसा म्हुण एकदीस तांकां कळ्ळें. खंय आसा ? झारोळा गांवांत लग्न करून दिल्या. 'वचात थंय, हाडात धरून तिका.' झारोळच्याक गले जाल्यार, भयण थंय नाशिल्ली. खंय गेली ? एक दीस एक खबर कानार आयली : बाबरियाच्यो धाडी-घुरयो पडटात तेन्ना ताचे टोळयेंत एकली बायल मनीस दिश्टी पडटा. भयणूच आसूंक जाय ती ताची, झारोळच्याक लग्न करून दिल्ली.

* * *

बाबरियाचीं वाटमारेपणां सुरू जाल्यार आतां वर्स जाल्लें. तितले म्हणसर भयणी विशीं फुतूफुतू करून भितल्लेभितर खबरी सुरू जाल्यो. ह्यो खबरी एक दीस उडत उडत बाबरियाच्या कानार येवन आदळ्ळ्यो. बाबरियाचो एकलो सांगाती आशिल्लो–जगो नांवाचो एकलो पाटणवाडियो. एक दीस एका रानांत बाबरियो एकलोच आसा-सो पळोवन जग्यान म्हळें : 'भगता, तूं आपणाक मार व्हडलो लेखता. पुणून. . .

'पुणून कितें ?' जगो आडखळत उलयता तें पळोवन बाबरियान विचाल्लें.

'कांय ना.'

'ना कशें ? सांग, मनांत कितें आसा तें.'

'घे तर...सांगुनूच उडयतां. मनांत दवरून फायदो कितें ? तूं आपणांक मार व्हडलो लेखता. पुणून तुगेली भयण...मोगांत पडल्या...एका मोयराच्या...'

जालें. आनी-आनी वासपूस करपाची गरज उरूंक नाशिल्ली. भयण एका मुसलमान पोलिसाच्या मोगांत पडल्या म्हणपाची खबर सामकी उकती जाल्ली... कितलोय जाल्यार मोग तो...कुड्डो. केन्नाय, खासा भावाक लेगीत धरून दिवपाक कळाव लावचो ना. खबर खरी काय फट, बाबरियाक लागनाशिल्लें. ताचे तकलेंत दुबाव रिगिल्लो––भयण एक दीस दगो दितली...केन्नाय धरून दितली म्हणपाचो.

झारोळ्याच्यान चूवा नावांचो गांव एका मैलाचे वाटेर आसा. एक दीस थंयच्या एका शेतांत बाबर आड पडिल्लो. भयण आयली आनी भावा म्हऱ्यांत बसून हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी करपाक लागली. बाबरियाचे कुशीक एक आर्म पडिल्लें. खबरी करतां करतां तिणें तें उबाल्लें. आनी अशें तशें करून फिरोवन ती आर्म पळोवपाक लागली.

भावाच्या मनांत आदींच दुबाव रिगिल्लो. तो आतां घट जालो.

'अशें न्हय, अशें' अशें म्हणून भावान भयणिच्या हातांतलें आर्म काडून घेतलें आनी आर्म कशें धरतात हें तिका दाखोवपाक ताणे तिच्या कपलाकडेन नेम धल्लो.

'ढू...म्म !'

भयणिचे तकलेचे कुडके जावन चोंयवशीन शिंपडले.

* * *

बामणवाडा नांवाच्या गांवाचे शिमेर बाबर मोन्यांनी बसला. कोणाची तरी वाट पळेता. भितर उचांबळीत जाला. पुणून भायर दाखोवन दिना.

इतल्यांत एकलो येता तो ताका दिश्टी पडटा.

झलंद गांवांतलो रावळियो हो. बाबरियान आपल्या दोगूय धाकल्या भावांक हागेर दवल्लेले. तांकां ताणे लिपोवन दवल्ल्यात म्हुण बाबरियो लोकांचीं घरां लुटून हाचें घर भरतालो. तो दिश्टी पडना फुडें बाबरियाच्या कपलाच्यो मिरयो सोरपा-भाशेन आंग मोडून हाल्ल्यो. रावळियो म्हऱ्यांत येवन मोन्यांनी बसलो. तागेलें तोंड साप पडिल्लें. उलोवपाचो लेगीत ताका धीर नाशिल्लो.

'दिले मरे काडून तांकां पोलिसांक ?' बाबरियान विचाल्लें.

'कितें करूं, भगता ! ' रावळियो पांयां पडून सांगपाक लागलो. 'पोलीस सामके त्रास दिवपाक लागले, सोंसूं नज जालें. देखून...दिवचे पडले.'

‘ खंय दिले ? दाखय सुवात.

मुखार रावळियो. फाटल्यान बाबरियो. चलत चलत वचूंक लागले. वाटेर एक शत लागलें. ताचेकडेन बोट करून रावळियान म्हळें, ‘ हांगा लिपोवन दवल्लेले तांकां. . .हांगाच पोलिसां सुवादीन केले. ’

बाबरियान चोंय वसल्यान नदर भोंवडायली. मुखारूच एक झाड आशिल्लें. ताणे रावळियाक झाडा म्हऱ्यांत व्हेलो आनी सांगलें ‘ मार वेंग ह्या झाडाक.’ तागेले दोनूय हात झाडाचे दुसरे वाटेन एकार एक दवल्ले. मागीर बोल्सांतल्यान एक लांब खिळो काडलो. तो ताच्या हड्ड्याक तोपलो आनी फातरान धोडावन रावळियाक ताणे झाडार माल्लो.

मागीर एका फाटोफाट स फार सोडले आनी रावळियाक मारून उडयलो.

* * *

बाबरियाची बायल बाबरिया वांगडाच वाटमारेपण करताली. एक दीस ती पोलिसांच्या हातांत पडली आनी बंदखणींत पावली. उपरांत, वाटमारेपण करता आसतनाच बाबरियान दुसरें लग्न केलें. तो नवी बायल घेवन आयलो. तिवूय ताच्या सांगातान वाटमारेपण करपाक लागली. मनशांक जिते मारप म्हळ्यार कांय न्हय अशें ताका जावन पडिल्लें. आतां तो आकांताचो व्हड खूनी जाल्लो. भाव ‘सेटलमेन्टांत’त पडूंक नाशिल्ले त्या आदीं तो भावांक लेगीत वचून विचारतालो ‘ कोण त्रास बी दितात व्हय तुमकां ? कोणाक जिते मारपाचे आसात व्हय ? ’ ते ना म्हुण जाप दिताले. पुणून बंदखणींत पडिल्ले बायलेच्या भावान ताका एक दीस एक निष्ठुर काम करूंक सांगलें.

ताचेंय नांव बाबर—बाबर मोती.

ताण भावोजीक म्हळें : भावडी, घोरीभाईचो कांटो काड. मागीर कणजटच्याक वचून रावप म्हाका सोंपें जातलें. ’

‘ काडुंया ’ बाबरियान जाप दिली आनी दीस थारायलो.

घोरीभाई म्हळ्यार एक गिरेस्त पाटीदार: कणजट तागेलें मावोडें. मांवाक वारस नाशिल्लो, हाका लागून मांव भायर पडलो तेन्ना तागली सगळी इस्टेट जांवयाक पडली. मांवाचे इस्टेटीचेर नदर दवरूंक येवची म्हुण घोरीभाई उच्छेव नांवाच्या गांवांत बिराड करून रावंक लागलो. बाबर मोती आनी घोरीभाई हांचे मजगतीं एकले बायल-मनशेक लागून वांकडेपण आयिल्लें. दोगूय एकामेकांचे दुस्मान जाल्ले.

हे बायल-मनशेचें काळीज लग्न जाल्ल्या, बायल भुरगीं आशिल्ल्या बाबर मोतीचेर कित्याक लागून भाळ्ळें, कोणाक खबर ! तिवूय लग्न जाल्ली. पुणून एक दीस ती बापूय आनी घोव दोगांयचीं घरां सोडून कमराक सुरो बांदून भोंवतल्या बाबर मोती वांगडा पळून गेली. दोगांय दुसऱ्या एका गांवांत रावतालीं.

वरसां गेलीं. घोरीभाईच्या भयान कणजट सोडून दुसरेकडेन वचून राविल्ल्या बाबर मोतीक परतें कणजटचाक वचून रावचें-शें दिसपाक लागलें. एकूच उपाय आशिल्लो—मेवण्याच्या हातान घोरीभाईचो कांटो काडून उडोवप हो. तरूच गांवांत वचूंक मेळटलें. अशें ताका दिसपाक लगिल्लें.

मावांच्या शेतांत नडणी चलिल्ली. ऊंच आनी धिप्पाड घोरीभाई शेतांत पर्वत कसो उबो रावन वावर पळेतालो. इतल्यांत एकल्यान येवन ताका शिटकायलो, ‘ घोरीभाई, पळे. तुजो खून जावपाचो आसा. ’

‘ म्हजो खून ? . . .कोण करतलो ?’ मात लेगीत भिये नासतना ह्या धिप्पाड आनी धीट पाटीदारान विचाल्लें.

‘ बाबर देवो. बाबर मोतयान ताका खुबयला आनी. . .हो पळे, तो येता. . . पळ.’

‘ मेलो मारतलो तो म्हाका. . .येवं दी, पळोवंया कितें करता तो. . .असले कितलेश दंत आसात म्हज्या पोटांत. . .’ अशें म्हणून तो धीट पाटीदार थंयच शेतांत उबो रावलो. बाबर देवो धांवत आयलो. दोगांनीय एकामेकांक गाळी घाल्यो. म्हणटा म्हणसर बाबरियान आर्म उबाल्लें.

ढूम्म . . .पयलो फार सुटलो. घोरीभाई आशिल्लो थंयच तसोच उबो आशिल्लो. दुसरी गुळी सुटली. ती हड्ड्याक तोपली. तरूय घोरीभाई उबो !

अखरेक बाबरियान येवन आर्माच्या दस्त्यान ताका धुकल्लो. तेन्नाच घोरीभाई जमनीर कोंसळ्ळो.

* * *

१८

# अलियो पीर

मनशांक मारपाच्या घातकी करण्यांत परवर्दो * जाल्लो 'भगत' सगळ्यांचीं बोबाबोब घालूंक लागिल्लो. ताका एक दीस अलियो नांवाचो आनी-एकलो येवन मेळ्ळो.

अलियो बोरसदचो. तोवूय, बावीस वरसांचे पिरायेचो एक तरणाटो मुसलमान. भेस मात् शेतकामत्याचो. शेतकामत्यां वरीच ताणे कासाटो मारचो, माथ्याक तांबडो तुवालो बांदचो. तागेलो बापूय शेतकामती. बापूय भायर पडलो तेन्ना अलियान आपलें शेत छनाभाई वकिलाक विकलें. पुणून शेतांत आशिल्ल्या आंब्या संबंदान सारकें स्पष्ट कांय जावंक पावलें ना. अलियाच्या मत्तान आंबो आपलो. छनाभाई वकील म्हणटा—' ओगी राव. कित्याय कितें उलोवं नाका. शेत म्हजें. मागीर, शेतांतलो आंबो तुजो कसो ? पिसो खंयचे कडलो. '

' हाचे आंबे हांवूच खातलों छनाकाका. . .सांगून दवरतां आतांच ' अलियान छनाभाईक दबकावणेच्या सुरान सांगलें.

' पळेतलों कसो खातलो तो. . .'

' पळतलो तूं. . . .' अलियान ताका जाप दिली.

वैशाख म्हयनो लागलो. खांदये-खांदयेक आंबे लागून खांदयो लकल्यो. आंबे पळोवन अलियो लाळ घोंटपाक लागलो. इतल्यांत छनाकाका आंबे काडूंक लागलो. चड वेळ लाळ घोंटीत बसप अलियाक जमपा सारकें नाशिल्लें. ताणे छनाकाकाचो खून केलो आनी पळ्ळो !

दोन वरसां लिपून रावलो आनी मागीर एक दीस बाबरियाचे टोळयेंत भितर सल्लो.

---

* पाटांगडो

धाडी-घुरयांतल्यान उसरपत मेळ्ळी म्हणटकूच तो मदीं मदीं बाबरिया कडल्यान सूट घतालो आनी मागीर ताचीं पावलां एका गांवां वाटेन आपशींच चलपाक लागतालीं. त्या गांवचे शिमेर एक पांचवें चार शेत आशिल्लें. शेतांत एक बांय. तिका पंप लायिल्लो. असल्या पांचव्याचार एकांतांत एक घर आशिल्लें. ह्या घरांत एकली बायल-मनीस अलियाची वाट पळेत बसताली—तागेली तरणी जुवान बायल.

तिका आसरो दिवपी घराचो आनी शेताचो हो धनी अलियाच्या लुटिंनी गिरेस्तूय जाल्लो.

ह्या मनशाक एक दीस जिल्ल्याच्या पोलीस अधिकाऱ्यामुखार उबो रावचें पडलें ! ‘ तुजें घर-शेत सगळें जप्त जातलें आनी तुका बंदखणिच्या वांसळचां फाटल्यान रावचें पडटलें, कळ्ळ ? ’ हे तरेची दबकावणीय ताका आयकुची पडली.

‘ हय सायबा. ’ ताणे पांयां पडून त्या अधिकाऱ्याक जाप दिली, ‘ अलियाचीच बायल ती. म्हगेर वावराक आसता. घडये येता जातलो अलियो तिका मेळपाक. तुमकां जाय जाल्यार हांव ताका धरून दितां, पुणून तशें केल्यार बाबरियो म्हजो व्हडलो दुस्मान जावन पडटलो. ते परस दुसरो एक उपाय सुचयतां—अलियानूच जर बाबरियाक धरून दिलो जाल्यार अलियाक तुमी सोडून दिशात व्हय ?’

सायबाक हो उपाय मानवलो.

थोडयाच दिसां उपरांत अलियो पोलिसां सुवादीन जालो. सांगपाची गरज ना : त्या मनशाच्या आधारान आनी चोरयां.

* * *

पुणून पोलिसां सुवादीन जाल्लो अलियो कांय दिसांनी सुटलो. सुटना फुडें ताणे वाटमाऱ्यांची एक नवी टोळी उबी केली. ताका चौग नवे सांगाती मेळ्ळे. चार नवीं आर्मांय मेळ्ळीं.

आनी तो ल्हान-व्हड धाडी-घुरयो घालूंक लागलो.

तरी आसतना—अजाप म्हळचार—ताका कोण धरिना. जिल्ल्याचे पोलीस ताका आडायनात. गायकवाडी सरकारूय कांय करिना. शेजारचीं राज्यांय ताका हात लायनात.

लोकांचे जिबेर कितल्योश्योच खबरी घोळपाक लागल्यो—अलियाचे हे नवे सांगाती पोलिसूच . . .तागेलीं नवीं आर्मां लायसंसां आशिल्ल्या लोकांचीं. . .ताका कोण धरचो ना. ताका धरचो न्हय असो एक ‘सर्क्युलरूय’ खंयच्यान तरी भायर सल्ला.

. . .ताणे धाडी-घुरयो घालच्यो म्हुण ताका सांगलां. . .ताणे त्यो घाल्यो नात जाल्यार बाबरियो शिटकावतलो. अलियो पोलिसांक मेळ्ळा असो मात लेगीत दुबाव बाबरियाक येवंक जायना. .'.असल्यो तरे तरेच्यो गजाली लोक भितल्ले भितर उलोवपाक लागले.

एक दीस तीनसानचे कातरेर एकलो राजस्थानी अमलदार कणजट गांवांत भितर सल्लो—भेस बदलून आनी लिपचोरयां. एका पाटणवाडियागेर वचून ताणे ताचे कान फुंकले—' बाबर मोतया, चल, वचून सांग बेगीन तुज्या भावोजीक——ताका धरपाचे बेत चल्ल्यात म्हुण. ताका शिटकावन यो. . .'

' कोण धरून दितलो ताका ?'

' अलियो. '

बाबर मोतयो तेच रातचो उठून तडक भावोजी सरीं गेलो.

आनी हेवाटेन राजस्थानी अंमलदार धादोसभरीत जावन गांवां भायर गेलो. धादोसकाय कित्याची ? तर बाबरियाक धरपाचें स्त्रय जिल्ल्याच्या पोलिसांक मेळपाचें ना हाची.

म्हळचार, लोकांची बोब घालतल्या ह्या वाटमाऱ्याक कोणेय तरी बेगीन धरचो आनी भितर घालचो हो प्रस्न उरूंक नाशिल्लो. ताका धरपाचो मान पयलो कोण घेता होच प्रस्न आतां म्हत्त्वाचो जावन पडिल्लो.

धाडी-घुरयो घालपी, घरां फोडपी, नवीं आर्मां घेवन भोंवपी, नव्या सांगत्यांच्या आस्त्रया खाला रावपी अलियो त्या उपरांत एके राती कणजटचाक त्याच बाबर मोतयागेर पावलो. बाबर मोतियो घरांत नाशिल्लो. तागेली बायल आशिल्ली. अलियान तिका विचाल्लें, ' होनिये, भगत ह्या दिसांनी खंय भोंवता ?'

' कांय खबर ना, बाबा. हालीं तेंपार कांयच खबर मेळूंक ना ताची. '

तिणे हें इतलें हुशारीन सांगलें कि अलियाक कसलोच दुबाव आयलो ना. तो बाबरियाचो वास घेत घेत दुसरेकडेन गेलो.

' म्हणटकच ', फौजदारान ताका विचाल्लें ' बाबरियाक खंय सोदप आतां ?'

' आसा एक सुवात. . .' अलियान सांगलें.

' खंयची ? '

अलियान एके कडल्या एका व्हड पाटीदाराचें नांव घेतलें.

' कितें म्हणटां रे तूं ? तागेर? . . .तागेर तो कसो मेळटलो ?'

‘ बाबरियाकडेन जें तुबक आसा तें ताणेच दिलां ताका. ’

कसले कसले लोक ह्या वाटमाऱ्यांक मेळिल्ले हो इतिहास उस्तून काडूंक जाय आतां.

‘ खंय रावता तो ?’

‘ ताच्या शेतार. . .’

‘ चल या तर. ’

बाबरियाक आर्म दिवपी ह्या पाटीदाराचे दीस जशे कितें भरिल्लें. तातूंतल्यान वांचून उरपाचो एकूच उपाय आतां उरिल्लो—बाबरियाक शेतार आपोवन ताका धरून दिवपाचो. तो हें करपाक कबुलूय जालो.

पुणून वाटमाऱ्याक आपल्या जाळयांत घुसपावपाचो यत्न ताणे सात दीस मेरेन केल्लो आसतनाय बाबरियो तागेर आयलो ना तो अखेर मेरेन आयलोच ना. ताका ताच्या मेवण्यान—बाबर मोतीन—अलियाच्या जाळयाची शिटकावणी ह्या आदींच दिल्ली—कसो येतलो आशिल्लो ?

अलियो आनी फौजदार परते बोरसदाक गेले. अलियाक धाडी घुरयो घालपाचो एके तरेचो परवानो मेळिल्लो. हे गुप्त सत्त्येचो ताका आतां कैफूय चडिल्लो. नवीं तुबकां घेवन भोंवपी अलियो आतां हाता भायर गेल्लो. बोरसदच्या बाजारांत, दिसा उजवाडे, लोकां हुजीर ताणे आपणाल्या एका दुस्मान मुसलमानाक जितो माल्लो. आनी दुसऱ्या एकल्याचें नाक कातल्लें.

तरूय अलियाक कोणे धल्लो ना. कित्याक, बाबर देव्याक धरून दिवपा खातीर ताका असले गुन्यांव करपाची मेकळीक मेळिल्ली. बाबरियो तर अजून मेळूंक नाशिल्लो. तो धाडी घुरयो घालीत आशिल्लो तेमेरेन ‘ थोडे गुन्याव कर तूं ’ म्हुण अलियाक खंयच्या तरी देडशाण्या सत्त्याधिशान सूट दिल्ली. ताचो अलियो लाव घेतालो. आनी ‘ अलियागिरी’ करीत भोंवतालो. फुडारी खुबले. ते अलियाक गोळाक लायात म्हुण मोटचा मोटचान मागपाक लागले. आलियाक पोलिसांनीच धाडी घुरयो घालपाची, खून करपाची सूट दिल्या म्हणपाचें आतां इल्लें इल्लें उकतें जावपाक लागलें.

अलियाक धल्लेबगर आतां सुटकावाट उरूंक नाशिल्ली.

एक दीस अलियाच्या चार सांगात्यां भितल्ल्या एकल्यान ताका शिटकायलो, ‘तुका आतां धरतले. . .’

‘ अशें ? तशें जाल्यार चलात, आयज एक निमाणी घुरी घालुंया. धल्लो जाल्यार कितें करचें तें मागीर पळोवया. . .’

अलियो चौगूय सांगात्यांक घेवन गांवां भायर गेलो आनी थंय एका वडा मुळांत बसलो. खावपा-जेवपाचें, पियेवपाचें सगळें साइत्य ताणे थंय हाडून दवल्लेलें. ताका आयज मजा मारपाची आशिल्ली. जिवितांतली निमाणी. पांचूय जाणांनी खा खा खालें. पांचूय जाण पिये पिये पियेले. अलियाचे सांगाती पियेवन तर्रर जावन पडले आनी थंयच वडा मुळांत न्हिदले. ते न्हिदल्यात-शे पळोवन चौगांचींय आर्मां घेवन अलियो पळ्ळो.

शिमेवयल्या शेता भोंवतणीं पोलिसांनी आदींच सेर्क घाल्लो. तांणी पळटल्या अलियाक धल्लो आनी गोळाक माल्लो.

इतल्यांत सोंपूंक ना ही कथा.

अलियाचें प्रेत थंयचें मुसलमान बोरसदाक घेवन आयले. आनी बोरसदाक तांणी तें पुल्लें. उपरांत ते सुवातेर तांणी एक कबर बांदून घेतली.

आयज अलियो ‘पीर’ जाला. ताचे कबरेची पूजा जाता.

* * *

१९

## बाबर देवा–२

हय रे '

' कितें ? '

' भगत ह्या दिसांनीं महीकांठो सोडून हे वाटेन आमच्या तालुक्यांत देंवला खंय?

' हय. . .'

' मागीर तागेले पांय आमच्या घराक लागूं दी मरे. '

' बरे भाशेन. . .'

' चल तर मागीर. . .आपोवन घेवन यो. . .म्हाका ताका पळोवपाचो आसा.'

' भगत ' म्हळ्यार बाबरदेवो. खेडा जिल्लो सोडून, मही पार करून तो निकतोच भरूच जिल्ल्यांत देंविल्लो. ताचे पांय आपल्या घराक लागचे म्हूण जो उत्सुक आशिल्लो तो एक पाटीदार – भरूच जिल्ल्याच्या पादरा तालुक्यांतल्या मासर नांवाच्या गांवचो एक फुडारी. घर माळयेचें. ताचें खाशेलें. आनी भगताक आपणागर हाड म्हूण जाचे लागीं तो मागतालो तो एक पाटणवाडियो. तो आनी तागेलो एक भाव, दोगूय इश्ट 'भगता'च्या पादर तालुक्यातले. ताच्या सांगातान भोंवपी, ताका लिपोवन दवरपी, ताका खावंक पियेवंक घालपी.

'भगता'चो हो इश्ट. ताका एके रातचो ह्या पाटीदार फुडाऱ्यागेर घेवन आयलो माळयेर बसोवन ह्या फुडाऱ्यान 'भगता'ची बरी सरबराय केलीं आनी मागीर तृप्त पावण्याकडेन ताणे मागलें—

' म्हजें एक काम करशीत व्हय तूं भगता ?'

' कसलें, सांग. '

' हें काम करशीत जाल्यार तुका पांचशें रुपये दीन् हांव. '

‘ सांग कसलें तें .’

‘ आमच्या गांवचो XXX म्हजो दुस्मान. ताचो कांटो काडूंक जाय. ’

बाबरियाक घेवन आयिल्लो तागेलो इश्ट हें आयकून अजापान आं करून पळोवंक लागलो. पुणून बाबरियान ताचे पयलींच मान हालोवन फुडाऱ्याक हय म्हळ्ळें—‘ काडीन कांटो, पुणून एके अटीर. म्हजेंय एक काम तुवें करूंक जाय. ’

‘ कसलें ? ’

‘ भट्ट नावाचो जो फौजदार आसा, ताणे म्हाका धरपाचो नित्शेव केला. ताका जितो मारूंक सोदतां हांव. ताका तुगेर आपोवन हाड. ’

‘ हाडटां . . .पुणून एक, म्हज्या घरांत मात मारप ना ताका.’ फुडाऱ्यान सांगलें.

‘ बरें आसा. घरांत मारिना. . . .घरांतल्यान भायर सरतकूच मारतां. पुणून आपयतलो मू ताका ?’

‘ आपयतां. ’

एकाच वग्तार दोन खुनांचो बेत थल्लो. आनी बाबरियो ‘ येतां ’ म्हुण सांगून भायर सल्लो.

भायर सरतकूच बाबरियाच्या इश्टान ताका वाटेर तापोवन काडलो. ‘ सामकोच पिसो मरे तूं ! जाका ताणे मार म्हळा तो आमच्या उपेगाचो मनीस मरे ! ताका मारपाचें उतर तुवें दिलें ?’

‘ म्हाका भट्ट फौजदाराक मारपाचो आशिल्लो म्हुण दिलें. ’

‘ फौजदाराक मारचो आसा जाल्यार चल यो, मारून येवंया आत्तांच. ’

‘ खंय, डबक्याक वचून ?’

‘ हय, पोलीस थाण्यार वचून मारूंया. ’

‘ चल तर, या. ’

‘ चल. ’

डबक्या गांवच्या पोलीस थाण्यार तेच रातचे दोगूय पावले. भितर लापयांव पेटिल्लो. ताच्या उजवाडांत एकलो बसून बरयतालो. बाबरियान फार सोडलो. बरयत बशिल्लो मनीस कोंसळ्ळो. तो कोंसळटकूच दोगूय खुनी पळ्ळे. इतल्यांत पोलिस शिटकावले. ते तांच्या फाटल्यान धांवले. फारार फार सुटले. ते गडबडींत बाबरियाच्या पांयांक गुळी लागली. पुणून तो काळखांत आशिल्लो देखून वाटावलो. तागेल्या इश्टान ताका उबाल्लो आनी जलालपुर नांवाच्या गांवांत एका लुहाण्यागेर

व्हरून दवल्लो, लुहाण्याचें नांव छोटा, वा छोटियो. दोतोराक हाडलो. ताणे बाबरि-याच्या पांयांतली गुळी काडली. पुणून ताका न्हिदून राव म्हुण सांगलें. तीन म्हयने मेरेन बाबरियाक ह्या लुहाण्यागेर लिपून रावचें पडलें. थंयच ताका एक दीस कळ्ळें कि डबक्याच्या पोलीस थाण्यार ताणे जाका गुळी घालून मारिल्लो तो भट्ट फौजदार नाशिल्लो. तर एक सादो जमादार आशिल्लो.

फौजदार ते रातचो गांवांत ' राऊंडार ' गेल्लो.

ह्या खुनांत बाबरियाचो तो पाटणवाडियो इश्ट पोलिसां हातांत पडलो. ताका बत्तीस वरसांचे बंदखणिची ख्यास्त जाली.

बाबरियो बरो जायसर लुहाण्यागेरूच उल्लो. लुहाण्याची बायल मणी तिका बाबरियान आपली मानिल्ली भयण केली. तीन म्हयन्यां उपरांत बरो जालो तेन्ना तो तुंडाव नांवाच्या गांवांत गेलो.

तुंडाव गांवांत एक पाटीदार मुखी आशिल्लो. तागेर तो रावपाक लागलो. हो पाटीदार ताचेच सारको. पुणून तागेले दोग पूत 'भगता'चे सामके भक्त जाल्ले. ताचे भिडु कशे.

बत्तीस वरसांची ख्यास्त जाका जाल्ली त्या पाटणवाडियाक एक भाव आशिल्लो, ताणे एक दीस तुंडावाक येवन बाबरियाक म्हळें, ' भगता, म्हजो भाव तुज्या पातकांक लागून भितर पडलो. तो आतां बंदखणींतल्यान परतो जिवो येतलो म्हणपाची आस्त ना. . . तागेल्या धुवांचें कितें करूं ?'

' कितें करूं, म्हळचार ? . . .कितें म्हणणें तुजें ?'

' तांगेलीं लग्नां बिग्नां कोणे करप आतां ?'

' ह्रें पळें. ' बाबरियान उचांबळीत जावन जाप दिली, ' तागेल्यो धुवो म्हज्योच धुवो कश्यो म्हाका लागतात. . .तांगेलीं लग्ना करपाची दायकी म्हजी . . .तूं आमचे जातींतलें बऱ्यांतलें बरे भुरगे सोदून काड. कितलोय खर्च येवं, पर्वा करूं नाका. . .'

उतर घेवन पाटणवाडियो गेलो. खंय ? वडोदऱ्याच्या पोलीस कमीशनरा सरीं. धुवड्यांच्या लग्नाचो बेत नाशिल्लो हो. बाबरियाक धरून दिवपाचो गुट आशिल्लो हो. बाबर अजित जाल्लो. तो कोणाक मेळनाशिल्लो. कोणाक दिश्टीय पडनाशिल्लो. तो खंय आसता, कितें करता बी खबर सीसवा गांवच्या एका पाटणवाडिया कडल्यान मेळिल्ली—वा म्हणुंया : ताचे कडल्यान मोटचा सायासान पोलिसांनी ती 'काडिल्ली'. हो पाटणवाडियो एक मोटो नेमबाज तुबकी. चोरयो करीत भोंवतालो. एक दीस पोलिसांच्या हातांत पडिल्लो. ताका धरून बंदखणींत घाल्लो. एका पोलिसाक जितो

मारून तो बंदखणींतल्यान पळून गेल्लो. आनी मागीर बाबरियाचे टोळयेंत भितर सरिल्लो. सीसव्याच्या एका शिम्प्यागेर चोरी करता आसतना तो परतून एक फावट पोलिसांक मेळिल्लो. ताचे कडल्यान बाबरियाचे सांगाती कोण, तो खंय रावता बी सगळचो खबरी 'काडिल्ल्यो'. ह्या खबरांचेर आधारून पोलीस कमिशनरान आपणालें जाळें पातळायल्लें. बत्तीस वरसांची ख्यास्त जाल्ल्या पाटणवाडियाच्या भावाक कमिशनरान आपोवन हाडलो. जमनिचेर एक वाटकुळें वर्तुळ काडलें; मदीं एक पणटी पेटयली. आनी मागीर त्या पाटणवाडियाक सांगलें : घे हातांत ही पणटी आनी उतर दी : बाबरियाक धरून दितलों म्हूण.

तें वर्तुळ, ती पणटी, तो सोपूत—कमिशनराचे नदरेन सगळें फकांड आशिल्लें. पुणून पाटणवाडियांचे नदरेन तें सगळें पवित्र. ताणें पणटी हातांत घेवन उतर दिल्लें. आतां उतरांक पाळो दिलेबगर रांव येता ? उतराक पाळो दिवपा खातीरूच तो पोलिसांचें सांगणेन धुवडेच्या लग्नाचे प्रस्न घेवन बाबरा म्हऱ्यांत गेल्लो.

बाबरियाची जाप मेळ्ळी तेन्ना ती घेवन तो परतो कमिशनरा म्हऱ्यांत आयलो. आनी कमिशनराचे सांगणेन तो परतो बाबरियासरीं गेलो. ताका सांगलें : ' चलये खातीर एक थळ सोदून काडलां. दोन हजार रुपये जाय पडटले. '

' बरें. . .ही चीट घेवन छोटियागेर वच, तो दोन हजार दितलो. '

छोटयो म्हळचार जलालपुरचो लुहाणो—जागेर बाबर तीन म्हयने उरिल्लो.

चीट घेवन तो कमिशनरासरीं गेलो. आनी परतो बाबरियाक येवन मेळ्ळो. सांगूंक लागलो : 'छोटियो दुसऱ्या कोणा हातांत पयशे दिवपाचो ना. तूंच येवन घेवन वच म्हणटा. . . .खंयच्या दिसा आनी केन्ना येतलो तें सांग, त्याप्रमाण पयशे हाडून दवरतां म्हुण सांगलां. तो पयशे खंय घरांत दवरिना. तूं सांगता त्या दिसा तो ते सराफा-गेरसून हाडटलो. तूं व्हरपाक आयलो ना जाल्यार ताका खंय परते व्हरून दिवचे पडटले. घरांत पयशे दवरप भयाचें खंय. . .'

' बरें आसा. ' अशें म्हणून बाबरियान आपुण केन्ना आनी खंयच्या वेळार पावतलों हें ताचेच कडल्यान लुहाण्याक सांगून धाडलें.

ही खबर घेवन हो पाटणवाडियो लुहाण्यागेर कित्याक वतलो ? गेलो नीट वडोदऱ्याक.

थारयल्ल्या दिसा वडोदऱ्याच्या विश्वामित्री स्टेशनारसून पादऱ्या मेरेन धांवपी सांजची ट्रॉली पादऱ्याक थांबपा वांटयाची मुखार गेली. भोज आनी मोथा ह्या स्टेशनां मदले वाटेर ट्रॉलिचो वेग मात्सो उणो जालो. आनी तिच्या एका

डब्यांतल्यान, दीस पडल्या उपरांतच्या पयल्या काळखांत कितलेशेच जाण देंवले. तांच्यांत एकलो मराठो आशिल्लो. तोवूय हांच्या वांगडा चलपाक लागलो.

‘ तूं खंय आमच्या वांगडा ? ’ ताका ह्या लोकांनी विचाल्लें.

‘ म्हाकाय व्हरात उपकार करून तुमच्या वांगडा. म्हाकाय थोडें स्त्रय मेळटलें.’

‘ स्त्रय मेळटलें ’ हीं उतरां आयकून बाकिच्यांक हांसो आयलो.

‘ बरें आसा, यो. ’ अशें म्हणून तांच्यातलो मुखेली सगळचांक घवन एका शेतांत देंवलो. थोडचा वेळांत सगळे नाच जाले.

इतल्याय ह्या लोकांक घेवन जो देंवल्लो तो आशिल्लो वडोदऱ्याचो पोलीस कमिशनर. ताणे आपल्या वांगडा घेतिल्ले पंचवीस पन्नास सांगाती पोलीस–वेंचून काडिल्ले. आर्मां बिर्मांनी सज्ज.

आनी ‘स्त्रय’ घेवपाक जो देंविल्लो तो आशिल्लो, रेल्वेंतलो एकलो मराठो फौजदार. ताका फकत स्त्रयूच घेवपाचें आशिल्लें.

जलालपूर गांवांत हे लोक कोणाक कांय कळचें ना हे भाशेन हेवटेन तेवटेन शिपडून बसले.

* * *

लुहाण्याच्या घरांत एक दिवो मिणी मिणी करून पेट्टा. दाराक भितल्ल्यान आडामो घाला. कुडींत दारामुखारूच मदीं एक झोंपाळो आसा. तो सदचे भाशेन ल्हवू ल्हवू धोलत रावला. झोंपाळचार एकली बसल्या––एक बायल मनीस. छोटियाची बायल मणी हांगा सदां अशीच बसता.

रात बरीच जाल्या. गुपाट काळोख पातळ्ळा. भायल्यान ल्हवूच एकलो उलो मारता : ‘ मणिबेन, दार काड. ’

दार उकतें जाता. दार काडपी बायल फाट करून बेगीबेगीन भितर वता.

दार उकतें करूंक लावपी दोग जाण. तांतलो एकलो–जाणे मणिबेनीक ‘दार काड ’ म्हळ्ळें तो भितर सरता. पुणून भितर पावल दवरिनाफुडेंच ताका दुबाव मारता. तो पावल फाटल्यान काडून सांगात्याक सांगता– ‘ दगो सो दिसता ! ’

‘ कसलो दगो, कपळाचो ! चल भितर बेगीन ’ अशें म्हणून सांगाती ताका भितर धुकलता. इतल्या मोटचान धुकलता कि तो धबांयच करून जमनीर पडटा. तो उठून उबो रावचे पयलींच दोशीं बसल्यान दोग जाण येवन ताच्या आंगार धांवतात. ताका घट्ट धरतात. तो सोडोवन घेवपाचो यत्न करता. लटाफटी जातात. इतल्यांत

माळये वयल्यान भस्स करून एकलो उडकी घेता आनी भितर लिपून राविल्ल्यांतले आनीक कांय-जाण धांवत यतात.

दारांतल्यान भितर सरून जमनीर आपटल्लो तो बाबर देवो. माळयेवयल्यान देंवता आसतना पडिल्लो तो वडोदऱ्याचो पोलीस कमिशनर. आनी बाकिचे जे धांवून आयिल्ले ते सगळे शस्त्रांनी सज्ज पोलीस.

सगळे बाबर देव्याक दांबून धरतात.

बाबरियाक घरांत भितर धुकलून उडोवपी तागेलो सांगाती जेन्ना भितर सगळे एकमेकांचेर पडटात तें पळेता तेन्ना भियेता आनी खिणाचोय कळाव लायनासतना पळून वता.

पळत पळत तो गांवच्या सोंप्याकडेन पावता. थंय एकलो उबो आसता. पळता तो मनीस वाटमारो आसूंक जाय अशें धरून तो सोंप्या वयल्यान उडकी मारता आनी ताका धरपाक ताच्या फाटल्यान धांवता. फाटल्यान पोलीस धांवत येतात. तांकां हो सोंप्या वयल्यान उडकी मारून धावूंक लागिल्लो मनीसूच वाटमारो-सो दिसता. ते ताचेर फार सोडटात. फार ताचे फाटीक लागता आनी तो थंयच मरून पडटा.

येवन पळे जाल्यार, देवा सायबा ! येवं नाका म्हळ्ळें आसतनाय स्त्रय मेळटलें हे आशेन आयिल्लो तो रेल्वेंतलो मराठो फौजदार आसता !

* * *

जलालपुरचे शिमेर दोग जाण गाडो घेवन बशिल्ले. गांवांत भितर फारार फार सुटिल्ले तांणीं आयकले. लोकांचोय बोवाळ आयकलो. ते समजले. गाडो घेवन ते पळ्ळे.

बाबरियाक ते ह्या गाड्यांत बसोवन तुंडावच्यान घेवन आयिल्ले. दोगूय त्या पाटीदार मुखिचे पूत.

ते तडक तुंडाव गेले. घरांत एकली तरणी बायल-मनीस वाट पळत बशिल्ली. तिका तांणी म्हळें, ‘ चल, यो होनीबाय. ’

‘ खंय ? ’ तिणें विचाल्लें.

‘ कावीक या. ’

‘ कित्या खातीर ? ’

‘ बाबरभाईन सांगलां, आपणाक रावचें पडलां, तुका कावीक हाडुन पावय म्हुण. . .’

रातयांच ते हे बायलमनशेक––बाबराचे घरकान्नीक––उबारून घेवन गेले. आनी फांतोडेर परते आयले. उपरांत ती बायल खंय गेली, कावीक पावली काय ना, जिती आसा काय मेली––ह्या खिणा मेरेन कोणाक कांय खबर ना.

बाबराक पोलिसांनी धरिल्ल्याची खबर पाटीदाराक कळ्ळी. तेन्ना तो भियेलो. तांतूंत बाबराची बायल ना जाल्ल्यान तो अदीक काचाबूल जालो. तागेले दोगूय पूत दीस उदेवचे पयलींच पळून गेले.

दीस उदेलो. पोलीस धांवत पाटीदारागेर आयले. झडटी घेवपाक भितर सल्ले. पळे जाल्यार––

भितर पाटीदार मुखी एका राजवाक हुमकळटा !

काळचो करण्यो करतल्या दोगूय पुतांच्या ह्या बापायन गळचाक फांस लावन जीव दिल्लो !

* * *

‘ हांवें जिका भयण मानली ते मणीन म्हाका फटोवचो ?’ बाबरियान दुबावान आपणाकूच विचाल्लें. पुणून रोखडीच ताका जाप मेळ्ळी : छोटियाक आनी मणीक पोलिसांनी शेजारच्या एका घरांत कुडींत घालून दवल्लेलीं. झोंपाळचार बसून मणिचो ‘पार्ट’ जाणे केल्लो (जाणे बाबरियाक दार काडिल्लें) तो एक पोलीस आशिल्लो बायलेच्या भेसांतलो.

जाचें नांव घेना फुडें व्हडल्यां व्हडल्यांक थरथरो येतालो, जाका धरूंक वतना शस्त्रास्त्रान भरिल्लो पोलीस कमिशनर लेगीत पांय लटपटून माळयेवयल्यान सकल पडिल्लो त्या बाबर देव्याक जेन्ना १९२३ त गोळाक लावपाक व्हेलो त्या वेळार तो मोटयामोटयान रडपाक लागलो.

‘शी: भिजूड खंयचे कडलो’ डाभल्यान त्यावेळार ताका म्हळ्ळें. डाभलोय एक वाटमारो. ‘ आमी दुसऱ्यांचो खून करताले तेन्ना खबर नाशिल्ली तुका कि एक दीस आमकां गोळाक हुमकळून मरचें पडटलें म्हुण ? खबर आशिल्ली मरे ? आनी तरी आसतना आयज तूं रडटा ? . . .’

पुणून ह्या थोमण्याचो बाबराचेर मात लेगीत परिणाम जावंक पावलो ना. तो पोटली कसो धब्ब करून जमनीर पडलो आनी बसून थंय रड रड रडपाक लागलो.

ताका मागीर धरून, उबारून व्हरचो पडला आनी ताच्या गळचांत बळयां राजू घालून ताका मारचो पडला.

( हे कथेंत कांय मनशांचीं नांवां—जिते आशिल्ल्या वा मेल्ल्या तशींच कांय थळांची नांवां मुजरत दिवंक नात— )

म्हाराज कसल्या लोकां मजगतीं कामं करताले हाचो अदमास येवचो म्हुण ही कथा हांगा दिल्या. त्या भायर, म्हाराजांक जे मेळ्ळे तांकां कसलो रंग लागलो आनी जे तांकां मेळूंक पावले नात तांचीं पावलां खंयचे वाटेन चलत गलीं हेंवूय दाखोवपाक ही कथा सांगल्या.

बाबरियाक म्हाराज मेळूंक पावले नात. कित्याक ? हांवें एक खेपे तांकां हो प्रस्न केलो तेन्ना तांणी म्हाका सांगलें—

रास गांवां लागसार सूदरणा नांवाचो एक गांव आसा. थंय बाबर येवन राविल्लो. तांणे म्हाराजांक आपोवपाक एका मनशाक धाडिल्लो. पुणून त्या दिसा म्हाराज घरा नाशिल्ले. भायर खंय तरी गेल्ले. ते परतले तेन्ना तो मनीस तांकां मेळ्ळो. बाबरियाक मेळपा खातीर म्हुण म्हाराज तडक उठून गेले. वतना वाटेर तांकां एक दोगांनीं हांसत हांसत हांसत विचाल्लें — ' खंय म्हाराज, खंय चल्ले ? . . .थंय ?'

तांगेल्या सूचक हांशान म्हाराज शिटकावले. बाबरान धाडिल्ल्या ह्या मनशान खातरीन एकादोगांक खबर सांगल्या जातली. म्हळचार–पोलिसांच्या कानारूय ही खबर पाविल्ली आसूं येता. आतां हांव ताका मेळपाक गेलों आनी फाटल्यान पोलीस आयले जाल्यार बाबरियाचो विश्वासघात केल्ले वरी जातलें. अशें म्हाराजांक दिसलें आनी म्हाराज परतले.

हे गजालीक लागून म्हाराजांची आनी बाबर देव्याची भेट त्या दिसा जावंक पावली ना.

चार म्हयन्यां उपरांत बाबरियाक पोलिसांनीं धल्लो.

आपुण बाबरियाक मेळूंक पावलो ना ही खंत म्हाराजांच्या मनांत अजुनूय उल्ल्या.

बाबरियाक गोळाक लावन माल्ल्या उपरांत तागेली आवय एक खेपे बेळगांवच्या ' क्रिमिनल सेटलमेन्टा'तल्यान सूट घेवन धुवेगेर आयिल्ली. धूव पिपळोई गांवांत दिल्ली. म्हाराजांक आपोवपाक तिणे जांवयाक धाडिल्लो. म्हाराज रोखडे उठून पिपळोई गेल्ले. बाबरियाची आवय—ती भिरांकूळ हेता—धुवेगेर पडवेर बशिल्ली. तिणे म्हाराजांक म्हळें—' म्हाराज, तुमगेलो तो शिष्य (बाबरियो) खरोच बरो आशिल्लो. खूब्ब बरो. . .निमाणे निमाणे खादी तोपीय घालतालो. . .बाबडो गेलो. म्हगेले बाकिचे पूत तुर्ताक सेटलमेन्टांत आसात. विणपाचें काम मेळ्ळां तांकां थंय. थोडें भोव जोडटात. तांकां घेवन येयात हांगां. . .'

म्हाराजांनी म्हळें ' हांगा हाडून कितें जातलें ? थंय थोडें भोव जावं, पुणून जोडटात. हांगा कितें करतले ते ? हांगा ना घर, ना दार, ना शेत, ना भाट. . .दुस्मान मात घे म्हुण आसात. . .देखून ते थंय आसात तेच बरे आसात. हांगा जेवतले खातले कितें ?'

' जेवतले खातले कितें ? तुमी म्हाका वळखनात म्हाराज. . . हें पळेयात ' अशें म्हणून तिणे किरंवट उकती केली : तांतूंतल्यान खळखळ करून पन्नाशेक रुपये सकल पडले.

म्हाराज ही खबर सांगता आसताना खूब हांसतात.

* * *

म्हाराजांच्या चलत्या भोंवत्या विद्यापिठांत पांच दीस

[ हांगा मेरेन जें बरयलें तें म्हाराजांच्या तोंडातल्यान आयकल्लें ताचेर आधारून बरयल्लें. अदमास केलो, मनशां अशीं आसतलीं म्हुण. आनी तशीं चित्रायलीं, ती भूंय, ते गांव, तीं शेतां, तशींच कल्पनेन रंगयलीं.

दुबाव आयलो, ' लटकीं जावंक नात मूं हीं चित्रां ?'

ती भूंय आनी तिचीं भुरगीं दोळ्यांनीच पळोवंक जाय अशें दिसलें. महीचे तडीवयलो वाटार पळोवंक नाशिल्लो. म्हाराजांक म्हळें, ' म्हाराज, हो वाटार अजून हांवें पळोवंक ना. '

म्हाराजांनी आमंत्रण दिलें. हांव आनी ईश्वरलाल दवे तांच्या वांगडा हो वाटार पळोवपाक भायर सल्ले. ]

# १. काळजाक हुलोप पेटला

पयलो पडाव बोचासणाक.

बोचासणाच्या आश्रमांत पयलो मेळ्ळो रामो देवो. बाबर देव्याचो भाव. ताचे कडल्यान कळ्ळें, ताची आवय हेता अजुनूय जिती आसा म्हणपाचें.

‘ खंय आसा ? ’

‘ ही ती पळे. . .गोरवांक चरयता ’ ताणे आवय दाखयली.

रामो आयज शतांत वावर करता. बाबरियाचें वाटमारेपण चलतालें त्या वेळार तागेलें पुराय घर बंदखणींत पडिल्लें. रामोय सगळयां वांगडा भितर पाविल्लो. कांय दिसांनी सगळयांक विजापूरच्या सेटलमेन्टांत दवल्ले. तांची जमीन सरकारान जप्त केली. आतां सुटून आयल्यात आनी सगळे भाव शेतांत काम करतात. पुणून आपल्या शेतांत न्हय, दुसऱ्यांच्या.

रामो रविशंकर दादांक सांगतालो : ‘ म्हाराज ! आमची जमीन आमकां परती मेळटा अशें कितेंय करात. आमचीं काळजां—हें पळेयात, हांगा (काळीज दाखोवन) भितल्ल्यान हुलपतातत.’

पातकां-मेकळचा भुरग्या भाशेन तो कितें कितें सांगीत रावल्लो. आनी वागाशिवां सारक्या पाटणवाडियांक आपले मुठींत दवरपी रविशंकर म्हाराज तो सांगता तें मुमुर्ख्यांनी हांसत हांसत थंडसाणेन आयकताले.

हांवें रामाक विचाल्लें : ‘ तुका भुरगीं-बिरगीं आसात काय नात रे ?’

‘ आसात आसात. . .एक तरणो पुत आसा. . .बद्द बाबरिया सारको. . . रूप, तोंडावळो——जसो कितें दुसरो बाबरियोच. . .हे, हे, हे. . .’ अशें सांगून तिकतिकीत काळे कातिचो हो मनीस अभिमानान हांसत रावलो.

बाबरदेव्याचो गांव गोरेल, हांगासून सुमार दोन मैलांचे वाटेर आसा. बाबरियान एकूच चोरी केल्ली. येदेशे हे बियेंतल्यान एक आकांताचो भयांक्रूत विखाळ

रुख वयर सल्लो आनी केदो वाडलो ! कितलीशीं जिवितां ताणे काबार केलीं ! हांव येवजीत आशिल्लों. बाबरियाचो हो भाव रामो सांगता त्यो खबरी आयकून हे जातिच्या लोकांच्या गुणाचोय सोद घेत राविल्लों. तो म्हणूंक लागलो––

' आमगेर जर, बाबा, फकत धा भाकऱ्यो भाजिल्ल्यो आसत आनी जेवपाक धर, अंयशीं लोक पाविल्ले आसत, जाल्यारूय सगळे पोटभर जेवन उठ्टात. '

म्हळचार, जेवपाक उरिल्ले लोक जेवंक घालतल्याची इज्जत वाऱ्यार पडची ना हाची इतली जतनाय घेतात कि थोडें जेवन लेगीत उपाशीं उल्ले म्हुण कोणाक कळूंक दिनात. जेवंक बशिल्ले आसतना पंगतींतलो कोणूय ' पुरो, पोट भल्लें ' अशें म्हणून उठून, समज, आंवंक गेलो जाल्यार बाकिचे समजतात, कसलीय तरी अडचण आसा म्हुण हांगा, आनी पोटभर जेवन उठिल्ले भाशेन थंडपणान सगळे उठ्ठात. इतलेंच न्हय तर कोण कोणाक विचारी लेगीत ना कसलो दुबाव आयलो म्हुण, उपाशीं उठचें पडलें म्हुण.

चोर वाटमारे म्हुण नामना जोडिल्ल्या गुजरातांतल्या ह्या प्राणवान लोकांच्या सभावाचीं आगळीं वेगळीं आंगां पळेत पळेत हांव म्हाराजां सांगातान महीचे तडी-वयल्या गांवांनी भोंवतालो. म्हाका थंयची दोंगराळ भूंय पळोवपाची आशिल्ली. थंयच्यो पायणी पळोवपाच्यो आशिल्ल्यो. न्हयेंतलीं मानगीं पळोवपाचीं आशिल्लीं. उदकूय पळोवपाचें आशिल्लें. पियेवपाक मात लेगीत उपकारा पडना, असलें उदक हें. न्हावपाकूय उपकारना–कित्याकूच उपकारना असलें. पुणून असलें हें उदक कि ताचो सोपूत घेतलो जाल्यार गितेर हात दवरून घेतिल्ल्या सोपुता इतलोच परिणाम घडोवन हाडटा तें ह्या तिचे तडीवयल्या लोकांचेर.

' घे सोपूत महिचो. . .पिये महिचें उदक आनी सांग ' हे हांगासल्ल्या लोकांचे गुन्यांव कबूल करपाचे मंत्र. खऱ्यांनीच गुन्याव केल्लो आसत जाल्यार हांगासल्लो मनीस केन्नाच महिचो सोपूत घेवचो ना. केन्नाच महिचें उदक पियेवपाचो ना. गुन्यांव मोन्यांनी कबूल करतलो. बंदखणींत वचपाक, गोळार लेगीत हुमकळपाक तयार जातलो. पुणून महिचें नांव केन्नाच भष्टूंक दिवचो ना.

ह्या उदकाचो हो म्हयमा. देखून सरकार लेगीत महिच्या उदकाची एक बोतल न्यायालयांत हाडून दवरता–सोपूत घेवंक लावपा खातीर.

' हें पळेयात, काळीज हांगा हुलपता ' हीं रामाचीं उतरां काळजांत घेवन हांवें ती रात बोचासणाक काडली.

## २. दादा तसले न्हय

गूजरात युनिव्हर्सिटी आतां रोखडी जावपाची जाली. तिची निर्मणी करतल्यांक म्हजी एक सुचोवणी आसा ती अशी—

जण एकल्या विद्यार्थ्याक निमाणी पदवी दिवचे पयलीं एक नेम घालचो : गूजरातच्या खंयच्याय तरी एका वेंचीक वाटाराची भोंवडी ताणे केल्ली आसूंक जाय म्हुण.

बी.ए.ची पदवी घेतल्यार म्हाका आतां एकूणतीस वरसां जालीं जातलीं. इतल्या वरसांनी पयलेच फावट म्हाराजां वांगडा ही भोंवडी केल्या उपरांत ती 'मॅच्युअर' जाली अशें म्हाका दिसलें. रविशंकरदादां वांगडा हांव ह्या वाटारांत चार दीस आनी पांच राती भोंवलों. चरोतरच्या महीकांठचावयल्या फकत पंदरा गांवाचो एक पुंजुलो तांणी म्हाका दाखयलो. पुणून एका ल्हानशा हारशांत आयस-पयस पातळ्ळेलें महाकाय मळब आसपावल्लें पळोवंक मेळटा वा म्हणुंया, शिपये येद्या आकाराच्या येद्याश्या दोळयांत असंख्य जिवांचो हो येदोय व्हडलो संवसार पळोंव येता, तशें येद्याश्या ह्या गांवाच्या पुंजुल्यात म्हाराजांनी आमकां पुराय चर-अचर संवसार दाखयलो. ह्या संवसारांतले फकत मनिसूच न्हय, तर फातर गुंडो, मातयेथर, झाडां, पेडां, झुडपां, सुकणी, सावदां—तें कित्याक—मळबांतल्या नखेत्रां कडेन लेगीत तांणी आमची वळख करून दिली. सगळयांत म्हत्वाचें म्हळयार इतल्या वरसांच्या तांगेल्या गिरेस्त आनी समृद्ध अणभवाच्या संवसारात तांणी म्हाका हाताक धरून ओपुर्बायेन भोंवडावन हाडलो. आमगेले हे भोंवडेंत म्हाराज आमगेलो दोळो आशिल्ले.

जाणा आशिल्लों : म्हाराज म्हळयार न्हेशिल्ल्या वाल्या भायर आनीक-एक वालो पिशवेंत घेवन भोंवपी एक परिव्राजक म्हुण. तांचे चालीन आमकांय चलचें पडटलें अश दिशिल्लें. देखून देडूच जोड मुस्तायकी घेवन हांव भायर सरिल्लों आनी पांयांक मात्शें थापटून—एका काळार सौराष्ट्रातली भूंय भोंवन माडिल्ली ताची तांकां याद दिवन—तांची उर्बा वाडोवन आयिल्लों. पुणून म्हाराजांनी कांय अजापां आमचे खातीर राखून दवल्लेलीं. कांय जाणांनी सांगिल्लें, ' दादा हेरां सारके न्हय, आमच्यो शक्ती-मर्यादा समजून आमकां मायेन सांबाळून घेवपी. ' आयकल्लें तें खरें थल्लें. म्हाराज ह्या आदीं केन्नाच कसल्याच वाहनांत बसूंक नाशिल्ले. बसप ना अशें

तांणी व्रत घेतिल्लें. पुणून हे भोंवडेंत तांणी आमचे खातीर दुदासारक्या धव्या-फुल्ल दोन बैलांची गाडी हाडून दवल्लेली.

## ३. बेंदल्ल

भायर सल्ले तेन्ना सावन भोंवडी सोंपोवन हांवें अमदाबाद स्टेशनार तांचो निरोप घेतलो ते मेरेनच्या काळांत म्हाराजांनी आपणालें चलतें भोंवतें विद्यापीठ म्हजे खातीर सुरू केल्लें. चलतां भोवतां आसतना ते आपणाले वर्ग चलयताले.

पयलो गांव अजून येवंक नाशिल्लो. पुणून वाटेर झाडां उबीं आशिल्लीं. खंयचोय नवो प्रदेश वळखून घेतले जाल्यार ताच्या झाडां पेडांची वळख पयलीं करून घेवंक जाय. ना जाल्यार ती वळख अर्दकुटी उरता.

हांव विचारीत रावलों : ‘ दादा, हें कसलें झाड ? ’

‘ हाका ‘कंकर’ म्हणटात. शेतां–वॉट्टा भोंवतणी लावपाचें एक कांटचाचें झाड. तें वाडलें म्हणटकूच भोंवतणी एक कोट कशें उबें जाता. आनी मागीर कांटयाळें जाल्ल्यान भितर कोणाक सरूंक येना. शेत वॉट्ट सुगूर उरता. ’

‘ आनी हें ? ’

‘ हो चितळो. हाचें मूळ घांसून आंगाक लायलें जाल्यार फोड येतले . . .’

‘ हें ? ’

‘ ही आकडी. हिच्या मुळांची गांठ पळेशीत, बद्द गणपती भशेन दिसतली. ’

‘ आनी हें पळें ? ’ भांगराच्यो सरयो हुमकळच्यो तशी एक वेल एका झाडार हुमकळटाली. ती दाखोवन तांणी म्हळें, ‘ हांगासल्लो लोक हिका अंतरवेल म्हणटात. संस्कृत उतर निर्मूली. (बेंदल्ल) तिका मुळां नात. वाडपाक आनी मातपाक तिका जमनीची गरजूच ना. खंयच्याय झाडाक तेंकय, त्या झाडांतल्यानूच ती आपणाक जाय ती पोसवण घतली आनी मात्तली. देखुनूच हांवें इंग्रेजी सरकाराक ‘निर्मूली’ वा ‘ अंतरवेल ’ हें नांव दिलां.’

## ४. पायांक दोळे आसतात

इंग्रजांचें राज्य म्हळचार बेंदल्ल ! कितली सुंदर ओपार ! हांव येवजितालों इतल्यांत एक गांव आयलो.

म्हाराज म्हणूंक लागले : ह्या गांवांचें नांव झारोळा. बाबर देव्याची भयण हांगा दिल्ली. उगडास आसा न्हय, तिचो ? बाबरदेव्या वांगडा वाटमारेपण करताली आनी जिका एक दीस फकत दुबावान बाबरदेव्यान जिती मारून उडयल्ली ती. . .'

' चलात, या गांवांत भितर. ' अशें म्हणून ते आमकां गांवांत भितर घेवन गेले. गांवचे शिमेर पाटणवाडियांचो वाडो. थंय म्हशी शेणांत बशिल्ल्यो. ह्या वाटारांत गोरवां खातीर चरपाचीं मळां नात. देखून म्हशी घरांतूच आंगणांत बांदून दवरच्यो पडटात. गोरवांचें शेणमूत सगळेकडेन पातळ्ळेलें. तांतुंतूच मदीं एक सुमाची खाट. म्हाराजांक पळेना फुडें ' म्हाराज आयले. . .म्हाराज आयले. . .' करून लोक मुखार आयले. विचारपाक लागले, ' म्हाराज, खंय ? कितल्या वरसांनी तुमचे पांय लागले. . .खंय, बंदखणींत आशिल्ले ? . . .व्हडले म्हाराज (गांधीजी) खंय आसात, तुर्ताक ? . . .बंदखणींत? . . .आरे, गोयडी घेवन यो रे, म्हाराज आयल्यात . . . .'

' गोयडी नाका. . .आमकां बसपाक वेळ ना आयज ' म्हाराजांनी म्हळें.

' वेळ ना ? . . .कित्याक ? . . .भायले भायर वतले ? दुदूय घेवचे नात ? . . . आरेरे. . .कितल्या वरसांनी आयल्यात आनी रोखडे चल्ले ? . . .अशे म्हुण केन्ना येतात ? . . .बरें तर. . .परते केन्ना येतले ? . . .येयात आं, बेगीन. . .नमस्कार . . .नमस्कार. . .'

थंयच्यान मुखार वतकूच म्हाराज म्हणूंक लागले, ' ते मुस्तींत हांव हांगेर रावतालों. . .ती गोयडी पळेली ना, तसलेच गोडयेर न्हिदतालों. . .हे ते पडवेर रांदन मांडून तिचेर आयदन दवरून खिचडी करतालों. . .तीच जेवतालों. ते मुस्तींत हांव खासा म्हज्याच हातान रांदून जेवतालों. आयज कितल्या वरसांनी हांगा पावलां. पुणून ह्या वाटारांत काम करतालों त्यावेळार दीस रात भोंव भोंव भोंवतालों. एक एकल्यागेर वचून बायल-भुरग्यांक जाप करून दुसऱ्या गांवांत वतालों . . .हो तो जो ' दूद पियेवन वच ' म्हणी तो बाबरियाचो भावडी. ताणे बायलेक घरांतल्यान भायर घाल्ली, कित्याक, ती चालीन सारकी नाशिल्ली.

म्हाराज सांगतात तें कान आयकताले. पुणून मन फाटल्या काळांत हेडपाक गेलें—ही म्हेळी गोयडी, जळारांनी आनी जल्ल्यांनी भरिल्ल्यो ह्यो पडव्यो. म्हाराज हांगाच न्हिदताले, हांगाच बसताले, हांगाच रांदताले, जेवताले. चोवीस वरांत एकच खेपे जेवप तांणी. मूठभर तांदूळ, मूठभर दाळ मागून घेवप, रांदनीर उडोवप. तूप ना, हळद ना, मीठ ना. कांयच नाशिल्ली खिचडी खावप. तांबयो भर उदक पियेवप.

मागीर दिसभर कांयच घेवप ना. चलत रावप, चलत रावप. वोत, शीं, पावस, उजवाड, काळोख कित्याची पर्वा करिनासतना एकासारकें भोंवत रावप.

म्हाराज म्हणटात : हांव ते मुस्तींत एकासारको भोंवतालों. म्हाका चडान चड खोस भोगताली, गुपाट काळखात. . .एकलोच. . .सांगाताक कोण ना. . .कोण पळेना. असो भोंवतालों तेन्ना चलत आसतना केन्ना केन्ना दोळे न्हिदताले. पुणून पांय चलत रावताले. तरी आसतना हांव केन्ना वाट विसरूंक ना. कितलीय वांकडी तिकडी वाट आसूं, पांय जिस्त चलूंक जाय तेच वाटेन चलताले. देखुनूच हांव लोकांक सांगतां : मनशाच्या पांयांकूय दोळे आसतात.

## ५. सप्नांत लक्ष्मी आयली

इतले म्हणसर रास नावाचो गांव आयलो –– गूजरातचो चकचकीत दोळो कसो. गांवां भायर एक गांधी आश्रम आसा. एक चक्क बरो दवाखानो आसा. जमीन आसा, शेत आसा. पंपांतल्यान बांयचें उदक वयर येता आनी शेत तें पियेता. भोंवतणची आनी थोडी जमीन निवळ करून घेतल्या. कांय झाडां मारून उडयल्यांत. लाकडां बरीं दाळून दवल्ल्यांत. जमीन बेतपाचो वावर चल्ला. 'कस्तूरबा स्मारक हॉस्पिटल' बांदपाची तयारी ही.

म्हाराज म्हणटात : ह्या एकाच गांवांन कस्तूरबा स्मारकाक एकवीस हजार रुपये एकठांय करून दिल्यात. तातूंत मुसलमान, कोळीनाळी, धेड-भंगी––सगळचांनी आपापलो वांटो दिला. ह्या गांवांचें आगळे-वेगळेपण तें हें. १९२२ पसून हो गांव राष्ट्रीय झुजांत सदां मुखार रावला. ३० तले 'टॅक्स भरचे नात' हे चळवळींत हांगा-सल्ली हजारांनी बिघे जमीन सरकारान जप्त केल्ली. मागीर एक दीस व्हड सरकारी मनीस हांगा आयिल्लो आनी तो आमच्या ह्या भोळचा-बाबडचा गरासियांक, बारैया, ठाकरडचांक सांगूंक लागिल्लो : 'जाणात तुमी, लक्ष्मी म्हज्या सपनांत आयली आनी सांगूंक लागली, आपणेच गांधीक वांकडी बुद्द दिली. कित्याक, गरासियांक आपणाक वयर काडपाचे आशिल्ले. . .म्हणटकूच आतां, भावानो, ही जमीन आतां घेवन उडयात तुमी आनी तुमची करात. . .' अशें सांगून ताणे मातये मोलान जमनी विकिल्ल्यो. लोक ओगी रावले. मागीर 'गांधी इरवीन करार' जालो. तरूय जमनी जांच्यो तांकां परत्यो मेळ्ळचोनात. जेन्ना कॉंग्रेसचें सरकार सदरेर आयलें तेन्नाच त्यो परत्यो मेळ्ळचो. वल्लभभाईन त्या वेळार म्हळ्ळें : 'तुमी भियेवं नाकात. जमनी

धोल ताशे वाजयत तुमचे सरीं परत्यो येतल्यो. ' म्हुण . . .जेन्ना जमनी जांच्यो तांकां परत्यो मेळ्ळयो तेन्ना ह्या लोकांनी धोल ताशे बडयल्ले.

## ६. जाणटेलो मोती

म्हाराज मुखार सांगपाक लागले—

' हांगासर मोतीभाई नांवाचो एकलो जाणटेलो रावतालो. भायर पडलो तो आतां. ३० तले चळवळींत सरकारान खूब जाणांक धरून व्हेल्ले. हाका व्हरूंक नाशिल्लो. एक दीस तो एक पत्रक वाचीत बशिल्लो. (जाचेर सरकारन बंदी घाल्ली) पोलिसांनी ताका गुप्त पत्रक वाचता म्हुण धल्लो. तागेली उतार पिराय पळोवन वयल्या पोलीस-अधिकाऱ्याक ताची काकूळट दिसली आनी ताका सोडूंक मेळचो म्हुण ताका विचाल्लें : ' हें पत्रक तुका कोणे तरी धाडून दिलां जातलें न्हय, जाणटेल्या ?'

' च्ये. . .च्ये. . .कितें उलयतात हो तुमी ' जाणटेल्यान जाप दिली. ' धाडून दिलां ?. . .कोण दितलो धाडून ?. . .बरीऽ पटी भल्ल्या हांवें ताची. . .आतांचो न्हय, बाविसांतलो सत्याग्रही हांव. . .तेन्ना पसून हांव चळवळींत आसां. . .' ही जाप दिवन तो बदखणींत गेल्लो. सुटून येतकूच पळेत जाल्यार, जमीन जप्त जाल्या. म्हातारो मनीस. सामको कल्ल जाल्लो. आमी ताका दुडवांचो आधार दिवपाक गेले तर हो जाणटेलो तिडकून आमकां विचारता, ' हांव दुसऱ्यांचो आधार घेवं ? दुसऱ्यांच्या दुडवांचेर जियेवं ? कितें उलयतात हो तुमी ! हांव कोण तो जाणात तुमी ? राणा प्रतापाच्या वंशांतलो हांव. '

देवाक खबर कित्याक लागून ताणे आपणाक प्रतापाच्या वंशांतलो लेखलो ! एक खरें, सामके गरिबायेचे अवस्तेंत लेगीत ह्या जाणटेल्याची जीण कुलीनतेन घणघणटाली. बऱ्या बऱ्या लोकांनी ह्या घरांत आपल्यो धुवो दिल्यो आनी बऱ्याबऱ्यांनीच ह्या घरांतल्यो धुवो केल्यो.

म्हाराजांनी ह्याच गावात आमची आनी एकल्याकडेन वळख करून दिली— आशाभाईकडेन. ह्या मनशान गांवां-गांवांत भोंवन कस्तूरबा स्मारका खातीर आनीक चाळीसेक हजार रुपये एकठांय करून दिल्ले. ' कर भरचे नात ' चळवळी वेळार हाणे आपल्या त्यागान लोकांक देख दिवन तांच्यांत प्राण ओतिल्लो. जमनी जप्त जाल्यो तेन्ना ताणे लोकांच्यो गाळी खाल्ल्यो. पुणून उपरांत तो लोकांक तितलोच प्रिय जाल्लो.

. . .एका सारको हांसत रावपी मनीस हो. ताच्या त्यागाच्यो, ताणे सोंशिल्ल्या त्रासांच्यो, काडिल्ल्या उतळतापांच्यो खबरी आयकत आयकत आमी मुखार गेले.

आशाभाईक लागुनूच रास हो गांव गुजरातांत हेरा गांवां परस उजळ जावंक पाविल्लो.

चलत रावल्यार दुसरो गांव येतासर नाकापुरो जांवचें इतले एकमेकां पसून पयस काठियावाडांतले गांव. चरोतर वाटारांतले महिचे तडी वयले हे गुजराती गांव जिस्त उरफाटे. तीन-तीन, चार-चार मैलांचे वाटेर एक-एक गांव—पांचवेचार रुखावळीन जशे कितें एकामेकांत गुथिल्ले. एकामेकां शेजरा उबे. वचत थंय कूक् कूक् कूक् आवाज आयकूंक येतलो. इन्जिनां चलिल्लीं आसतलीं, पंपांतल्यान बांयंतलें उदक दीसरात वयर सरत रावतलें. भूंय सगळी भिजिल्ली पळोवंक मेळटली. जशी कितें 'चारूतरा वसुंधरा' ही. खुबूच पिकाळ भूंय. इतली पिकाळ कि अर्द बिघोच जमीन पुरो कोणाकूय श्रीमंत जावपाक. रायण, शिताफळ बी फळांचीं झाडां हांगां एक-एकल्याच्या आडचाकडेन दिश्टी पडटलीं. तांतूंत भर 'क्रूड ऑयल'ची. कित्याक पिकचें ना भांगर हांगासर ?

तशें पळोवंक गेल्यार सौराष्ट्रांतूय भांगर पिकूं येता. पुणून थंयच्या शेतकामत्यांक क्रूड कोण दितलो ? तांच्या कानार एकूच आदळटा, 'तुमी खूब अन्न पिकोवंक जाय. पिकयलें ना जाल्यार आमी बोबो मारतले . . .' पिकयात अन्न. तेंवूंय बैल नांवाच्या दोन सांपळ्या फाटल्यान नांगर जोडून . . .

## ७. 'कोण चोर, कोण साव'ची लीलाभूंय

आमी रास गांवांतल्यान भायर सल्ले आनी अमियाद फाटीं घालून कणभ्याक पावले. ह्या गांवाकडेन पावतकूच एक उगडास जालो म्हाराजांक. शिमेवयल्या एका शेताकडेन बोट दाखोवन तांणी म्हळें, 'मध्यान रातच्या गुपाट काळखांत गोकळ्यान आपणे चोरिल्ले तुपा डबे हाडून दवल्लेले म्हाका दाखयल्ले तें हें शेत.'

पाटणवाडियांनी चोरयो करप ना, आनी जागेर चोरी जाता ताणे पोलिसांक सांगप ना, चोरी आनी चोर म्हाराजांनीच धरप—अशी लोकांकडेन कबलात करून घेवन म्हाराज हांगा काम करपाक बशिल्ले ते मुस्तींतलीं खबर ही. कणभ्याच्या एका लुहाण्यागेले दोन तुपा डबे चोरयेक गेल्ले. म्हाराजांनी हांगा बसून मोनें तप सुरू केल्लें. तांकां जेवण रुचूंक नाशिल्लें. तीन दीस उदक लेगीत उश्टाय नासतना तांणी

उपास केल्ले. गांवांत एक मुसलमान शेतकामती आशिल्लो, दाजी नांवाचो. ताणे लोकांक सांगिल्लें, ' म्हाराजांचे उपास चलतासर कोणेच जेवप ना'. . . सगळे न्हिदूंक गेल्या उपरांत रातचो खासा गोकळोच लिपत लिपत आयिल्लो आनी म्हाराजांच्या पांयांच्या आंगठ्याक हात लावन आपल्या फाटल्यान तांकां शेतांत घेवन गेल्लो–गुपाट काळखांत. एकेकडेन वचून ताणे डबे वाजयल्ले. आनी म्हाराज हे भरिल्ले डबे उबारून लुहाण्यागेर गेल्ले. एक तुपाचो आशिल्लो, तर दुसरो तेलाचो.

दुसऱ्या दिसाय म्हाराजांनी उपास केल्लो. सांजच्या अदमासाक गोकळो म्हाराजांक आपणाल्या घरा घेवन गेल्लो आनी आपणे चोरी केल्या म्हुण कबूल जाल्लो. फौजदाराक ४० रुपयांची लांच दिवपाखातीर एक डबो विकलो म्हणपाचीय खबर ताणे सांगिल्ली. मागीर म्हशिचें तूप विकून लुहाण्याक जाल्लें लुस्कान भरून दिवपाक तो कबूल जाल्लो. म्हाराजांनी त्या उपरांत उपास सोडिल्लो. तो सोडपाक अर्दशेर खाजूर जाय आशिल्लो. लुहाण्यागेर खाजूर आशिल्लो. मोलाचे दोन आणे कोण दितलो म्हुण ताणे विचाल्लेलें. . .

येदेंय व्हडलें रामायण जंय घडिल्लें त्या कणभा गांवांत आमी पाविल्ले. म्हाका तिगांकूय पळोवपाचे आशिल्ले–'जालें तें जालें म्हाराज. . .तुमी ह्या तोंका मेरेन वतले म्हणपाची खबर नाशिल्ली' अशें म्हणून आपणे चोरी केल्या म्हुण सांगपी गोकळ्याक तसोच पन्नास साठ रुपयांचो चोरयेक गेल्लो म्हाल मेळिल्लो आसतनाय खाजराचे दोन आणे कोण दितलो म्हहुण सगळ्यां हुजीर अनमन नासतना विचारपी लुहाण्याकूय पळोवपाचो आशिल्लो आनी लुहाण्याक तामडावन काडपी त्या मुसलमान दाजीकूय पळोवपाचो आशिल्लो.

गोकळो आनी लुहाणो देवागेर गेले म्हणपाचें थंय कळ्ळें. पळोवंक मेळ्ळो जाण्टेलो दाजी, हातांतल्या हुक्क्या सयत. म्हाराजांनी जंय उपास केल्ले तेच अगरसाळेंत खुशालभरीत जावन म्हाराजांक मेळूंक आयिल्लो. पांयांक हात लावन ताणे म्हाराजांक प्रणाम केल्लो आनी मागीर म्हाराजांक 'खंय बसोवं, कितें दिवं' ह्या बुचकळ्यान भुल्लुसलेलो.

## ८. दाजी

गांव पळेलो, मनीस पळेले. थळां पळेलीं म्हणटकूच म्हाराजांक आपशींच नवे नवे प्रसंग येवजूंक लागचे. हांगाय तांकां कितलेशेच उगडास जाले. ह्या लोकांच्या

काळजांत भितर खंयचीं मंगळ तत्त्वां न्हिदिल्लीं आसात आनी तांच्या खंयच्या गुणांक लागून आपूण तांच्या मोगांत पडलां—होच एक उद्देश फाटल्यो यादी सांगपाचो तांचो. देखीक, म्हाराज सांगूंक लागले—

हांगा जीवा जेसंग नांवाचो एकलो पाटणवाडियो रावतालो. ताणे आनी दाजीन एकल्या ब्राह्मणाचो एक आंबो (रूख) खाल्लो. ब्राह्मण विदेशांत खंय तरी रावतालो. ब्राह्मणान तो मागचो आनी हांणी आंबो आपलो म्हुण सांगचें. अशें कितलीशींच वरसां चल्लें. तेच धनी जाल्ले आंब्याचे.

एक दीस म्हज्या कानार खबर आयली. हांवें येवन दोगांकूय विचाल्लें : ‘ खरें कितें, सांगात. ’ थोडो वेळ दोगूय ओगी रावले. मागीर जीवो दाजीक म्हणूंक लागलो, ‘ दाजी, आमी सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो मरे ! फट कशे उलयतले आमी ?’

दाजी म्हणूंक लागलो, ‘ खरें तुजें, आमच्यांनी फट उलोवं नज. ’

मागीर म्हणपाक लागले, ‘ म्हाराज, आमी सत्याग्रही, आमच्यांनी फट उलोवं नज. आंबो आमचो न्हय. त्या बामणाचो तो. . . ’

आंबो बामणाचो बामणाक दिवन उडयलो !

इतले दीस आपुण करताले ती चूक काय कितें हाची फोडणिशीय करपाक ते बसले नात आनी चुकिचें प्रायश्चित्त घेवपाचें धोंगूय तांणी केलें ना. भितल्ल्यान जें आयलें तेंच खरें अशें मानून ते प्रमाण चल्ले.

## ९. इच्छाबा

‘ भाई ! ’

‘ कितें इच्छाबा ? . . . ’

‘ अशें म्हुण केन्ना जाता, बाबा ? . . .फकत खिचडीच रांद म्हुण सांगलां तुवें,’ बाबा ! . . .जिवाक बरें दिसूं नाका, बाबा ? . . .

‘ बाबा, बाबा, बाबा. . . ’ अजुनूय हो सूर आयकूंक येता. कणभ्यासून आमी कठाण्याक गेल्ले. थंय दधीच ब्राह्मण जातिचे एकले बायल मनशेच्या ताळ्यांतल्यान हो सूर आयकल्लो. तिगेलें नांव इच्छाबा. उतार पिरायेची. चारेक वरां उल्ल्यांत जातले आमी थंय. तितल्यांत पन्नाशेक खेपे तरी ‘ बाबा. . .बाबा. . . ’ सूर आयकलो आमी.

इच्छाबाच्या घरांत काळोख. पुणून अंयशीं वरसांचे पिरायेचे हे बायल-मनशेच्या काळजांत एक दिवो पेट्टालो. तोच तिच्या घरांत उजवाड पातळायतालो. म्हाराजां कडल्यान तिच्यो खबरी आयकल्ल्यो. तांचेर आधारून एक मूर्त घडयल्ली हांवें कल्पनेंत. ‘ अशी आसतली’ म्हुण ती. सामान्यतायेन कल्पनेन घडयल्ली मूर्त उपरांत लटकी थरता. पुणून खरेली इच्छाबा हांवें येवजिल्ली तिचेय परस सुंदर आशिल्ली, अंयशी वरसांचे हे उतार पिरायेर लेगीत थणथणीत आनी तांबडी. पंदरा पंदरा जाणांचें जेवण रांदपी. कितले कितले पयसल्यान उदक घेवन येवपी. बशिल्ली आसली जाल्यार राजमाताच कशी सोबताली––प्रतापी दिसताली.

म्हाराज सांगतात––

‘ बाबर देब्याच्या अच्छेवांक लागून सरकारान अख्ख्या खेडा जिल्ल्याचेर ‘ प्यूनिटिव टॅक्स ’ घालो. तेन्ना ताच्या आड चळवळ सुरू जाली. हे चळवळींत मही-तडिची दायकी हांवें घेतिल्ली. ही ती सुवात दिसना, थंय एक एक खोंप आशिल्ली. हांवें ती इच्छाबा कडल्यान भाड्याक घेतली. इच्छाबाचें त्या वेळार जाण्टेपण सुरू जाल्लें. दोगां भुरग्यांचीं आवय ती. तरी आसतना ती म्हजेकडेन उलयनाशिल्ली. लजताली. पुणून पयसल्यान हांव कितें करतां, करिना तें सगळें पळेताली. ते मुस्तींत हांव खासा म्हज्या हातान रांदून जेवतालों. एक आयदन आशिल्लें म्हजे कडेन. त्या भायर दोन कदीं मायटुलां हाडून दवल्लेलीं खोंपींत. एकांत तांदूळ आनी दुसऱ्यांत मुगादाळ दवल्लेली. एक दीस हांवें खिचडी रांदली. तांदूळ वेंची नासतना घाले जातले. म्हज्याय लक्षांत आयलें ना. बऱ्या वेळान आयदन रांदनी वयलें देंवयलें. जेवंक बसलों. तर, गळचा सकयल उंडी वचना. खिचडी सारकी शिजूंक नाशिल्ली. तसोच उठलों आनी खिचडी काडून सुण्याक घाली. इच्छाबान हें पळेलें.

मागीर दोन चार दिसां खातीर हांव भायर गेलों. परतो येवन पळे जाल्यार, खोंप नवी ताल्ल जाल्या. जमीन पेटून बरी शेणान सारयल्या. वणटीक चुनो काडला ! रूपूच बदल्लां खोपिचें. दुबाव आयलो, दुसऱ्याक कोणाक भाड्याक बी दिवन उडोवंक ना मूं ? भितर वचून पळे जाल्यार, म्हजें आयदनूय ना, मायटुलांय नात. हांवें विचाल्लें, ‘ हें कितें जालें ? खंय गेलें ? ’ पयलेच फावट इच्छाबा म्हजेकडेन उलयली. म्हणूंक लागली : ‘ बाबा, आतां थंय रांदपाचें ना तुका ! ’

‘ कित्याक ? ’

‘ तुवें हांगा जेवपाचें .’

‘ कित्या खातीर ? ’

काळजांत भितर खंयचीं मंगळ तत्त्वां न्हिदिल्लीं आसात आनी तांच्या खंयच्या गुणांक लागून आपूण तांच्या मोगांत पडलां--होच एक उद्देश फाटल्यो यादी सांगपाचो तांचो. देखीक, म्हाराज सांगूंक लागले--

हांगा जीवा जेसंग नांवाचो एकलो पाटणवाडियो रावतालो. ताणे आनी दाजीन एकल्या ब्राह्मणाचो एक आंबो (रूख) खाल्लो. ब्राह्मण विदेशांत खंय तरी रावतालो. ब्राह्मणान तो मागचो आनी हांणी आंबो आपलो म्हुण सांगचें. अशें कितलीशींच वरसां चल्लें. तेच धनी जाल्ले आंब्याचे.

एक दीस म्हज्या कानार खबर आयली. हांवें येवन दोगांकूय विचाल्लें : ‘ खरें कितें, सांगात. ’ थोडो वेळ दोगूय ओगी रावले. मागीर जीवो दाजीक म्हणूंक लागलो, ‘ दाजी, आमी सत्याग्रहांत वांटो घेतिल्लो मरे ! फट कशे उलयतले आमी ?’

दाजी म्हणूंक लागलो, ‘ खरें तुजें, आमच्यांनी फट उलोवं नज. ’

मागीर म्हणपाक लागले, ‘ म्हाराज, आमी सत्याग्रही, आमच्यांनी फट उलोवं नज. आंबो आमचो न्हय. त्या बामणाचो तो . . .’

आंबो बामणाचो बामणाक दिवन उडयलो !

इतले दीस आपुण करताले ती चूक काय कितें हाची फोडणिशीय करपाक ते बसले नात आनी चुकिचें प्रायश्चित्त घेवपाचें धोंगूय तांणी केलें ना. भितल्ल्यान जें आयलें तेंच खरें अशें मानून ते प्रमाण चल्ले.

## ९. इच्छाबा

‘ भाई ! ’

‘ कितें इच्छाबा ? . . .’

‘ अशें म्हुण केन्ना जाता, बाबा ? . . .फकत खिचडीच रांद म्हुण सांगलां तुवें,’ बाबा ! . . .जिवाक बरें दिसूं नाका, बाबा ? . . .

‘ बाबा, बाबा, बाबा . . .’ अजुनूय हो सूर आयकूंक येता. कणभ्यासून आमी कठाण्याक गेल्ले. थंय दधीच ब्राह्मण जातिचे एकले बायल मनशेच्या ताळयांतल्यान हो सूर आयकल्लो. तिगेलें नांव इच्छाबा. उतार पिरायेची. चारेक वरां उल्ल्यांत जातले आमी थंय. तितल्यांत पन्नाशेक खेपे तरी ‘ बाबा . . .बाबा . . .’ सूर आयकलो आमी.

इच्छाबाच्या घरांत काळोख. पुणून अंयशीं वरसांचे पिरायेचे हे बायल-मनशेच्या काळजांत एक दिवो पेट्टालो. तोच तिच्या घरांत उजवाड पातळायतालो. म्हाराजां कडल्यान तिच्यो खबरी आयकल्यो. तांचेर आधारून एक मूर्त घडयल्ली हांवें कल्पनेंत. 'अशी आसतली' म्हुण ती. सामान्यतायेन कल्पनेन घडयल्ली मूर्त उपरांत लटकी थरता. पुणून खरेली इच्छाबा हांवें येवजिल्ली तिचेय परस सुंदर आशिल्ली, अंयशी वरसांचे हे उतार पिरायेर लेगीत थणथणीत आनी तांबडी. पंदरा पंदरा जाणांचें जेवण रांदपी. कितले कितले पयसल्यान उदक घेवन येवपी. बशिल्ली आसली जाल्यार राजमाताच कशी सोबताली—प्रतापी दिसताली.

म्हाराज सांगतात—

'बाबर देव्याच्या अच्छेवांक लागून सरकारान अख्ख्या खेडा जिल्ल्याचेर 'प्यूनिटिव टॅक्स' घालो. तेन्ना ताच्या आड चळवळ सुरू जाली. हे चळवळींत मही-तडिची दायकी हांवें घेतिल्ली. ही ती सुवात दिसना, थंय एक एक खोंप आशिल्ली. हांवें ती इच्छाबा कडल्यान भाडयाक घेतली. इच्छाबाचें त्या वेळार जाण्टेपण सुरू जाल्लें. दोगां भुरग्यांचीं आवय ती. तरी आसतना ती म्हजेकडेन उलयनाशिल्ली. लजताली. पुणून पयसल्यान हांव कितें करतां, करिना तें सगळें पळेताली. ते मुस्तींत हांव खासा म्हज्या हातान रांदून जेवतालों. एक आयदन आशिल्लें म्हजे कडेन. त्या भायर दोन कदीं मायटुलां हाडून दवल्लेलीं खोंपींत. एकांत तांदूळ आनी दुसऱ्यांत मुगादाळ दवल्लेली. एक दीस हांवें खिचडी रांदली. तांदूळ वेंची नासतना घाले जातले. म्हज्याय लक्षांत आयलें ना. बऱ्या वेळान आयदन रांदनी वयलें देंवयलें. जेवंक बसलों. तर, गळचा सकयल उंडी वचना. खिचडी सारकी शिजूंक नाशिल्ली. तसोच उठलों आनी खिचडी काडून सुण्याक घाली. इच्छाबान हें पळेलें.

मागीर दोन चार दिसां खातीर हांव भायर गेलों. परतो येवन पळे जाल्यार, खोंप नवी ताल्ल जाल्या. जमीन पेटून बरी शेणान सारयल्या. वणटीक चुनो काडला ! रूपूच बदल्लां खोपिचें. दुबाव आयलो, दुसऱ्याक कोणाक भाडयाक बी दिवन उडोवंक ना मूं ? भितर वचून पळे जाल्यार, म्हजें आयदनूय ना, मायटुलांय नात. हांवें विचाल्लें, 'हें कितें जालें ? खंय गेलें ?' पयलेच फावट इच्छाबा म्हजेकडेन उलयली. म्हणूंक लागली : 'बाबा, आतां थंय रांदपाचें ना तुका !'

'कित्याक ?'

'तुवें हांगा जेवपाचें.'

'कित्या खातीर ?'

‘ कित्या खातीर, म्हळ्यार ? ’ रांदूक खंय येता तुका ?’

‘ कोणे सांगलें तुका, येना म्हुण ?’

‘ कोणे कित्याक सांगूंक जाय. . .तेदूस खिचडी सुण्याक घाल्ली ती पळोवंक नाशिल्ली काय कितें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी ?’

त्या दिसा पसून इच्छाबान सकाळीं उठना फुडें म्हजो चरखो तयार करून दवरचो आनी पेळू म्हज्या हातांत दिवन म्हणचें, ‘ बाबा, तूं बस हांगा चरखो कांतीत.’

जेवपा वेळारूच उठोवचो, ‘ चल यो जेवंक. ’

वाडटाली खिचडीच. वयर कांयच नासतालें. पुणून खातां खातां भितर मेळटालें तूप. जेवन उठटकूच सांगचें, ‘ आतां बस कांतूंक ’ उदक हाडून दिवचें. चरख्यावयलो म्हाका उठुंकच दिनाशिल्ली

# १०. गांधीजी

एक खेपे गांधीजी ह्या वाटारांत पावले. हांवें तांकां हांगाच इच्छाबागेर दवल्लेले. बोरसदच्यान ते न्हावन बिवन येतले अशें म्हाका दिशिल्लें. पुणून ते तशेच न्हायनासतना आयले. हांव हुस्क्यांत पडलों. गांधीजींचे न्हाण म्हळ्यार कितें तें हांव जाणा आशिल्लों. अखेर इच्छाबाचे काळखा कुडींत एक मोरी आशिल्ली थंय न्हावपा वेवस्ता केली. . .’

म्हाराज गांधीजींचे उगडास सांगूंक लागले :

‘ काळखा कुडींतली ती मोरी पळोवन गांधीजींनी म्हळें : ‘ वा: सुंदर ! ’ आनी आंग आंवळून घेवन मोरयेंत बसून ते न्हाले. तांगेलो तुवालो पिळून सुकत घालतलों म्हुण हांवें तो मागलो जाल्यार, गांधीजी म्हणूंक लागले, ‘ च्ये, च्ये. . .तुजेकडल्यान हें काम घेंवचो ना हांव. ’ अशें म्हणून तांणी देवदासाक आपयलो आनी ताच्या हातांत तुवालो काडून दिलो.

हांवें म्हळें, ‘ म्हाका कित्याक दिलें ना काम हें ? हांव करतलों आशिल्लों. ’

‘ बाबा, तूं ब्राह्मण. . .ब्राह्मणा कडल्यान असलीं कामां घेनात ! . . .’

इच्छाबागेर हांवें पयलेच फावट थंयचे गरासिया लोक पळेले. लोक तांकां ‘ ठाकोर वा ठाकरडे ’ ह्या नांवान वळखतात. पुणून ते आपणाक गरासिये म्हणोवन घेतात. तांकां बारैया, धाराळा म्हळ्ळेंय मानवना. सरकारी दप्तरांत तांचें नांव

'पगी' म्हुण मेळटा. पुणून ते म्हणटात, आमगेल्या म्हालगडयांनी तें अज्ञानान उरूंक दिलें जातलें. 'आमी पगी-बिगी कोण न्हय. आमी गरासिये.' म्हाराजांचे ते इश्ट. चाल–रीत, उलोवप करप सभय आंगान घटमूट. महींतल्यान स मैल पेंवन वचप वा भरते वेळार महींत खोल पोंदा मेरेन वचप कांयच न्हय तांकां. महिच्यो तडी आनीक खंयच पळोवंक मेळनात. असल्यो भयांक्रूत. खोल पायणी कश्यो. बद्द चक्रव्युहा सारक्यो. तातूंत भोंवप म्हळ्यार खेळ कसो तांचो. अजाप दिसलें तांचो भेस पळोवन. सामको सादो. काठियावाडी लोकांच्या भेसाच्या मानान कळिंद्री.

## ११. एक करुण कथा

हांव ह्या लोकांच्या भेसाचेर येवजितालों इतल्यांत आमी एका घरा म्हऱ्यांत पावले. तें घर पळोवन म्हाराजांक एक करूण कथेचो उगडास जालो——

'हांगा हांव रावतालों ते मुस्तींत ह्या घरांत एक फौजदार रावतालो. एक दीस मध्यानराती एकल्यान येवन ताच्या दारार माल्लें आनी ताका उलो माल्लो,—— 'फौजदार सायब !'

फौजदारान माळयेच्या जनेलांतल्यान तकली भायर काडून विचाल्लें,

'कोण ?'

'हांव तो. . .दार काडात मात्शें. . .'

'कित्याक ?'

'हांव खून करून आयलां. . .तुमी म्हाका हांगां धरतले काय, बोरसदाक येवन मेळूं तुमकां ?'

फौजदाराक अजाप ! तो सकल देंवलो. आनी त्या मनशाक ताणे बारकायेन नियाळून पळेलो. तो साबूद्दीर आशिल्लो.

'तुजें नांव कितें ?' फौजदारान विचाल्लें.

'महीजी. . .'

'जातीन कोण ?'

'गरासियो. . .'

'खंय खून केलो ? आनी केन्ना ?'

‘ निकतोच केला. म्हज्याच शेतार. . .केला तसोच उठून हांगां आयलां. . .’

फौजदारान म्हळें, ‘ आपुण जावन येदे बेगीन तूं कबूल कित्याक करता ? तुका फांशिची ख्यास्त जातली मरे. . .’

‘ हांव जाणा. खून केलो त्या वेळारूच जाणा .आशिल्लों फांशी पडटली म्हुण. . .फांशी सोंसूं येत. पुणून सोंसूं नज, पळेलें तें. . .’

‘ कितें पळेलें ?’

‘ पळेलीं म्हजेच बाज्जेर, म्हज्याच हातुळणार दोगांक न्हिदिल्लीं. एकली म्हजी बायल आनी दुसरो, जाचे हांवें कुडके करून उडयल्यात तो. . .’

## १२. कुरूप आनी कर्कशा

‘ दरिया ! . . .ये दरिया ! . . .दरिया रे !’

‘ कितें बाय, मही ? कित्याक उलो केल्लो ? ’

‘ म्हजेकडेन लग्न जाशीत ? ’

‘ ना. ’

‘ कित्याक ना ?’

‘ तूं काळी देखून. ’

‘ अशें ? पळे तर तूं. . .’

अशें म्हणून मही फाटले वाटेन परतली. आनी फाटल्यान सरून ओडून हाडूंक लागली व्हडले व्हडले फातर आनी लागली दरयो पुरूंक. दरयाची पडली बोब. सट्ट करून सामकोच पुरून उडयत म्हाका ही काळी, सांगूं येता ? दर्यो भियेलो आनी म्हणूंक लागलो, ‘ चल सायबिणी, जातां लग्न तुजें लागीं. ’

दोगांय लग्न जालीं.

मही आनी सागर हांच्या लग्नाचें यादस्तीक म्हुण वासणा लगासार एक सुवात दाखयतात.

असले हे भेरटावणे महीक हांवें पळेली चांपोल आनी बदलपुर नांवांच्या दोन गांवां लागसार. पळेली ते बरोबर खातरी जाली, ही चंडी दरयाच्या गळयांत पडूनूच लग्न जाल्या म्हणपाची. कसलोय तरी कोप लागलो जावंक जाय दोगांयचे लग्न जालां त्या वेळार.

वात्सल्याची मूर्त जशी आवय तशी महीक लेखून हांव तिचे कल्पनेंत गुल्ल आशिल्लों तेन्ना वाटेर म्हाराज सांगताले, ' महीचें हें उदक पियेवपाक उपकारना, शेतां शिंपपाक उपकारना, न्हावपाक उपकारना. उपकारता फकत सोपूत घेवपाक.' ते हें सांगताले तेन्ना तिगेल्या खरेल्या रूपाचो अदमास येवंक नाशिल्लो. पुणून एक दीस सांजचे आमी बदलपुरच्या ऊंच दोंगरावयल्यान सुमार दोन मैलांची खडबडीत वाट कातरून महिचे तडीर पावले तेन्ना ती विकराळ, घातकी, करूप, कर्कश। कशी दिसली आनी दरयाची म्हाका काकूळट दिसली.

कितलोय जाल्यार दादलो तो, भाव म्हूगेलो, हो दरियो.

# १३. विद्‌वाट धर्तरेची

बदलपुरच्यान आमी महिचे तडी वयल्यान सुमार पंदरा मैल चलत मुखार गेले. मही सागराचे तडी वयले गांव आनी मही हांचे मदली सुमार मैल, देड-मैल रुंद भूंय व्हांवन गेल्या. परिणाम—भुंयेचे सामान्य सपाटी परस सुमार तीस फूट सकल्यान वाटो गेल्यात. पाताळांत गेल्ले वरी दिसतात. धा-वीस वरसां पयलीं खंय हे तडीर कितलेशेच गांव उबे आशिल्ले. पावसाळचांतल्या घोघ्यांक लागून वरसान वर्स एक एक करून सगळे गांव व्हांवन ना जावन गेल्यात. न। म्हळचार, तांच्यो कांय खुणो एके एके सुवातेर अजूनूय दिश्टी पडटात—एकामेकांकडेन कसलोच संबंद नाशिल्ले भाशेन. नांवांय तांचीं ' ही भाल्याची दोंगुल्ली ' ' ही हाल्याचीं ' हे भाशेचीं—एका काळार हांगासर रावतल्या एका एका मनशाच्या नांवां वयल्यान पडिल्लीं नांवां हीं. मदीं तीस तीस फूट खोल फोंडकुलां.

ही तीस फूट खोल गेल्ली भूंय खणली जाल्यार थंय मातीच मेळटा. म्हज्या सौराष्ट्रांतली भूंय तीन हात खोल खणल्यार पुरो. सकल तळप लागतलें. सौराष्ट्रांतले भूयें परस ही सामकी वेगळे तरेची—न्हंयेच्या गाळाची, पिकाळ भूंय. एक एक बिघो भूंय विकती घेवंक गेल्यार जंय आयज पांच पांच हजार रुपये पडटात थंय शेंकडयांनी एकर जमीन व्हांवन वचप म्हळचार केदो विद्‌वाट ! हो विद्‌वाट इजनेरी उपायानी आडावंक येवचो नाशिल्लो अशें म्हणूं नज. आडावं येतालो, आडावप सोंपोय आशिल्लो; पावसाच्या उदकाक दुसरी वाट करून दिवं येताली अशें जाणकारूय सांगतात. तशें केल्लें जाल्यार उदक हे भूंयेचें पोट चिरूंक पावचें नाशिल्लें.

## १४. मही वेगळीच दिसली

मही म्हाका भयांकृत आनी भेश्टावणीय दिसली. कित्याक, तिचे तडीर रुखावळ आसतली असो हांवें अदमास केल्लो. कुचकुचीत पांचवेचार रूखावळिचें चित्र हांवें मनामुखार उबें केल्लें. पळेल्यार, उरफाटें. सगळी तड सुक्या सडचा वरी. खोल खोल खळयो. खळयांतल्यान वाटो. भय दिसता ते वाटेन वचपाक. हांगा शेवणी गितां आळयनात. पल्तडीं स मैलांचे वाटेर भरूच जिल्लो सुरू जाता. थंयचीं घरां निस्तेज, खंती, अळणी कशीं दिसतात. आल्तडीं पल्तडीं यतल्या वेतल्या लोकांभितर नदरेंत भरपा सारको म्हाका कोणूच हांगा दिश्टी पडलो ना. आमच्या सौराष्ट्रांतले एके लोककथेंत राणो नांवाचो एकलो तरणाटो वनवाळी रावळ न्हंयेक आपणाले प्रियेविशीं विचारता :

" तुजे खंयचे तडीर, रावळ न्हंये, देंवली म्हजी शीडशिडीत, हात्या वरी, भांगर कशी गोमटी नाजूक प्रिया––"

अशें कोणूय महीक विचारीत असलें वातावरण हांगा दिश्टी पडलें ना.

सद्दां एक खपे येतले भरतेचें उदक आयज रातच्या इकरा बारांच्या अदमासाक येवपाचें आसा. हांव तिका पळेतां त्या खिणाक न्हंयत जांगे मेरेन––वा खंय खंय धोंपरां मेरेन––पावत इतलेंच उदक व्हांवता. पयस. . .पयस मेरेन कितल्याशाच लोकांक उदकांतल्यान चलत वता आसतना हांव पळेतां. पयस तडीर कांय पनेळ दिश्टी पडटात. भरती येतकूच पल्तडीं येवपा-वचपाक ते उपकारतात.

## १५. महिच्या शयनमंदिरांत

महिच्या शयनमंदिरात दर्यो दिसाक एक खेपे तरी येताच. हे भरतेक हांगासल्ले लोक 'घोडो' म्हणटात. जाका घोडयाची ही ओपार येवजली तो खरोच धन्य मनीस न्हयेंत भितर सरपी भरतेचें उदक दिसता सारकें घोडयावरी. घोडयाचे मानेवयले ल्हवें (आयाळे) सारकी धवीं फुल्ल फेणेरी ल्हारां, विलास-मस्तींत उडक्यो मारपी उदकाचीं पावलां आनी ताची हुड्डूडू गाज-सगळें घोडयाचे ओपारीक सोबपासारकें घोडो येवपाचो जालो म्हणटकूच तडी वयले रांपणकार आपापले पनेळ घेवन घोडया सामखार दोनेक मैल मेरेन वतात. जंय पनेळ घोडयाक मेळटात थंय घोडी खीणभर

पनेळांक आपल्या गोपांत लिपयता. तर केन्ना कपलार वा कानसुलां सरीं धरून तांकां नाचयत खेळयत गाजत गाजत धांवत येता—न्हयेच्या शयनघरांत.

## १६. तुपा गोंडाची हाडां

हो देखाव कल्पनेंत सुंदर दिसता. पुणून म्हाराजांनी म्हाका एक खबर सांगली. ती आयकून मन खंतीन भरून आयलें. ते वडोदऱ्याच्यान येताले. वाटेर तांकां एकलो भंगी मेळ्ळो. तो आपले धुवे वांगडा वतालो. हांड्डीर एक भुरगें आनी हाच्या माथ्यार कोंडचाचो एक भरो आशिल्लो. महिचे तडीर तीं पावल्यांत, इतल्यांत तांकां एक उलो आयकूंक आयलो. एकलो मोटचान आड्डून सांगतालो—' बेगीन वचात. हो पळे घोडो येता. '

म्हाराज पेंवपी बऱ्या पैकीं. कुडीनूय घटमूट. ते उदकांतल्यान चलत मुखार गेले. फाटल्यान भंगीय उदकांत देंवलो. ताणे भरो उदकांत उडयलो आनी राजवान तो ओडीत व्हरूं लागलो. फाटल्यान धूव भुरग्याक घेवन येताली. ती आपल्या फाटल्या-फाटल्यान येता अशें ताका दिशिल्लें. पुणून पल्तडीं वचून मान वळोवन पळे जाल्यार, धूव बरीच फाटीं उल्या; उदकाचे व्हांवते मदीं उबी रावल्या आनी—भयान सामकी थतरवितर जाल्या. हाण्डीर भुरगें आसा.

' बेगीन यो बाय ' बापूय मोटचान आड्डून सांगता.

पुणून बायच्या तोंडांतल्यान उतर फुटना. आनी बायचें पावलूय उखलना.

तो परतो आड्डूता, ' बेगीन यो. '

बाय हालना.

जिस्त ह्या वेळार एकलो रांपणकार थंय पावता. तोवूय मोटचा मोटचान आड्डून बायक सांगता. . . ' घोडो येता. . .हो पळे पावलो ! '

भंगी ताका म्हणटा, ' बाबा रे, म्हजे धुवेक मात्शी घेवन यो. '

रांपणकार विचारता : ' कितें दितलो ? '

' म्हजेकडन फकत दोन आणे आसात. . .घे. . . '

' इतल्यान जातात असलीं कामां ? ' अश म्हणून तो आपले वाटेन तुरतुरीत वता.

हे वाटेन म्हाराज ह्या भंग्याक आनी भुरग्याक हाण्डीर घेवन उदकांत उब आशिल्ले ताचे धवेक पळेत रावतात. बापूय आनी धूव दोगांचोय जसो कितें प्राण उडून गेला. दोगांचेय तकलेर ' आतां आमची ही निमाणी भेट ' हे भाशेच्या भयाची तरसाद हुमकळटा. म्हाराज कळाव लायनात. ते परते उदकांत देंवतात. तुरतुरीत ते बायलेसरशीं वतात आनी म्हणटात–' यो म्हज्या वांगडा ' पुणून ती जाप दिना. जीण आनी मर्ण हांचे मदलो फरक ती जशी कितें विसल्ल्या. हालना-धोलना. म्हाराज भुरग्याक उबारतात आनी तिचो हात धरून चडटचा उदकांतल्यान तिका ओडीत हाडटात. बायलमनीस वाटेर इतलेंच उलोवंक पावता––' बाबा, म्हजें कितें जावपाचें आसा तें जावं, पुणून म्हजे हे धुवेक कांयच जावं दिवंक नाकात आं––'

मोटें दिव्य करून तिका तडीर हाडली. तेन्ना तिगेलो बापूय म्हणपाक लागलो : ' बाबा, तुमचीं हाडां तुपा-गोडाचीं. देखुनूच तर तुमी हिका हाडूंक पावले. आमच्यांनीं जावंचें नाशिल्लें. . . '

भंग्यांच्या तोंडांतलीं हीं उतरां आयकून म्हाराज त्या दिसा जशे हांसल्यात तशेच मुभुरख्यांनीं हांसून तांणी म्हळें––' बावडयाचो समज. हांव तुपा-गोडा बगर कांय खायना म्हुण.

खरेपणानशीं कितशीं-शीच वरसां जालीं, एकवेळचे खिचडे बगर-तिवूय गरीब घरांतल्यान मूठभर तांदूळ आनी दाळ घेवन केल्ले खिचडे बगर–दुसरें कितेंच ताणी उश्टावंक नाशिल्लें.

## १७. किरकोळां सांगातान म्हान सान जातात

एक लेगीत मनीस दिश्टी पडना असले हे खंती महिचे तडीर म्हाका एकलो खारवी मेळ्ळो. तो एका सारक्यो खबरी सांगीत राविल्लो. ताणे एक खबर सांगली– दोनेक म्हयन्यां फाटीं महीसागरांत भरते वांगडा व्हांवत आयिल्ल्या एका मानग्याची. पन्नास साठ हात लांब, तोंड आं करीत जाल्यार उब्याउब्यांनी आमच्यांनी भितर वचूं येत येद्या पोटाचें एक मानगें एक दीस भरते वांगडा हांगां चांपोल मेरेन आयलें. तोंडातल्यान फूंऽ फूंऽ करून उदक सोडटालें. मागीर भरती देंवली. सुकती आयली. मानगें बोबो मारूंक लागलें. फडफडलें. निमाणें मेलें.

ही खबर आयकतकूच म्हाका आमगेले थंयचे (सौराष्ट्रांतले) एके लोकांकाणयेचो उगडास जालो.

हलामण नांवाचो एकलो तरणाटो सोन नांवाचे एकले सुंदर चउयेच्या मोगांत पडिल्लो. कसल्या गुन्यांवांक लागून, कोण जाणा, राजान ताका गांवां भायर धांवडावन घाल्लो. तो सिंधाक वतालो—एकलोच, आपले प्रेयसी बगर. सौराष्ट्रांतले ढेबर काय वस्तु नांवांचे न्हंयेच्या तोंडाकडेन तो पावलो तेन्ना थंय ताका एक मानगें दिश्टीं पडलें. तो मानग्याक विचारता—'तुवें तर दर्यात आसपाचें, तूं न्हयेंत कशें पावलें ? भरतेच्या ल्हारांनी तुका ओडून हांगा हाडलें काय, दर्यान तुका आपले थंय नाका म्हळें ? काय, तुकाय म्हजे भाशेन कोणे देशा भायर घालें ?'

मानगें जाप दिता — 'बाबारे, भरते वांगडा ल्हान नुसत्यां वांगडा हांव चुकून हांगा पावलें. भरती देंवता म्हणपाचें हांव नकळ आशिल्लें. ती देंवली. देंवता आसताना म्हगेले ते धाकले सांगाती परते गेले. पुणून येदें व्हडलें हांव परतूंक पावलें ना. हांव म्हान, किरकोळांच्या सांगातान सान जालें.'

## १८. रंगनाथ

मही सागरावयल्यो ह्यो भयांक्रूत दरी आनी हीं भेश्टावणी खोरीं एक दीस अवचित सुंदर दिसूंक लागलीं. खावंक धांवपी सुवात ही. जितो मूस नाशिल्ली; निर्जन म्हणाटत तसली. ही निर्जनताय लेगीत त्या दिसा लजून मान सकल घालून बसली. तिच्यो भेश्टावण्यो तडी—बदलपुरची तड, दहेवाणची तड, लागशिल्ली तड, पयशिल्ली तड—सगळचो तडी त्या दिसा सोबीत सुंदर जाल्ल्यो. पंदरा वरसां आदली खबर. १९३० तल्या एप्रिल म्हयन्याची पयली तारीख. दीस धारे सकल देंविल्लो. असल्या वेळार ह्या तडींचेर वचत थंय लोकूच लोक दिश्टी पडूंक लागिल्ले. उबो रावपाक इल्लीय सुवात नाशिल्ली, इतलो लोक हांगा एकठांय जाल्लो. महात्मा गांधी हांगा पाविल्ले. आपले दांडीयात्रे वेळार. मही पल्तडीं तांकां वचचें आशिल्लें, म्हाराज त्या दिसाच्या देखाव्याची सर राम वनवासाक गेल्लो तेन्नाच्या तागेल्या गंगापार करपाच्या प्रसंगाकडेन करतात.

पल्तडीं वचपाक व्हडें जाय आशिल्लें. कोण दितलो आशिल्लो व्हडें ? गरीब नुस्तेंकारांकडेन व्हडीं आशिल्लीं. पुणून तीं ताणीं दिल्लीं जाल्यार दुसऱ्या दिसा सरकार तांगेलीं हाडां मोडीत म्हणपाचो भंय आशिल्लो. सरकारा आड बंडाळी पेटयल्ल्या ह्या विद्रोह्याक मही पल्तडीं व्हरून देंवोवपाचो आशिल्लो. ताच्या वांगडा ताचे सांगाती

आशिल्ले. प्रस्न ल्हाना-समानांतलो नाशिल्लो. संकश्टां ओडून घेवपाचो आशिल्लो. तो कोण घेतलो आशिल्लो ? त्या भायर सट्ट करून व्हडयांतूच कोणे कितेंय केल्लें जाल्यार ? व्हडेकार संवसारा मुखार खंयच्या तोंडान उबो रावतलो आशिल्लो ?

असो दोट्टी पेंच उबो जालो. हो पेंच सोडोवपाक बदलपुरचो एक धीट तरणाटो मुखार सल्लो—रगनाथ नांवाचो गरासियो. ताणे आपणालो प्राण पणाक लायलो. चारशें रुपये खर्चून ताणे एक नवें व्हडें विकतें घेतलें. तें कनकापऱ्याचे तडीक हाडून लायलें आनी बापूंक भितर घेवन तो व्हडें खासा आपुण चलोवपाक लागलो. बापूंक बोरसदच्यान कनकापऱ्याक पावतासर रातचीं धा जाल्लीं. काळखी रात. पुणून बापू पावले तशे तेच रातचे तेच घटकेक पल्तडीं वचूंक भायर सल्ले.

कनकापऱ्याक दंडेश्वर म्हादेवाच्या देवळामुखार एक ऊंच सुवात आमी पळेली. थंय बसून ते काळखे राती गांधीजींनी लोकांमुखार जें उलोवप केल्लें तांतले एक वाक्य म्हाराजांक येवजलें—'हांव यात्रेक भायर सल्लां. यात्रा करता तो व्रतां करता, तप करीत वता, नम्र जायत वता.'

हे भाशन व्रतां करीत, तप करीत जे सुवाते वयल्यान रगनाथाच्या व्हडयांत गांधीजी चडिल्ले ती सुवात आमकां दाखोवन म्हाराज सांगूंक लागले—व्हडयांत दुसरेय कितलेशे जाण चडले, फाटलें फुडलें कांय येवजी नासतना. शाण्यांक लेगीत समजायल्यार समजनाशिल्लें. रगनाथाचो बाबडयाचो जीव सकल वयर जावपाक लागलो. तो इतल्या लोकांक व्हडयांत घेवन व्हडें कशें सोडटलो आशिल्लो ? अखेरेक हाताक धरूधरून एकएकल्याक देवोंवचो पडलो. मागीर रगनाथान देवाचें नांव घेवन व्हडें सोडलें. पुणून भरती देंविल्ली. उदक परतूंक लागिल्लें. ऐन ते व्हांव-तेंतल्यान मुखार गेल्या उपरांत बापूंक चिखलांतल्यान चलचें पडलें. सुमार दोन कोंसाचीं वाट आशिल्ली. बापू व्हडयांतल्यान देंवले आनी चिखोल माड्डीत चलत गेले. महिचे तडीर हांगा शेंकडयांनी दिवटचो (मशाली) पेटिल्ल्यो. दिवटयांच्या उजवाडांत लोक हो देखाव पळेताले. गांधींची ती येदीशी मूर्त ह्या उजवाडांत लेगीत सारकी दिश्टी पड नाशिल्ली. चिखोल माड्डीत मुखार वतल्या गांधीचो फकत अदमास करचो पडटालो. खंयच्या नेटार, भितल्ले खंयचे शक्तिच्या म्हालवजार हाडांचो सांपळो कसो हो किडकिडीत मनीस मही पार करून मुखार गेल्लो कोणाक खबर ! आयज उगडास काडल्यार लेगीत आंगार कांटो फुलता.

## १९. तरणाट्याचो नेट जिर्लो

बापू पल्तडीं पावले आनी हे वाटेन पंडित जवाहरलालजींची मोटार महिचे तडीर यवन उबी रावली. रातचीं बारा जाल्लीं. तांकां बापूंक मेळपाची उमळशीक लागिल्ली. जवाहरलाल म्हळचार उसळपी जुवानपण. तांचें रगत सळसळटालें. 'चिखलांतल्यान वच्चें पडटलें' म्हुण तांकां कोणे सांगलें तेन्ना तांणीं खिणाचोय कळाव लायनासतना म्हळें—' हम तो नवजवान हैं. ' मोटारीक राव म्हुण सांगून ते पल्तडीं गेले आनी पल्तडीं पावतकूच ' परतप आयज जांवचें ना. मोटार घेवन वचात तुमी ' म्हुण सांगून धाडलें. मदांध महीन ह्या तरणाट्याचो नेट जिरयल्लो.

रगनाथ आयज जाणटो जाला. ताका पळोवपाक हांव आंवडेतालों. ताका आमी येतात म्हुण सांगुनूय धाडिल्लें. पुण ताची भेट जावंक पावली ना. आमी जंय रावपाचे आशिल्ले थंय तो येवन गेल्लो. पुणून ताच्या बदला तागेलो पूत बहादूरसिंग मेळ्ळो. हांवें विचाल्लें—' दहेवाणच्या राजान–ठाकोर नारसिंगान–त्रास दिल्लो ? सरकारान रगनाथाक पिडापीड बी भोगयल्ली ?'

जाप मेळ्ळी : ' ना, असलें कांयच जावंक नाशिल्लें. '

## २०. नाक कातरवलें

बदलपुराक आमचो राबितो फुलाशंकरभाई नांवाच्या एक दधीच ब्राह्मण शेतकामत्यागेर आशिल्लो. ह्या वाटारांत दधीच ब्राह्मण चड. ते शेतकामती. शेत कामत्यां भाशेनूच तागेलो सभाव–उलोवपी थोडें. मात्शी धोंगां-पोंगां आशिल्ले. चार चौगांकडेन कशें चलचें, खबर नाशिल्ले. काळजान बरे. येतल्या वेतल्याची मनापासून सरबराय करपी, अडेच्या भायल्याचारा बगर. पुणून दधीच ब्राह्मणांत 'गूढ हि दाहात्म कमस्ति तेज : ' हे तरेचें एक तेज आसता. तें भायल्यान दिश्टी पडना. भितर लिपिल्लें उरता. तें दुसऱ्या तेजाकडेन घश्टल्या उपरांत पेट घेता. दहेवाणच्या दधीचिंच्या असल्या तेजाच्यो खबरी हांवें हांगा पावचे पयलीं जायत्यो आयकल्ल्यो. तांचो उगडास करीत करीत हांगा आयिल्लों.

बाबर देवो आनी दुसरे तीग वाटमारे मेळून चौगांची हांगा—ह्या खेडा जिल्ल्यांत—जेन्ना धुमशेणा सुरू जालीं तेन्ना पांचवे दिकेन त्रासांत पडिल्ल्या ह्या

लोकांचेर सरकारान ख्यास्त म्हुण एक टॅक्स बसयल्लो——जाका लोक 'हैडियावेरो' म्हुण पाचारपाक लागिल्ले. सरदार वल्लभभाईनी ताच्या आड 'ना-कर' सत्याग्रह सुरू केल्लो. वचत थंय स्वयंसेवकांच्यो छावण्यो पडिल्ल्यो. महीकांठो म्हाराजांनी आपल्या हातांत घेतिल्लो. पुणून म्हाराजांकडेन स्वयंसेवक नाशिल्ले. बरें, पत्रिका काडच्यो म्हळ्यो जाल्यार, त्यो छापून दिवपी छापखानो नाशिल्लो. पत्रिका तांणी खासा हातान बरोवच्यो आनी गांवांगांवांनी भोंवन त्यो वाचून दाखोवच्यो. गांवांत भितर सरचें आनी म्हाराजांनी लोकांक सांगचें–हांव तुमकां सांगपाक आयलां. 'कर भरप ना. भल्लो जाल्यार आमी वाटमाऱ्यांक आसरो दितात अशें जातलें. आमचें नाक कातरतलें——तें आमी कशें सोंसतले ?'

'खरेंच, कशें सोंसतले ? नाक वचचे परस बाकिचें सगळें गेल्लें बरें." हे तरेचे पडसाद पडूंक लागले. '——कर भरप ना, भरप ना, भरप ना म्हळ्यार भरप ना——' हो गुरुमंत्र वीज कसो गांवांगांवांनी पातळ्ळेलो.

## २१. जीवराम

सरकारचे कलेक्टर भायर सल्ले——कर जमोवपाक आनी तो मेळ्ळो ना जाल्यार लोकांचीं घरां-दारां, गोरवां-शेतां सगळें जप्त करपाक. ह्या वाटारांत कांय 'ठाकोर' आशिल्ले. तांच्या हातांत सत्या नासली. तरूय ते हांगासल्ले राजा एकतरेचे. आपापल्या वाटारांतल्या लोकांकडल्यान तांणी कर वसूल करून घेवचो म्हुण सरकारान ह्या संस्थानिकांचेर चेपण हाडलें. ह्या सरकारी चेपणा सुवादीन जालेबगर सुटकावाट ना अशें जांकां दिसलें तांच्यांत दहेवाणचो एक 'ठाकोर' (राजा) आशिल्लो–नारसंग नांवाचो. एक तरणाटो आनी आकांताचो मस्तो. हांव वसूल करून दितां, अशें म्हणून ताणे हें काम आंगार घेतलें.

दहेवाण दधीच ब्राह्मणांचो गांव. ब्राह्मण गरीब. पुण तेजीश्ट. जोत घेवन ते शेतांतल्यान परतता आसतना, धरूंया, वाटेर तांकां ठाकोर (राजा) मेळ्ळो जाल्यार तो ब्राह्मणाच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केले बगर रावचो ना. ह्या ब्राह्मणांनी नारसंग ठाकोराक सांगून उडयलें : 'आमी कर भरपाचे नात.'

ठाकोर म्हणूंक लागलो : 'हांव सांगतां म्हुण भरात'.

'ना. ना. तूं सांगता म्हुण नाक कातरून दिवं येता व्हय ?'

'तर हांव बळयां वसूल करून घेतलों.'

ठाकोराचीं हीं उतरां आयकून दधीच ब्राह्मणांतलो जीवराम उसळ्ळो : ' कितें उलयता तूं ठाकोर ? बळयां घेतलो ? दाखय पळोवया घेवन ! झगडूंक येतलो आमचे कडेन ? यो. आमी तयार आसांत. पयशांनी झगडटलो ? यो. तुबकांनी, तरसादींनी झगडटलो ? यो. . .'

ठाकोर झगडपाक तयार नाशिल्लो. पुण ताणे एक केलें—मेस्तांक सांगलें : ' हांचीं कामां करूं नाकात. '

जीवराम ब्राह्मण. ताणे मेस्तपण सुरू केलें. शेतकामाक लागपी आवतां तो तयार करून दिवंक लागलो.

दहेवाण गांवांतल्या एकल्यानूय कर भल्लो ना. . .निखालूस भल्लो ना.

आमी दहेवाण पावले तेन्ना, जे सुवातेर रावन जीवरामान ठाकोराक जाप दिल्ली ती सुवात म्हाराजांनी म्हाका दाखयली. पुणून जीवरामाची भेट घेवंक हांव पावलो ना.

## २२. तुबका मुखार ब्राह्मण

नारसंग ठाकोर आयज ना. भायर पडलो. ना जाल्यार ताकाय मेळपाचें मनांत आशिल्लें. कित्याक, म्हाराजांनी म्हाका आपणाल्या जिवितांतल्या एका प्रसंगाची खबर सांगिल्ली; ती म्हजे तकलेंत घोळटाली.

सरकारान कर घाल्लो ते मुस्तींत एक दीस दहेवाणच्या ह्या ठाकोराच्या दरबारांत म्हाराज वचून उबे रावले.

' येयात. . .' नारसिंह ठाकोरान तांकां येवकार दिलो.

' हांव आयलां तुमकां निगूट उतरांनी सांगपाक ' अशें म्हणून म्हाराजांनी ताका स्पश्ट उतरांनी ताच्या आगळिकांच्यो खबरी सांगपाक सुरवात केली. ठाकोर चलणुकेन हरशीं गोड. पुणून तागेली ही गोडसाण ह्या ब्राह्मणांच्यो खबरी आयकतां आयकतां कोण जाणां खंय व्हांवन गेली. म्हणटासर दोगांयचें ' तूं तूं' . . .चेर पडलें. ठाकोरा म्हऱ्यांत एक भरिल्लें तुबक पडिल्लें. तें ताणें हातांत घेतिल्लें मात, म्हाराजांनी ताका खंतीन म्हळें, ' आयक, तूं क्षत्रिय, हांव ब्राह्मण. तुका म्हजेबगर—ब्राह्मणाबगर—तुज्या धरमाचो उगडास कोण करून दितलो ? आनी क्षत्रिय आपल्या धरमाक चुकलो जाल्यार ब्राह्मण ओगी रावन कसो पळेतलो ? ते परस तुजे गुळयेन मेल्लों बरों. '

ठाकोर रोखडोच मोव पडलो. निमाणे, माफी मागून ताणे म्हळें, ' म्हाराज, दुसरो कोणूय जाल्लो जाल्यार तुमी सांगल्यात त्यो खबरी आयकून हांव ताका गुळयो घालुनूच जाप दितलों आशिल्लों. पुणून कितें करूं ? तुमच्या मुखार म्हजे कांय चलना. म्हाका जाय तें सांगपाचो तुमकां अधिकार आसा. म्हाका माफ करात. '

## २३. गुळयांच्यो खुणो

तीनसना आमी दहेवाणच्यान गोळव्याक गेले. थंयूय बापूलालभाई नांवाच्या एका दधीच ब्राह्मणागेर रावले. ह्या घराची खरी धनीण नाथीबा. ती भायर पडली. १९३० तल्या एप्रिलांत हे जाणटेलेची पिराय आशिल्ली अठ्ठयाण्णव वरसांची. दांडीयात्रेक वचूंक भायर सरिल्ल्या गांधीजींक तिणे कानपुऱ्याक वचून आशीर्वाद दिल्ले.

ह्या दधिच ब्राह्मणाच्या दरवटचाचेर कांय खुणो आशिल्ल्यो––तुबकाच्यो गुळयो लागिल्ल्याच्यो. मुखार एक देवूळ आसा. ताच्या जनेलाकूय तीन गुळयो लागिल्ल्याच्यो खुणो अजून दिश्टी पडटात.

ह्यो गुळयो दहेवाणच्या ठाकोराच्या––नारसिंहाच्या–तुबकाच्यो. ह्यो खुणो चिड्डितल्यांच्या किवाटचाच्यो म्हणचे परस चिड्डल्ल्या लोकांच्या धिराच्यो म्हणूंक जाय. चिड्डल्ले लोक म्हळचार गोळव्याचे शेतकामती. गोळवा, दहेवाण, कनकपुरा– हे तडीवयले गांव मुदलचे हांचे. थंय एक दीस ह्या महीडा* आनी कोळी ठाकोरांच्यो तरसादी कोण जाण खंयच्यान येवन पुराय वाटाराचेर आपलो शेक बसोवंक पावल्यो. गांव ह्या तरसादकारांचे जाले आनी तरसादीक फकत गांवांचो खंड वसूल करपाचो हक्क मेळ्ळो.

तरसादी एक दीस कळमेल्यो आनी त्यो एका काळार ज्या हातांत आसताल्यो ते हात उपरांत परकी राज्याच्या पायांची धुल्ल घेवन कपळाक लावपाक लागले. तांच्यातलोच एके पिळगेंतलो दहेवाणचो हो राजा (ठाकोर) नारसंग. ताका संद मेळिल्ली. : गांवकारां कडल्यान अदीक खंड घेवपाची, शेतां जप्त करपाची आनी झाडां कातरपाची. तो आपलो अधिकार गाजोवंक लागलो. पुणून दधीच ब्राह्मण आनी पाटणवाडिये एकठांय आयले. तांणी ठाकोरा आड झुजपाखातीर एकवट केलो. झुजाक फावो ती दिशा दिवपा खातीर स्वयंसेवक आयले आनी ते गोळव्याक येवन

---

* एक जात

बसले. कांय जाण देवळांत येवन राविल्ले. कांय नाथीबागेर. नाथीबा तांकांच न्हय तर येतल्या वेतल्या सगळयांक भियेनासतना जेवण वाडपाक लागली.

हें पळोवन ठाकोराच्या भावाक तिडक माल्ली. तो तुबक घेवन आयलो आनी ताणे दोनूय कडेन जंय स्वयंसेवक जमिल्ले थंय——ठो ठो ठो करून गुळयो सोडल्यो. गुळी कोणाक लागली ना. पुणून त्यो सोडपी ठाकोराच्या भावाक मात् लजेवन परतें वचचें पडलें.

दहेवाणच्यान गोळव्याक येवपाक एक स्वयंसेवक भायर सरिल्लो. ताका ठाकोर नारसंगान वाटेर खूब पेटलो. म्हाराज त्या वेळार बारडोलीक. थंय तांच्या कानार ही खबर पावली. तेन्ना ते तडक उठून दहेवाणच्या ठाकोरागेर जाप विचारपाक गेले—— 'ताका कित्याक माल्लो ? हो पळे हांव आयलां, म्हाका मार. भोगूं दी तुज्या हातांक धादोसकाय. '

ठाकोर ओगी पडलो. इतल्यांत फौजदार थंय पावलो. तो मदीं पडलो आनी मागीर सगळेंच शान्त जालें. गोळव्याक तुबकांतल्यान गुळयो सुटिल्ल्यो म्हणपाचो प्रस्न लेगीत फाटीं पडलो. अखेरेक दोनूय पंगडां मजगतीं उलोवणी जावन झूज सोपलें.

पावसाळयांतल्या हुंवारांक लागून गोळव्याची भूंय सकल-वयर जाल्या. वेगळीं वेगळीं फोंडकुलां आनी वेगळयो वेगळयो दोंगुल्ल्यो—असो वांटून गेला. तरी आसतना गांव म्हाका गोमटो दिसलो. चार दीस जाल्ले आमकां भोंवत भोंवत हांगा पावतासर. चार दिसांनी पयलेच फावट आमकां जनेलां आशिल्लें एक घर आनी एक निवळ आंगण पळोवंक मेळिल्लें.

गोळव्याच्यान आमी गाजण्याक आयले. ' हैडियावेऱ्या'चे चळवळींत ह्यावूय गांवांन इतिहास घडयल्लो. म्हाराजांनी ते मुस्तींतले एके रातीचो आपलो एक अणभव सांगिल्लो. ताका लागून गाजणा पळोवपाची उमेद जागी जाल्ली.

जाल्लें अशें——

## २४. धर्मिश्ट ठाकोर

' हैडियावेरो' काडपा खातीर हांगा एक चळवळ चल्ली. गाजण्याचो राजा—ठाकोर—दोन कारणांक लागून हे चळवळी आड गेल्लो. एक तर सरकाराकडेन ताचो संबंद आशिल्लो म्हुण; आनी दुसरें म्हळयार दरबारांतलें देवूळ ताचे कडेन आशिल्लें

आनी तो स्वामीनारायण पंथांतलो आशिल्लो म्हुण, ताका ह्या आफुडभश्ट बी मानी नाशिल्ल्या ‘ गांधींच्या मनशांची ’ तिडक.

रविशंकर म्हाराज त्या दिसांनी ‘ कर दिवं नाकात ’ अशें लोकांक सांगीत भोंवताले. भोंवत भोंवत एक दीस ते गाजण्याक पावले. ‘ ह्या गांधिच्या मनशाक कोण मेळूंक वतलो, पळेतलों हांव ’ हे तरेची दबकावणी ठाक़ोरान लोकांक दिली. परिणाम—म्हाराज गांवांत आयले. पुणून तांकां मेळपाक कोण आयलो ना. येवपाचो कोणाक धीरूच जालो ना. म्हाराज गांवांत पयलेच खेपे पाविल्ले. लोकूय तांकां वळख नाशिल्ले.

म्हाराज तडक उठून दरबारांत गेले.

भितर सरून तांणी ठाकोराक नमस्कार केलो. पुण ठाकोरान तांकां मात लेगीत भौमान दाखयलो ना. लेखी नाशिल्लेवरी केलें. म्हाराज थंयच जमनीर बसले. थोडचा वेळान एक मुसलमान पोलीस-अधिकारी थंय आयलो. ठाकोरान ताका भौमानान बसपाक एक आसन दिलें आनी म्हाराजांकडेन पळोवन विचाल्लें— हांगा कित्याक आयल्यात तुमी ?’

‘ कर भरचो न्हय हें लोकांक सांगपाक. तुमीय लोकांक समजावन सांगात. कर दिवं नाकात म्हुण हें तुमकांय सांगपाक आयलां. ’ म्हाराजांनी जाप दिली.

ठाकोर आदींच तिडिल्लो. ही जाप आयकून अदीक तिडलो. ताणे म्हळें— ‘ बरें आसा, तुमी वचात आतां . . .परते ह्या गांवांत येवं नाकात . . .’

‘ कित्याक येवं नाका ? ’

‘ कित्याक म्हळ्यार ? म्हारां-चामारांक आफुडपी तुमी . . .आचार विचार नाशिल्ले . . .’

ठाकोराच्या तोंडातल्यान हीं उतरां भायर मात सल्ल्यांत, म्हाराजांच्यान रावं नज जालें. ताणीं म्हळें, ‘ कोणाक सांगतात तुमी हें सगळें सायबांनू ? . . .एका ब्राह्मणाक ? मात्शें येवजून पळयात. आमी ब्राह्मणांनी तुमकां शिकयल्लें तेंच तुमी म्हाका सांगतात, किराभाशेन. उपदेस करपाचो अधिकार आमचो, ब्राह्मणांचो. तुमी ब्राह्मणांक उपदेस करूंक लागले . . ? ’

‘ हांव क्षत्रिय . . .’

सोंसूं नज जावन म्हाराजांनी जनेला दिकेन हात करून म्हळ, ‘ तुमचेच पालासी मुखार हे थंय एका लुहाण्याचो पसरो आसा. बाबर देव्यान ज्या दिसा तो पसरो लुटिल्लो त्या दिसा खंय गेल्लें तुमगेलें क्षत्रियपण ?’

' बरें आसा. . .वचात तुमी. '

म्हाराज उठले. भायर आयले. गांवचे शिमेर एक अगरसाळ आशिल्ली. भितर कोण नाशिल्लो. म्हाराज थंय वचून बसले, एकले. रात जाली. मेळूंक कोण येत म्हणपाची आस्त धरपांत अर्थ नाशिल्लो.

## २५. 'हांव क्षत्रिय'

थोडद्या वेळान एक मनीस दिश्टी पडलो. म्हऱ्यांत येवन ताणे विचाल्लें : 'खंयच्यान आयल्यात तुमी ? हांगासर कित्याक बसल्यात ? '

ताच्या प्रस्नाक जाप दिवपा बदला म्हाराजांनी ताका म्हळें : ' तुमी हांगा कित्याक आयल्यात ? हांगासल्ले गेल्ले बरे. कित्याक, तुमी म्हाका मेळूंक आयिल्ले म्हणपाचें ठाकोरासायबांक सट्ट करून कळत जाल्यार, ते तुमचें नांव सरकारांत धाडून दितले. . .

' धाडूं दी. . .करूं दी तांकां जाय तें. हांव क्षत्रिय. उठात. . . या आमी.'

' खंय. '

' आमगेर. '

' पुणून . . .ठाकोर तुमकां. . .'

' फाल्यां लावचो ताणे म्हाका गोळाक. आयज हांव म्हज्या गांवांत आयिल्ल्या एका ब्राह्मणाक उपाशीं रावंके दिवपाचों ना. '

' मनीस खरो ' अशें येवजून म्हाराज उठले. तागेर गेले. घरा पावतकूच त्या मनशान म्हाराजांक म्हळें, '. . .चलात. . .जेवण करात आतां. . .'

' हांव रातचो जेंविना. . .'

' ना. . .ना. . .तें उपकारा पडपाचें ना. '

खूब वांटपणां उपरांत म्हाराज बाजऱ्याची खिचडी खावपाक राजी जाले. लोणचें लावन ताणी खिचडी खाली तेन्नाच त्या मनशाक धादोसकाय भोगली.

हो एकलो गरासियो हांगासल्लो.

मागीर ल्हवूच म्हाराजांनी ताका म्हळें, ' गांवच्या लोकांक मेळपाचें आशिल्लें म्हाका. कितेंय करूं येत व्हय ह्या संबंदान ?'

‘ कित्याक ना ? करूंया सगळ्यांक एकठांय. . . ’

‘ खंय ? ’

‘ स्वामीनारायणाच्या देवळांत. . .’

‘ तें दरबारांतलें देवूळ ! . . .लोक येवपाक भियेतले. ’

‘ पुणून दुसरी सुवात ना आमच्या गांवांत. . .जावन जावन कितें जातलें. ठाकोर सायबूय आयकतले. . .आयकूं दी. . . ’

म्हणटासर लोक एकठांय जाले. लोक इतले आयिल्ले कि देवळा मुखावयलें आंगण भरून ओतूंक लागलें.

म्हाराजांनी थंय एक उलोवप केलें, सरकाराक कर भरूं नाकाता म्हुण सांगपी·

सकाळ जातकूच म्हाराज गेले. फाटल्यान ठाकोरान ह्या गरासियाक आपोवन विचाल्लें, ‘ भाशण कित्याक करूंक लायलें ?’

‘ लोकांक आयकूंक मेळचें ह्या खातीर. . .जांकां आयकुपाचें आशिल्लें ते आयिल्ले. आयकुपाचें नाशिल्लें तांकां आमी बळयां हाडूंक गेल्ले व्हय ? आनी भाशण आयकूंक ना कोणे ? कांय जाण मुखार बसून आयकताले, जाल्यार कांय जाण दारा फाटल्यान तोंड लिपोवन आयकताले. . . ’ गरासियान सडसडीत जाप दिली.

ठाकोरान त्या वेळार कांय म्हळें ना. त्या वगतार तो ओगी रावलो. पुणून मागीर, कांय दिसांनी, दुसरें कसलें तरी निमित्त्य काडून ताणे ह्या गरासियाक ख्यास्त फर्मायली. आनी ताका ती भोगचीय पडली.

हो इतिहास तकलेंत घोळयत घोळयत आमी गाजण्याक पावले.ठाकोर नाशिल्लो. भायर पडून कांय वरसां गेल्लीं. ताचो पूत मेळ्ळो. हो नवो ठाकोर : महेरामणसिंह महीडा. जिस्त दोन दिसां आदीं ताका सरकारान ‘ऑनररी मॅजिस्ट्रेट’ची पदवी दिल्ली. म्हाराज आमकां तागेर घेवन गेले. तेन्ना ताणें म्हाराजांक भौमानान येवकार दिलो. देवळांतूय तो आमकां घेवन गेलो. थंय ठाकोराचो फोटो आशिल्लो. तो पळोवन महाराजांनी महेरामणसिगाक वयलो प्रसंग सांगलो. तेन्ना महेरामणसिंह मात्सो लजेल्लेवरी जालो. ताणे इतलेंच म्हळें, ‘ हांव त्या वेळार अबकारी खात्यांत सरकारी चाकरेर आशिल्लो. ’ ताचे हे जापेंत ताचें सौजन्य दिश्टी पडटालें. म्हाराजांक धर्मशाळेंतल्यान आपणागेर जो गिरासियो घेवन गेल्लो तो ठाकोराचोच भाचो गगुभाई आशिल्लो म्हणपाचें पयलेच खेपे म्हाका हे यात्रत कळ्ळें. ताची भेट मात जावंक पावली ना.

गाजणा सोडलें तेन्ना हैडियावेन्या आड जाल्ले चळवळिच्या जैताचो इतिहास—म्हळचार, लोकांनी दाखयल्ले आपले शक्तिचो इतिहास हांवें तकलेंत परतो एक फावट घोळयलो. कितल्याश्याच मजेच्या गजालिंचो उगडास जालो.

## २६. स्वयंसेवक कित्याक जाय ?

कठाण्यांत म्हाराजांचो राबितो आशिल्लो इच्छाबागेर. इच्छाबा वाडटा ती खिचडी ते खाताले आनी तिगेले पडवेर बसून चरखो कांतताले. ते मुस्तींत तांगेलो एकलो सांगाती आशिल्लो—' बोडको म्हाराज ' नांवाचो. तागेलें मुदल नांव गणपती शंकर. पुणून लोक ताका ' बोडको म्हाराज ' म्हणटाले. बोडको म्हाराज केन्ना कांय उलय नाशिल्लो. मोन्यांनी कामां करतालो. भूक लागताली तेन्ना कोणाच्याय दारांत वचून उबो रावतालो. कांय मागी नाशिल्लो. हातार पडटा तें घेवन धादोशी जातालो.

एके रातची खबर. म्हाराज न्हिदिल्ले. कोणे एकल्यान येवन तांकां उठयले.

' कितें ? कितें जालां ? '

' बोरसदच्यान एकलो आयला. '

' कितें खबर हाडल्या ? '

' व्हडली-शी बरी न्हय. पालेज गांवांत कलेक्टर आयला. '

' कित्याक ? '

' जप्ती करपाक. चांपोल वा बदलपूर—हांगा जप्ती करतलो. '

' बोडक्या म्हाराज' म्हाराजांनी रातच्या इकरांक उलो माल्लो, ' चलात, करात लोकांक एकठांय.'

बोडको म्हाराज उठलो. घराघरांत गेलो, शेताशेतांत गेलो, लोकांक एकठांय केले.

' ह्या वेळार-शे आपयल्यात आमकां. . .?' लोक विचारपाक लागले.

' म्हजी इज्जत वचपाचो प्रस्न उप्रासला ' म्हाराजांनी जाप दिली. ' पालेज गांवांत कलेक्टर येवन बसला. ताका दहेवाणचो ठाकोर घवन आयला. '

' सांगात कितें करचें आमी ?'

' सांगतां : म्हजी दायकी बावीस गांवांची. पुणून म्हजेकडेन एक लेगीत स्वयंसेवक ना.'

‘ कोण ना ? ’

‘ स्वयंसेवक. . .’

लोकांक स्वयंसेवक म्हळचार कोण कितें कांय कळ्ळें ना. तेन्ना म्हाराजांनी म्हळें ‘ काम करपी कोण ना. ’

‘ काम कसलें ते सांगात. ’

‘ जप्ती जावंक दिवची न्हय. हें बाविसूय गांवांत सांगून धाडूंक जाय. ’

‘ त्या खातीर स्वयंसेवक कित्याक जाय ? आमी वचून सांगतात. घरांक कुलपां लावन आमी वतात. . .’

‘ गोरवांचें कितें करतले ? ’

‘ तांकां मेकळीं सोडटले. मागीर तीं कोणाच्याच हाताक लागचीं नात. ’

आनी मागीर ल्हवूच ते सांगपाक लागले : ‘ म्हाराज, व्हडले व्हडले गांव आमी लुटून हाडले. कोणाक कांय सुलूस लागूंक दिली ना. मागीर एक दांतें लिपोवपाक व्हडलें-शें कितें ? ’

उपरांत ते एकामेकांक सांगीत रावले—‘ पळेयात आं. . .म्हाराजांचे इज्जतिचो प्रस्न हो. म्हाराजांची इज्जत वचूंक दिवं जायना. . .’

## २७. दांतें दिलें सरकाराक

सांगिल्लें तशें लोकांनी करून दाखयलें. कर भल्लो जाल्यार आमी वाटमाऱ्यांक आसरो दितात म्हणपाचें खरें जातलें. आमकां खत लागतलें—ह्या एकाच विचारान तांणी खंयच जप्ती जावंक दिली ना.

सरकारी लोक आशिल्ले तशे परतले.

देड म्हयन्याचे चळवळी उपरांत सरकारान हुकूम फाटीं घेतलो. जप्त केल्लो माल जाचो ताका परतो मेळ्ळो.

एक दीस एक सरकारी मनीस एकल्या पाटीदाराक सांगता, ‘ आरे बाबा, तुगेलें तें दातें घेवन वच. ’

‘ तें ह्यांवें सरकाराक दिलां दळपा खातीर. ’

‘ ना. . .तें परतें करचें अशें थल्लां. ’

‘ तशें जाल्यार हाडून दवर आशिल्लें थंय. ’

तो दातें घेवन आयलो. पाटीदार म्हणूंक लागलो, ‘ एक तर तें परतें व्हर, ना जाल्यार सारकें दवर——जशें आशिल्लें तशें . . .’

दातें आशिल्लें तशें दवल्लें तेन्ना ताका पाटीदारान वचूंक दिलो.

## २८. वचूंक दिवचे नात आमी तुमकां

चळवळ सोंपली आनी म्हाराज आपणाली पोती घेवन वचपाक भायर सल्ले.

‘ बरें, येतां तर हांव. ’ तांणी लोकांक म्हळें.

‘ खंय चल्ले ? ’

‘ चल्लों हांव. ’

‘ पुणून खंय . . .’

‘ घरा . . . ’

‘ आमी वचूंक दिवचें नात तुमकां. ’ लोकांचीं काळजां उचांबळीत जावन उलोवंक लागलीं.

‘ पुणून कसो रावंतलों हांव हांगां ? . . . रावंक जावचें ना, म्हज्यान. ’

‘कित्याक जावचें ना ? ’म्हाराजांचो सांगात सोडपाक लोक तयार नाशिल्ले.

‘ रावप जमचें ना. कित्याक, तुमचें आनी म्हजें नातें आतां वेगळें. आमची काळजां आतां एक जाल्यांत. आतां तुमचें दुख्ख म्हज्यान पळोवंक जावचें ना. . . .’

‘ कसलें दुख्ख ? ’

‘ तुमी चोरयो करतले, सोरो पियेतले, मस्ती करतले. . . मागीर पोलीस तुमकां धरून व्हरतले, तुमकां पेट्टले, मारतले. . . म्हज्यान हें पळोवंक जावचें ना.’

तशें जाल्यार आमी चोरयो करचे नात. सोरो पियेवचे नात. . . पुणून तुमकां आमी वचूंक मात दिवचे नात. . . वचपाची खबरूच काडूं नाकात तुमी, म्हाराज.’

म्हाराज वतात ही खबर आयकून लोकांक वायट दिशिल्लें. ते म्हाराजांचे भोंवतणी जमले आनी एकाच ताळ्यान सांगूंक लागले——

‘ आमी तुमकां वचूंक दिवचे नात. तुमकां जाय जाल्यार चोरी सोरो सगळें आमी सोडून दितले. ’

जालें, चोरयो करप ना आनी सोरो पियेवप ना असो सोपूत घेवचो थारायलो लोकांनीं. थारायल्ल्या दिसा लोक एके सुवातेर जमले. चोरी करप ना, आनी धरूया, चोरी जाली जाल्यार सरकारांत केश करप ना; म्हाराज आनी गांवचो लोक मेळून चोर आनी चोरये माल सोदून काडटले आनी लुस्कान भरून काडपाचो यत्न करतले – हे तरेचो थाराव जालो.

सोरो पियेवप ना म्हणपाचें थल्लें. पुणून गुतेकाराच्या गुदावांत सोरो भल्ला ताचें कितें करप ? '

' तो विकतो घेवन उडोवया, म्हाराज. ' लोकांनी उपाय सुचयलो.

' मागीर ? '

' मागीर आनी कितें ? पियेवन उडोवंया सगळो. '

लोक खो खो करून हांसले. त्या हांशा मजगतीं म्हाराजांनी म्हळें, 'अशें उपकारा पडपाचें ना. तुमी मानशात जाल्यार आमी अशें करूंया : सगळो सोरो गुदावांतल्यान भायर काडुंया आनी हुलपावन उडोवंया. '

गुतेकाराकडल्यान सगळो सोरो लोकांनी विकतो घेतलो. तो हुलपावन उडोवंचो बेत थल्लो. फौजदाराक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ताणे म्हाराजांक सांगून धाडलें : ' सगळो सोरो विकतो घेवप होवूय कायद्यान गुन्यांव आनी तो हुलपावन उडोवप होवूय गुन्यांव. '

गांवचे लोक म्हणपाक लागले, ' तशें जाल्यार आमी सगळे हो गुन्यांव करतले. '

लोक उल्लासांत आयिल्ले.

म्हाराज म्हणूंक लागले, ' ना, हो गुन्यांव हांव एकलोच करतलों . '

सोरो घेवन लोक गांवचे शिमेर गेले. थंय तांणी तो जमनीर रकयलो आनी म्हाराजांनी ताका फस्का काडी पेटोवन लायली. वेंत भर वयर उज्याच्यो जिबो आयल्यो. म्हाराज त्यो नियाळीत उबे रावले. मनांत ते आपणाकूच विचारपाक लागले : ' खऱ्यांनीच काय हो राकेस सासणाचो हुलपून मरता ?'

## २९. कामाळियें वेल

हेच भाशेन कठाण्याक, खटलालाक आनी सारेल्याक सोरो हुलपावपाच्यो कार्यावळी जाल्यो.

तेच मुस्तींतली गजाल——म्हाराज लोकां मजगतीं बशिल्ले आसतना एक दीस तांच्या मुखार एकलो येवन उबो रावलो, हातांत एक बोत्ल घेवन. भितर तांबडें गूंज तेल आशिल्लें. बोत्ल म्हाराजांच्या हातांत दिवन ताणे म्हळे, 'घेयात हें, म्हाराज.'

'कितें हें ? '

'माथ्याक लायात . . .'

म्हाराजांचें माथें बोडकें. आनी हो आतां माथ्याक तेल लाय म्हणटा !

'घालात म्हाराज, घालात.' सगळो लोक एका ताळचान म्हणूंक लागलो– 'मुजरत मनीस धाडून हाडलां, आमी तें आयज, शारांतल्यान, बारा आणे दिवन घेतलां——तुमचेच खातीर हाडलां . . .खबर आसा मू तुमकां कितें तें हें ? कामळियें तेल हें कामळियें . . .'

कामळियें तेल ! बोत्लीर एक चित्र आशिल्लें——कमरा मेरेन केंस सोडिल्ले सुंदर बायल-मनशेचें. आनी सकल छापिल्लें 'कामिनिया हॅर ऑइल !' उत्सवा वेळार एकामेकांक चेर लावपाची चाल हांगासल्ली. ह्या लोकांक बावड्यांक 'कामिनिया' तेल चेर कशें दिसलें, कित्याक, ताका वास चेरासारको येतालो. जाणे आपणाचेर उपकार केले ताका 'कामळिया' तेलाचो अधिकार आसा अशें तांकां दिसलें.

'हें कामळियें तेल मुजरत हाडलां शारांतल्यान . . .तुमचेच खातीर . . .लायात तें माथ्याक———' अशें म्हणटा आसतना लोकांचे गालूय खोशियेन फुलिल्ले.

म्हाराज मुमुरख्यांनी हांसले. तांणी बोत्ल कडेक दवल्ली. कामळियें तेल– म्हळचार, कामिनिया हॅर ऑइल–आनी बोत्ली वयल्या चित्रांतली ती लांब केसांची कामिनी : दोगांयची पयली वयली वळख म्हाराजांक त्याच दिसा जाल्ली. म्हाराजांक अजूनूय हे गजालिचो उगडास जाता. आयजूय ते 'कामळिया' तेलाची खबर सांगता आसतना पोट भरून हांसतात आनी त्या दिसा लोकांनी काडिल्ल्या हेळ्चा भाशेन हेळे काडून ते आयजूय म्हणटात, 'कामळियें तेल हें . . .लायात माथ्याक, म्हाराज.'

## ३०. जंजिरो पियेयात

कामळिया तेला सारक्याच आनीक-एका प्रसंगाचो म्हाराजांक खूब फावटीं उगडास जाता——

भादरणच्यान सुमार स मैलांचे वाटेर जोशीकुवा नांवाचो एक गांव आसा. १९२७ त थंय बुडटी आयली. तिका लागून गांवांतल्यो ठाकरड्यांच्यो खोंपी व्हांवन

गेल्यो. गांवांतली जमीन पाटिदारांची. ठाकरडयांक ते नव्यान थंय खोंपी बांदूंक दिवंक तयार जायनात जाले. म्हणूंक लागले, ‘ नव्यो बांदतले जाल्यार खोंपी फाटल्यान म्हयन्याक अडेच रुपये भाडें दिवचें पडटलें. ’

म्हाराज ठाकरडयांक आपले लेखपी. तांणी म्हळें : भाडें दिवप ना. आमी अशें करूंया दोन बिघे जमीन विकतीच घेवंया आनी तिचेर नव्यो खोंपी उबारूंया. ’

‘ दोन बिघे जमनीक णव हजार पडटले– ’ पाटीदार सगळे एक जावन सांगपाक लागले.

‘ बरें आसा. ’ अशें म्हणून म्हाराज तडक उठून वडोदऱ्याक गेले. आनी सरकाराकडल्यान तांणी गांवां भायली दोन बिघे जमीन ठाकरडयांक फुकट मेळोवन दिली. खोंपी आतां हे जमनीर उब्यो जावपाच्यो आशिल्ल्यो. इतल्यांत, म्हाराज बंदखणींत पावले. उपरांत, पाटीदारांनी दबकावन ठाकरडयांकडल्यान ‘ आमकां जमीन नाका’ म्हुण बरोवन घेतलें.

कांय दिसांनी म्हाराज बंदखणींतल्यान सुटून आयले. आनी ठाकरडयांक तांणी जमीन परती मेळोवन दिली. ल्हवू ल्हवू जमनीर खोंपी उब्यो जाल्यो. मागीर एक दीस सगळे म्हाराजां भोंवतणी एकठांय जाले:—तांचे उपकार आठोवपाक तांचो भौमान करपाक.त्या दिसा तांगेल्या मुखेल्यान ल्हवूच पोटलेंत लिपोवन हाडिल्ली एक बोतल अपरूप वस्त जाल्ले वरी भायर काडली आनी म्हाराजांच्या हातांत ती दिवन म्हळें : ‘ म्हाराज पियेयात आतां हें .’

‘ कितें तें ? ’ म्हाराजांनी बोतल बारकायेन पळोवन अजापान विचाल्लें. तांणी असलें कितें ह्या आदीं पळोवंक नाशिल्लें.

‘ जंजिरो तो जंजिरो. . .पियेयात तुमी ’ मुखेल्यान म्हळें. बाकिच्यानींय ताच्या सुरांत सूर मेळोवन म्हळें : हय, पियेयात म्हाराज तुमी. ”

‘ कित्याक पियेवं ? ’

‘ तो पियेतकूच जोर येना. कूड थंड बरी उरता. . . .’

‘ म्हाका जोर केन्ना येना आनी म्हजी कूड सदांच थंड आसता. ’

‘ जावं, जावं, पियेयात तुमी. तुमचेच खातीर तर मुजरत हाडला जंजिरो. ’

‘ जंजिरो ! जंजिरो म्हळ्यार कितें ?’ शारांनी जीं सोडा लेमन सारकी पेयां मेळटात तसलेच तरेची ही बोतल म्हणपाचें म्हाराजांक कळ्ळें. जंजिरो म्हळ्यार जिंजर. म्हारांजांनी बोत्लीकडेन पळोवन म्हळें, ‘ फोडून उडयात ही बोत्ल. ’

' फोडून उडयल्यार तिचे पथशे दिवचे पडटले आमकां पसरकाराक. '

' तशें जाल्यार रकयात ती. '

' कित्याक ? '

' कित्या खातीर पियेवं हांव हो जंजिरो ? तुमकां हे शारांतले छंद खंयच्या लागले ? हातूंत आसा कितें ? भाकरी खातले म्हळचार तुमचेकडेन पयसो ना. आनी जंजिरो पियेवंक मुखार सल्ल्यात तुमी ? रकयात ती बोत्ल. . . . '

ठाकरड्यांक म्हाराजांचें म्हणणें आयकून अजापांचो धसको बसलो. तांणी म्हळें, ' शीः शीः रकोवप कित्याक ? त्या परस ह्या भुरग्याक दियात . . . तो पियेतलो.'

तांणी जिजर एका भुरग्याक पियेवंक दिलें.

दुसऱ्या दिसा सगळे एकठांय बशिल्ले. अवचित भंग्याचें एक चेडूं थंयच्यान पासार जालें. ताच्या हातांत एक बोत्ल आशिल्ली.

' पळेयात, म्हाराज ' ठाकरड्यांनी म्हळें, ' जंजिरो हे भंगी लेगीत पियेतात. पळेयात ह्या चेडवाक. '

म्हाराज मनांतल्या मनांत विचारूंक लागले : ' कोणे हाडून सोडलें हें विख्ख हांगां ?'

## ३१. रेड्याचें रगत पियेवपी देवता

मही-सागर सोडून आमी परतले. वालवोड गांव लागलो. म्हाराजांक प्रिय आशिल्ल्या पाटणवाडियांचो मुखेल गांव हो. त्या भायर चारण लोकांचोय. महेडू आनी देथा जातिचे देवीपुत्र ह्याच वाटारांत रावपी.

कांय वरसां आदली खबर. म्हाराज ह्या गांवांत एक दीस पाविल्ले. तेन्ना हांगासल्ल्या मुखेल्यान तांकां सांगलें. ' ह्या चारण लोकां मजगतीं एकली बायलमनीस आसा—सूरजबा नांवाची. ती योगमाया. म्हळचार, देविचो अवतार. ती रेड्याचें रगत पियता. . .तुमकां आपयतां ती रगत पियेता त्या दिसा. . . '

आयकून म्हाराज ओगी रावले. तांकां हे खबरेंत व्हडलो-सो अर्थ आसा अशें दिसूंक नाशिल्लें.

उपरांत एक दीस बोरसद गांवात एक परिशद भल्ली. म्हाराज परिशदेचे अध्यक्ष. त्याच वेळार वालवोडच्या मुखेल्याचें आपोवणे आयलें—' खूब गरजेचें काम आसा. . .मात्शें बेगीन येयात. '

रगत पियेवपी सूरजबाचो म्हाराजांक उगडास लेगीत नाशिल्लो. दुसरें कितेंय काम आसतलें अशें धरून म्हाराज वालवोडाक गेले.

'फाल्यां सूरजबा रेडयाचें रगत पियेवपाची आसा. . .देखून तुमकां आपोवंक धाडले हांवें.' मुखेल्यान म्हळें.

आयकून म्हाराज खंती जाले. कितें करतले ? तांणी येवजिलें : असली गजाल घडूंक दिवप ना. आपली लागणूक ही. म्हाराज थंय रावले.

उपरांतची खबर खासा म्हारांजांच्याय उतरांनी आयकुंया—

ज्या देवळांत रेडो मारपाचो आशिल्लो थंय गेलों. थंयच्या भटाक विचाल्लें तर तो म्हणूंक लागलो, 'म्हाका कांयच खबर ना. हांवूय असलें कितेंच हांगा घडूंक दिवपाचो ना.' थंयच्यान उठून हांव मुखेल्या सरीं गेलों. आनी ताका हांवें सांगलें 'असली भयांकृत करणी हांव हांगा घडूंक दिवपाचो ना.' तोय म्हणूंक लागलो 'हांवूय जावंक दिवचों ना. . .सरकारच्या कायद्या आड वचपाचें काळीज कोणाक आसा ?'

इतल्यांत सूरजबा थंय पावली. बायल तरणी आनी तेजिश्ट. येना फुडें तिणे मोठ्यान विचाल्लें : 'मुखेल्या, धोल वाजोवपी अजून कसो आयलो ना रे ?' 'केन्ना सो येतलो ?'

मुखेली थरथरून म्हणूंक लागलो, 'आतां आपोवंक धाडटां. . .'

म्हजेकडेन ताणे जी बडाय मारिल्ली ती सूरजबाक पळेना फुडें खंय जिल्ली, कोणाक खबर.

इतल्यात धोलार बडी पडली. एक मोटें पुरसांव भायर सल्लें. हांव थंय गेलों, पळे जाल्यार, मुखार एक धाकलो रेडो. ताच्या गळ्यांत फुलांचो हार. ताच्या फाटल्यान ल्हान ल्हान चलयो, उपरांत मात्श्यो व्हडल्यो, त्या उपरांत जाणटयो—गायत गायत येतात. कितल्यो सुंदर गायताल्यो ! अजुनूय ते सूर कानार आदळटात. आयकन दिसतात. चलयो आनी बायलां उपरांत ल्हान व्हड चारण. नवो भेस, तरांतरांच्या रंगाचे मुंडाशे आनी हातांत तरसादी घेवन. धीट मनशाक लेगीत खप्प जावन थरथरो भरचो हे तरेचो भेश्टावणो देखाव हो.

पुरसांव चलत चलत वतालें. इतल्यांत भट धांवत आयलो. ताणे पुरसांवां भोंवतणी भोवन लोकांक कितलेशेच श्राप दिले. पुणून पुरसांव मुखार चलत गेलें. म्हाका कितें जालें, कोण जाणा ! हांवूंय पुरसांवां फाटल्या चलत चलत

देवळाकडेन पावलों. देवळा भायर आंगणांत चारण हांतऱ्यो पातळावन बशिल्ले. हांवें तांकां विचाल्लें, ' ही हत्या आडावंक येवपाची ना ?'

' कित्याक येवची ना ?' म्हाका जाप मेळ्ळी. : ' बरी आडांव येता. देवळांत भितर देवता बसल्या. तिका विचारून पळेयात. '

देवळांत गितां चलिल्लीं. हांव भितर गेलों. म्हाका भितर आयिल्लो पळोवन सूरजबान दोळे गिरगिरावन विचाल्लें : ' कित्याक आयला हांगा ?'

' रेडयाक मारूं नाकात हें सांगपाक ' हांवें म्हळें.

तिणे दोळे गिरगिरावन ताणशेवन म्हळें : ' चल, वच हांगासल्लो. ना जाल्यार तुकाच खावन उडयतलीं हांव. '

' म्हाका खातली जाल्यार खा. कित्याक हांव जाणा जावन हांगा आयलां. रेडयाक कित्याक मारप ? ताका बावडयाक आपणाक हांगा कित्याक हाडला हें खबर लेगीत ना.'

ती ताणशेली. आनी तिणे हुकूम सोडलो : ' चलयानो, फाफसून उडयात हाका.'

तिणे इतलें म्हळां मात्, चलयो म्हज्या आंगार हुमले जाल्लेवरी येवन दसल्यो. कोण भुरकिता, कोण घांस मारता. म्हजें खोमीस लेगीत तांणी पिंदून उडयलें. हांव रगत बंबाळ जालों. म्हजें कितें जातलें आशिल्लें, कोण जाणा. पुणून म्हाका पुरसांवांत पळोवन कांय पाटणवाडिये ' कितेंय तरी बरें वायट जावपाचें आसा ' ह्या भयान फाटल्यान आयिल्ले. ते पावचे आनी म्हाका रगतबंबाळ जाल्लो पळोवन खुबचे, ताचे पयलींच भायर आंगणांत बशिल्ले चारण धांवत आयले. तांणी म्हाका उबाल्लो आनी भायर हाडून दवल्लो. हांव परतो देवळांत वचूंक करतालों. तेन्ना चारण म्हणपाक लागले, ' आतां वचून कितें करतलो तूं ? रेडो माल्लो आमी. '

सूरजबा रेडयाचें अर्द मण रगत पियेली म्हुण मागीर कळ्ळें.

गांवान मागीर चारणांचेर बहिष्कार घालपाचो थारायल्लो, आनी हांव उठून बोरसदाक गेलों.

एक दीस हांवें ही खबर गांधीजींक सांगली. ती आयकून ते म्हणपाक लागले, ' तुवें चूक केली. हिंसा केली. त्या लोकांक तुवें केन्ना समजावन सांगलें ना. तांच्यो मान्यतायो बदलपाचो यत्न केलो ना. नीट गेलो आनी तांचेर हो हिंसेचो प्रयोग केलो. आतां अशें कर. : वच आनी तांचे वयलो बहिष्कार काड. '

हांव वालवोडाक गेलों. बहिष्कार काडचो म्हुण लोकांक समजावन सांगलें, तेन्ना गांवांतले, दोग चौग वाणी म्हणूंक लागले, ' ना, आमी आतां तांकां सुके सोडपाचे नात. तांकां दंड घालतले. '

हांवें म्हळ, ‘ पापयानों, कितें उलयतात तुमी ? हे चारण. . .कोल्ली लोक. मरपाक उदार. तांचेकडल्यान तुमी दंड कसलो घेतले ? तुमी कितें केलां आयजवेर ? बहिष्कार काडात. . .तुमची इज्जत तरी उरतली. ’

हे भाशेन हे भोंवडेंत आनी ती सुरू जावचे आदींय म्हाराजांनी आमकां ज्यो खबरी सांगल्यो तांतूंत तांची नदर एकूच आशिल्ली––लोकांचो सभाव, तांचें मन उक्तावन दाखोवपाची. हें खरें, तें फट, हें बरें, तें वायट असलो भेद करी नासतना हे लोक खंयच्या खयंच्या तत्त्वान घडल्यात तें समजावन सांगपाची. तांच्या खबरीं फाटलो सूर एकूच ‘ भुरगे कशे लोक हे ’ असो आशिल्लो.

# ३२. सांकोव मोडात

१९२७ त गुजरातांत बुट्टी आयली. पेटलादाच्या सुंदरणा गांवांत पाटणवाडियांची हाजिरी रद्द करपाक म्हाराज गेल्ले. राबितो एका पाटणवाडियागेर आशिल्लो. रातचो अवचित पावस पडपाक लागलो. करतां करतां तो हरंधारींनी पडपाक लागलो. ज्या घरांत आशिल्ले त्या घराचें पाखें मोडलें. मागीर एक वणत कोंसळ्ळी. तरूय घरचो सगळो लोक म्हाराजां म्हऱ्यांतूच बसून रावलो.

‘ बाबांनो, उठात. पाख्याक धिगयो बिगयो लावाच्यो आसत जाल्यार लायात. घरांतलें सामान खंयूय व्हरून दवरचें आसात जाल्यार दवरात. ’ म्हाराजांती तांकां म्हळें.

पुणून कोणूच उठलो ना. तांकां सगळयांक एकूच हुस्को आशिल्लो. काल म्हाराजांक उपास आशिल्लो. आयज पारणें. तांकां आतां कितें दिवचें ? सकाळीं खिचडी रांदूंक लायली आनी एक घोंट आशिल्लें तें खावपाक दिलें. इतलें करून जातकूच तांणी म्हाराजांक दुसरेकडेन धाडून दिले.

हे वाटेन पावस पडत रावलो, आनी उदक चडत वचूंक लागलें.

उदक इतलें चडलें कि आतां गांव बुडटा काय कितें असो भय दिसपाक लागलो. ‘ कित्या खातीर उदक चडटा ? कांय उपाय ना ? ’ म्हाराजांनी विचाल्लें. पाटणवाडिये सांगपाक लागले, ‘ उपाय आसा. रेल्वेचे वाटेर सांकोव आसा. तो मोडलो जाल्यार उदकाक वाट मेळूं येता. . .’

आनी ते विचारपाक लागले, ‘ धर्मज स्टेशनार वचून विचारचें स्टेशनमास्तराक ? ’

‘ च्ये च्ये . . . तो कितें मोडात म्हणटलो ? वचात आनी मोडून उडयात तुमीच . . .’ म्हाराजांनी तांकां सांगलें.

लोकांनी वचून सांकोव मोडलो. उदकाक वाट मेळ्ळी. तें धर्मजचे वाटेन व्हांवपाक लागलें. सुंदरणा गांव बुडपाचो वाटावलो. म्हाराजांक आतां आपल्या वटादरा गांवाचो हुस्को जावपाक लागलो. रोखडेच ते थंय वचपाक भायर सल्ले. पावस उटंगारांचो पडटालो. वाटेर चार-पांच खोल व्हाळ-हुपूंक येवपाचे न्हय असले. म्हाराजांनी दुसरी वाट धल्ली. चार-पांच कोसांचे आडवाटेन शेतांतल्यान चलत चलत ते वटादऱ्याक पावले. थंय वचून पळे जाल्यार पाटणवाडियांच्या शंबरेक घरां भितल्लीं चार–पांच घरांच फकत उबीं आसात. बाकिचीं सगळीं व्हांवन गेल्यांत.

पळोवन तांच्या दोळयांत दुकां आयलीं.

लोक बायल-भुरग्यांक घेवन ह्या मोडक्या घरां भोंवतणी उबे आशिल्ले. उदक चडत गेलें. कितें करचें, समजना, उपाय येवजना, अशें जालें. म्हाराजांनी लोकांक म्हळें, ‘ वयर शेतांत वचात. ’

‘ पुणून आमचें सगळें सामान हांगाच आसा. ’

‘ हांव पळेता तें . . .तुमी वचात . . .’ म्हाराजांनीं म्हळें.

शेतांत वचपाक वाटेर आनी एक व्हाळ लागतालो. तो उपाट भरून व्हांवतालो. इतल्या नेटान व्हांवतालो कि प्रलयाकडेनूच जसो कितें वता अशें दिसतालें. तो हुंपून आतां मुखार कशें वचप ? अवचित तांकां एक उपाय येवजलो. रोखडोच ताणीं एक राजू हाडूंक लायलो. आल्तडीं एका रूखाक ताचें एक तोंक बांदलें आनी पेंवत ते पल्तडीं गेले. थंय आनी एका रूखाक ताणीं ताचें दुसरें तोंक बांदलें. उदक वाडत वाडत राजवाच्या ह्या पुलाक तेंकलें. मदीं उबे रावन एक एकल्याक राजवाच्या आधारान ते पल्तडीं देंवोवपाक लागले. सगळे बरेभाशेन पल्तडीं पावतकूच ते गांवांत परतले. लोकांक ताणी उतर दिल्लें, आपुण तुमचें सामान पळेतलों म्हुण; ताका पाळो दिवपाक ते सवन रात थंय उबे राविल्ले.

म्हाराज न्हय जाल्यार, लोकांचो जीव वाटावपाचें काम त्या दिसा देवाच्याच हातांत उरपाचें.

गांवांत चुनीलाल शेठ म्हुण एकलो रावतालो. तागेलें घर चिऱ्यांचें. म्हाराज दुसऱ्या दिसा तागेर रावपाक गेले. ते मेरेन पावसाचो अच्छेव उणो जावंक लागिल्लो. चार दिसांनी वरुण-देवाचो राग न्हिविल्लो–हुंवार देंविल्लो.

पांचव्या दिसाची खबर. घरधनयाच्या एका मनसाक अफू खावपाचें व्यसन. तो अफू हाडपाक खंभातांतल्या कांधरोटी गांवांत गेल्लो. तो थंयच्यान परतलो तेन्ना ताणे एक खबर हाडली––कांधरोटी गांवचे लोक म्हणटात म्हुण कि आमकां सगळयांक म्हाराजांनीच वाटायले, म्हाराज न्हय, जाल्यार आमी सगळे मरपाचे. कशे वाटायले? तर खंय म्हाराज, हुंवारांतल्यान उदकावयल्यान चलत चलत आयले–' आमी आमच्या दोळयांनी पळेल्यात तांकां येतना. . .तांगेली फकत तोपीच भिजिल्ली. . .खोमीस पुडवें, तऽश्शें. . .सुकें सडसडीत आशिल्लें. येवन तांणी आमकां सांगलें, ' तुमी भियेंव नाकात. कांय जावपाचें ना तुमकां. हे ते उंचायेचे सुवातेर वचून उबे रावात हे भाशेन आमकां धीर दीत दीत आयिल्ले, तशेच ते परते उदकावयल्यान चलत गेले...'

' हे लोक आतां हांगा म्हाराजांक पांयां पडपाक येवपाचे आसात.'

तागेली ही खबर आयकून घरधनयान म्हाराजांक विचाल्लें : ' म्हाराज खरें हें ?'

' च्ये ! कपळ खरें. पांच दीस जाले, हांव हांगा तुमगेर आसां तें तुमी पळेतात....' म्हाराजांनी हांसत हांसत जाप दिली.

' पुणून ते लोक सांगतात न्हय ! . . .'

' सांगूं दी बावडयांक. . .'

म्हाराजांनी चड विसकावन सांगलें ना. पुणून तांकां एक प्रस्न मात पडलो–वटादऱ्याक आसा आपुण. मागीर, कांधरोटच्या लोकांनी आपणाक कसो पळेलो ? तोवूय हुंवारांतल्यान चलत आयिल्लो. आपल्या आंगावयलीं लुगटांय खंय भिजूंक नाशिल्लीं आनी आपणे खंय तांकां धिरूय दिल्लो ! लोकांक अशें कित्याक दिसचें ?

तातूंत परत आनीक एके गजालिची भर पडली. म्हाराज रावताले त्या चुनिलाल शेठिच्या गोठयांत एक घोडी बांदिल्ली आशिल्ली. एके रातची ती पांय आपटूंक लागली. ' भूक लागल्या जावये. . .ती तण सोदता जावये ' अशें येवजून म्हाराज गोठयांत गेले. गोठयाच्या दारांत दोन बैल बांदिल्ले आशिल्ले. म्हाराज तडक गोठयांत गेले, घोडयेक तण घालें आनी परतले. चुनीलाल शेठ एके कडेन बसून हें सगळें मोन्यांनी पळेतालो. थोडया वेळान येवन ताणे म्हाराजांक विचाल्लें,' म्हाराज फट कित्याक उलयतात तुमी ?'

' फट ?. . .कसली फट माल्ली हांवें ?'

' कांधरोटिच्या लोकांक तुमी चमत्कार करून दाखयल्यात जावंक जाय. '

' कित्या वयल्यान ?'

‘ कित्या वयल्यान म्हळ्यार. . .हे बैल मारखुरे. . .गोठ्यांत कोणाक भितर सरूंक दिनात. रोखडे शिंगार घेतात. तुमी गोठ्यांत गेले. तुमकां तांणी कांय केलें ना. . .तुमकां पळोवन तकली लेगीत हालयली ना. ’

म्हाराज हांसले, ‘ तांतूंत कितें ? मोनजातिचो एक स्वभाव जाणात व्हय तुमी ? जाका तुमी मारखुरो म्हणटात, ताका मारखुरो लेखून ताच्या म्हऱ्यांतल्यान भियेवन वशात जाल्यार तो मारूंक धांवता. . .म्हाका बैल मारखुरो म्हुण लेगीत खबर नाशिल्लें. म्हुण हांव भियेनासतना गेलों. देखून ताणे म्हाका कितेंच केलें ना. . .हेय गजालीक तुमी आतां चमत्कार लेखतले ?’

पुणून दुसऱ्या दिसा कांधरोटी वाटारांतलो लोक म्हाराजांक मेळपाक आयलो. तांकां पांयां पडलो आनी म्हणूंक लागलो, ‘ म्हाराज तुमी पावंक नाशिल्ले जाल्यार आमी सगळे काबार जावपाचे. ’

म्हाराजांनी खंबीर उतरांनी तांकां सांगलें—‘ बाबांनो, हांव थंय येवंकूच नाशिल्लों. हांव हांगाच आशिल्लों. म्हाका चमत्कार बिमत्कार करूंक येनात. उदका-वयल्यान चलूंक येना. . .तुमकां भ्रम जाला. . .’

पुण लोक ते कितें सांगतात तें मानून घेवंक तयार नाशिल्लो. तांकां पांयां पडून तो परतलो. म्हाराजांचें मन खांकडेवंक लागलें : लोकांनी अशें कित्याक मानचें ? अखेरेक तांकां एक जाप मेळ्ळी—जंय खूब उपाट मोग आसता थंयच तो कठिण प्रसंगार मनशाक हे तरेचो दिश्टावो घडोवन दिता जावंक जाय. ’

उपाट मोग !

ह्या पुराय पुस्तकाचो आपरोस ह्याच दोन उतरां भितर सांगूं येता : उपाट मोग.

* * *

## साहित्य अकादेमी उजवाडायल्लीं पुस्तकां

**१. कोंकणी काव्यसंग्रह**

संपादक : बाकी बाब बोरकार — रु. १८–००

**२. भगवान बुद्ध**

मुदल मराठींत बरोवपी : धर्मानंद कोसंबी
कोंकणीत हाडपी : बाकी बाब बोरकर — रु. २०–००

**३. कांदीद**

बरोवपी : व्हॉल्तॅर
अणकारपी : मनोहरराय सरदेसाय — रु. १५–००

**भारतीय भासांचे साइत्य घडोवपी**

**१. शणै गोंयबाब**

बरोवपी : रा. ना. नायक — रु. २–५०

**२. प्रेमचंद**

बरोवपी : प्रकाशचंद्र गुप्त
कोंकणीत हाडपी : ओलिव्हीन गोमिश — रु. ४–००

**फुडलीं प्रकाशनां :**

**कोंकणी कथा संग्रह**

संपादक : चंद्रकांत केणी

मळपाचें ठिकाण :

**साहित्य अकादेमी**

१७२, मुंबई मराठी ग्रंथ संग्रहालय मार्ग,
दादर, मुंबई ४०० ०१४

**फोन नं. ८८२५७४४**